

कोंकणी लोकवेद प्राकारांत
कोंकणी लोक-नाट्याचें
विमर्शात्मक विशलेषण

# खेळ राजांव







✍ पावलू मोरास

पडवळ प्रकाशन
मंगळूर - ५७५ ००४.

कोंकणी लोकवेद प्राकारांत
कोंकणी लोक-नाव्याचें
## विमर्शात्मक विशलेषण

*अख्ख्या संसारांत मनशाकुळान
जोगासाणेन वागयिल्ल्या
लोकवेदांतल्या संस्कारा पयकी
प्रमूख स्थान घेतल्ल्या खेळ प्राकारांत
राजांव आसा जाल्यार
कोंकणी लोकांचा संस्कारा थावन रुता जाल्ल्या
खेळ प्राकारांतयी आसा*

# खेळ राजांव

*ऐतिहासीक व्याख्यान ग्रंथ*



पावलू मोरास
कोंकणी चळवळेगार, साहिती आनी संशोधक

प्रकाशक :
पावलू मोरास
पडवळ प्रकाशन
प्रदीप', कोट्टार क्रास जंक्षन,
बिजै कापिकाड, मंगळूर - ५७५ ००४.
मोबैल : ९८८०७४९७९०

**'Khel Rajaunv'**
Konkani Challvoll Volume IV
- ***A critical analysis** on Konkani Folk-Drama in Konkani Folklore category.*

A reseach and study on Konkani Movement in Konkani. (Devnagari Script)
*by PAUL MORAS*



| | | |
|---|---|---|
| Published by | : | Paul Moras<br>Padvol Prakashan<br>`Pradeep', Kottaracross, Ist Cross<br>Bejai, Kapikad, Mangalore - 575 004.<br>Mobile : 9880749790 |
| Pages | : | 4+23+215 |
| Cover Design & DTP by | : | Stella-Manu<br>Printdesigns<br>Ph.: 4270026 Mob.: 9844856895 |
| Printed at | : | Prasad Printers, Kulshekar, Mangalore |
| First Edition | : | 2013 |
| Price | : | **500/-** |

# तीरल

पान

○ मांडावळ – १
प्रास्तावीक v

○ मांडावळ – २
व्याख्यान 3

○ मांडावळ – ३
अनुबंध 164

○ मांडावळ – ४
वोळेरी 207

○ मांडावळ – ५
लेखानीक xii

## मांडावळ –१

# प्रस्तावीक

पान

**प्रास्तावन** v - vii

दो। आलवीन विन्सेंट डेसा

*MA, PGCTE, Ph.D.*

**अप्रतीम कृती** viii

गोकुळदास प्रभु

*कार्याध्यक्ष, अखिल भारतीय कोंकणी परिशद*

# प्रस्तावन

येया, आमी खेळुयां– *"हो सगळो संसार एक रंगमंच आनी आमी सकडां तांतले पात्रदार"* –**शेक्सपियर** (As you like it)

आमकां सर्व काळा थावन कळीत जाल्ल्या प्रकार सामाजीक, तशेंच व्यक्ती–व्यक्ती मदलें संभाषण प्रमूख जावन तोंडपाशीं मुकांत्र चलता तरी चड माहेतपूर्ण आनी क्रियात्मक संवाद (Communication) खेळ (Play/Action) मनश्या नागरीकतेचो एक मुळावो वा पयलो मयला फातर म्हळ्यार कायिंच चूक जांवची ना. मनश्याकुळाची हीच जब्बोर मुळावी आशा व गर्ज क्रमेण विवीध रुपां घेवन पर्जळल्लो खेळ आकर, काळ पाशार जातां जातां निर्दिष्ट बांदावळ घेवन, नाटक प्राकार जालो. होच नाटक प्राकार आतां एक क्रियाळ रंजनाचें तशेंच संस्कृतेचें बळादीक हातेर जावन परिवर्तन जालां म्हणच्याक कायिंच दुबाव ना.

ह्या संप्रदायेचा व सांस्कृतीक प्रदर्शनाच्या माद्यमा विषयांत सबार संसोद चल्ल्यात आनी चलोन्ंच आसात. नागरिकतेची चरित्रा उस्तिल्यार खेळ व लोक–नाट्य प्राकार विवीध रुपांनी बौशीक रंजनाचो एक मुळावो भाग जावन आसचें कळोन येता. मनशाकुळाचा मुळाव्या गर्जेक एक स्वरूप दीवंक केल्लें निरंतर प्रयत्न हजारों वर्सां उपरांत

लोक–नाट्या थावन ताचे विवीध प्रबेद घेवन नाटक जावन वाडल्लें आमी देखतांव.

खेळ, लोक–नाट्य, तियात्र आनी नाटक असले प्रमूख प्रबेद कोंकणी रंगभूमिच्या चरित्रेंत चाळटाना झळकातात. ह्या विवीध प्रबेदां विषयांत गुंडायेन अध्ययन आनी तांचें विमर्शात्मक विशलेषण येदोळ विशेस थरान चलोंक ना म्हण आयकोंक मेळता, तरी आज संशोधक श्रीमान पावलू मोरास हाणे ह्या आयिन्न क्षेत्रांत संशोधन करून विमर्शात्मक विशलेषणाचो ग्रंथ रचून आमच्या हातीं दिला म्हळ्ळीच एक संतोसाची गजाल.

ह्या ताच्या कोंकणी रंगमंचाच्या विमर्शात्मक विशलेषणाच्या संसोधन ग्रंथांत खेळ  आकर आनी लोक–नाट्य प्राकार प्रदान पात्र खेळतात, नाटक प्राकार ना पूण तियात्र प्रकार आसा.

खेळ आनी लोक–नाट्य प्राकार हाताळताना तियात्र प्रकार ह्या बांदावळिंत कसो बसता म्हळ्ळें विवरण्च ह्या ताच्या ग्रंथाचो क्रियात्मक विमर्सो. खेळाक खेळ कसोय जाव्येत पूण तियात्राक आनी नाटकाक ताचेच म्हळ्ळे बांदावळी तांकां अंर्दून भांदतात तरी एकाच पंग्तिंत बसानांत म्हण सूक्ष्म थरान सांगचेंच ह्या ग्रंथाचें विश्लेषण. कोंकणी रंगमंचाचो असलो एक विशिषट विमर्शात्मक विश्लेषणाचो संशोदनात्मक सृजनशील ग्रंथ, पावलू मोरासान गुंडायेन अध्ययन करून वर्त्या म्हिनतेन तयार करून कोंकणी साहीत संसारांत एक नवाल घडलां म्हण उचारुंक हांव संतोस पावतां आनी ह्या खातीर ग्रंथकर्त पावलू मोरासाक शाबासकी पाटयतां.

संशोदक पावलू मोरासाचो कोंकणी चळवळ, जागरण आनी मोग्रें–कारण, ग्रंथांनी कोंकणी चळवळेची झर निशेल्लेबरी, ह्या ग्रंथांतयी

कोंकणी चळवळेची वज्र–धार दिष्टीक पडता. तियात्रिस्तांक ताणे कोंकणी चळवळेच्ये नदरेन देखलां आनी गोंयच्या सुटकेचा आनी अस्मितायेच्या चिंतपाक चीरलां, असलें विनूतन चिंतप येदोळ हावें वाचुंकयी ना, आयकोंकयी ना.

असलो एक विशिषट कोंकणी रंगमंचाचो विमर्शात्मक विश्लेषणाचो संशोधीत सृजनशील ग्रंथ कोंकणी साहित्याच्या मळार एक वज्र जावन पर्जळोंदी.

असल्या ग्रंथा मुकांत्र मुखले कोंकणी साहित्याचे संशोधक उत्तेजीत जावन चडानचड ग्रंथ रचुंक पावोंदीत म्हण आपेक्षितां.

दो। आलवीन विन्सेंट डेसा
*MA PGCTE Ph.D.*

*असोसियेट प्रोफेसर*
*सां. लुवीस महाविद्यालय,*
*मंगळूर – ५७५ ००३*

# अप्रतीम क्रुती

खंययचेय भाशेंत लिखित साहित्य विकसित जावचें पयलीं तोंडी साहित्याची परंपरा आसता. ही परंपरा लोकगीत, लोककाणयो, लोकनाव्यरूपानी मेळटा. लिखित साहित्याचे सुरवातेक लेगीत बरोवपी चड करून लोकसाहित्याचो व धर्मग्रंथांतल्या कथानकांचोच आधार घेता. कोंकणींतय अशेंच घडलां. इकुणीसाव्या शेंकड्यांत आमचे भाशेचें आधूनिक साहित्य सुरू जावंचे पयलीं सामान्य मनशानी आपली भावना आनी आपलो अणभव कोंकणी लोकवेदाच्या वेगवेगळ्या प्रकारानी प्रगट केलो.

एकुणीसाव्या शेंकड्याच्या उत्तरार्धांत पश्चिमी पद्धतीच्या शिक्षणाक लागून कोंकणी धरून साबार भारतीय भाशांच्या साहित्यिक प्रकारांक नवीं रूपां लाबलीं आनी साहित्याच्या रसास्वाद्नाक/अभ्यासाक नवी वाटचाल मेळ्ळी. पुण आमच्या लोकवेदाचो संग्रह आनी अभ्यास करपांत मात खूब काळांव जालो. कोंकणी लोकवेदाचे नमूने विसरांत पडले व नश्ट जायत आयले, तेन्नाच तांचो संग्रह करपाचें काम सुरू जालें. कितेंय जांव, हें काम फाटल्या वीस–पंचवीस वर्सानी खूब नेटान चलत आयलां आनी गंभीर अभ्यास करपाक जाय तितल्यो लोकगीतां, लोककाण्यो, लोकनाव्यविशय उपलब्द आसा. पूण, दुर्दैवान लोकवेदाचो फावो तितलो अभ्यास आनी विश्लेषण अजून जायना अशें म्हणचें पडटा.

हे पार्श्वभूंयेर पावलुबाब मोरास हांच्या खेळ राजांव ह्या पुस्तकाचो येवकार करूंक जाय. ह्या पुस्तकांत मोरास हाणीं तियात्र ह्या नाव्यप्रकाराचें वेगवेगळे रीतीन विश्लेशण केलां. जागोर, खेळ आदी लोकनाव्य प्रकार आनी तियात्र हांचो संबद, तियात्राचो उगम आनी प्रगती, वेगवेगळ्या काळमानांत समाजिक, राजकर्णिक आनी आर्थिक परिस्थिती निर्माण जाल्ल्यान तियात्र प्रकाराचेर कसलो परिणाम जालो हाचेर उजवाड घालपाचो मोरास हाणीं प्रयत्न केला. ह्या प्रयत्नांत लेखक कितलो सफळ जाला म्हणून वाचप्यानी निर्णय घेवंचो.

पूण ह्या पुस्तकाचें एक खाशेलपण वाचप्यांचे नदरेंत हाडूंकच जाय. कोंकणी समाज जात धर्माक, प्रदेशाक आनी लिपीचे समस्येक लागून विघडित जावन आसा. गोंयांत, हिंदू आनी क्रिस्तांव समाजांत प्रचलित आसच्या कांय लोकनाव्य प्रकारांचो अभ्यास करून हें पुस्तक बरयतना मोरासान ह्यो वण्टीय मोडून उडोवपाचो वावर केला. देखून हो वावर खूब तोखणायेचो.

– गोकुळदास प्रभु

*कार्याध्यक्ष, अखिल भारतीय कोंकणी परिशद*

मांडावळ - २

# व्याख्यान


| | पान |
|---|---|
| ○ अपरोस | 3-6 |
| ○ खेळांत राजांव | 7-19 |
| ○ कोंकणी लोक-नाट्य प्राकार | 20-36 |
| ○ लोक-नाट्यांत रुपांतर स्वरूप | 37-52 |
| ○ खेळ-तियात्राचो आकर | 53-66 |
| ○ कोंकणी तियात्राचो प्राकार | 67-78 |
| ○ सुर्वील्या तियात्रिस्तांचो वावर | 79-90 |
| ○ उदेवन आयिल्ले नवे कलाकार | 91-101 |
| ○ नामनेचे कलाकार | 102-111 |
| ○ नाट्य-कलेंत अस्तुरी | 112-122 |
| ○ तियात्राचें वर्गीकरण | 123-133 |
| ○ सुटकेचो काळ - साक्स | 134-139 |
| ○ अस्मितायेचें चिंतप | 140-149 |
| ○ तियात्र राजांव | 150-160 |
| ○ पर्तोवणी | 161-163 |

## मांडावळ – ३

# अनुबंध

पान

○ अनुबंध – १
तियात्राचो भांगाराचो जुबलेव 164-166

○ अनुबंध – २
"गोवन तियात्र – लोक नाव्य न्हय" 167-170
(Goan Tiatr - Not a folk drama)
– तोमाजिनो कार्दोज

○ अनुबंध – ३
"कोंकण तियात्रो–गोंयचो लोकवेद" – प्रतिवाद 171-174
– वीलमिक्स विल्सन मजारेलो

○ अनुबंध – ४
सुटके काळार पर्जळ्ळेले तियात्रिसत 175-206

## मांडावळ – ४

# वोळेरी

अर्थावोळ 207

आधारावोळ 210

# अपरोस

कोंकणी लोक–नाट्य प्राकाराचें विमर्शात्मक विश्लेषण्‌च ह्या 'खेळ–राजांव' ग्रंथाचो अपरोस. लोक–नाट्य प्राकारांनी सजयिल्ली कोंकणी चळवळ संशोधन करून बरयल्यार तो ग्रंथ सृजनेतर (Non-creative) जाता. पूण त्याच ग्रंथांत संशोधन करून बरयिल्ल्या लोक–नाट्याचेर विमर्शात्मक विश्लेषण करून ग्रंथ सजयिल्यार ग्रंथ सृजनात्मक (creative) कृती जावन बदलता. ग्रंथाची सोबाय चडता आनी कोंकणी साहित्याच्या मळार एक अपरूप कृती जावन सोबता.

पूण कोंकणी भाशेच्या साहित्याच्ये सावळेंत खंयचाय प्राकाराचें विमर्शात्मक विश्लेषण करचें खंडीत कष्टांचें. कारण कोंकणी भाशेंत विमर्शात्मक विश्लेषणाच्यो कृतियो पळेवंक, वाचुंक सोडन, आयकोंक सयत मेळचो भारी अपरूप. ही दुस्थिती वाडावळ जाल्ल्या प्रमूख भाशेंक ना. प्रख्यात बरयणार शेक्सपियाराच्या नाटका विषयांत इंगलीष भाशेन तशेंच इतर प्रमूख भाशेंनी आतांयी विश्लेषणाचे ग्रंथ धाराळ येवन्‌च आसात. ह्या वाडावळी वर्वीं नव्यान संशोधीत करून विश्लेषण करतेल्यांक कांटभर काडियो बोडियो आरावंक आनी बोरुंक मेळतात. कोंकणी भाशेक तें भाग मुखल्या दिसांनी येवंक पुरो.

असल्या एका परिगतेच्या पाट भुंयचेर अखील भारत कोंकणी परिषदेचो प्रस्तूत कार्यध्यक्ष मानेस्त गोकूलदास प्रभू ह्या म्हज्या ग्रंथा विश्यांत संवाद चलयताना, विमर्शात्मक विशलेषणाचो ग्रंथ उत्पन्न करुंक म्हाका प्रोत्साव दिलागलो.

तशें ताणे सांगोंक आनी ह्याच वेळार एक सुसंदर्भ उदेवन येंवकई समा जालें. क्री.श. २०१२ वरस सबार घडितांचीं शतकां संपूर्ण जांवचें वरस म्हण समजाल्ल्या 'राकणो' कोंकणी हप्ताळ्याच्या संपादक मा. बा. फ्रान्सीस रोड्रिगसान असल्या विशिषठ घडितांचीं लेखनां बरोवंक म्हाका प्रोत्साव दिलो.

असल्या शेंबोर वर्सां संपंवच्या विशेस घडितां पयकी 'आधुनीक कोंकणी नाटक'यी एक घडीत. ह्या घडिता विश्यांत लेखनाच्ये तयारेर आसल्लें आयकोन कोंकणी साहिती वितोरी कार्कळ म्हणालो–कोंकणी नाटकाचो शतमानोत्सव कितले पावटीं? म्हळ्ळें खडक्क राजांवीक सवाल ताणें तक्षण उडयलें. व्हय ह्या सवाला पाटलो वादच ह्या ग्रंथाचो अपरोस.

मुंबय श्हेरांत प्रगट जांवच्या प्रख्यात 'दिवो' कोंकणी हप्ताळ्यान २००२ इस्वेंत '१०० वर्सांचो कोंकणी रंग मंच' म्हळ्ळ्या माताळ्याखाल विशेस अंको काडल्लो. मुंबंयत १८९२ इस्वेंत सूर्वात जाल्ल्या कोंकणी तियात्र प्राकाराक लेकाक धरून कोंकणी नाटक रंगाक शेंबोर वर्सां संपलीं म्हळ्ळें व्याख्यान्‌च त्या विशेस अंक्याचो तीरल.

त्या उपरांत २००९ इस्वेंत आधुनीक कोंकणी रंगमंची म्हळ्ळ्या विशयाचेर साहित्य अकाडेमी नवी दिल्ली आनी कोंकणी भास आनी संस्कृती प्रतिष्ठान मंगळूर हांच्या जोड आसऱ्याखाल – 'कोंकणी नाटकाचें मूळ आनी आधुनीक कोंकणी रंगमंची' म्हळ्ळ्या व्याख्यानाचेर जाल्ल्या परिसंवादांत १८९२ इस्वेंत सुरवात जाल्लो तियात्र आनी १९१२ इस्वेंत खेळोन दाकयिल्ल्या 'चंद्रहास' नाटका वयर तर्क करून आधुनीक नाटकाक शेंबोर वर्सां भरचीं केदनां थावन मुळ्ळ्याचेर भारी चर्चा जाली. पूण ह्या गोंदोळाक सबिकां कडेन तवळ स्पष्ट जवाब नातल्ली.

१९९३ इस्वेंत मराठी साहिती मानेस्त विनायक विषणू खेडेकारान बरयिल्ल्या 'लोकसरिता' ग्रंथांत 'खेळ–तियात्र' आनी 'तियात्र' प्राकाराचेर ताणे व्याख्यान दिल्ले विश्यांत, हांव २००८ इस्वेंत गोंयां गेल्ल्या वेळार प्रख्यात तियात्रिस्त मानेस्त तोमाजिनो कार्दोजो हांचें कडेन प्रस्ताप काडलो. आमचे मधें सबार वेळ 'खेळ–तियात्र' आनी 'तियात्र' ह्या नाट्य कला विश्यांत चर्चा जाली. ह्या चर्चा वयर थोड्याच दिसांनी ताणे एका इंगलिष पत्रार 'गोवन तियात्र लोक–नाट्य न्हय' म्हळ्ळो बळिषट वाद लेखना मुखांत्र मांडलो.

अशें वाद मांडल्लो वाचून, गोंयांतलो आन्येकलो प्रख्यात तियात्रिस्त मानेस्त वीलमिक्स विल्सन माजारेल्लो हाणे ह्या वादाक आपलो प्रतिवाद मांडून – 'तियात्र गोंयचो एक लोकवेद प्राकार' म्हणोन वेगळ्याच एका इंगलीश पत्रार लेखन बरयलें. हे दोनी वाद आनी प्रतिवाद वाचून आनी हेर साहितिंच्या चिंतपा आनी परिकल्पना प्रकार हावें नाटक आनी 'तियात्रा मदलो वेगळाचार' म्हळ्ळें लेखन बरवन 'राकणो' पत्राक धाडलें आनी तें प्रगटयी जालें. अशें लोक–नाट्याचें विमर्शात्मक विशलेषण घडोन येवंक मतिंत चिंत्लां उदेवन आयलीं.

असलें एक सांदर्भीक घडीत ह्या नाट्य कलेच्या शतमानोत्सव वरसा घडोन येताना म्हजो कोंकणी लोक–नाट्याचो ग्रंथयी तयार जावन येतलो. ह्या तयार जावन येंवच्या ग्रंथांत कोंकणी लोक–नाट्या सांगाता तियात्र, खेळ तियात्र आनी तियात्रा थावन थियेटराक म्हणोन कोंकणी पिंतुरांचो विशय समेत आटापून आसल्लो.

हाच्या फुडें बासाबास केल्ल्या घडितांच्या आधारार तियात्राचें वर्गीकरण लोक–नाट्याच्या बांदावळी भितर येंवचें पळेवन कोंकणी पिंतुरांचो विशय ह्या ग्रंथा थावन मेकळो केलो आनी वेगळोच एक

ग्रंथ रचुंक येवजण केली. ह्या सांदर्भीक घडितां वर्वी हो लोक-नाट्याचो ग्रंथ सृजनेतर जावन रचीत जांवच्या बदलाक सृजनात्मक जावन रचीत जालो.

आपरोस म्हळ्यार अपूट रोस म्हळ्ळ्या अर्था सांगाता, संक्षिप्त विवर, परिचय, सारंश इत्यादी अर्थयी ह्या सब्दाक लागू जाता जाल्ल्यान, हो ग्रंथाचो संक्षिप्त विवर व ग्रंथाची परिचय आटापच्या ह्या सुर्विल्या परिचय दिंवच्या उत्रांक आपरोस म्हण वोलायलां.



# खेळांत राजांव

खेळ म्हळ्यार कितें म्हण पयलें सारकें समजाल्या शिवाय खेळांत राजांव उलोवंक जायना.

साद्ये भाशेन खेळ म्हळ्ळ्या सब्दाक अर्थ सबार. पूण हांगासर उल्लेख जांवचो सब्द लोक–नाट्यांत प्रयोग जांवचो म्हण समजोंचें.

पुर्विल्या काळार विधीचें आचरण जांव मनोरंजना खातीर जांव चार–चोवगां जमताना आंगा–पांगाक रंग सारवन, गावन आनी नटन करुन हासंवच्ये विद्येक जेराल सब्द खेळ. हाका पाश्चात्य देशाचे प्ले (Play) म्हणताले. होच खेळ एका कथानकाच्या बांदावळीन रंगमंच्ये वयर अभिनय करच्या कलेक नांव नाटक, आनी पाश्चात्य देशांनी ह्या कलेक नांव ड्रामा (Drama).

नाटककारान बरयिल्ल्या कानयेचेर, नट रंगान अभिनय करताना नाटक घडता. अशें घडच्या नाटक कृतिचें प्रदर्शन रंगमंच्ये वयर चलता जाल्ल्यान विदेशी लोक ह्या नाटकाभिनयनाक थियेटर (Theatre) म्हणाले. ह्या थियेटर सब्दाक समानार्थ सब्द नातल्ल्या वर्वीं हांगासर 'नाटक' म्हणोन ओळकोंचें वाजबी. पूण कोंकणी संस्कृतेंत 'तियात्र' म्हळ्ळो सब्द वापरतात तो प्राकार वेगळोच.

कोंकणी संस्कृतीच्या नाट्य प्राकाराचें विश्लेशण म्हणताना, कोंकणेचें मूळ कुळार गोंयच्या लोक–नाट्य प्राकाराचेर पयली दीश्ट चरता. लोक नाट्य म्हळ्यार कलेचें प्रदर्शन न्हय. बगार समुदायेन

जोगासणेन हाडलेली लोक-जीवनाची परंपरा. लोकांनी लोकां खातीर तयार केल्ली ही कला. ह्या कलेच्या संस्कारांतल्यान जल्माक आयलीं लोक गितां, लोक नृत्यां आनी लोक-नाट्यां.

गोयांत आदीं मागा जांव्यांनी लोक-नाट्यांक विवीध नांवां दिल्यारी, म्हणजे-पेर्णी जागर, कालो, रणमाले, गौड जागर, क्रिस्ती जागोर इत्यादी. साद्या लोकांनी ह्या सर्वांक खेळ म्हणंच वोलायलें. अशें गोयांत आनी कोंकणेंत मात्र न्हय इतर गांवांनियी ही दसतूर आसा. दक्षीण केनरांत यक्षगान प्राकार आसा. ह्या लोक कलेकयी साद्या तुळू लोकांनी 'आटा' (खेळ) म्हळ्ळो सब्दच प्रयोग करता.

अशें आसताना राजांव उलोंवचें जाल्यार नव्या शिलायुगा थावन्ंच पेर्णी जागर आसा म्हणतच, तवळ थावन हो कोंकणी खेळ आसल्लो म्हण जालें. ह्या खेळाक साद्ये भाशेन कोंकणी रंगमंची म्हणचें जाल्यार, कोंकणी रंगमंची नव्या शिलायुगा थावन आसल्ली आनी ही गजाल आर्वाचीनाची गजाल न्हय म्हळ्ळें स्पश्ट जालें. ह्या खेळां थावन इतर नाट्य प्राकार वाडवंक आनी चडवंक प्रेरण लाबलें म्हणच्यांतच आसा राजांव.

त्या देकून ह्या ग्रंथांत जाय तितलें राजांव विवरुंक आसल्ल्यान, तर्काक एक तुदी करच्या खातीर आधुनीक नाटक कला सोडन उरलेले प्राकार म्हणजे, पेर्णी जागर थावन क्रिस्ती जागोर पर्यांत, उपरांत तियात्र, खेळ तियात्र आनी नोन स्टोप ड्रामा विश्यांत सविस्तार माहेत आरावन आनी नेरावन विमर्शात्मक विशलेशण करचें प्रयत्न केलां.

## पाश्चात्य देशांनी लोक-नाट्य कला:

फेस्तां-परबेच्या संदर्भार, चार-चोवगां जमताना, मनोरंजनान मेचवोंवचें मनशा संयबाची एक नैसर्गीक वोडणी जाल्ल्यान, मनोरंजना

खातीर उबजाल्लें नाट्य स्वरूपाचें कलेचें नातें जल्मा थावनंच मनश्यांक आयिल्लें म्हण्येत. पुरातन काळा थावन वाडोन आयिल्ली नाट्य-कला व रंगमंच एक सामूहीक बळिश्ट कलामाद्यम जावन उरला.

समूहाच्या परिचर्चेंत विविध कारणांक लागोन विविध, कलात्मक अबीव्यक्ती आपापलीं नाट्यरूप धारण करतात. नाट्य कलेच्या आविष्करणांत भाग घेवून न्हय तरीय त्या प्राकारांत सहभागी म्हणजे प्रेक्षक म्हणोन नाट्य प्राकार पळेत आसताना प्रत्यक्ष क्रियेचो आनंद लोक जीवनांत जाला म्हळ्ळें स्पश्ट जाता.

पाश्चात्य रंगमंच बोव प्राचीन. ईजिप्ट देशांत सस्यजल देवतेंच्या क्रियाविधी चलोंवच्या खातीर पुराण कथा परंपरानुसार वाडोन रावली. ही परंपरा मुंदरून वेताना क्री.पू. २७००च्या आवदेंत थंय प्रयोग जाल्लो भावादेरेक नाटक (Passion Play) पुर्विलो पयिल्लो नाटक म्हण दाखलो मेळता. हो नाटक क्रियाविधी जावन आचरसिलोगी व रंगनाटक जावन प्रदर्शीत जाल्लोगी म्हळ्ळ्या विश्यांत विद्वांसां मदें तीव्र मत – भेद आसा. तें कितेंय आसों, आतां निश्चीत जावन कळोन आयिल्ल्या प्रकार कथानक, संभाशण, पात्र रचन, गायन, नाच, हे सर्व विशय आपणायिल्लो समग्र रंगमंच प्रप्रथम जावन क्री.पू. ५व्या शतमानांत ग्रीस गांवच्या क्रियाविधीचो अंग जावन जल्माक आयलो म्हणतात.

ग्रीक पुराण कथेपरकार बेळें दिंवच्या डयोनीसस देवतेच्या पवित्र स्थानाच्या भोंवतणी अर्द-चंद्राकाराचेर बांदल्ल्या बयल रंगजाग्यार देवाक मेचवोंवच्या उद्देशान नाटकाबीनय आनी जम्या गितां गांवची रिवाज प्रारंभ जाली. क्री.पू. ५३४ इस्वेंत थेस्वीस नांवाचो प्रथम नट ह्या जम्या गायानां वेळार जम्या थावन भायर रावोन गायनाचो थोडो

भाग संभाशण व उलोंवच्या रुपार सांगोंक लागलो. कृषी समृद्दी खातीर, गांवच्या बरयापणा खातीर आनी वीर मरण पावल्ल्या झुजाऱ्यांच्या क्रियाविधी खातीर ग्रीक लोक हरयेका वर्सा वसंतोत्सवाच्या काळार मेळ गायनां गावन नाचतालो. ह्या नाचल्ल्या प्राकाराक डिथीर्रायांब (Dithyramb) म्हणतात. हो प्राकार ग्रीक नाटकाचो मूळ. त्या देकुन्ंच ह्या नाटक कलेक 'तेस्पियन आर्ट' (Thespian Art) म्हण पाश्चात्यांनी ओळकोंचें सवयेर पडलें.

तशें म्हणोन ग्रीक रंगमंच उदेंवच्या पयलें रंगमंचाची सळावळ माध्यम, कोणायकी परिचीत नातल्ली म्हण अर्थ न्हय. मनीस उलोवंक प्रारंभ करच्या पयलेंच, सिनोलां मुखांत्र, पिंतुरां मुखांत्र आपणाचे विचार तशेंच भोगणां अबिव्यक्त करची निपुणाताय ताणे आपणायिल्ली. संसाराच्या हरयेक वठारांनी रंगांशांत भरलेली आंगिकाबीनय आदिवासी तांच्या दिस्पोडत्या सळावळ माध्यमांत उपयोग करताले. मुखाव्याचें पूर्व इतिहास अवलोकन करताना हें स्पश्ट जाता.

आदी मानव प्रकृतेची महोज्वल सत्ती पळेवन भ्यें–भिरांतेन भरल्ले. सूऱ्यो, चंद्र, उजो, वारें, पावस, घडगडो, झगलाणे इत्यादी नैसर्गीक सत्ती तांकां सोडवंक जायनातल्यो तसल्यो हुमिण्यो जावनासल्ल्यो. असल्या अर्थ जायनातल्ल्या सत्तेंक पूजा आनी प्रार्थन केल्यार आपणाक बरेंपण लाभात म्हळ्ळये पात्येणेन नमून्यावार मांत्रीक नाच अभीनय करताले.

आदिवासी प्रकृतिच्ये सावळेंत वाडल्ले. तांचें जिवीत मोनजांतिच्या बोंटेर होंदोन आसल्लें. मोनजातिंचेर आसल्ले सबार गूण–विशेस पळेवन ते विज्मीत जाल्ले. उबचीं सुकर्णीं–सावजां, वेगान धावंची मनजाती, आपणाच्याकी बळादीक आसची जानवार पळेवन तांचे थंय भरकाय आनी भ्यें–भिरांत दोनी उबजाल्लें. सुकण्या–मोजातिंक रुपांतर

जांवची सक्त आसा म्हण ते पात्येल्ले. त्या देकून ते मोनजातिच्या सक्तेच्या अवाहनेक मुखाटें शिर्कावन नाचताले. अशें मुखाटें घालून नाचल्यार त्या त्या मोनजातिचें बळ, धांव आनी हिक्मत तांकां व्हाळोन येता म्हणोन तांकां गाढ पात्येणी आसल्ली.

हिंवे काळ येताना आदिवासी लोक सबार नमुन्याच्या रंगाबीनय चटुवटिकेंनी भरसाताले. असल्या सामूहीक अभिनयनांनी मोनजातिंच्या ध्वनी–चलनेचें अनुकरण प्रमूख जावनासतालें. पंगडांत थोडे नाचताना आनी थोडे ताळबद्द जावन ताळियो पेटून गावन्ंच तांकां पाटिंबो दिताले. अशें ताळयी आदिवासिंचें एक विशिश्ट हातेर.

त्याचपरीं आमचे पुर्वज, रचनाराचीं कल्पनां, देवाचो सभाव आनी वर्तन, मनश्यांच्या सभावगुणांक ताळ करताले जाल्यारी, देव संतुश्ट जाल्यार मात्र सालवार, रागिश्ट जाल्यार कश्ट–अन्वार म्हळ्ळी पात्येणी तांकां आसल्ली. त्या वर्वीं रचनाराच्या अनुग्रह खातीर मुखाटें शिरकावन करचें नटन काळ क्रमेण रंगमंचार येवंक लागलें.

वसंतोत्सवांत ग्रीकांक नाटक स्पर्श चलोवन व्हरुंक खड्डाय आसल्लें. डयोनिससच्या ह्या आराश्ना उत्सवांत दुखांत्य नाटक (Tragedy) आनी हास्यांत्य नाटक (Comedy) म्हळ्ळे दोन थरांचे नाटक प्रदर्शीत जाताले.

क्री.पू. तीसऱ्या शतमानाच्ये आवदेंत ग्रीस देशा वयर अलेक्सांडरान आक्रमण करून तो गांव रोमनगारांच्या स्वाधीन केलो. तवळ ग्रीस देशाचो रंगमंचो रोमनगारांक पिश्यार घालिलागलो. ग्रीक नाटक कला काळ क्रमेण रोम शहराक विसतारली. ह्या काळार रोमनगारांनी रंगमंदिरां बांदयलीं. रोमन रंगमंदिराच्या बृहत कट्टोणाच्या आवरणांत रंगस्थळ आनी प्रेठंगण दोनी सांगाता मेळून आसतालीं.

ग्रीक देशांत 'स्कीन' हाची ('skene') – म्हळ्यार पात्रदारीन ताचो वेस आनी मुखाटो बदलुंक अनकूल जायशें अर्किसट्रा थावन इल्लेशें पयस आसा केल्लें ल्हानशें तात्कालीक पडद्या–घर. अर्किसट्रा म्हळ्यार गावपी पंगडाच्यांनी गावून नाचच्या त्या जाग्याक अर्किसट्रा म्हण नांव.) रोमनगारांनी तांच्या रंगमंदिरांनी खायम कट्टोण बांदलें. अशें तांच्या रंगमंदिरांनी 'स्कीन' आनि 'अर्किसट्रा' दोनी आसोन आकारांत ल्हान जाल्यारी अलंकारांत वैभवान सोभंच्ची त्या रंगस्थळार उबार्रलेली एक वेदी आसताली.

रोम शहरांत इतले वैभवाचे रंगमंदीर आसल्यारी, रोमनगार सुर्वेर ताणीं तांचेच म्हळ्ळे नाटक रच्च्या बदलाक ग्रीकांचे नाटकच लातीन भाशेक भाशांतर करुन सर्व रितिंनी ग्रीकांक पाटलाव कर्राताले. अशें क्री.पू. दूसऱ्या शतमाना परायांत रोमागार ग्रीकांच्या नाटकांच्या भाशांतरांतच तृप्ती पावल्ले.

रोमन चक्राधिपतिचें राज्वट कोसाळ्ळेल्या उपरांत थंयचे हास्य पात्रशरी युरोप भर भोंवले आनी मनोरंजनाचें प्रदर्शन दिंवचेंच तांची वृत्ती जाली. हांचें प्रदर्शन पळेवंक प्रेक्षकांची खेटच जाताली. हे अलेमारी हास्य नाटक युरोपाच्या ड्ल्या रंगभूमिच्या पुनरजिवाक कारण जाले.

फ्रेन्स आनी इंगलेंड देशांनी रंगमंच बळिश्ट जावन उदेवन येवंक मूळ प्रेरक सकत क्रिसतांव धर्म. इंगलीश रंगमंच सुर्वेर क्रीसती धर्माच्या धारमीक प्रसंगाच्या आश्रीत आसताली. क्री.श १५व्या शेकड्या पऱ्यांत इगर्जमातेन इंगलीश रंगमंच आपल्या मुटी बितर दवरालेली. बैबल आदरीत प्रसंगाचेर उबजाल्ल्या नाटक रुपाक इंगलीश नैतीक नाटक (Morality Play) म्हण वोलायताले.

चडुणें शेंभर वर्सां उपरांत इंगलेंडांत विल्लियम षेक्स पियर हाणे ऐतिहासीक कथावसतू आसल्ले सबार नाटक रचून आनी प्रयोग करून इंगलीश रंगमंच (Stage) ग्रेसत करयली.

क्री.श. १५व्या शेकड्याच्या आखेरीक इटेलिच्या नाव्य कलाकारांनी रचल्ल्या रंगरुपाक 'कोमेडिया डेल आर्ट' (Commedia dell arte) म्हळ्ळें नांव प्रख्यात जालें. तशेंच फ्रन्सांतयी कोमेडिया डेल आर्ट आनी इटेलिचे ओपेरा तसले संगीत नाटकाचें अनुकरण चडोन्ंच आयलें आनी लोका मोगाळ जालें.

चीना आनी जपान देशांतयी धर्मीक आचरण थावन्ंच रंगमंच उबजोन आयिल्ली. क्री.श. ६व्या शेकड्याच्या आवदेंत संगीत आनी नृत्याच्या मिसळोणेन चीनाची रंगभूमी रूपीत जाल्ली. बौद्ध धर्माच्या प्राचीन प्रसंगांनी म्हणजे देव मंदिरांत चल्च्या संगीत आनी नाच कार्यमांनी जपानाच्या रंगभूमीक स्फूर्ती आयिल्ली.

उपरांत कैगारीक क्रांती, वैज्नीक प्रगती आनी जागतीक महाझुजाच्या परिणामा वर्वीं पाश्चात्याचे नाटक, मध्यम वर्गाच्या लोकांच्या आशा आकांठ पडबिंब करचें तशेंच क्रांतिकारी चिंताप लोकांक पावंवचें संवहन माद्यम जालें.

## भारतांत लोक-नाव्याची संस्कृती

संसाराच्या सर्व देशांनी आदिमागा आदिवासी जनांगांत आसल्लेबरी भारत देशांतयी सुकण्याबरी, मोनजातिंबरी वेस घालन तांकां अनुकरण करची रिवाज आदिवासीं थंय आसल्ली. एकलो व एकेकलो पंगडाच्ये बोबेक व किंक्राटेच्या आवाजा तेकित्त पांय घालन नाचतालो. हो आदिवासिचो मूळ नाचच मुकल्या रंगपरंपरेच्या अबिवृद्धेक कारण

जालो. तवळ तांकां गावंकयी कळीत नातल्लें. पेटच्या उज्याच्या भोंवतणी घुंवोन पांयान जोरान बडयताले आनी मंत्र सक्तिचो प्रभाव पडतालो म्हळ्ळ्ये भ्रमिदेर नाचताले. अशें नाचताना तांच्या पांयांच्ये बडवणेन, सुकणा च्या अनुकरणेच्या किर्कीर्रायान, हसतमुद्रा मुखारीं रुपाक येंवचें नृत्य, नाटक, काव्य प्राकाराक भद्र बुन्याद घाल्ताले म्हळ्ळी पर्वा तांकां नातल्ली.

क्री.पू. दोन तीन हजार वर्सां आदीं भारत देशाक आयिल्ल्या आऱ्या जनांगान ऋग्वेदा रचल्लें. ऋग्वेदाचे संवाद प्राचीन रंगमंचाच्या संस्कृत नाटकाचें मूळ म्हण दुबाव आसा.

वेद काळांत आऱ्य जनांगांच्या आराधानेचे देव म्हळ्यार तेच आदीं मागा आदिवासीन आरादन कराचे प्रकृतिची अवश्यकता उगडासाक हाडचे अग्नी (उजो), वायू (वारें) सूर्य (वोत) वरूण (पावस, उदक, दर्यो), इंद्र (घडगडो–पावस), रुद्र (झगलाणे), दावा–पृथवी (मोळाब–भुमी) इत्यादी. ह्या देवांच्या अनुग्रहान सदांच्या जिवनांत प्रयोजन घेवंक आनी मोर्नाचें भ्यें नितळोवंक मागताले. ह्या देवांक मेचोवंक अग्नी दवरची 'वेदी' म्हळ्ळें काटें बांदून यज्ञ करिलागले. 'यूप' म्हळ्ळ्या रुकाचो सोंटो श्णींर रोंबोवन ताचेर मोनजातिंची बली भेटयताले. ही एक श्मींक विधी म्हणोन सगळे समुदायाचे सांगाता सेर्वाताले. ह्या याज्ञीक वैदीक क्रियेंत मुद्रा आनी हसत विन्यास आसल्लें एक गमनार्ह अंश. यज्ञांत प्रजापतीन बली अर्पुंच्या संदर्भार आचरण करच्या विधी वीधानांत 'शैलूष' (म्हळ्यार नट व नर्तक) आसल्लो म्हळ्ळो उल्लेख आसा.

देवतेंचो राय इंद्र सर्व कलेचो दिव्य पोषक. ह्या इंद्राच्ये सबेंत गंदर्व (दिव्य गायक) किन्नर (दिव्य वादक) आनी अप्सरे (नर्तकी) आसतालीं म्हण ऋग्वेदांत वर्णिलां.

पाणिनी म्हळ्ळो व्याकरण शासत्र पंडीत क्री.पू. ५व्या शतमानांत बरयिल्ल्या ताच्या ग्रंथांत शिलालीन आनी कृशाश्व म्हळ्ळ्यांनी 'नटसूत्र' म्हळ्ळो लक्ष्मण ग्रंथ रचल्लो म्हण कळयलां. अभिनयाचें तत्व आनी नियमाचें विवरण आसल्लें म्हण कळंवचो हो ग्रंथ आतां नास जाला म्हणतात.

भारतांत दोन संस्कृतिंचें मिलन जालां. आर्य जनांगाची वैदीक संस्कृती जावनासोन ते उपरांत आयिल्ले जाल्यार, ताच्याकी पयलें सिंदू न्हंयच्ये तडीर जियेल्ल्या जनांगाची सैंधव संस्कृती आसल्ली. ही संसकृती तीन चार हजार वर्सांच्याकी पुरातन. सैंधव मूर्ती पूजा कर्ताले, क्रमेण आयिल्ले आऱ्य जनांग हांचे सांगाता येवन ओट्टू जियेल्ल्यान वैदीक आनी सैंधव संसकृती समन्वय जावन देवाचें रूप–कल्पन, मूर्ती शिल्प आनी मूर्ती पूजा वीश्न उदेलीं. अशें ह्या देशांत सर्व कला धार्मीक पाट–भुंयचेर उबजाल्ली म्हणच्याक रुज्वाती मेळतात. ह्या कलेचो प्रमूख उद्देश देवाचें आराधन आनी स्तुती. कशें ग्रीक नाटकाच्या उगम आनी विकासांत मुखाव्यान पात्र वयसिलागी, तशेंच प्राचीन भारताच्या रंगमंच विकासांत मुद्रा हसत विन्यास भावभंगी प्रमूख पात्र वयसितात.

नाटकाच्या विश्यांत लाभल्लें अत्यंत प्राचीन लक्षणा ग्रंथ म्हळ्यार 'नाट्य–शासत्र'. नाट्यशासत्राच्या काळा विश्यांत विद्वांसां थंय आसल्ली अभिप्राय ताळ पडाना. थोडे क्री.पू. तीसऱ्या शतमानाचो ग्रंथ म्हण वाद केल्यार, उपरांत थोडे क्री.श. पांचव्या कशतमाना पर्रायांत विवीश काळ सूचवन वाद–विवादाक इडें कर्रान दिलां. इतलो वाद–विवाद आसोनयी १५०० वर्सांच्याकी पयलेंच नाट्य शास्त्र रचीत जालां म्हणच्या अंदाजेक बहुमताचो पाटिंबो आसा.

नाव्यशासत्र प्रकार नाटक म्हळ्यार एक दृश्यकाव्य दोळ्यां मुखार रूप घेवन रावल्ल्यान रूप व रूपक म्हण नांव पडलें. रूपकांत १० नमूने आसल्यारी नाटक रूप प्रमूख पात्र घेता. नाव्यशासत्र रचल्ल्या भरतमुनी प्रकार लोकचरिता, लोक सभावाचें अनुकरण्ंच नाटक. ताचो उद्देश विनोदाचो जल्म. लोकांच्ये मतीक संतोस हाडंवचोच ताचो श्य. लोक चरितेचें अनुकरण म्हळ्ळयाक्षण आसल्लें आसल्ल्याबरी दाकयल्यार तो नाटक जायना. जिण्येचीं घटनां विंचोवण कर्रान तीं कलात्मक जावन निरूपण कर्राचें मुख्य, मात्र न्हय औचिताची प्रज्ञायी आसोंक जाय म्हण भरतमुनी दांबून सांग्ता.

ह्या ग्रंथांत नाव्य मंटप कशें बांदिजे म्हण विवर दिला. अशें ३६ अश्यांनी रंगमंदीर, नाटक रचन, अभिनय, नृत्य संगीत, प्रयोग विधान इत्यादी सबार विशय ह्या नाव्य शास्त्रांत कूलंकूश जावन विवरिलां.

तशेंच भारत देशांत रंगमंच विश्यांत आयकोंक मेळचें पुराण इतिहास थावन. पुराण इतिहास प्राचीन नाटकाच्या मोकळिकेक कारण म्हणतात. अशें धर्मिक प्रसंगांनी प्रयोग जाल्लें अबील्नयन, भारत देशांत क्री.पू. दूसऱ्या शतमानांत नाटक जावन फुलोन आयलें.

क्री.श. तीसऱ्या शतमानाचें म्हण चिंतल्ल्या 'हरिवंशांत' श्री कृषणाच्या जीवन वृत्तांताच्या निरूपणेंत 'नाव्यांत नर्तन केलें' म्हण वर्णिलां. त्या वर्वीं त्या काळार नाटक नर्तन करताले म्हण कळोन येता. त्या काळार संगीत, नृत्य आनी अभिनय हे तिनई प्राकार सेर्वाल्ल्या नाटकाक नाव्य प्राकार म्हण्ंच आपयताले.

भारताच्या प्राचीन रंगभूमिच्या विश्यांत थोडे विवर संसकृत नाटका थावनयी मेळतात. संसकृत नाटक क्री.श. एक थावन ७व्या शेकड्या पऱ्यांत उंचल्ये स्थितेर आसल्ले. क्रमेण ८व्या थावन १०व्या शेकड्याच्ये आवदेंत असकत जावन आयले.

संसकृत भास रायांच्या आस्थानांत मात्र आसताली. दिसां दिसाच्या व्यवहारांत चडताव उप्योगाक नातल्ली. उलोंवच्या बास्पुटांत न्हय आसतां, शीकल्ल्या संसकृत भाशेन कविंनी बरयिल्ले संसकृत नाटक कालांतरांत उत्पन्न जाल्ले जावनासोन, राय महारायांचें आनी आस्थानांत आसल्ल्या महनीयांचें उत्तेजन्ंच संसकृत रंगभूमीक प्रमूख आदर आसल्लो.

विश्वाच्या अतिश्रेष नाटकांच्या उंचल्ये पंग्तीर दवरयेत तसले संसकृत नाटक म्हळ्यार 'स्वपनवासवदत्त', 'प्रतिमा नाटक', 'पंचरात्र', 'शाकुंतल', 'मृच्छकटीक', प्रमूख. संसकृत नाटकाच्या वैभवाच्या काळार नाटक रचल्ले साहिती म्हळ्यार अश्वघोष, भास, शूद्रक, काळिदास आनी विशाखदत्त.

क्री.श. ९व्या शेकड्या थावन ११व्या शेकड्या पऱ्यांत 'नाव्यशासत्रा'चे मोटे व्याख्यान ग्रंथ रचून आयले. त्या पैकी धनंजयाचे 'दशरूपक', अबीनवगुप्ताचे 'अबीनव भारती' प्रमूख ग्रंथ. दशरूपकांत विवीध नाटक प्रबेदाच्या विश्यांत अमूलाग्र विशलेशण आसा. त्या नंतर पांच शतमान पऱ्यांत जाय तितले ग्रंथ नाव्य शासत्राच्या व्याख्याना पंदा रचल्ले पळेयताना, भारतीय रंगभूमिच्या वयर नाव्यशास्त्रान कसलो गाड प्रभाव घाला म्हळ्ळें समजयेत.

उंचल्या संसकृत नाटकांतयी उलोंवची बास्पूट प्राकृतयी प्रयोगार आसल्ली. संसकृत नाटकांत रायांची, आस्थानिकांच्या संबाशणेची भास संसकृत जाल्यार, सकयल्या वर्गाच्या सामान्य जणांची उलवपी भास प्राकृत. अशें दोनी भाशेंच्या संसकृत रंगभूमीक, पंडीत, आस्थानी थावन मेळल्ल्या पालन– पोषणेचाकी चडतीक प्रमाणार सामान्य लोका थावन भद्र बुन्याद लाभल्ली. क्रमेण संसकृत नाटकाक पोषक जाल्ले राय, आस्थानीक दुरबळ जाताना इतर देशी–भासो वृद्धी

जाल्यो. संसकृत आनी प्राकृताक व्यत्यास चडत्त गेलो. संसकृत नाटक रंगभूमी थावन आदेवसाची वाट दरताना, जनपद नृत्य, नृत्य नाटक, स्पश्ट रुपाक आयले. क्री.श. ११व्या शेकड्या थावन १९व्या शेकड्याच्ये आवदेंत सबार सादू संतांच्या, कविंच्या आनी श्रर्म प्रवर्तकांच्या प्रत्यक्ष तशेंच परोक्ष प्रभावा निमतीं असंख्यात प्रादेशीक रंग प्राकार जल्मोन आयले. ह्यो आवदेंत कूडिया ं, जात्रा, यक्षगान, बयलाट, रासलीला, रामलीला, कृषणनाट, रामनाट, कथक्कळी, तमाषा, नौटंकी इत्यादी प्रादेशीक रंगप्राकार उबजाले.

चडुणे १८व्या – १९व्या शेकड्यांत पाश्चात्य देशांनी जाल्ल्या औद्योगीक तशेंच वैचारीक क्रांती वर्वी थंयच्या जनजीवनांत सबार थरान परिवर्तन जावन आयलें. डार्विनाचो जीव विकासवाद, प्रायड हाचो मनोवैज्नीक संशोदन, कारलमाक्र्स हाचें आर्थीक सिद्धांत हे सर्व पाश्चात्य प्रदेशांनी गाड प्रभाव फंकोवंक लागले. पयलें जागतीक महाझूज आनी रषया देशाची महाक्रांती २०व्या शतमानांत मनश्याकुळाची जीवन दीश्ट रूपीत केल्लो महत्तर संग्त्यो. हो सर्व पाश्चात्य देशांनी राजकीय, सामाजीक आनी आर्थीक परिवर्तनेक कारण जावन थंयच्या साहित्याक आनी कलेक नवेंपण हाडवन दिलें.

विदेशी पयलें थावन्च भारताक प्रवेश जावंक प्रयत्न करुनंच आसल्ले. वासकोडगाम दऱ्या मार्गान प्रवेश जाल्या नंतर पुडतुगेज, डच हाणीं भारत देशांत व्यापार संपर्क आसा केलो. ह्या उपरांत आयिल्ल्या इंगलीश वर्तकांनी 'ईसट इंडिया कंपेनी' क्रमेण आमच्या देशांत स्थापन करुन पाळां रोंबयलीं.

१९व्या शतमानाच्या मधल्ये आवदेंत ब्रिटीष सर्कारान भारताचें आडळीत शीदा वयसून घेतलें. देशांत औद्योगीक प्रगती जावन आयली. संचार आनी संपर्क व्यवस्था चडत्त गेली. सर्कारी नौकरी चडोन

नौकराशाही वर्ग असतित्वाक आयलो. अशें १९व्या शतमानाच्या निमाण्या आवदे वेळार सर्कारी नौकर, कार्खान्याचे कामगार, मध्यमवर्ग, व्यापारिसत हांचोच एक प्रत्येक वर्ग सृष्टी जालो.

ब्रिटिषांच्या आडळीत आवदेंत भारतीय रंगभूमी नव्या परिवर्तनाक ओळग जाली. ब्रिटीष तांच्या सांगाता युरोपाच्या रंगपद्धतिचो नमूनो हाडून आयले.

१७९५ इस्वेंत बंगाळांत ब्रिटिषांनी पयिल्ले पावटीं तांची राज्वोटकाय प्रारंभ करताना थंयच्या जमिनदारी पद्धतिंत एक नवो वर्ग उदेलो. तो जावनासा इंगलीश शिकोन श्हेरांत वसती करतेल्यांचो. ह्या वर्ग भेदा वर्वीं शहरांतल्या आनी नाडांतल्या लोका मधें संपर्कच तुटोन गेलो. ह्या वग्ता १८७२ इस्वेंत कोलकाता शहरांत वृत्ती कलाविदांच्या पंगडांनी 'न्याषनल थियेटर' प्रारंभ केलें. उपरांत त्याच रुपार 'दी स्टार', 'दी मिनर्व', 'दी मनमोहन' इत्यादी संस्थे उदेले. अशें भारताच्या विवीध प्रदेशांनी आनी भासांनी नाटकाची प्रगती जाली. विनूतन तंत्रज्न प्रयोग करुन सुसज्जीत रंगमंदिरां आमच्या देशाच्या प्रमूख नगरांनी निर्माण जालीं. ❑

# कोंकणी लोक नाट्य प्राकार

लोक जीवनांत नाट्य विकास विविंगड कारणांक लागोन महत्वाचें जालां. समुहाच्या जीवना वर्वी आनी विवीध विधी–वीधनाक लागोन कलात्मक अबीवृद्धी उबजातात, आनी नाट्य रूप धरण करतात. खेरीज लोक – नाट्य ह्या परंपरेंत बसचे सबार प्राकार त्या जीवनांत आसतात.

लोक–नाट्य परंपरा भारताच्या हरयेक प्रदेशांत आसल्लेबरी, गोयांतयी लोक–नाट्याच्या क्षेत्रांत विवीध प्रकृती घटक, लोकशैली हांचीं समावेशां आसल्लीं. गोंयांतल्या लोक नाट्याच्या संदर्भांत विविंगड रितीन चार प्रकृती घटक आटापून येतात. सृषटी उत्पत्ती पुर्विली कथा. मूखवाडाचो वापार आसलेली प्राचीन काळा थावन लोकामोगाळ जाल्ली 'पेर्णिजागर्ची' प्रकृती. दुस्री श्री विष्णुच्या दशावतार संकल्पणेचेर आधरीत, संस्कृत नाटकाच्या सूत्रधरिचें नातें आसल्ली 'कालो' प्राकाराची प्रकृती, तिस्री रामकथा लोक शैलिंतल्यान उबजाल्ली 'रणमाले'ची प्रकृती आनी चोवती पुराण कथेची संबंद नासलेल्या सामाजीक विशया थावन नाट्य विकास जाल्ल्या गौड जागराची शैली. अशें ह्या परीं चार प्रकृती घटक आटापून आसात.

लोकनाट्य परंपराचो प्रमूख विधी म्हणोन आविषकरण जाता. दृषटांताक 'पेर्णी जागर' ह्या नाट्य प्राकारांत पेर्णी कुटुंबाच्या व्यक्तीन येवन पीटकोळे फुलांची माळा घालन डोल्कें व्हाजवन घोड्याचो मूखवाड घेवून देवा समोर येंवचें, ही विधी म्हणोन करतात. अशें

चारयी प्रकृतिंच्या संदर्भांत प्रमूख घटक विधिचो आविषकरण. आविषकरणांत कलात्मक गोष्टीचो अंतरबाव आसाना. लोकनाव्य म्हळ्यार कलेचें प्रदर्शन न्हय. विशिश्ट शैलिंतल्यान विधिचें आचरण म्हणोन समुदायेन जोगासाणेन हाडल्ली लोक जीवनाची परंपरा म्हण मानतात.

## पेर्णी जागर

गोयांत लोकनाव्य परंपरेंत पेर्णी जागर हो एक वेगळो नाव्य प्राकार. हो नाव्य प्राकार बोव प्राचीन म्हणजे नव्या शिलायूग थावन देंवोन आयिल्लो आनी थोड्याच कुटुंबाच्यांनी सादर करचो नाच – नाटक. हो एक स्वतंत्र नाव्य–कला प्राकार. ह्या नाव्य कलेंत सृषटी उत्पत्ती पुर्विली कथा, स्त्रीयांचो पात्र स्त्रीयांनिंच कर्राचो, सबार पात्रांनी मुखवाडाचो वापार, प्रारंभाचे पयलें सरस्वती देवीक, उपरांत गणपतीक नमान, ही पेर्णी जागरची वैशिश्ट्य. गोंयच्या पोंडा, केपें, काणकोण ह्या तीन तालूकांनी प्रमूख मंदिरांनी विधी म्हणोन, पेर्णी जागर आसल्ल्याची माहेती, जागर खेळतल्या व खेळेयतेल्या वाड्यांतल्या संस्थे कडेन मेळता. वाड्याच्या थोड्या पेर्णी कुटुंबाच्यांनी ह्या नाव्या खातीर जमीन सोडल्ली आसा. पूण स्वतंत्र नंतराच्या कुळा कायदा वर्वीं जमीनेची उत्पत्ती ह्या खेळगाड्या वाड्याच्या स्वाधीन मेळाना जाली. त्या भायर पेर्णी जमातेंनी सामाजीक बदलावणेची प्रक्रिया जावंक प्रारंभ जाली. ह्या दोन घटनाच्या परिणामा वर्वीं जागर नामशेष जावन्ंच आयला.

पेर्णी जमात देवदासी समाज पर्माणे आसा. ह्या जमातिंतल्यो स्त्रियो आदीं लग्न जायनातल्यो, स्त्रीयांनी 'शेंस घालणे' ही विधी करून घराच रावतालीं. ह्यो स्त्रीयो जागरण काम करात आसतात.

गोयांत पेर्णी जमातेचीं सुमार कुटमां आसात. वाघर्मे, मळकर्णे, पैंगीण, मये ह्या गावांतून जागर सादर करताले पेर्णी आसात. तांचे कडेन मुखाटे, तशेंच जागराची विविंगड साहेत आसता. वास्याच्या पेटऱ्यांत सर्व सामान भरून त्यो पेटार्‍यो तांचांतलो एकलो मनीस कार्यकृम जांवच्या जाग्या पर्यंत व्हावोन व्हरता. पात्रिची रंग वेष–भूषण पेर्णी स्वत करीत आसतात. ह्या जागराक गांवचे सेजारी प्रेक्षक जावन येतात आसतात.

रातिचें जेवण पेर्णी स्वत तयार करतात. जेवण जाल्या नंतर रंग वेष–भूषण घालून प्रथम पेटऱ्यांतल्या गणपतिचें मूखवाड भायर काडून उत्सवान गणपतिची प्रार्थना ही विधी करतात. रातीं साधरण इक्राच्या वेळार प्रमूख सूत्रदार, मंदिराच्या सभा मंटपाक येता. सूत्रदारिचें काम करतेल्या प्रमुखांक जागर पेर्णी अशें नांव आसता. प्रमुखांच्या हातीं डोलकें व झुंज ह्या पयकी एकादें वाद्य आसता. दुसरो मनीस दुसरें वाद्य घेता. ह्या दोन वाद्या सांगाता पेर्णी जागर जाता.

माटवांत आयल्या नंतर जागर प्रमूख देवाक नमासकार करून माटवांत पेटयिल्ल्या सोमोयेक 'पीटकोळी' ह्या तांबड्या रंगा च्या रान्वट फुलांची माळा घाल्ता. पेर्णी पयकी एकलो धवो पडदो प्रेक्षकांच्या सामकार धरीत आसता. सृषी उत्पत्ती पूर्वीं निराकार अंतर आसल्लें म्हण दाकोंवच्या खातीर हो धवो पडदो सूचीत जाता.

नमानाची सुर्वात अशी जाता –

पयलें नमान करूं सरस्वती माते
सरस्वती शारद रंगे आली माया
खेळती खेळिरे खेळी जोगीण नाथा
सरस्वती शारदा रंगे आली माया.

जागराच्या मुख्य कार्यकृमांत एक पुरूष मुखवाड घालून म्हातारी पात्रदारी प्रथम येता. उपरांत म्हातारी आनी प्रमुखाचीं सवालां–जवाबी आसतात. तिचो आदी मायेचो खेळ जाल्या नंतर सामाजीक पात्रां येतात आनी विविंगड मुखाटीं घालून गावून व नाचोन वेतात. उपरांत दोग राक्कोस येतात. विष्णू राक्कोसाचो वध करता. शेवटीं घोडो, वाग हे पात्र येतात. वेळ संपोन येताना पीटकोळेच्या फुलांची माळा जागर पेर्णी आपल्या गळ्यांत घाल्ता. इतल्यार जागर संप्ता.

ह्या जागरा बरीच पैंगीण गांवांत जागराचे विंगड कांय प्राकार आसात. ते दैत्य जागर, माल्या जागर, चोर जागर अशीं नांवां आसतात. हे पेर्णी जागर पेर्णी कुटमाचे मनीस उपस्थीत आसल्ल्या शिवाय उत्सव जायना. गोयांत पेर्णी जागर हो प्राकार पुरातन काळा थावन आसा म्हण मानतात.

## 'कालो' नाट्य प्राकार

गोयांत लोक–नाट्य क्षेत्रांत कालो हो प्राकार प्रमूख म्हण मानतात. प्रदर्शनांत फरक दिसोन आयल्यारी, सकडांकी सूत्र समान आसल्ल्यान गोंयच्या सर्व भागांनी कालो प्राकार परिचीत जाला. ब्राह्मण थावन सुदीर पर्यंत समाजेचो विवीश थराचो लोक 'कालो' प्राकाराच्या प्रदर्शनांत भाग घेतात. कालो प्राकारांत सुशिक्षितांचो सहभाग आसलेल्यान काल्याची साहित्य लिखीत स्वरूपान उपलब्ध जाल्या. कथा, संगीत, रंग वेषभूषण, प्रदर्शन पद्धती ह्या घटका संगीं विविध प्रयोग जायित्त आयल्यात. मूळ संकल्पन आनी रूप तशेंच दवरून जालेल्या प्रयोग निमित्त, नवे संसकार आयिल्ल्यान 'कालो' प्राकार गोयांत समृद्ध जायित्त आयला.

कालो म्हळ्यार कितें? पुरणांत श्री कृष्णान थराथराचें पदार्थ एकटांय कालोवन ताचो कालो करून केलो अशें सांग्तात. आदल्या दिसाच्यो भाकऱ्यो पिस्डून ताका सोय आनी पोण्ण घालून एक तराचें खावंक करतात. ताका कालो म्हणतात. भुर्गीं एकामेका अशीं एक-सार्रकीं उलोवंक लागलीं जाल्यार 'कितें कालो करतात रे?' अशें तांकां गोयांत म्हणतात. अशें कालो एक खाशा कोंकणी सब्द म्हळ्ळें ह्या दाखल्या वर्वीं स्वश्ट जाता.

कालो हें फकत लोकनाट्य न्हय तर तो एक उत्सव जावंकयी साध्यता आसा. जायत्या गांवांनी जे उत्सव जातात त्या चार पांच दिसांच्या उत्सवाक मेळोन कालो म्हणतात.

कालो केदनांचो? आयज आमी उलंवच्या काल्याची शूरुवात सात्व्या शतकांत राजा विषणू मल्ल (कांय विषणुपुराचो राजा मल्ल) हाणें गोंयांत केली म्हव्टात. ह्या संदरबार हेर प्रमूख जावन प्रसाद धास्त्री हाणी १८९५ इस्वेंत संशोधकांचो शोध म्हणोन ही माहिती दिल्या. सात्व्या शतका पर्यंत संसकृत नाटकां दबाज्यान चल्तालीं आनी उपरांत तीं सवकास बंद पडलीं. त्या वेळार काळाची गर्ज म्हण एकादऱ्या नाव्य प्राकाराची सवय म्हणोन कालो सुरू जालो, अशें चरित्रेकार सांग्तात.

हाच्याकी पयलें कालो आसच्याक साध्यताय ना. कारण त्या काळार समाजेची रचना हीं जाती जमातिंचेर आधारून आसल्लीं. तशें जाल्ल्यान बाकी सगळ्या आमच्या लोक नाव्याचेर खासा एकाच जमातिचें, व जातिचें वर्चस आसतालें. पूण काल्यांत मात्र भट, बामण मेसत, मडवळ असले सबार पात्र येतात.

ह्या काल्याक त्या काळार खेंळ म्हणताले जाल्ल्यान सत्राव्या शतकांत तो आसल्लो आनी स्त्रियो हांतून पात्र घेनातल्यो अशें

आयकोंक मेळता. काल्यांत दशवतार होच मुख्य भूमिका आसा आनी कर्नाटकांत जाता त्या यक्षगान ह्या लोकनाट्याक 'दशवतारी यक्षगान' अशें म्हणतात. ताचो काळ आनी गोंयच्या काल्याचो काळ हो एकच आसोंक साध्यताय आसा.

पूर्व काळांत गोयांत 'कालो' प्राकाराचीं मंडळां आसल्लीं. प्रत्येक मंडळी कडेन शिकपी आनी संगीताचे जाणकार आसल्ले. कालो संगीं अवश्यक जावनासलेलें मुखाटें, वाद्य, रंग वेष–भूषण आनी साहित्य मंडळी कडेन आसतालें. वास्याच्या पेटऱ्यांत सामान भरून कालो उत्सव आसल्ल्या मंदिराच्या ठिकाणी कडेन कालो मंडळी वेताली. मंडळिंत कलाकारांची व्यवस्था, खाण–जेवण पूजाऱ्यांच्या घरीं वा भोजन शाळांत जातालें. कालोच्या मंडळीक समुदाय तर्फेन बिदगी (देणगी) दिताले.

ह्या 'कालो' नाट्य–उत्सवाक, सामान्य लोक तशेंच जाणकार लोक गांवकारांच्या बरोबर प्रेक्षक जावन लाभताले. ह्या खेळांत जाणकारांचें संगीत, विवीद प्रसंग, कथा आनी संकासूर म्हळ्ळो प्रख्यात राक्षोसाचो पात्र आसतालो.

हो कालो प्राकार गोंयच्या मंदिरांतल्या सभा माटवांत व खास उबारलेल्या माटवांत जातालो. माटवांत दोनी कुशिंनी प्रेक्षक बसलले आसतात. मधल्या मेकळा जाग्याचो वापार कालो वापारता. कालाची रंगभूमी इंगलिशाच्या 'T' अक्षरा पर्माणे आसता. मंदिरांत पेटचे दिवे घेवन दोग जण कालो बरोबर रावात आसतात. गावांतले तर्नाटे झूंज घेवन प्रदर्शनांत भाग घेतात. तशेंच गांवांतले जाणकार मृदंग आनी पकवाज व्हाजोंवचें काम, व्हाजोवपी आसल्यारी मधें मधें व्हाजोवंक येतात, आनी लोक नाट्य प्राकारांत भागिदार जावन मझा भोगता.

कालो आविष्करणांची सुर्वात अशी जाता –

*‘गजमूख दवगे, गौरी गणपग, आरती एत्तिरे’*

(कन्नड यक्षगानांत आतांयीं कायाम आसल्लें हें एक स्तुती पद)

अशी ही आरती जाल्या नंतर

*‘जय जय पांडुरंग स्मरण हरी विठ्ठल’* –

अशें घोषण करून कालो मंडळी मीरवणकेन सभा मंदिरा कडेन सरयेतात.

ह्या प्राकारांत पूजा करतेल्या भटजी प्रेक्षका सर्शीन वाट काडीत येवन आपलें मूळ विचारता –

*‘तुमी कोण’* – म्हण हरिदास विचारता

*‘आमी जातिचे ब्राह्मण....’* असें उतर भटजी दिता.

पुजेच्या प्राकारांत भटजी ह्या संस्थेची विडंबन जाता.

संभाशणांत अश्लील वाक्य आसतात –

देकीक– *‘शुद्ध्यार्ता पंचगव्यमू अजामूत्र, गजमूत्र, दासिमूत्र, वेश्यमूत्र, तन्मद्धे मममूत्र’* असें विडंबनाचो प्राकार आसता. (ब्राह्मण पद्धतिंत पंचगव्यं म्हळ्यार–गायेक संबंद पाविल्ले पांच पवित्र विशयांचें मिश्रण–दूद, दंय, तूप, गोमुत्रा आनी गोमय [शेण]) हाच्या बदलाक तो वयर सांगल्ले विंगड विशय सांगोन विडंबन करता. अशें पूजा आनी विडंबन हाचें संयोजन सहज रितीर आसता.

तशेंच भारताच्या इतर भासांच्या लोक–नाट्य प्राकारांतयी हें गंबीर आनी हास्य हाचें संमिश्रण सहज प्रक्रिया जावनासलेल्यान हें वर्तन खंडनीय म्हण प्रेक्षक लेकिना, बगार मनोरंजनीय म्हण स्वीकार करता.

ह्या पुजेच्या संकल्पांत हरिदास आनी भटजी हांचो संवाद असो आसता: *'अथासतिमान ब्रह्मांडे ऊटचल, बोडकेरांडे मार उडी, सर पल्तडी नेस कापडाची साडी'* अशें विनोद, उपहास, विडंबन ह्या पद्धतीन पूजा हाचो बरोच वेळ चलता.

काल्याच्या शेवटीं पर्त्यान संकासूर येता – *'संकासूर रे महावीर'* – अशें हरिदास गायन करता. ह्या वेळीं संकासूर दिवटी घेवून मीरवणकेन येवन आसता. संकासूर नाचात प्रवेश करता. हरदास आनी संकासूर हांची विनोदी पद्धतीन संवाद जातात. हरदास मराठीन उलयल्यार संकासूर कोंकणिंत उलयता. मत्स्या वतारी विष्णुचो प्रवेश जाता. विष्णू संकासुराचें वद करता. संकासुराचें वद केल्लेंच हरिदास भरत वाक्य म्हणोन कालो संपयता.

गोंयच्या सत्तरी तालूक व सांगे तालूकाचे कांय भाग सोडल्यार गोयांत ग्राम देवतां पयकी प्रमूख मंदिरांत कालो जाता. प्रदर्शन रुपान विविध प्रकाराची विबीन्नता आसता. दशावतार संकल्पना गणपती, सरस्वती संकासूर ही गोष्टी सर्वता एक साक्र्यो आसतात. असल्या पद्धतीन अविष्कृत जाल्ल्या लोक नाट्य प्राकाराक मध्य गोमंतकांत 'कालो' अशें म्हणतात. काणकोणा कडे 'रातकालो', 'संकासूर कालो', अशीं नांवां लायतात. पेडण्याकडे 'दशावतारी कालो' म्हणतात. गोयांत सबार ठिकाण्यांत 'कालो' ह्या उत्सवाचें नांव आसता.

गोयांत कालो म्हणजे–त्या रातीं जांवचो कालो, सकाळीं गोपाळ कालो, दूसऱ्या दिसा दोनपारां गोवळण कालो–अशें म्हणोन कालो उत्सव पूर्ण जाता.

मनीस कलकलाट करीत, उलयत आसलो तर 'कितें कालो करता रे' म्हणच्या ह्या वाक्य प्रचारांत 'कलाकलाट' ह्या अर्थान कालो

शब्द आयला म्हणतात. अशें 'कालो' उत्सव आसा जाल्यार कालाकलाट आसताच म्हळ्ळी म्हण्णी चालू आसा म्हणतात.

## गोपाळ कालो:

कालो उत्सवाचो भाग म्हणोन गोपाळ कालो हो प्राकार जाता. उत्सवाची परंपरा म्हण जांवच्याक गोपाळ कालो नाट्यमय जावन सादर करतात. गांवांतले मनीस आनी कलाकार मंडळी, गोपाळ काल्यांत भाग घेतात. साधरण १९५५ इस्वे नंतर हो प्राकार बंध पडलो म्हणतात. ठिकाणी आसल्ल्या कडेन गोपाळ काल्याची परंपरा चलता, जाल्यारी आविष्करण रूप निराळ आसता.

माहिती मेळल्ल्या पर्माणे, रातीं दशवतारा कालो हो प्राकार संपल्या नंतर सकाळीं काल्याचो हरदास आनी वेगळीच एक मंडळी सदांच्या वेसांत सभा मंटपाक येतात. दोन कुशिंनी मृदंग वादक घेवून दोग मनीस उबे रावतात. सुर्वेर एक रंग, कृष्ण बलराम गोपाळ मंडळाचो, आनी दुस्रो रंग कंस–प्रलंबासूर असले वेस येतात. रंग मदल्या कांय मनश्यांच्या हातांत झूंज, ताळ आसता. ह्या प्राकारांत नृत्य नाचतात. गायन आनी कांय खेळा सार्के प्राकार गोपाळकाल्यांत आसतात. गायानाचीं कवनां ठरायिल्लीं आसतात.

## गोवळण कालो

रात काल्याच्या दूसऱ्या दिसाच्या दोनपारां गोवळाण कालो प्राकाराचो कालो जाता. गानां, नृत्य आनी कांय संवाद हांच्या माद्यमांतल्यान बाळपणाच्या कृष्णाची चेष्टा पराक्रम, गोपाळांचो खेळ असले प्रसंग गोवळाण काल्यांत येतात. मार्डोळ, माशेल, सावयवेरे, असल्या भागांतून गोवळाण काल्याची माहिती मेळता म्हणतात.

मुख्य मंदिरांत सेवेकारी म्हणोन आसलेल्या 'कलवंत' ह्या देवदासी समाजेंतल्या पंद्रा सोळा वर्सां पर्यांत प्राय भरलेल्यो चलियो गोवळाण कालो करीत आसतात. हरदास, वादक, गायक ह्या समाजेंतले प्रमुख मनीस आसतात.

वादका सांगाता हर्मोनियम तबला, झूंज हीं वाद्यां आसतात. सूत्रवचन हरदास करीत आसतात. मार्दोळकार, माशेलकार, बांडोळकार हांचे मंडळी पूर्वी थावन गोंयच्या सबार भागांतून गोवळाण काल्याचे प्रयोग करतात म्हण माहिती मेळटा.

गोवळाण काल्यांत राधा, कृष्ण, यशोद, गोप, गोपी असले पात्र आसतात. कृष्णाचो पात्र सुंदर रुपाची चली करता. बोबडा, तोतरा, वाकडा ह्या पात्रांत हास्य निर्माण करणारी आसतात. गीत, नृत्य, संवाद, अबीन्नय ह्या मुखांत्र सुमार दोन तास गोवळाण कालो चलात आसता.

मंदिराच्या सभा माटवांत गोवळाण कालो जाता. मंटपाच्या दोनी कुशिंनी बसलेल्या प्रेक्षकांच्या मदगात देवाक तोंड करून नाट्य अभिनय जाता. कुशिंनी पात्रिंची रंग वेष-भूषण करून तांतल्यान पात्रिचें आगमन जाता. नृत्य, गायन हांचें आविष्करण शास्त्रीय पद्धतीन जाता. प्रेक्षक वर्गांत स्त्रीयो आनी ल्हान भुर्गीं आसतात. आनंद आनी कौतूक ह्या भावनान गोवळाण कालो पळेयित्त आसतात.

कालो उत्सवांत दशावतार कालो, गोपाळ कालो, गोवळाण कालो अशें तीन प्रकार येतात. विधी म्हणोन कालो उत्सव जातात. कालो उत्सवांत ग्राम जिवनाचें रंजन आसता. रात पर्यंत जागरणेन शेणलेल्या जिवाक गोपाळ काल्याच्या खेळांनी चैतन्य येवन आसता. गोवळाण काल्याच्या निमित्तान स्त्रीयो, ल्हान भुर्गीं प्रभावीत जातात.

## लळीत प्राकार

धर्मीक उत्सवाच्या सांगाताचे वेळीं 'लळीत' हो रंजनात्मक नाट्य प्राकार जाता. मंदिरांत चौकाच्या शेवोटच्या भागांत कीर्तना नंतर त्याच, ठिकाणी भक्त मंडळिंत कांय मनीस लळीत हो प्राकार विधी म्हणोन करीत आसतात. सांखळी तेणें दत्त मंदिरांत दत्त जयंतिच्या दिसा, सावयवेरें तेणें श्री अनंत मंदिरांत चैत्रशुद्धदशमिच्या दिसा लळीत प्राकाराचें आविष्करण जाता. गायना वेळीं पेटी, ताबला झूंज हीं वाद्यां आसतात, वेदंतोपदेश ह्या लळिताचो उद्देश. गानीं आनी संवाद हांच्या द्वारीं जांवच्या लळितांक मराठी, कोंकणी, हिंदी, ह्या भाशेंनी रंजन उपदेश आविष्कृत जाता. पात्रांनी रंग वेष–भूषण आसाना. कांय प्राकारांत नृत्य स्वरूपाचे पदन्यास आसता. लळीत हो प्राकार गोंय भायर थावन आयिल्ल्या कीर्तनकारांनी हाडून गोयांत रूड केलां अशें मांदतात.

गोयांतल्या नाट्य परंपरेच्या संदर्भांत लळिताचो विचार सार्कें बसता. गोपाळ कालो, गोवळण कालो आनी लळीत ह्या तीनी प्राकारांत गोमंतकीय लोक जीवनाचो संबंध नातलेल्यान काळांत वयर कळयिल्ले तिनी प्राकार नामशेष जावन गेल्यात.

## नाट्य प्राकारांत खेळ आनी फेळ

'इंत्रूज', नतालांचें फेस्त, पासकांचें फेस्त इत्यादी महत्वाच्या संभ्रमाच्या दिसांनी, गोयांत पोर्चुगीसांच्या वासणुकेच्ये आवदेंत गोंय साश्टी तालूकांत 'फेळ' जाताले. साश्टिंतल्या क्रिस्तांवांच्या कोंकणी उच्छारांत 'क' आसल्लें 'प' जाता. देकून खेळ म्हणच्याक ते फेळ म्हणताले. हे फेळ जागोरा भाशेन उग्त्या माळार व शेतांत मांची पडदो इत्यादी कायिंच नासताना जाताले. देकून आर्विल्या नाट्याचें

त्या काळा वयलें रूप म्हण्येतालें. ज्या माळांचेर हे फेळ जाताले त्या सुवातेक 'मांड' म्हणताले.

हो फेळ आनी खेळ न्हय आसतां गोयांत त्या काळार म्हणजे सत्राव्या शेकड्याथावन एकणिसाव्या शेकड्या पर्यंत युरोपी भासांनी खेळ जाताले. युरोपी भासां मधल्या नाटकांची एक लांब परंपरा आसताली. चडशे खेळ पोर्तुगेज भाशेंतल्यान जाताले. त्या भायर स्पेयन आनी फ्रेंच भाशेंतल्यानयी नाटकां जातालीं. पूण हे खेळ गोंयच्या क्रिस्तांव समाजेंतल्या वयल्या वर्गाच्या सुशिक्षीत लोकांनी तांचे खातीर केल्ले आसताले. सादो कलासक्तेचो लोक 'फेळ' आनी 'जागोर' पळेवंक वेतालो.

खेळांत हिंदू खेळ आनी कथोलीक खेळ म्हण दोन थर आसात. हिंदू खेळ पुराण प्रकरणांचेर होंदोन आसतात. कथोलीक खेळ प्राकारांत निर्दिष्ट बांदावळ ना. कलाकारांचेर होंदोन त्या त्या खेळाचें बळ आटाप्तालें. कथोलीक खेळांत तमासो आनी विनोदीक तीरल प्रमूख पात्र खेळतालो. ह्या खेळा मधें बेंडा सांगाता पदां आसतालीं. नाच आनी नाट्य प्राकार वेवेगळे जाल्यारी थोडे खेळ नाच आनी नाट्य प्राकारा मदें बसतात. सार्के विभजन करुंक कश्ट मारतात. त्या पयकी हिंदू खेळ प्राकार ह्या विभागांत येता.

## खेळ (हिंदू विधी)

गोमंतकीय लोक नाट्य परंपरेंत खेळ एक विशिश्ट लोकशैली म्हणोन मांदतात. गोंयच्या काणकोण तालूकाच्या कर्नाटक सीमे जवळाच्या वठारांत हो प्राकार अस्थित्वांत आसा. निर्दिष्ट उत्सवांनी खेळ हो प्राकार अवश्यक आसलेल्याचे त्या भागांत, गांवकारी एकत्र येवन वर्गणी काडून खेळ करतात. खेळ प्राकारांत स्त्रीयांचो पात्र

पुरूष करतात. खेळाचे सूत्र' – संचलन करच्या मनश्याक हरदास व भागवत अशें म्हण उलो करतात. विद्यामान काळांत सूत्र संचालन करचे हरदास गोयांत बोव विरळ. कर्नाटक राज्यांत असलेल्या सदाशिवगड, बेळगांव गांवांतल्या अस्नोटी, हुटेगाळी असल्या गावांतून परंपरीक हरदास आसात. देणगी घेवन ते तांचें काम करतात. गोयांत जोडून आसलेल्या कर्नाटकी भागांत अंकोला पर्यंत हो खेळ जाता. मराठी आनी कोंकणी असें समिश्र भाशेंनी हो प्राकार आसता. कर्नाटक भागांत बरेच कन्नड सब्द येतात. विद्यामान काळांत खेळाचें कांय साहित्य, ललीत स्वरूपान सांपडता. पूर्वी खेळाचें आविष्कारण उत्सव पूर्त रुपान जातालें अशें सांग्तात. खेळ ह्या प्राकारांत अपरचालीत पुराण कथा त्या जिवनाच्ये भौगोळीक व सांस्कृतीक संदर्भ घेवन येतात. ह्या खेळांत समेळ, तबला आनी झूंज हीं तीन व्हाजंत्रां उप्योग करतात. परंपरीक गानां बरोबर, कांय नवीं कवनां, पात्रांच्या तोंडांचे गद्य संवाद, हांतून कथानक फुडें सरता. कांय गानां भागवत म्हणतात. पात्री त्या पर्माणे हालचाल करतात. पात्रांच्या तोंडांतलीं गानां खणखणीत आवाजांत म्हणतात. देवळाच्या सभा माटवांत व कोणायच्या अन्य नियोजीत जाग्यार खेळ जाता. रंगमंच आसल्यार पडदे इत्यादी साहेत आसता. सकाळीं उज्वाडता वरेग खेळ चलता. वेषभूषणांत घनाधीक वसतूर वापरतात. रंगभूषण जाणकार लोक करतात. पर्जळीक रंगांत वेषभूषण आसोन देव देविका सांगाता धवो, निळसो आनी राक्कोस असूर अथवा दुश्ट प्रवृत्तिंच्या पात्रां सांगाता तांबडो, काळो रंग वापरतात.

प्रथम हरदास वाद्य मेळ सांगाता रंगभूमी वयर येता आनी वाद्य मेळ मांडल्ल्या कोपऱ्यांत बसता. हरदास पारंपारीक कवनांतून नमान म्हणता. नमानांत प्रथम हनुमान, गुरू दत्तात्रेय इत्यादी देवतांक आहवान

करता. उपरांत खेळ चालू जाता. खेळ संप्ता पर्यंत देवतांनी रंगभूमिंत बसोंक जाय अशें नमानाच्या स्वरूपाचीं संकल्पन नमानांत येतात. नमान संपल्या नंतर 'कोडंगी' हो विदूषक येता. चित्र विचित्र रंगभूषणां घालून खेळतेल्या विदुषकाचें आगमन जाता. हरदास आनी कोडंगी हे प्रथम उल्लेख करून घेतात आनी खेळाच्या कथानका संबंधी चर्चा कर्तात. चर्चेंत ग्रामीण विनोदांचीं भरण जातात आनी उपरांत स्त्रियांची पुगडी प्रमाणें नृत्य जाता. नृत्या वेळीं जाणारिंनी म्हणचीं गानां अशीं आसतात.

– *'अंगडी घालीन पुगडी,*
*काडीन चिकण माती*
*म्हज्या मामाची बायल जाशी*
*गळ्या घालीन पाटी'*

पुगडी नंतर मूखवाटधारी गणपती येवन नाचता. कोडंगी गणपतिची पूजा करता. गणपती चलता. हरदास आनी कोडंगी कथा सुरू करच्या संबंधी चर्चा करतात. ह्या नंतर पुराणाचें कथा प्रसंग नाट्य रुपान येत आसतात. प्रयोग संपता पर्यंत हरदास आनी कोडंगी रंगभूमी वयर आसतात. हरदास कडेन झूंज विशिषट पद्धतीन प्रथम व्हाजता. उपरांत तबला, समेळ घेतात. युद्ध नृत्यांत एकेक पांय वयर करून पायांनी गोलाकारार घुंवोन नृत्य करून आसतात. खडगा, धनूषबाण, गदा, बालो असल्या वेगवेगळ्या प्राकारांच्या आयुदानी एकत्र युद्ध जाता. युद्धांत कोणी मोरनात. चार पांच वोरां व रातभर चलचो खेळ संपल्या नंतर पोषक पात्राचो खेळगाडी रंगमंचा वयर येता आनी बाळ गोपाळांनी केलेली सेवा मानून घेवन देवाची विनोवणी करता.

खेळ ह्या प्राकाराच्या आविष्करण घटकांचो विचार केल्यार कालो आनी यक्षगान व गोमंतक आनी कर्नाटकाच्या लोक नाट्य परंपरेंत

'खेळ' ह्या दोना मधें पडता म्हण मांदतात. खेळांत गायन पद्धत गोमंतकियाची जाल्यार, वादन यक्षगान पद्धतिची म्हण्येत. नृत्यांत विशिश्ट परंपरा येवंक यक्षगानाचो प्रभाव जावंक पुरो.

ह्या खेळांत गोमंतकीय लोक नाट्याच्या प्रकृतिचें लक्षण दिसोन येता. गोमंतकीय लोक नाट्यांत विदूषक ही परंपरा ना. हरदास व भागवताचें मार्गदर्शन गायन, वादन, नर्तन ह्यो तीन गोष्टी सांगाता घेतात. संवाद आनी सादरिकरणाचे इतर प्राकार गोमंतकीय लोक शैलेंत चलतात.

बेळगांव जिल्ल्याच्या कांय गांवातून 'आटा' म्हणचे खेळ अशी लोक परंपरा आसा. ह्या परंपरेंत 'दशवतार आटा' म्हळ्ळो प्राकार आसल्ल्याची माहिती मेळता.

## दशावतारी खेळ

सत्तरी तालूक, सांगे तालूकाचे कांय भाग, पेडणे आनी दिवचल असल्या कांय भागांतून मंदिराच्या उत्सवाच्या निमित्तान परंपरा म्हणोन दशावतारी खेळ प्राकार जाता. ह्या प्राकाराक दशावतारी नाटक अशेंयी म्हणतात. खेळ खेळतेले कांय मंडळ्यो सत्तरी भागांत आसात. पायपेटी, तबला, झूंज हीं व्हाजंत्रां तांच्या सांगाता आसतात. गांवांतल्या नीरनिराळ्या जाती जमातिचो लोक दशावतरा खेळांत भाग घेतात. स्त्रियांचे पात्र पुरूष करतात. वेषभूषणां खेळ करणाऱ्या मंडळिकडेन आसतात व भाड्याचे हाडतात.

खेळाचो पूर्वरंग आनी आख्यान अशें दोन भाग आसात. पूर्वरंगांत गणपती, सरस्वती हांचे नमान, आगमन नृत्य हे प्राकार आसात. संकसुराचो प्रवेश आनी मत्स्यावतारान केलेल्या संकासूर वध ह्या प्रसंगांनी पूर्वरंग संप्रा. आख्यानांत अप्रचलीत पुराण कथा स्थानीक

संदर्भ घेवून येतात. हो भाग नाटका सार्को आविष्कृत आसता. पूर्वरंगांत हरदास हे पात्र सूत्र संचालन करता. हो भाग कालो ह्या प्राकारा प्रमाणे चलता. हो दशावतारी खेळ मंदिराच्या सभा माटवांत वा मोकळ्या जाग्यांत आविकरण जाता. रंगमंच पडदे असल्या गोष्टीची गरज ना. रंगमंचा वयर मधें एक पर्जळीक पडदो आसल्यार जालो. राजाचें सिंहासन, शृंगार प्रसंग इत्यादी क्रियांक हो पडदो वापारलेल्यार जालो. रंगमंचाच्या तिनी कुशिंनी कोंडाळे करून प्रेक्षक आसतात. प्रमूख पात्रांच्या आगमनाच्या वेळीं झूंज आनी तबला ह्या व्हाजंत्रांनी विशिषट प्राकारार व्हाजयतात. व्हाजंत्रां पयकी झूंज प्रमूख आसता. सर्व थरांचे गांवकारी दशावतार खेळाचे प्रेक्षक आसतात.

दशावतारी खेळाचें पारंपरीक लिखीत साहित्य उपलब्द ना. आख्यानाचे विशय पुराणाचे संबंधीत आसल्ले परी पुराणा भायले आख्यानांत येतात. एक आख्यान विंचल्या नंतर मंडळिचे सर्व मनीस एकत्र जमोन कोण कोणाचे विशय घेतात म्हण ठरायतात.

सर्व पात्री बारकायेन कथानक समजोन घेतात. एकामेका कांय सूचनां घेतात आनी अशी तयारी जाल्या नंतर खेळ प्रारंभ जाता. ह्या नाटकांत प्रत्येक स्त्री पात्रांनी गांवचें आसा. पुरूष पात्रयी गायतात. प्रसंगानुरूप गायतेली पात्री एकादी कविता, आनी स्वरचीत पदांयी म्हणतात. वाद्यांच्या सांगाता गाणां जातात. झुजाच्या वेळीं झूंज आनी तबला ह्या व्हाजांत्रांनी विशिषट रितीर व्हाजयतात.

युद्ध करणारी पात्री झूंजाच्या लयिंत नृत्य करतात. सुर्वातिंत झूज नृत्य सवकास लयीत जाता. मागीर लय वाडता. एका हातांत धनुष्यबाण, दूसऱ्या हातांत तलवार, गदा आनी चक्र असें आयूधांनी परस्पर युद्ध जाता. तीन तासां पासून कितलोयी वेळ खेळ चल्ता.

दशवतारी खेळाचें स्वंरूप सुर्वेर नाट्य प्राकारा पर्माणे आसोन, पूर्वरंगांत प्रसंग, पात्रांचे संवाद, आविष्करण पद्धती इत्यादी प्रमूख घटक लोक परंपरा पर्माणे जाल्यार, उपरांत नृत्यांत बदल्ता. गोंयच्या सीमे वयल्या सिंद दूर्ग जिल्ल्यांत जांवचो खेळ ह्याच प्रमाणे आसता. कांय घटक वेगळे आसतात.



# लोक नाट्यांत रुपांतर स्वरूप

## सोंग आनी दोंग

उल्लेकीत जाल्ले गोंयचे लोक–नाट्य प्राकार विधी म्हणोन आचरसिल्यारी, ह्या लोक–नाट्याच्ये परंपरेंत धर्माच्या बांदावळिंतल्यान तरीयी ग्राम जिवनाचें रंजन आसतालें. कारण रात पर्यंत जागरणेन रावोन पुरासण जाल्ल्या प्रेक्षकांक उबगोण येनाशें मनोरंजन दिंवच्याक प्रयत्न चलतालें. पूण ह्या लोक–नाट्य प्राकारांनी लोक जिवनाचो संबंद नातलेल्यान विद्यमान काळांत ते प्राकार नामशेष जांवच्या पांवड्याक पावले.

ह्याच कारणाक लागोन लोक नाट्यांत रुपांतर स्वरूप येंवच्याक शुरुवात जाली. अशें रुपांतर जाल्ल्या नाट्य प्राकारां पयकी रणमाले, जागर, शिवोली जागर आनी क्रिस्ती जागोर प्रमूख. असल्या प्राकारांनी चडावत खेळ दोन भागांनी चलता. पयलो भाग धर्मीक कथेचें सादरीकरण. ह्या मूळ कथेच्या पात्रांक सोंग व सवंग म्हणतात आनी दुस्रो भाग कथा प्रसंगाच्या मधें येंवचो प्राकार 'दोंग'. ह्या प्राकारांत नाटकाचीं सगळीं आंगां पळेवंक मेळतात. दोंग प्राकारांत लोक कलाकार खंचोय तरी सामाजीक पात्र घेवन मांचियेर येता आनी ते पात्र मांचियेर सादर करता. दोंगा पात्राचो प्रसंग संवाद गितांतल्यान सादर करतात. त्या वेळार हे पात्रदारी आपल्या अबीनयांतल्यान आनी विनोदी संवादांतल्यान प्रेक्षकांक पोटभर हासोंक लायतात.

दोंगाचो उद्देश विनोद करून हासोंवचें मात्र न्हय आसतां, ताणे उलयिल्ल्या संवादांतल्यान आनी गायिल्ल्या गितांतल्यान समुदायाक नवे विचार मेळतात आनी नवी दिशा मेळता. मनश्या जिण्येंतले वेवेगळे समस्ये आनी घडितां नटन करुन दाकयताना, लोकाक भविष्यत काळाविशीं जाग्रत करचो महत्वाचो वावर दोंग करता आनी अशें दोंग वर्वीं प्रेक्षक विचार–विनिमय करुंक सक्तात.

ह्याच दोंग प्राकारा वर्वीं रामायणाची कथावस्तू आटापची 'रणमाले' एक लोक–नाव्य प्राकार जाला. ह्याच परीं रामायणाची कथा वस्तू आसचो प्राकार केरळाच्या कोच्चिंत कोंकणी लोकां मधें जाता, ताका 'गोड्डे रामायण' म्हणतात. पूण गोड्डे रामायणांत असलो दोंग प्राकार नातल्ल्या वर्वीं तो आजूनयी गीतक व गीत प्राकार जावन्‌च ऊरला.

गोंयच्या सत्तरी तालूकांत जांवची 'रणमाले' आनी पोंडें, तिस्वाडी सास्टी म्हालांत जांवचो 'जागर' ह्या दोना मधें बरेंच सारकेंपण आसा. 'रणमाले' लोकनाव्याचेर सामाजीक बदलावणेचे परिणाम तितले दिसानांत तरी जागराचेर क्रीस्तीकरणाचो प्रभाव मोव्या प्रमाणांत जाला. मूळ हिंदू समाजेचो हो नाव्य प्राकार, धर्म बदल्ल्यारी क्रिस्तांव मदगत तो तिगून उरला, आनी ह्याच प्राकाराचा पाटथळा थावन म्हळ्ळेबरी फेळ प्राकार उबजोंक कारण आस्येत म्हण एक अंदाज आसा.

ह्या रुपांतर स्वरूपा वर्वीं सगळ्या जागरांनी नाव्याचें बीज घटक दिसोन आयिल्ल्यान, गोंयची आयची रंगमांची, तशेंच लोका मोगाळ तियात्र कला प्राकार, हांचो अत्मो ताच्या आकाराक ह्या जागर नाव्य प्राकाराक बोट जोकता.

## 'रणमाले'

गोयांतल्या सत्तरी आनी सांगे ह्या दोन तालूकां मधल्या सह्याद्रिच्या

फाल्क्यांत आसलेल्या दावे, बांबर, भाटी, कुमारे ह्या गांवांतून रणमाले हो नाट्य प्राकार पळेवंक मेळता. घाटामात्या वयर कर्नाटक राज्याच्या सरहदिंत आसलेल्या कणकुंबी, चिकली असल्या गांवांतून रणमाले नाट्य प्राकार आसा. फाल्का ंत आसलोलो लोक घाट चडोन कर्नाटकाक वेतात. थंयचो लोक घाट देंवोन गोयांक येतात. अशें दोनी राज्यांनी एकाच प्राकाराचो रणमाले आसा म्हणोन कळोन येता. ह्या लोक–नाट्या मधें 'दोंग' म्हणजे नाट्याचो एक भाग वेगळ्ये पद्धतीन आविष्कार जांवची माहेत मेळता. रंग पंचमी आनी गुडिपडवा संदर्भार म्हणजे वर्सांत दोन दीस रणमाले नाट्य प्राकार एक विधी म्हणोन गोयांत जाता.

रणमाले नाट्य प्राकाराची सुर्वात सांजेची जाता. गांवच्या देवळाचो पूजारी, गुरूव व भागत गांवकारांक रणमालेचो सब्द दितात. सब्द म्हणजे पूजारीन सांगणे करून एक नारल देवाच्या प्रसादाक प्रमूख गांवकारयांच्या हातीं दवरुंक आसा. सब्द मेळना जाल्यार रणमाले जायना. सब्द घेवन रातीं धांच्या सुमाराक गांवकार मांडा वयर जमतात. दिवो पेटवन, सब्द म्हणोन हाडल्ल्यांतलो प्रसाद घेंवचो, सांगणे, अशें विधी जातात. वाद्य व्हाजोवन नमानाचो सुर्वात करतात. डोल, गुमट, कंसळे अथवा झूंज हीं वाद्यां रणमालेंत आसतात.

रणमालेच्या आविष्करणा वेळीं, भाग घेंवचे गायक–वादक आनी नर्तक रंगभूमी वयर एका वोळिंत एक मनश्या पडदो करून उबे रावतात. वाद्यांच्या थापा पर्माणे गीत गायताना मानवी पडदो पाटीं फुडें आनी दावे, उज्वे कुशीक हालत धलत आसता. प्रसंग येतच फुडें येतात. ह्या पात्रांत राम, रावण हनुमान हीं पात्रां आसतात.

रणमालेंत सूत्रदार हरदास हे प्राकार नांत. गांवांतलो जाणकार सुरवात करता. ऊरलेले सांगात दितात. पद्य भाग लिकीत स्वरूपांत

आसाना. पात्रांच्या तोंडांत आसलेलीं गाणीं प्रथम जाणकार म्हणतात. इतर जाणकार तेच गाणीं म्हणतात.

गोंयांतल्या लोक नाट्य परंपरेच्या संदर्भांत रणमाले हो प्राकार स्वतंत्र आसा. मनशांचो पडदो, रामकथेचे आविष्करण, कथा प्रसंगा मधें येंवचो दोंगा हो प्राकार रणमालेचे वैशीश्ट दाकयतात. इतर लोक–नाट्य परंपरेंत रामकथा ना. मध्यंतरांत ल्हान प्रसंगाचे समावेश ना. दोंगा रणमालेंतलो वेगळोच एक प्राकार. रामकथेचो एकादो प्रसंग आविष्कृत जाल्या नंतर मदें कथा थांबता. ह्या वेळार भाग घेतल्यां पयकी एक दोग मनीस फुडें येतात आनी एकाद्या सामाजीक विशया वयर, ल्हान ल्हान प्रहासना सार्कीं पदां गावून, नाचोन परत वेतात. दोंगा प्राकाराचे दूसऱ्या वैशिश्टा पयकी भायलो कोण तरी मनीस येवन हांतून भाग घेवंक सक्तात. अशें दोन तीन मनीस रंगभूमी वयर येवन नाचोन चल्तात. दोंगाचे विशय सामाजीक स्वरूपाचे आसतात जाल्ल्यान हांतूं विनोद उपहास, विडंबन हे प्राकार आसतात.

सबार मनीस 'रणमाल्यांत दोंगा करीन' असल्या उद्देशान भाग घेतात. रणमाले नाट्यांत स्त्रीयांचो पात्र पुरूष करतात. गणपती आनी कांचनमृग सारक्य प्राणिंचे वेस घाल्ले पात्री मुखाटें धरण करतात.

आविष्करणाची सुरवात नमनांत जाता. विद्यमान काळांत नमनाचें पद असें आसा:–

– *प्रथम नमन गणपते,*
*मघ निमिल्ल्या सरस्वते*
*खेळती खेळी रे खेळी जोगीण नाथा*
*सरस्वती शारदा रंगी आली माया*

नमनाचें काम पूर्ण जाल्या नंतर गणपती येता. भटजी येवन गणेशाची पूजा करता. गणपती नाचोन गेल्या नंतर सरस्वती येवन

नाचोन चलता. त्या उपरांत राम कथेक सुरवात जाता. राम कथेचें सुर्वात जाता तेदनां मांचियेर येंवचीं पात्रां संवाद उलयनांत. पडद्यांत आसल्ले गायक गीत गावन रामायणांतलो प्रसंग उबो करतात. ह्या गितांक 'जत' अशें म्हणतात.

'जत' वाद्याच्या तालार फुलत वेता आनी प्रेक्षक मौनपणी जतीचो आस्वाद सेवतात. जतिच्या गंबीर प्रसंगा उपरांत जत संपता. त्या वेळार मानवी पडदो फासळोन 'दोंग' जाल्लो कलाकार मांचियेर येवन दोंगा पर्माणे संवाद करता. गीत गावून नाचात आसता. रणमाल्यांत 'जति'च्या आदारार जांवची रामायणाची कथानक आनी दोंगा हांचो एकामेका कसलोच संबंद आसाना. नाटकांत जशें पात्रां आसतात तशेंच दोंगा ह्या प्राकारांतयी पात्रां आसतात. दोंगांत एखाद्रो प्रसंग संवाद गितांतल्यान सादर करतात. त्या वेळार ही दोंगा आपल्या अमिनयातल्यान आनी विनोदी संवादांतल्यान प्रेक्षकांक पोट भरून हासोंक लायता. मात्र न्हय दोंग ांत मनश्या जिणियेच्यो वेवेगळ्यो समस्या, घटनां दाखयताना, मनश्याक बावी काळाविशीं जागृत कर्चाचो महत्वाचो वावर दोंग करता, आनी प्रेक्षकांक ताचेर विचार करुंक लायता. रणमाले लोक नाट्यांत 'जत' गावपी कलाकाराक कितलें महत्व आसागी तितलेंच महत्व दोंगा कलाकाराकयी आसता. ह्या नाट्य कलेंत विशिषट दोंगा हाडल्या बगार रणमाले फुडें वचाना आनी संपवंकयी मेळाना.

आन्येका रितीन स्पश्ट सांगचें जाल्यार, ह्या रणमाल्यांत दोंगा आनी सोंगा म्हळ्ळे दोन थरांचे पात्र आसात. रणमाल्यांतल्या मूळकथेंत जीं पात्रां येतात ताका सोंग व सवंग हें उतर वापारतात. गणेश, शारदा, राम, लक्ष्मण हीं सगळीं सवंगा, आनी समाजेंतलीं जीं पात्रां– घोव–बायल, भाव–भयण, चामर, तारवी हीं सगळीं दोंगा.

आदीं सवंग पात्रदारी 'मुखाटीं वापारताले. आतातां मुखाव्यांचो वापार उणें जाला म्हणतात. दोंगा पात्राचें न्हेसण सादें – दादले दोतर, खोमीस पगडी वापारतात जाल्यार बायल जाल्ले पात्री कापड न्हेसतात.

विद्यामान काळांत, रणमाल्यांत, नाटकांतल्या प्रमाणे कांय संवाद आसतात. पात्री पद म्हणतात. संपूर्ण रात पर्यंत रणमाले जावन आसता. सकाळिंच्या प्रहरी मंत्र म्हणतेल्या जाणारयांच्या गायनां संगीं रणमाले संप्ता.

## 'जागर'

गोंयांत गौड जमात 'जागर' नांवाचो लोक नाव्य प्राकार वर्सान वरस एक विधी म्हणोन सादर करतात. जागर जालिना तर गांवार आपत्ती येता अशें समजातात. पोंडा तालूकांत प्रियोळ, वेलिंग आनी तिस्वाडी तालूकांत चिंबल, कर्माळी, शिर्दोन असल्या गांवांनी जागर जाता. जागर गोंयचें एक पुर्विलें लोक नाव्य प्राकार जाल्ल्यान ताका शेकड्यांची परंपरा आसा. गोंयच्या सत्तरी तालूकांत जांवचें 'रणमाले' आनी पोंडा, तिस्वाडी, साश्ची म्हालांत जांवचें जागर हांतून सार्कैपण दिसोन येता.

गोंयांत गौडांच्या प्रत्येक वसतेंत मार्च–एपरील ह्या मयन्यांत एकाद्र येवन जागर खेळोंवच्या खातीर दीस ठरायतात. ह्या दिसा सांजेर वाड्याचे गांवकार जागर मांड ह्या पवित्र ठिकाण्याक एकात्र जमतात. मांडकरी फुडें येवन सर्व जणां मुखार नारल बेत्तात आनी उपरांत दैवता शक्तिचो विडो दवर्न त्या जाग्यार दिवो पेटयतात. गांवकार उबे रावोन देवाचें सांगणें कर्तातात. जागराची विधी जाल्या नंतर रातीं सुमार १० व्हाजताना जागर करपी मंडळी थंय येवन रंगवेषभूषणा

घालुंक सुरवात करतात. अशें नमनांत जागर प्रारंभ जाता. अशें सुरू जाल्लो लोक – नाट्य प्राकाराचो जागर फांतोडे मेरेन चलता.

जागर म्हळ्यार 'जागोरयो' ह्या ग्राम देवताक जागो करप. तो जाग्रत जाल्या उपरांत वर्सभर थंयच्या वठाराची राखण करता म्हण लोक समजाता. देव दैवतांची जाग्रत दवरची विधी ह्या जागराचें स्वरूप म्हळ्यार जाता. खंयच्याय ठिकाण्याची जागर बंद पडली जाल्यार देवतांक कोप येता. गांवार बाध येता म्हणोन ते परत्यान सुरू करतात.

गोयांत जांवच्या जागरांत वेवेगळे प्राकार आसात.

| | | |
|---|---|---|
| पयलो प्राकार | – | मुखवाडाचो जागर म्हणजे 'पेर्णी जागर' |
| दुस्रो प्राकार | – | हिंदू समाजांतलो जागर. हाचें नातें 'रणमाले' कडेन आसा. |
| तिस्रो प्राकार | – | हिंदू आनी क्रिसतांव हाणीं सांगाता एकटांय जावन सादर करचो जागोर. हो जागोर गोंयच्या शिवोले हांगासर पळेवंक मेळता. |
| चवतो प्राकार | – | क्रिसतांव समाजांतलो जागर हो क्रिसती जागोर. साश्टी आनी मूरगांव म्हालांत पळेवंक मेळता. हांगासर जांवचो 'खेळ' लोक नाट्य प्राकार जागरा कडेन ताळ पडता. |

ह्या जागर प्राकारांत कुडम्यांच्या कथानकांची मांडावळ, वाद्यां व्हाजोवपाची शैली, गितांच्यो रचना आनी चालिंनी सारकेंपण दिसोन येता. 'रणमाले' लोक नाट्य प्राकाराचेर सामाजीक बदलावणेचो परिणाम दिसोन येना तरी जागराचेर क्रिसतीकरणाचो प्रभाव मोठ्या प्रमाणांत जाला. कारण पुडतुगेज आयल्या नंतर धर्म बदल्लो तरी संस्कृती बदलना म्हणच्याक ही एक रुज्वात.

नाटकाक एक कथा आसोन, तो नाटक त्या काण्येचेर आधारून आसता. केदना ती कथा संपता तेदना तो नाटक आखेर जाता. पूण जागरांत कथा एकच न्हय बगार ल्हान ल्हान प्रसंग व घडणुकेचेर आधरीत आसता जाल्ल्यान सबार काणियांची माळाच आसता. हांचो एकामेका कडेन संबंद ना जाल्यारी ह्यो वेवेगळ्यो कथा मेळोन जागर जाता.

जागरांत दोन थरांचीं पात्रां आसतात. दैवी आनी मानवी. दैवी पात्रां व संवंगां आशीर्वाद दिंवच्या खातीर नाचोन वेतात. हांकां हक्काचीं आनी मानाचीं संवंगां म्हणतात. हीं संवंगां नाचपाचो हक्क परंपरेन त्या त्या गांवच्या व वाड्या वयल्या म्हाल कुटुंबाच्या गड्याक मेळता. मानवी पात्रां हीं सामाजीक जावनासात. हीं पात्रां खंयचेयगडे नाचोंक सक्तात. ह्या पात्रांनी वयज, दोतोर, खापरी इत्यादी पात्रां आसतात.

जागरांत कलाकार जावन बायलांक स्थान ना. जागरांत आसल्लीं स्त्री पात्रां दादलेच स्त्रियांचो वेस घालून सादर करतात. हेर लोक नाट्य प्राकारांनियी आदल्या काळार स्त्रियांचो पात्र दादलेच करताले. पूण कालांतरान स्त्रियो कलाकार मांचियेर येवंक लागल्यो. पूण जागरांत बायलांचो पात्र दादल्यांनी सादर करची रिवाज आजूनयी तशीच तिगवन दवरल्या.

जागरांत संवाद पद्य रुपान सादर जातात. नाटकांतलें संवाद गद्य रुपांत आसतात. जागरांतल्या पद्य रुपाच्या संवादानिंच पात्रां एकामेका कडेन उलयतात. देखीकः मामा–भाचो–मामी हांचो संवाद असो आसता.

*मामा* : *यारे यारे यारे भाच्या गिरी पर्वतार रे*

*भाचो* : *गिरिचो पर्वत मामा बहू अवघडरे शिकय शिकय मामा तुगेली विद्यारे शिकय शिकय रे मामा शिकय शिकय*

*मामा* : *म्हागेली विद्या भाच्या बहू अवघड रे म्हागेली विद्यारे भाच्या...*

*मामी* : *सीताराणी आंगणी उबी शब्द पडला कानी रे*
*मावूळें भाचें दोघूय पेटले यद्दी रे राखय राखय भाच्या आयवपण रे*
*माजे आयवपण भाच्या सर्वय सिऱ्गार*

*भाचो* : *कैशानी राखू मामी तुजें आयवपण गे*
*तुजें आयवपण मामी सर्वय सिऱ्गार*

असल्या पद्य रुपाच्या संवादांनी जागराचें कथानक फुडें वेता. हे संवाद ल्हानपणारच कानार पडल्ल्यान कलाकारांक ते म्हणच्याक सुलभ जाता. जागरांतल्या पात्रांचो अबीनय पारंपारीक स्वरूपांतल्यान मोळल्लो जावनासोन, जागरांतल्या पात्रांची ओळक ताणीं गायिल्ल्या पद्यरूपी संवादांतल्यान आनी ताच्या नाचांतल्यान कळोन येता. तसेंच जागरांतलो कलाकार अभिनयाची पारंपारीक जाणवाय आनी परिस्थितिचें अवलोकन आसल्लो आसता. आपणें रंगयिल्लें संवंग आपणें पळेयलां देकून संवागचो अर्थ समजोन घेवन तें तो सादर करता, तरी तो वृत्तेन कलाकार जाल्ल्यान ताचें अभिनयन तांच्या जाणविकायेचेर होंदोन आसता.

जागरांत संगीत प्रमूख स्थान घेता. संगीत बगार जागर जावंकच सकना. जागरांतलें संगीत खाशेलें. जागराकडेन एकरूप आसल्लें लोक–संगीत गुमट, नगरो, कंसाळें आनी झूंज. ह्या लोक वाद्यांच्या सांगाता रचल्लीं पारंपारीक कवनां जागराचे चालीन कलाकार म्हणता ह्या कवनांक आनी चालिंक शेकड्यांनी वर्सांची परंपरा आसा.

संगीता भाशेन्ंच जागरांतल्या नृत्याकयी महत्व आसा. नाचांतलीं पावलां पात्रांच्या प्रकृती सभावानुसार बदलल्ल्याबरी ताची लय, ताल लेगीत बदलता.

नाटका भाशेन जागरांतूय रंग-वेश-भूषण पळेवंक मेळता. जागरांतलीं पात्रां हीं गांवांतल्या लोक जिण्येंतल्यान आयिल्लीं आसतात जाल्ल्यान त्याच पर्माणे तांचीं वेश-भूषण आसतात. पूण एकाद्र दैवी पात्र आसलें जाल्यार त्या पात्राचीं वेश-भूषणां पुराणकालीन वेश-भूषणाकडेन थरता.

जागर गांवातल्या व वाड्यांतल्या थरलेल्या मांडाचेर जाता. ह्या मांडाच्या रचणेंत नेपथ्याचो भाग म्हणजे पात्रिंक वेश-भूषणां रंगंवचो जागोय आटापून आसता. जागराच्या मांडार कांय दिसां आदीं वाड्यांतलो लोक एकटांय जमोवन माटोव घाल्तात. माटवाक गांवांतल्यो माडियो, मोडलां, चुडेत्यो फुलां पानां हाडून माटोव सुंर्गरायतात. हो माटोव जागर पळेवंक येवपी लोका खातीर आनी जागरांतल्या कलाकारां खातीर आसता शिवाय कथानका कडेन संबंद आसाना.

जागराक नाटकाच्ये भाशेन लिखीत साहीत ना. सगळें मौखीक आनी उगडासाच्ये सक्तेन होंदोन आसचें. वर्सान वरस जांवचो हो जागर एक्ये पिळगे कडचा न दुस्रे पिळगे कडेन पावता. तांतुंतलीं संवंगां, ताचें पद्य संवाद, चाली ह्यो बदलनासताना तशोच फुडें पावयल्यात, म्हणतच शेकड्यांच्या शेकड्यां थावन देंवोन आयिल्लो हो एक पुरातन तशेंच आपूट लोक नाट्य प्राकार म्हणच्याक ह्यो रुज्वाती मेळतात.

जागर सुरवात जाताना गांवच्या नमान प्राकारांत सबार देवतांची समावेश आसता. गायक वाद्या सांगाता आपंवच्या देवतांचीं थोडीं नांवां ह्या परीं आसात. मांडगुरू, मांडाबरह्म, मांडामृत, गणेश देव, बेताळ देव, सांतेरी माये, म्हळसा माये, गणपती देव, मंगेश देव, सभे बसलेल्या लोका, अशें प्रत्येक देवतेच्या नमनाचें कडवें म्हणोन काडतात.

जागर करतेली गावडा ही जमात गोमंतकाची मूळ निवासी म्हण ओळकतात. पुर्वीं हिंदू आसलेले ह्या जमातेचे थोड्या कुटुंबाचे पुडतुगेज काळार धर्मांतर जाले. क्रिसती धर्मांत प्रवेश केल्या नंतर देवतांचीं नांवां बदलून जागर करयताले. १९२८व्या वर्सा कांय थोडे क्रिसती गौडे कुटुंबांनी शुद्धीकरण विधी करून पाटीं हिंदू धर्माक गेले. असल्या लोकांक नवे हिंदू गौडे म्हणपाची रिवाज आयली. विद्यामान काळांत गौड्यांच्या व्हडिलांचीं नांवां क्रिसती धर्माचीं आसल्लीं आयकोंक मेळतात.

गोंयच्या चिंबल ह्या गावांत गौडे हिंदू धर्मांत प्रवेश जांवच्या पुर्वीं म्हणतेल्या नमनांतली वोळ अशी आसाः–

*'बापा पूत इस्पिरी सांता, तिग्या नमान म्हजे देवा बाप्पा*

*सबाकी बसुयां, देववस घालुयां,*

*आदी नमसकार देवासी घालुयां'*

जागरांत नाचतेल्या पात्राचे स्वभाव विशेस आनी तांच्या रंगभूमी वयली क्रिया अशी आसाः

– माळीण तिच्या नवऱ्या सांगाता पिंर्गाकडेन भाड्याक जमीन घेवून फूल–झड लायलेलीं आसतात. भागिंतल्या फुलांची फुलमाळा गुंपन पयली माळ मांडगुरूक, देवदैवतांक माळा पाटयल्या नंतर शेवटिची सभेक माळा दितात.

भर्जरी पोषक, एका हातान तलवार, दूसऱ्या हातान मुकूट धरून आसतात. हांचें मुकूट वास्याचो केल्लो आसोन हाका रंगीन कागदांनी सुंर्गरायतात. गराशेर नाचल्या नंतर थंय दोगी फिंर्गी युवती येतात. आंगाक फ्रोक, दोळ्यांक काळी चेस्मा, हातीं उघडलेली छत्री आनी पांखो अशी युवतिंचीं वेषभूषणां आसतात. युवतिंचो नाच जाल्या

नंतर गराशेर युवतिंच्यो चेष्टायो करता. तीं आपलीं भोगणां उचारतात. तेदना कोट बूट शिर्कायिल्ले आनी हातीं धाकटें बेत घेतलेले दोगी फिंर्गी भाव येतात. भयणिलागीं विचारतात–ह्या पात्रांचो संवाद –

*'माना (भयणी) तुवें खेसत्याव केलांगो मोटें'*

असें पुर्तुगेज भास मिश्रीत संवाद आसता.

- जमीन वांटताना पडील पडलेली जमीन आपणाक आनी पिकाळ जमीन सुनेक दिल्ल्या म्हणोन सासू–सून झगडतात.
- दोग फिंर्गी (पाकळे) रानांत शिकारी करतात. मोग करून बसलेल्या तरुणांची शिकार जाता.
- नोवरो तार्वोटी जावन परदेशी गेला आसताना ताची बायल दूसऱ्या पुरूष सांगाता बाळता आनी पोळून धांवता.
- पिडेसत मनश्याक दाक्तेर येवन तपासता.

जागरांत अशें वेळा काळा पर्माणे असंख्यात पात्र आसतात. गांवांतले अथवा समाजांतले मनीस स्वभावान प्रकृती आनी विकृती हांचें दर्शन घडवन हाडचे पात्री जागरांत येवन आसतात. प्रत्येक पात्र येताना व आयल्या नंतर गाणीं म्हणात नाचतात. नाचताना पदन्यास वादन पद्धती आनी लय पात्रांच्या प्रकृती स्वभावा पर्माणे बदल्ते आसता.

जागराची रंगभूमी गुमटाच्या आकाराची आसता. तीन कुशिंनी कोंडाळें करून प्रेक्षक बसतात. मदल्ये वाटेंतल्यान पात्रिंचें येणें चलणें जावनासता. प्रेक्षक अधिकांश गौड जमातिचेच आसतात. संपूर्ण रात पर्यांत बसोन जागर पळेयतात.

जागरांत अशलील चेष्टायो आनी गानीं आसतात. कथा सूत्र निरंतर नातलेल्या प्रसंगार वाद्या मेळाक संकेत मेळता. तवळ मधलो वेळ भरती करुंक वाद्या सांगाता जोडी व एक्सुरो गानीं गायतात.

फांत्यापारार जागर संपोवन येताना 'पावना' हो परंपरीक पात्र येता. 'पावाना' हो देवदूत म्हण समजातात. हेरा पात्रावर्नी पावना पात्र अवश्यक. विवीद प्रकृती धर्माच्या मनश्यांनी भरलेल्या ह्या गावांत सुखी जीवन प्राप्त जावंक प्रार्थनां जातात. मांडगुरू सांगणें करता. मांड उटवणेचे विधी करतात आनी अशें जागर संपता.

## शिवोली जागर

शिवोली जागर प्राकार, गौड जागराच्याकी थोडो वेगळे रितिचो जावनासोन बार्देश तालूकाच्या शिवोली ह्या गावांत जाता. नतालांच्या फेस्ता नंतर येंवच्या पयल्या सोमारा, ह्या जागराचो दीस ठरायतात. बार्देश तालूकांत पुर्वी बारा जागर जाताले खंय. उपरांत वेगळ्या जागर परत्याणे शिवोलिचो जागर बंद पडल्लो. उपरांत गांवार अन्वरां येवंक लागल्ल्यान १८९५ इस्वेंत परत सुरू जालो. जागर पर्त्यान प्रारंभ जावंक थंयच्या क्रिसती धर्मगुरुंनी बिषपाची खासा पर्वणगी घेतल्ली म्हण जाणकारी माल्गडे सांगतात म्हळ्ळी माहिती मेळता.

ह्या जागराची विशेशता म्हळ्यार हिंदू आनी क्रिस्ती ह्या दोनी धर्माचे गांवकार एकत्र येवून जागर करतात. कोणाच्या कुटमाच्या मनश्यांनी कोणाचो पात्र करचो हें परंपरेन ठरायिल्लें आसता. गांवार 'जागारयो' नांवाचें एक प्रतीक स्थान आसोन पिंपळाचें झाड आसलेल्या उंचायेर धाकटी एक पत्राची गुम्मटी आसता. ह्या गुम्मटिंत कोणाचीय मूर्ती आसाना. जागरयो देवाक संतुष्ट करुंक जागर जाता. हिंदू लोक जागरयाक तेल दितात. क्रिस्तांव धर्माचे वाती दितात. शेत काऱ्याक लुक्साण जावंक नजो म्हणोन भात कांडून केल्लो पोव जागरयाक अर्पितात. जागरयो देवाचो प्रतीक म्हणोन 'भोंवोर' नांवाचो एक पात्र गानीं नासताना नाचता.

मांड म्हणोन आसलेल्या जाग्यार, जागराच्या दिसा गांवकार जमतात. थंय एक फातोर आसता. ताचेर वाती पेटोवन आनी दिवो लावन गांवकारी लोक परंपरेन ठरायलेल्या घरीं येतात. हें घर क्रिस्तांवांचें आसता. घरच्या आल्तारीर आसच्या क्रिस्तांव देवाच्या इमाजी मुखार हिंदू क्रिसतांव दोनी धर्माचे गांवकारी उबे रावतात. हिंदू हात जोडतात. क्रिस्तांव खुरीस धरतात. देवाचीं प्रार्थनां जातात. ठरायलेल्या ठिकाणेक पात्रांची रंग वेष – भूषण जाता. गुमट, नगरो, झूंज, वयोलीन ह्या वाद्यां सांगाता नमानाची सूर्रवात जाता.

*'पयलें नमान देवा बाप्पा*
*दुस्रें नमान देवा पुत्रा*
*तिस्रें नमान इस्पिरी सांता*
*सर्वय देव एकचरे.'*

सर्व जण नमान करतात. प्रथम 'भोंवोर' हो पात्र येता. हें काम क्रिसतांव कुटुंबाचे करतात. परंपरेन पात्री नाचोन जाल्या नंतर जागर संपयतात. आतां विधिचो भाग म्हणोन मात्र जाता, उपरांत तियात्र जाता.

सकाळिंच्या प्रहरी जागरांत 'महर' जालेल्या पात्रांनी गांवांतल्या घरा – घरांनी भोंवतात हिंदू आनी क्रिसतांव ह्या दोनी धर्माच्या प्रमूख कुटमांनी ह्या महर पात्रांक तयार करून दवरलेल्यो वसतू आसतात. ह्या दवरलेल्या वसतुंत सन्नां, भाजलेले चणे, खाजेचें गोड निसतें आनी पेन्नी, ही परंपरा म्हणोन ह्या जागर विद्यामानांत चल्ता.

## क्रिस्ती जागोर

क्रिसतांव धर्मांतले गौडे करतात त्या जागराक 'जागोर' अशें नांव आसा. जागोराचें स्वरूप हिंदू जागरा पर्माणे आसा. फेबरेर

मयन्यांत विधी म्हणोन मांडार जागोर जाता. नमानांत क्रिस्ती देव सांत हांचीं गाणां ह्या परीं आसतात.

*१. जय नमान सालवादोरा*
*नमान मरियेच्या कुंवरा*
*कृपानिदे करुणाकर*
*जेजू क्रिस्ता रायरे.*

*२. अर्गां दितां तुका सायबिणी*
*देवाचे माये सोभागिणी*
*उज्वाडांवची तुंगे राणी*
*उज्वाडाय राणी रे*

*३. आंकवार माये ईश्वर जाला*
*देवा सर्गिंचे बोडवेगे माये*
*तुज्या मुखार उबो रावलागे माये*
*सूख आनी संतोस माये, सांगू लायला माये*

*४. कांय बरें नांव कोसेसांव सायबिणी*
*दिगे बेसांव आमकां सालवासांव*
*सायबिणिच्या हातीं बंगाराचे पारब*
*बरें करून राक आमकां समेसतांक,*
*बरें करून राकिरे*

जागोरा मदें बरे बरेच फिंर्गी राजा अशे पात्र आसात. जागरा पर्माणे पात्रांची विविदता ना. तुरमटी ह्या महत्वाचे सात–आट पात्र आसतात. तुरमटिचे वेषभूषण ह्या परीं–पायांच्या धोंपर पऱ्यांत धवे मोचे, पेंकटा थावन धोंपरा पऱ्यांत येंवची लांब चड्डी, आंगभर रंगीत कागदाचे तयार केल्लेले चित्र विचित्र, धवें, तांबडें असलें एकेक रंगाचें वसतूर तुरमटी न्हेसता. मात्यार एक मुकूट, हाका क्रौन अशें म्हणतात. क्रिस्तीगौडेंक तुरमटी जागरापेठ वेगळी आसता.

जागोरांत गानांक कंतारां म्हणतात. सांगाता दोन गुमटां, मदळें, झूंज हीं वाद्यां आसतात. पदन्यास पश्चिमात्य रितिचें आसता. गितांचो विशय सामाजीक आसोन, गिता प्रकार नाच आसता. आनी असें हो नाच रातभर चलता. प्रेक्षक चार कुशिंनी कोंडाळें करून बसतात. असल्या वर्णनाचो जागोर 'कोनसुआ' गावांत जाता म्हणोन माहिती मेळता. ❑

# खेळ – तियात्राचो आकर

## सांस्कृतीक दायजाची कला

गोंयच्या मुळाव्ये सांस्कृतीक दायजाच्ये कलेक संगीत लोकां-खेळ म्हणतात. फेळ व खेळाचें मूळ पीठ सास्टीचो वठार आनी हाका फेळ व जमीनी वयले फेळ म्हणतात. ह्या लोक खेळांक चडुणें साडे-चारशीं व पांयशीं वर्सांची इतिहासीक परंपरा आसा.

आदल्या काळार नव्या वर्साच्या सुर्वेर म्हणजे इंत्रुजाक (कार्निवालाक), पासकांच्या वेळार आनी नतालांच्या फेस्ताक फेळ खेळोन लोकाक धादोसकाय करताले.

फेळ म्हळ्यार कितें? फेळ (संगीत लोकां-खेळ व जमीनी वयले फेळ) म्हळ्यार एक कथा, जांव ती धार्मीक, राजकीय, सामाजीक, पुराणीक व घरच्या कुटुंबीक जावन, ते काण्येच्या घडणुकेक लागू जातात तसलीं, आट-धा गितां आनी संवाद आसलोलो पार्ट. संवाद चड करून गितांच्या उत्रांचेर आटापून आसताले. ह्या गितांक (दुखेसत गितां शिवाय) दोन वेर्स आनी एक कोर (Chorus) आसताले. एका वेर्साक चार वोळी, सगळ्यो मेळोन बारा वोळिंचें एक गीत व कंतार आसोंक जाय. गितांच्या आखेरिच्या उत्रांक म्हणजे बाराय वोळिंक गोडपां (Rhyming) आसतालीं.

पार्टांचीं गितां म्हणताना दोन-तीन ताळ्यांनी गायताले. खेळांत पात्र घेंवचीं कलाकारां एका घरा थावन आन्येका घरा, व भटकारागेर

व शेजारा वेतात जाल्यार संगीताच्या कुंपासर (तालार) नाचात वेताले. अशें वेताना पात्रां सांगाता बाकिचे सगळे कलाकार त्या ताला तेकित्त नाचोन वेताले. अशें एका कथेच्या दाखोवणेक एक 'पार्ट' म्हणतात. एक्ये पार्टाच्या गितांक तीन व चार सूर (tune) आसताले. अशें कथेकच लागू जाल्ल्या वेवेगळ्या गितांनी सुंर्गरलेल्या उत्रां – संवादानी नेटयलेले तीन कथा म्हळ्यार तीन पार्टिंचो एक फेळ जाता.

त्या काळार फेळांनी असतुरिंचीं सवंगां (संवाद) दादले कलाकारच स्त्रियांचीं न्हेसणां पांगूर्न सोबयताले. त्या फेळांनी दादले इतल्ये आपुरबायेन स्त्रियांचो पात्र. करतालेगी म्हळ्यार प्रेक्षकांक तें कळोंकच कळनातल्लें. दादल्यांची मुसतायकी एकूच थराची चड करून पायजामाच्या लुगटाचो बुसकोट (shirt) आनी कल्सांव आसतालें आनी तकलेर रंगाळ कागदांनी नेटयलेली टोपी (hat) आनी पायांक पायजाणां (गुंग्रू) बांदताले. हीं जागोर कलाची खुणां जावन आसल्लीं. फेळांत राय, कुंवोर, प्रदान, असलीं सवंगां आसात तर ते नेकेत्रां आसलोले वेगळे मुकूट तकलेक घालून, गळ्यांत चकचकीत तांबडें व जांबळें लुगाट बांदून पाटीर लांब सोडताले.

कलाकार फेळांत रायांचें रावळेर, भटकाराचो बोल्कांव, मुंबयचें श्हेर उत्रानिंच अशें काल्पनीक वर्णन करताले की पळेयतल्यांक, आयकातेल्यांक तें घर, मुंबय श्हेर आपूण स्वतह रावतां, पळेयतां अशें समजातालें. हें सगळें बरोवन आसानातल्लें पूण कलाकार आपल्या उत्रांच्या चतुरायेन तसलें चित्रण पळेयतेल्यांच्या दोळ्यां मुखार उबें करताले.

देंवचाराचें व राक्षसाचें सवंग आसात तर ताका काळ्या कापडाचो बेबो (मेक्यानिकांनी तकले समेत न्हेसचेबरी) शिंवोन घालताले; आनी त्या बेब्याच्या आंगल्यांक दोळ्या सुवातेर दोन बुराक आनी

तोंडागडे उग्तें दवरून तांबडी लांब जीब करून लांबयताले. तकलेक तसलिंच दोन काळीं शिंगां लायताले आनी पाटीर सकयल तशलीच काळी शिमटी लांबयताले. अशें आदल्या काळार फेळांच्या पात्रांचीं वेष-भूषणां आसतालीं.

फेळाची पूर्व तयाराय अशी आसताली. इंत्रुजाक दोन-तीन मयने आसात म्हणताना, गांवचे उरबेवंत आनी उमेदिचे कलाकार एकटांय जावन आपलो एक पंगड घडताले आनी फेळ करुंक निर्णय घेताले. फेळ करुंक थारायलया उपरांत फेळ शिकोवपी आनी फेळांक व्हाजोवपी संगीतगार (मुजग) हांचे खातीर सोद-वावर चलतालो. अशें सगळें मांडावळीर घलतच पात्र काडुंक कलाकारां मदलो कोण एकलो बुद्बोंत आसा तो मेस्त्रीक कथा सांग्तालो आनी त्या प्रकार त्या कथेच्या घडणुकांक लागू जातात तशलिंच आट-धा गितां रचतालो. फेळांचें खाशेलेंपण म्हळ्यार फेळांचीं गितां मात्र बरोवन काडचीं आसलीं. पात्राची मांडावळ घडणुक्यो आनी संवाद मेस्त्री बरयनासताना कलाकारांक तोंडान सांगतालो. उलोवप चड करून कंतारांच्या उत्रांचेरच आटापून आसतालें. तीं सगळीं गितां सयत कलाकारांनी तोंडपाट करुंक जाय आसलीं. गितां घडून पात्र तयार जातच मेस्त्रीक हाडून येसायो (rehearsales) सुरू करताले. फेळांनी नाचपी कलाकार चडशे रेंदेर, कुंबार, खार्वी, पदेर, शेतकार, दुदकार, दर्जी, गावडी (वावराडी) अशें कष्टी समाजेंतले जावन आसताले. त्या खातीर फेळांच्यो येसायो चड करून रातिच्यो थारावन आसताल्यो.

चडुणे हरयेका फेळाक तीन आनी चडच जाल्यार चार पार्टी आसताल्यो. पार्टी म्हळ्यार वेग-वेगळ्या विशयांचेर तीन काणियो व कथा. एक पार्टिचो विशय दुसरे तिसरे पार्टीक संबंध आसानातल्लो. तीन पार्टिंचो तीन स्वतंत्र विशय तीन पार्टिंच्या फेळांत एक पार्टी

चडशें विनोदी आसतालीच. कुटुंबीक विशय जाल्यार मांय–पाय, पूत–सून, भाव–भयण, वोनी असलीं पात्रां आसतालीं. एका फेळांत आट–धा कलाकार आनी चोवग जण संगीतकार आसताले. एका पार्टीक उण्यार उणें आट–नोव आनी चडान चड बारा तेरा गितां आसतालीं. दोन वेर्स, एक कोरस हाच्या गिताक कंतार आनी एक वेर्स आनी कोरस हाच्या दुखी खंतिच्या गिताक 'कांटो' म्हणपाची चाल आसल्ली. आदल्या काळार मांची, पडदे कांयच नासताना उगत्ये सुवातेर सगळ्यांनी पळेंवच्याबरी खेळ सुरू करताले. खेळांत बदलावण जायित्त वेताना, विसाव्या शेकड्याच्या सूरवातेच्या वर्सांनी साश्टिंत कुड्डो मिंगेल नांवाचो शिकोवपी मेस्त्री खेळाक एक रूप दीवंक आयतो जालो. ताचे पयलें मेस्त्री आसले पूण ताचे इतलो नांवाडदीक आनी फामाद कोण जावंक ना. कुड्डो मिंगेलीन शिकोन सादर केल्ले फेळ चड आनी चड नांवाडदीक जाले. ताचेच वर्वीं फेळ साश्टिची मेर उत्रोन दूसऱ्या तालूकांनी पावले आनी फेळ आसलोले ते खेळ जाले आनी आतां ह्या फुडें लोकां–फेळांक, लोकां–खेळ अशें म्हणोन उल्लेख जालो.

खेळ दूसऱ्या गांवांनी पावतच त्या त्या गांवांनी नवे नवे शिकोवपी मेस्त्री उज्वाडाक आयले. लोकां–खेळांची परंपरा सांबाळून खेळांक आधुनीक रूप दीवन उंचायेच्या पांवड्यार हाडल्लो महान बरोवपी, शिकोवपी, संगीतकार, दिगदर्शक आंटोनियो मोरायस बनावले. प्रमूख कलाकार. ताणे संगीत खेळांचें गिन्यान सांतियाग पिरेरा मेस्त्री थावन जोडल्लें म्हण तोच खुद्द सांगता. तो पयलें सांतियाग मेस्त्रिच्या खेळांनी ट्रंपेट व्हाजयतालो. उपरांत खेळांत ड्रम सेट सांगाता ट्रंपेट आनी क्लारिनेट हाच्या आवाजाक कंताराचें सुर्वातेचें संगीत रचून आनी कंतारांच्या मदें संगीत वाजोवन. खेळांचीं कंतारां मधूर केलीं.

हें काम ताणे १९५६ वर्सा इंत्रुजाक सुरू केलें. ताचे पयलें खेळांच्या कंतारांक असलें संगीत कोणेंच मेस्त्रीच्या व कोणायच्या खेळांत वाजोवंक ना. फकत तियात्रांनी मात्र व्हाजयताले. अंतोन मोरायस हाच्या पाटापाट सगळ्या खेळांच्या मेस्त्रींनी आपल्या खेळांनी स्त्रोंच संगीत व्हाजोवंक सुर्वात केलेली ती आज पासून चालूच आसा.

आदल्याकाळार स्त्रियो तियात्राच्या मांचियेर पासून चड दिसानातल्ल्यो. बोव थोडीं तियात्र मांचियेर दिसतालीं. असल्या परिगतिंत खेळांनी चेडवां, बायलांनी नाचपाची गजाल म्हळ्यार विशेसच. कित्याक म्हळ्यार मांचियेर वचून रंग लावन नटन करचें म्हळ्यार उणेंपण आनी लजेची गजाल आसली. त्या देकून स्त्रियो लोकांच्या खबरांक लागोन भिरांतेन खेळांनी भाग घेवंक खुशी आसल्यारयी येनातल्लीं. ह्या सगळ्या संग्तिचेर जयत व्हरून अंतोन मोरायसान लोकां–खेळांच्या इतिहासांत पयले पावटीं अनिता पिरेरा ह्या तर्नाटे चल्येक १९६२ वर्सा इंत्रुजाक 'मुंडकार नोरेस' ह्या खेळांत भूमिका दिली. ताच्याकी पयलें कोणेंयी चेडवांनी जांव बायलांनी लोकां–खेळांत भाग घेतल्लें ना म्हणतात, जाल्ल्यान, आंतोन मोरायसान खेळांच्या इतिहासांत नवो अवस्वर उग्तो केलो, म्हण सांग्येत.

## खेळ–तियात्राची सुरवात

आंतोन मोरायस खेळांनी नवे नवे प्रयोग केल्लो एक महान कलाकार. त्या काळार खेळ जमिनेर सादर करताना व नाचताना सर्व भोंवतीं, पळेयतेल्या लोकांची गडदी आसताली आनी पाटीं उबें आसलेल्यांक फेळ सार्को पळेवंक मेळाना जावन लोक गलाटो गडबड करतालो. ताचो परिणाम खेळ चलताना कलाकार आनी फुडें रावोन पळेयतले गडबड करतात देकून खेळ पाटीं मदें मदें बंद करून

परत चालू करचे पडतालो. अशें कलाकारांक आनी फेळ पळेयतेल्यांकयी त्रास जाताले. हाका उपाय म्हणोन खेळाचे कलाकार खेळ सादर करताले त्या जाग्यार स फूट तेदे खांबे पुरून ताचेर फेळांची उग्ती मांची केली. ताचे वर्वीं खेळगाड्यांक नाचोंक मेकळेंपण आनी पळेयतेल्यांकयी सगळो खेळ बरया थरान पळेवंक संपें जालें. हें काम सुर्वातेर कोणें केलें त्या विशीं सार्की माहेत बरपिनिशीं मेळाना.

उग्त्या मांचियेर खेळ जाताना, खेळ नाचोंक हाडलेल्या कारबारयांक खेळाचें मानश्न दुडू फारीक करून वयल्यान मांची तयार करुंक, कदेलां हाडून मांडुंक, दुडवाचो खर्च आसलो. हो खर्च भरून काडुंक कारबारी कदेलार बोसतेल्यां थावन एक दोन रुपय देणगी घेताले आनी पळेवपी आप–खुशेन दिताले. त्या शिवाय उदार मनाचे कोणी वेगळीच आपली देणगी दिताले. त्याच काळांत खेळ–खेळतेल्या कार्रांबार्रायां थावन तियात्र सार्को कंत्राट घेंवचो वर्ग निर्माण जालो. असलो बोसकांक टिकेटी दवरून पयलो खेळ स्पर्धो, अंतोन मोरायस आनी अंतोन मारी हांची एक एक पार्ट, बनावलेचो जोकीम रेबेल्लोचो पूत जाका 'मास्तर' नांवान ओळकाताले, ताणे आपल्या दारांत दाकयलो. अशेंच सांकळीं, नवेली ह्या वठारांनी पाटापाट खेळ सादर जावंक सुरू जाले.

खंयच्या गांवांत खेळ पळेवपी लोक चड एकटांय जाता हाची खबर काडून कंत्राटदार आपणाक मान्वता त्या जाग्यार बंद माटोव घालून खेळ मांचियेर दाकवंक लागले. पळेंवच्यांक भितर सरुंक एक दोन रुप्यांची टिकेट आसताली. खेळ बंद माटवांत करुंक लागतच, कलाकारयी खेळांत नाचोंक आपलें मानधन थारावंक लागले. हाच्यांकी पयलें मर्जेक, उमेदीक नाचताले ते कलाकार खेळ दुडू घेवून नाचोंक लागले. तशेंच खेळांची कळोवणी करून जाहिरातांचीं हात–पत्रां छापून गाड्येर मैक दवरून भोंवडी मारून कळयलागले.

## खेळांची स्पर्धा

खेळ प्रेक्षकांक चडान चड जमोवंक खेळ कंत्राटदारांनी आन्येक हिक्मत जारयेक हाडली. दोग मेस्त्रीच्या दोन खेळांच्या पार्टिंची स्पर्धा दवरून चड प्रेक्षकांक एकटांय करुंक कंत्राटदारांक हो संपो उपाय जालो. स्पर्धा म्हळ्यार दोगयी मेस्त्रीची एक एक पार्ट सादर करून कोणाची बरी जाता ताका थारायलेल्या दुडवा शिवाय एक ट्रोफी फावो जाताली. खेळ कोणाचो बरो जाता म्हण थारावंक कारबार्रायांनी नेमलेले वोरयणार आसताले. असली स्पर्धा १९५८ वर्सा जेजू नजरेताच्या जल्मा फेस्ताक शिर्दोना गांवांत नांवाडदीक सांतियाग पिरेरा आनी अंतोन मोरायस हांच्या मदें एक जाली. सांतियाग पिरेरान 'शामी' आनी अंतोन मोरायसान 'शालिबाय' पार्ट केल्ली. शालिबाय लोकाक चड मान्वोली, जाल्ल्यान अंतोन मोरायसाक पयलें इनाम फावो जालें.

त्याच स्पर्धेच्या दिसा लोकां-खेळाक वेगळीच एक दिशा दिंवचें घडीत घडलें. जेजू नजरेत जल्मा फेसताक जाल्ल्या शिर्दोनाची स्पर्धा पळेवन तेदनांच्या पुडतुगेज सकराच्या 'एमिस्सोरा दे गोवा' खातेचे एलेन कोस्ता आनी पावलो फेर्नांडीस हे अधिकारी हाजीर आसले. स्पर्धा पळैताना तांकां अंतोन मोरायस हाची शालिबाय पार्ट खुशाल्कायेची उमेदिची दिसली जाल्यारी, सांतियाग पिरेराची 'शामी' पार्ट गोंयच्या संस्कृतेची तशेंच मनशाकुळाच्या बरया वायट घडणुकेचो नियाळ करची तशी दिसली. ह्या एमिस्सोरा दे गोवा अधिकारिंनी दूसऱ्या दिसा सांतियाग पंगडाच्यांक आपवन रेडियोच्या स्टुडियोंत शामी पार्टिचें रेकोर्डिंग केलें. त्याच दिसा सांजेर ७ वोरांचेर 'शामी' पार्ट वितरावन रेडियोचेर लोकांक आयकोंक दिली. तो दीस जावन आसल्लो सोमार ११ एपरील १९५८. ताच्या पयलें रेडियोचेर कोणायचो

कोंकणी खेळ आयकोंक ना. रेडियोचेर रेकोर्ड जालोलो आनी लोकांक आयकालोलो पयलो खेळ 'शामी' सांतियाग पिरेरिचो तो खेळ 'उतोरदा' गांवच्या पंगडान सादर केलोलो. उपरांत १९ दशेंबर १९६१ वर्सा भारताच्या फोवजेन पुडतुगेज हुकुंसायिंतलें गोंय मुक्त केलें. उपरांत गोंयच्या सगळ्याकलेच्या प्राकारांक उरबा आनी मेकळीक मेळ्ळी. एमिस्सोरा दे गोवा आसल्लें तें आकाशवाणी पणजे केंद्र जालें. आकाशवाणी पणजे केंद्रा वर्वीं गोंयच्या कलाकारांक आपली कला सादर करुंक एक बरें माध्यम फावो जालें.

१९७०-१९८० ह्या काळार गोयांत टी.वी., टेप रेकोर्डर, ग्रामोफोन चड लोकां थंय नातल्लें तवळ आकाशवाणी अधिकारी मयन्याक दोन तीन तरयी लोकां-खेळ आयकोंक दिताले. लोकयी खेळ आयकोंक आशें उमेदीन रावताले.

## नवें नांव खेळ-तियात्र

जमिने वयल्या खेळांच्ये परिगती वयर थोडे पावटीं वायट अनुभव भोगुंक मेळताले. खेळांचो स्पर्धा करताना, केदनांयी थारायलेल्या वेळार, एक खेळ पावता थंय कांय थोड्या कारणांक लागोन दुस्रो खेळ पावोना जालो तेदनां माटवांत अ ासलोलो लोक एक खेळ पळेवन, येवंक ना ते खेळांचे मेस्त्रींक, कलाकरांक, कंत्राटदारांक आनी माटोवकारांक पासून वायट पोजड्या उत्रांनी गाळियो मारून, बोवाळ घालून माटवांतलीं कदेलां आनी पेट्रोमेक्स, खंच्यो वसतू मेळतात त्यो घेवन वेताले. अशें आकांताची परिगत निर्माण जाताली.

आंतोन मोरायस हाचे खेळ सगळ्याच वाटांनी बरे आनी सुडसुडीत जाताले. त्या खातीर ताच्या सांगाता स्पर्ध्यांत भाग घेवंक दुसरे खेळांचे पंगड पाटीं फूडें जावंक लागले. आंतोन मोरायस हाच्या

सांगाता स्पर्ध्यांत भाग घेताना आपलो खेळ उणो पडात आनी कंत्राटदार पळोवप्यां मदें आपलें मोल उणें जायित्त अशें चिंत्ताले. ह्याच काळार म्हणजे १९६२ वर्सा आंतोन मोरायसान खेळ–तियात्राचे मांचियेक, तियात्र मांचिये सार्कें आधुनीक रूप दिलें. तियात्राचे मांचियेर दाकयता तशें आपले पार्टिंत लागता तसलें घर, रान, समदीर, दऱ्यो, पोलीस चौकी अशें पडदे लावन देखावे दाकयले आनी एकूच मांचियेर दोन व तीन पार्टी दाकोवंक सुर्वात केली. त्या खेळा वयलो तियात्राचो फंकिवंत प्रोंपटर देवादीन जेरी फेर्नांडीस आनी आंतोन मोरायस हाणीं आपल्या भितर भासाभास करून खेळांक खेळ–तियात्र अशें नांव दिलें. तेदनां थावन फेळ व खेळांक नवें नांव मेळ्ळें–तेंच तें नांव–खेळ–तियात्र.

खेळ–तियात्राचे मांचियेक दोन पार्टी सादर करताना एक पार्ट जाल्या उपरांत थोडो वेळ मदंतर (Interval) करून दूसऱ्या कथेची पार्ट सुरू करताले. दोनी पार्टी म्हळ्यार एक खेळ–तियात्र मांचियेर सादर करुंक उण्यार उणें तीन वोरांचो वेळ लाग्तालो. तेदना खेळ–तियात्र गोयांत खूब फंकिवंत आनी लोकामोगाळ जालो. मुंबय रावतेल्या गोंयकारांनी खेळ–तियात्र मुंबय शहेरांत दाकोवंक मागणी केली. त्या काळार मुंबय शहेरांत एका वर्साक शेंबोरांनी तियात्र जाताले. पूण १९६२ वर्सा पयलेच पावटी आंतोनियो मोरायसान ‘शालिबाय’ आनी ‘सांडलोलो पूत’ खेळ तियात्र मुंबयच्या चारांय खुशिंनी दाकोवन बोरो मान जोडलो. खेळ–तियात्र गोंयच्या भायर मुंबय दाकोंवच्यांत पयलो मान आंतोनियो मोरायसाक फावो जाता.

## नोन–स्टोप ड्रामा

दोन कथेच्यो दोन पार्टी करून एक खेळ–तियात्र दाकयताले.

दोन कथा म्हळ्यार दोन वेग वेगळे विशय आसताले. दोन विशय म्हळ्यार पळेयतेल्यांच्या मनांत थोडो घुस्पोड गोंदोळ जातालो. हाका सोंपो उपाय रोसारियो रोड्रिगस हाणे सोदून काडलो. दोन पार्टिचे खेळ–तियात्र करताले तें ताणीं बंद करून १९७६ वर्सा पयलेच पावटीं एकूच कथेचें सूत्र धरून तेच कथेक लागू जातात तसलीं गितां, संवाद, घडणुक्यो आनी कथेक लागू जातात तसलेच विनोद घालून तीन वोरांची एकूच 'पाटीं पावलो' नांवाची दाकोवण घडली आनी ती लोकां मुकार सादर केली. ह्या नव्या प्राकाराक ताणे 'नोन–स्टोप ड्रामा' अशें नांव दिलें. नोन स्टोप म्हळ्यार एक कथा थांबानासताना सुर्वात थावन शेवोट पर्यंत चलता आनी प्रेक्षकांक तेच कथा कडे खिळावन दवरता.

एक्येच कथेचेर आधारून तीन वोरांची दाकोवण तियात्रांनी दाकयतात. पूण तियात्रां कथेक लागू जायनांत तसलीं दूसऱ्या विशयाचीं एकोडीं, जोड गितां, डुयेटां, त्रिकोटें, चोवकें, अशें सबार गितां, आनी पार्टीक सोबनासलोलो भायलो विनोद (Side–show) आसतालो. रोसारियो रोड्रिगसान फकत पार्टिंतूच भुमिका करतात त्या पात्रांक कथेच्या घडणुकेचेर गितां आनी कथेक उकलून धरचो विनोद घालून 'पाटीं पावलो' नोन–स्टोप ड्रामा बरयलो. पूण असली दाकोवण प्रेक्षक मानून घेतात व ना म्हळ्ळी भिरांत आसली. पूण ताणे आपल्या गिन्यानाचेर, आनी सांगाती कलाकारांचेर विश्वास दवरून 'पाटीं पावलो' नोन–स्टोप ड्रामा पयलेच पावटीं १९७६ वर्सा जनेरांत मुंबय पी.टी. बंग्वाडी थियेट्रांत सादर केलो आनी यशस्वी जालो.

रोसारियो रोड्रिगस एक बरो बरोवपी. मधुर गितां रचपी, मजबूत संवाद रचपी, दिगदर्शक तशेंच उंचल्या दर्जेचो महान कलाकार आसलो. पूण दुर्दैवान तर्न्ये प्रायेर एका पिडेक लागोन ५ अगोसत

२००३ ह्या दिसा संसार सांडून गेलो. रोसारियो रोड्रिगसान खेळ-तियात्र आसल्ले ते नोन-स्टोप ड्रामा केल्या उपरांत दूसऱ्यायी बरयणारांनी ताची देक घेवन नोन - स्टोप ड्रामा बरोवन मांचियेर चडयले.

लोकां-खेळ बरोवन प्रख्यात जाल्ले त्या वेळाचे कलाकार- पियेदादे फेर्नांडीस, अंतोन मोरायस, शालिबाय (फ्रान्सिसको फेर्नांडीस) वितोरिनो पिरेरा, पयाट्रीक दौरादो, सालवोदोर कान्सोलीम, पेली लुकास, मेनिनो दे बंदर, जेस्स फेर्नांडीस, ग्रेगोरियो कार्दोजो, तोमोजिनो कार्दोजो, विन्सी पिरेरा, अनूसियो पेरींं हाणीं हांचे लोकां-खेळ आकाशवाणी पणजी केंद्रा थावन वितरावन लोकांक आयकोंक दिल्यात.

## खेळा थावन नाटकाक रूपंतर

गोंयच्या सांस्कृतीक कला जावनासलेल्या संगीत लोक-खेळाक चडुणें चारशयां वयर वर्सांची इतिहासीक परंपरा आसा म्हणताना, हो खेळ व फेळ गोयांत पुडतुगेज प्रवेश जावन धर्म बदल्ल्या उपरांतच जल्माक आयलो म्हणच्याक समर्थन दिता. त्या भायर हे खेळ व उग्त्या जमीने वयले फेळ इंत्रुजा वेळार कार्निवालाक, पासकांचा परबे वेळार आनी नतालांच्या फेस्ता वेळार जाताले म्हण आयकोंक मेळता.

फेळांच्या वेषभूषणांत तकलेर रंगाळ कागदांनी नेटयलेली टोपी आनी पायांक पायजाणां (गुंग्रू) बांदताले जाल्ल्यान ही जागोर कलाचीं खुणां जावनासल्ल्याक एक रुज्वात. गोयांत शेकड्यांची परंपरा आसलेल्या जागर नाट्यकला प्राकाराक पुडतुगेज वासणुके उपरांत क्रीस्तीकरणाचो प्रभाव पडल्ल्यान रुपांतर जावन हिंदू आनी क्रिस्तांव एकटांय जावन खेळंवचो आनी क्रीस्ती समाजेंतलो जागोर असले प्रत्येक प्राकार उबजाले.

जागर हो लोक–नाट्य प्राकार, एक विधिचें आचरण जावनासा. ह्या जागरांत 'जागोरयो' ह्या ग्राम देवताक जागो करप, आनी जागृत जाल्ल्या उपरांत वर्सभर थंयच्या वठाराची राखण करता म्हळ्ळो भरवसो आनी पात्येणी गांवच्या लोकां थंय आसल्ली जाल्ल्यान ह्या नाट्य खेळांत विधी आचरणेची कायद्या बांदावळ आसा. दाकल्याक सांगचें तर शिवोली जागर म्हळ्ळो प्राकार हिंदू आनी क्रिसतांव ह्या दोनी श्र्माचे गांवकार एकत्र जावन जागर खेळ करुंक थारायल्यारी, गांवार जागारयो नांवाचें एक प्रतीक स्थान उबें करून धाकटी एक फातराची गुम्मटी आसा करतात. विधिचें आचरण करनाशें जागोर खेळ करुंक कष्टांचे म्हणतच, हो आचार सोडून फकत खेळ म्हणोन्‌च करुंक सूरवात केली आसताली म्हणच्याक समर्थन मेळता.

अशें खेळांत बदलावण जायित्त वेताना विसाव्या शेकड्याच्या सूरवातेच्या वर्सांनी साश्टिंत कुड्डो मिंगेल नांवाचो शिकोवपी मेस्त्री खेळाक एक रूप दीवंक आयतो जालो म्हण चरित्रेगार सांगतात.

गोंयच्या साश्टिच्या उच्छारा पर्माणे ते खेळाक फेळ म्हणताले. गोयांत लोकांनी उत्रां मोवाळ उच्चार करचीं चड. तांच्या उच्चारांत 'ख' आसलेलें 'फ' जाता. आनी 'ळ' आसलेलें 'व' जाता. दाखल्याक खेळ– फेळ, खंय–पुंय, खबर–पोबर, खार्वी–हार्वी, मेळता–मेवता... मेळ्ळो–मेवलो... इत्यादी. अशें साश्टिंत फेळ आसलेले साश्टिचे मेर उत्रोन दूसऱ्या तालूकाक पावताना ते खेळ जाले आनी ह्या नाट्य कलेक लोकां–खेळ म्हण उल्लेख जालो.

हो लोकां–खेळ गांवां–गांवांनी पावताना, लोकां–खेळांची परंपरा सांबाळून, ह्या खेळांच्या कंतारांक संगीतगारांनी संगीत व्हाजोवन खेळांचीं कंतारां मधूर करून आधनीक रूप दिलें. स्त्रियो वेदीर चडल्यो आनी ह्या वर्वीं ह्या खेळांक दीस वेतां वेतां चडतीक अलंकार आनी आकर्शण आयलें.

ह्याच वेळार प्रेक्षकांक चड आनी चड जमोंवच्या खातीर खेळांत स्पर्धा आयली. ह्या स्पर्धा वर्वीं वेगळीच एक दिशा येवन, हे खेळ तेदनांच्या पुडतुगेज सर्काराच्या 'एमिस्सोरा दे गोवा'-त रेकोर्डींग जावन विन्नावणी जाली. लोकांक रेडियोंत हे नाटक आयकोंक मेळ्ळे.

ह्या जमिने वयल्या खेळांक, संगीत आयलें, व्हाजांत्रां आयलीं, तियात्राच्ये मांचियेर एका बांदावळिंतल्यान दाकयता तशें नवीन दृश्यांचे पडदे आयले. अशें एकच मांचियेर दोन तीन खेळाचे कथानक दाकोवपाक प्रारंभ जाल्ल्यान ह्या खेळाक नव्यान खेळ-तियात्र म्हण वोलायलें. अशें हो खेळ-तियात्र भारी लोकामोगाळ जालो.

खेळ-तियात्रांत दोन कथानक आसताल्यो. हे दोन कथानक म्हळ्यार दोन विदांय आनी विविंगड विशय प्रेक्षकांच्ये मतिंत गोंदोळ उबजायताले. देकून सोंपो उपाय सोशन काडच्याक एकच कथेचें सूत्र धरून, तेच कथेक लागू जातात तसलीं गितां, संवाद, घडणुक्यो आनी विनोद भरसून तीन वोरांची एक दाखवण आसा केली. ह्या नव्या प्राकाराक ताणीं 'नोन स्टोप ड्रामा' अशें नांव दिलें.

तियात्र आनी खेळ-तियात्र म्हळ्यार गोंयच्या क्रिसतांव समुदायेचो मनोरंजनाचो प्राकार म्हणोन गांवाचो गांव जाणां. गोयांत नाटक प्राकारयी आसा पूण तो अक्रिसतांवांचो म्हणचेबरी जाला. गोंयचे क्रिसतांव ह्या 'नोनस्टोप ड्रामा' प्राकाराक एकाच सब्दान 'नाटक' म्हणोन कित्याक वोलयनांत म्हळ्ळें समजोन घेवंक पेचाडताना, ह्या प्राकारांत गोंयच्या लोक-नाट्य कलेच्यो संसकाराचो अंश आनिकीयी ऊरला अशें भोग्ता.

अशें ह्या खेळ प्राकाराक चडुणें चारश्यां वयर वर्सांची इतिहासीक परंपरा आसोन सवकास वाडोन येवन लोक-नाट्याच्या बांदावळिंतल्यान

रुपांतर जावन नाटकाच्या 'बांदावळीक येवन पावला. ही वाडावळ आनी सुधारणा वर्वीं गोंयचो सांसकृतीक लोकां–खेळ प्राकार मनोरंजनाच्या आधुनीक बदलावणेक ओळग जावन नाटकाच्या रुपाक येवन पावल्यारी, ह्या प्राकाराचीं लोक–नाट्याचीं कोवळां पुर्ती निस्रोंक नांत जाल्ल्यान आजूनयी हो प्राकार लोक–नाट्याच्या बांदावळी भितरच ऊरला म्हळ्ळी अभिप्राय चरित्रेकारां थावन आयकोंक मेळता. ❑

# कोंकणी तियात्राचो प्राकार

## तियात्र म्हळ्यार कितें?

'तियात्र' हें उतर पुर्तुगेज भाशेंतल्या 'तियात्रू' ह्या उतरावयल्यान आयलां. इंगलीश भाशेन हाका 'थियेटर' म्हणतात. कोंकणी भाशेन 'तियात्र' ह्या उत्राक खाशेलो अर्थ आसा. तियात्र म्हळ्यार, गोंयच्या क्रिस्तांव समाजेच्या जिविताचो आर्सो. तो समाज तांतून आपलें रूप नियाळता.

तियात्र हो एक देशी भाशेंतल्यान फुलल्लो, पूण पाश्चात्य संस्कृताय आनी दायज चलोवपी, खूब लोकप्रीय, क्रिस्तांव समाजेक वोडून हाडचो, तांची सांस्कृतीक भुक भागोंवचो, लोका-मनांत घट-मूट पाळां रोंबून उबो रावल्लो अगळो-वेगळो नाट्यकलेचो एक प्रभावी नमुनो.

तियात्र म्हळ्यार नक्खी कितें? तो खंच्याय देशी नाट्यप्राकाराक ताळ पडाना। म्हणजे महाराषट्रांतलो 'दशावतारी खेळ' व 'तमाशा' न्हय. गुजरातांतलो 'भावायी' न्हय, कर्नाटकांतलो 'यक्षगान' न्हय, बंगाळांतलो 'यात्रा' व 'जात्रा' न्हय, उत्तर भारतांतलो 'रामलीला', 'रसलीला' न्हय आनी पंजाबी 'नौटंकी' न्हय. हेर खंयच्याय प्रांत्यांतल्या खंयच्याय लोकनाट्य, लोक-नृत्य प्राकारालागीं ताचें सारकेपण ना.

तर मूळ सवाल उदेता, तियात्र म्हळ्यार कितें? ताका एकूच जाप 'तियात्र म्हळ्यार तियात्र'. तो एक कोंकणी भाशेंतलो गोंयचो स्वतंत्र नमुनेचो नाट्य कलेचो नमुनो.

भारतांतल्या हेर भासांतल्या नाटकां बरोवप्यांक 'नाटककार', कलाकारांक नाट्य कलाकार अशें म्हणतात आनी कोंकणी क्रिस्तांव समाजेच्या 'तियात्र' कलाकारांक 'तियात्रिस्त', व 'थियेटर–आर्टिस्ट' म्हणतात.

तियात्र हो कोंकणिंतल्या नाटकाचोच पूण एक खाशेलो आनी वेगळो प्राकार अशें म्हणाजे पडता. ताचिंच निजाचीं अशीं कांय खाशेलीं अंग आनी तासां, अगळी–वेगळी परंपरा, विशिश्ट धर्माचो प्रेक्षक वर्ग अशें सर्व वेगळेंच म्हण्येता.

तियात्राचे चड करून स व सात वांटे आसतात. हरएका वांट्याक 'पडदो' अशें म्हणतात. ह्या सगळ्या पडद्यांतल्यान कथा व्हाळत आसता. कथानकांतली मूळ नाट्यवसतू तियात्राचें नांव थरायतात.

कथानका सांगाता आलायतीं विनोदी प्रहसनां येतात. ताका 'सायड्शोज' म्हणतात. हाचें मूळ कथानका कडेन संबंध आसतच अशें ना. विनोद हो तियात्रांतलो एक चड गर्जेचो भाग. तियात्रांतलो विनोद आनी ताचें सादरिकरण देशांतल्या हेर भासांतल्या लोक–नाट्यांतल्या विनोद आनी विनोदी अभिनयाच्या पांवड्याचें आसता म्हण सांगतात.

सायड शोच्या भायर गितां आसतात. तांकां 'कंतारां' म्हणतात. हें उतर पुडतुगेज भाशेंतल्या (Cantar –म्हळ्यार गावप) ह्या उतरावयल्यान आयलां. ह्या गितांचें मूळ कथानका कडेन काय्‌च संबंध आसाना. हरेक गीत वेगळ्या विशयाचेर आसता. हाकाच लागोन तियात्राक ब्यांड, गावपी आनी व्हाजोवपी जाय पडतात.

तियात्राचें जयत चडशें गितांचेर होंदोन आसता. हीं कंतारां बरीं नातल्यार प्रेक्षक उबगातात आनी 'तियात्र बरो ना' अशें म्हणोन

शिलोण्यो मारतात. देकून जायते पावटीं प्रेक्षकांक थंड करच्या खातीर तियात्रिस्त कंतारांक चड महत्व दिताले म्हळ्ळेंयी आयकोंक मेळता.

कंतारांक 'क्लावन' अशेंयी म्हणतात. एका काळार वीदूषकी म्हळ्यार फोकणां थराचीं पात्रां हो मधलो वेळ भरून काडतालीं. ताका लागून कंतारांकूच 'क्लावन' म्हणपाची चाल पडल्या आसोंक जाय.

कंतारां तियात्रांत आसल्ल्यान कांय फायदो आसता तशेंच लुक्साणयी आसता. लुक्साण म्हळ्यार हीं कंतारां कथानका कडेन संबंधीत नातल्ल्यान एक आडकळ जावन कथानकाचें सूत्र तुटचो संभव आसता. कथानकाचो एक स्वाद जाल्यार कंतारांतल्यान वेगळोच थराचो स्वाद आसता. ताका लागोन कथानका कडेन आपेक्षीत एकवटीत परिणाम जांवच्या बदलाक वेगळेंच वातावरण निर्माण जाता.

तशेंच कंताराचेय कांय थोडे फायदे आसतात. पडद्या पाटल्यान वेस बदल्च्याक फावोतो वेळ मेळता. कथानकांतल्या विशया भायर धा बारा कंतारांतल्यान हेर सबार विशय लोका मुकार हाडुंक मेळतात. महत्वाची गजाल म्हळ्यार कंतारांक लागोन तियात्र पळेयतेल्यांक एक खाशेलें मनोरंजन मेळता आनी अशें प्रेक्षक दादोशी जाता.

## सांस्कृतीक आनी आध्यात्मीक खेळ

युरोपांत धार्मीक आचरणेच्या संबंधीत मिस्तेरांचे, अचऱ्यांचे, पाशांवाचे आनी तसलेच नैतीक खेळ आसल्ल्याबरी फेस्तां–परबेच्या संबंधीत संसारी खेळ प्राकारयी चलताले. ते खेळ विदेशिंच्या आगमनान गोयांकयी आयले. पोर्चुगीस वासणूकदारांनी १६व्या शेकड्याच्या सुर्वेर गोयांत सांस्कृतीक आनी आध्यत्मीक, नमुन्याचे खेळ प्राकार घडोवन हाडल्ल्या विश्यांत दस्तावेजीक गवाय मेळता.

गोंयच्या इगर्ज मातेन त्या वेळार धार्मीक विशयाच्या आधारान दुखांत्य आनी हास्यांत खेळ वेदीर चडयिल्ल्याक उल्लेख मेळतात. ह्या खेळांत धार्मीक पाशांवांचेर संवाद चल्तालो. ह्या रंगभूमिच्या सादरिकरणा विश्यांत गोंयचा जेज्वीत पाद्रिंनी, रोमांतल्या आनी लिसबावांतल्या तांचा व्हडिलांकडेन केल्ल्या पत्र–व्यवहारा मुखांतर कळीत जाता.

त्या वेळार, लातीन आनी पुरतुगेज भाशेंनी कशें धर्मीक खेळ जातालोगी त्याच पर्माणे नतालांच्या, पासकांचा आनी कोर्पूस क्रिस्ती फेस्ता संदर्भार गांवच्या लोक भाशेंनियी खेळ घडोवन हाडताले. तशेंच करेज्माच्या वेळार पाशांवाची दाखोवणियी जाताली. १५८६ इस्वेंत जनेर २५ तारकेर सां. पावलुच्या पोर्तोवणेच्या फेस्ता दिसा, गोंयच्या शहेरांत सां पावलू कोलेजिंत गांवच्या लोक भाशेन (Vernacular) एक खेळ सादर जाल्ल्या विश्यांत पुरावे लाभल्यात.

सोळाव्या आनी सत्राव्या शेकड्यांत गोयांत, लितुर्जिच्या काळार म्हणजे आद्वेंत, करेज्म, आनी पास्खांच्या वेळार धार्मीक खेळ जाल्लेबरी हेरां संदर्भांनी संसारीक (Secular) खेळ जाताले. पूण हे खेळ चडावत पुरतुगेज, फ्रेंच आनी स्पानीश भाशांनी उंचल्या वर्गाचे खातीरच खेळयताले. ह्या विश्यांत १८६१ जुलाय १८ तारिकेच्या 'ऊ उल्ट्रामार' म्हळ्ळया पुरतुगेज हप्त्याळ्याच्या अंक्यार 'तियात्र' सादर केल्ल्या उल्लेकाचें इसतिहार वाचुंक मेळता.

मुंबयिंत चडुणे १७७६ इस्वेंत बोंबे अमेचूर थियेटर (Bombay Amateur Theatre) प्रारंभ जाल्ल्यान, हव्यासी कलाकारांक आनी वृत्तिपर पऱ्यटन पंगडांक एक बरो आवकास लाबल्लो. पूण हो संस्थो १८३५ इस्वेंत बंद पडलो. दुडवादीक व्यापारी जावनासल्ल्या पार्सी बनिया

आनी बोह्रा हाणीं सुर्वेर ह्या थियेट्राक हुमेदीन आसक्त दाकयिल्ली. असल्या साडेचारशीं हुमेद्वंत प्रमूख मुंबयच्या नागरिकांनी, मुंबयच्या गवर्नर सर जेम्स कार्नक हांकां (Sir James Carnac) १८४० इस्वेंत थियेट्राचें शास्वीत बांदप बांदून दीवंक मनवी पाटयली. अशें असल्या प्रमूख नागरिकांच्या दान धर्माच्या सहकारान १८४६ इस्वेंत ग्रांट रोड थियेटर उग्तायलें. ह्या नव्या थियेटर बांदपाच्या उग्तावणेंत मुंबय शहेरांतल्या लोकांक एक नवो सांस्कृतीक काळ उदेवन आयलो.

ह्या खेळा सभांगणांत, इंगलीश आडळत्या वर्वी, सुर्वेर इंगलीश भाशेचे खेळ सादर जावंक प्रारंभ जाले. चडुणें १८५३ इस्वेंत सांगलिच्या (आतां महाराषट्र) वृत्तिपर कलाकारांनी हिंदू पुराणाच्या आधरार नाटक सादर करुंक सुर्वातिलें. अशें उत्राल्ल्या तीन शेकड्या पऱ्यांत ह्या थियेट्रांत असले खेळ प्राकार फुलोन आयले.

असल्या सांस्कृतीक वातावरणांत पार्सी समुदायाच्यांनी दोन व्हडलीं थियेटरां विकटोरिया टर्मिनसा (Victoria Terminus) लागसार उग्तायलीं. १८७९ इस्वेंत पार्सी नट–संयोजक सी.एस. नजीर हाणे गेयिटी थियेटर (Gaiety Theatre) उग्तायलें. १८८७ इस्वेंत विकटोरिया कंपेनिच्या म्हालिकांनी नोवेल्टी थियेटर उग्तायलें. ह्या दोन थियेटरांनी पार्सी, गुजराती आनी मराठी खेळ सादर करुंक हुमेद दाकयताना, इंगलीश आनी युरोपियन विश्वपर्यटन कलाकार पंगडाच्यांकी आकर्षीत केलें.

ह्या काळार शिकपी गोंयकार इंगलीश आनी पुर्तुगीस भाशेचे खेळ मुंबयिंत सादर करताले. ईनस्टिट्यूटो लुसो इंडियानो ह्या संस्थ्याचे वांगडी वर्साक एक व दोन पावटीं गेयिटी थियेटरांत, व डोबितलावच्या कवसजी होलांत असले खेळ सादर करताले. ह्याच वेळार 'इटालियन भुर्गो' खेळ सादर जाल्लो.

## कोंकणी रंगभुमिची फाट-भुंय :

एकुणिसाव्या शेकड्याच्या चडुणे आखेर पर्यांत गोंयच्या नाट्य कलेचो नमुनो आसल्लो 'जागोर आनी खेळ'. जागोर आनी खेळ व फेळ नमुन्याचे संगीत नाट्य प्राकार उग्त्या मैदानार वाटे-कोनश्यांनी, हळ्ळे - केंद्रांनी आनी घरांच्या आंगणांनी सादर जाताले.

ह्या संगीत खेळांत चडावत लिखीत साहित्य म्हळ्ळें आसानातल्लें. पंगडाचो मुखेली नाट्य कलाकारांक, तयारायेच्या (rehearsals) दिसांनी कथा सांगोन दितालो. नाट्याचे संवाद, तयारायेच्या दिसांनीच कलाकारांक कळयताले. कलाकारांक संवाद संवहन करताना चडुणे करून उत्रावंक पर्वणगी आसताली, जाल्यारी कथानक हाच्या निर्देशा (plot) थावन वेगळें सरोंक आवकास नातल्लो. कलाकार सगळे दादलेच आसोन, बायलांचो पात्रयी, तांचो वेस घालन दादलेच सादर करताले.

खेळ व फेळ पदांचो आनी संवादाचो मिश्रण जाल्यार, जागोरांत संगीताक प्राधान्यता आसल्ली. खेळ आनी जागोरांतल्या पदांनी ताळ, प्रास, गुंतल्ल्यो म्हण्ण्यो, वोपारी आनी हुमिण्यो आसल्ल्यान, ह्या नाट्य प्राकारांक उंचलो मान मेळतालो. खेळ रचपी चडावत शिकपी मनीस न्हय जाल्यारयी, तांच्या संयभीक देण्यांनी अर्थाभरीत पदां रचताले. प्रेक्षक चड करून सेजारचे जाल्यार संगीतगार, स्व-शिकपी जावनासोन तांकां संगीत। स्वादाचें देणें आसतालें. ह्या खेळांत गुमाट, शिंग, पिरलूक आनी उपरांत वायोलीन व्हाजांत्रां आसतालीं.

ह्या नमून्याच्या मनोरंजनान गोंयचे गांवकार संतोस भोगताले, मात्र न्हय शेकड्यांनी हें मात्र गोंयचें मुळावें मनोरंजन आसल्लें.

गोंयच्या उत्ताराक प्रत्येक जावन बार्देशांत 'जागोर' आसल्लो तर दक्षिणेंत प्रत्येक जावन साल्सेटांत खेळ (फेळ) चालिंत आसल्लो.

सुर्वे–सुर्वेर जागोर आनी खेळ निजायकी बरे आसल्ले, कारण त्या नाट्यांनी 'सामाजीक चिंतप' प्रमूख विशय जावनासतालो आनी तांतून विवादीत, वायट विमर्सो, आनी वैयक्तीक खंडन आसानातल्लें.

पूण उपरांत काळ उतरताना अनैतीक मनीस जागोर आनी खेळांत भितर सरले आनी ह्या मनोरंजनाच्या माध्यमांतल्यान तांचें 'हगें' आनी 'द्वेश' काडिलागले. ह्या वर्वी जागोर आनी खेळान वांकडी वाट धरली. भुरसो विमर्सो, क्षुल्लक राजकीय, वैयुक्तीक निंदा आनी अश्लीलताय पाटल्या पांयान मितर सराली.

ह्या वातावरणा थावन सारख्या चिंतपाचे मनीस जागोर आनी खेळ म्हळ्ळ्या मनोरंजना थावन पयस रावले. कारण ह्या जागोर आनी खेळ प्राकारान तवळ वायट नांव आपणायिल्लें, मात्र न्हय, हें नैतीक सवायेचें आनी अश्लील रंजन म्हण कुख्यात जाल्लें. गोंयचे मध्यम वर्गाचे आनी सामाजीक उंचल्या वर्गाच्यांनी हें रंजन पुर्तें सांडलें. आनी अशें जागोर सादारपण स्वाभावीक मरणा तणीर पावोंक आयतें जालें.

पूण क्रमेण साल्सेटांत जांवच्या खेळ प्राकारांत समजोणेचे मनीस मुखार सरले आनी हो खेळ प्राकार पुनर उर्जीत केलो. विसाव्या शेकड्याच्या आदिंत नैतीक बळ आसल्ले महानीय कलाकारांनी खेळ प्राकारांत बरें सामाजीक चिंतप, पौराणीक विशय आनी सांदर्बीक, सुखांत्य आनी दुखांत्य प्राकाराक आकार दिलो.

संगीताची जाणवाय आनी अध्यायन केल्ल्यांनी खेळ पदांक संकेत लिपी (Notation) बरोवंक सुरवात केली आनी अशें खेळ प्राकार उंचल्या मट्टाक पावलो. हाका रुज्वात जावन सांगचें जाल्यार अजूनयी साल्सेटांत कार्निवाल आनी पासकांच्या फेस्ता वेळार प्रशस्तपणान खेळ सादर करतात म्हण माहिती मेळता.

एकणिसाव्या शेकड्याच्या निमाण्या पावांत नोडतेर गोंयकारांनी तांच्या सांगाता 'जागोर' खेळ बोंबयाक हाडलो. हें खडबडीत आनी अशलील नमुन्याचें रंजन उंचल्या स्थानार आसल्ल्या गोंयकारांक एक लजेचें प्रकरण जालें. कारण गोंयां भायले ह्या सवाय, असंघटीत गोंयकारांच्या रंजन नमुन्याक ते नक्रे करताले. ह्या परिणामाक लागोन मुंबयचे मध्यम वर्गाचे आनी उंचल्या वर्गाचे गोंयकार, इंगलीश आनी पुरतुगेज नाट्य रंजनांत वांटेली जाले. ताणीं नाटक मंडळी रचल्यो आनी वर्साक दोन पावटीं मुंबयच्या 'गेयिटी थियेटर' आनी 'कवासजि होल' प्रख्यात नाटक मंदिरांनी पाश्चात्य शैलिचे नाटक सादर करुंक लागले. त्या पयकी 'इन्सटिट्यूट लूजो इंडियानो' एक प्रमूख पंगड आसल्लो.

## कोंकणी तियात्राचें जननः

१८९० इस्वेंत गोंयच्या रंजनाचो प्रमूख नमुनो 'जागोर' आसताना 'इटेलियन ओपेरा कंपेनी' मुंबयच्या प्रमूख थियेट्रांनी तांचो ओपेरा सादर करताले. हांचो नाट्य प्राकार उंचल्या मट्टाचो आसल्लो. ताका कथानकाचें सूत्र, उंचलें संगीत, निर्देशन, आधुनीक वेदी निर्माण मोलाधीक वेष-भूषण आनी वीज दिव्याचो प्रभाव आसल्लो.

गोंयचे सबार मंतनाच्या कुटमाचे असल्या उंचल्या नाटकाचे पात्रोन जाले. असलें वातावरण चालिंत आसताना म्हणजे १८९० इस्वेंत कोंकणी भाशेच्या आनी तियात्र मांचियेच्या बऱ्या नशीबान एकलो तरनाटो २७ वर्सां प्रायेचो गोंयच्या बार्देशांतल्या असगावांतलो नौकरी सोडून मुंबय पावलो. त्या तर्नाट्याचें पुर्तें नांव आसल्लें-कोसटानसियो लुकासिनो कारिदाद रिबेरो, आनी उपरांत तो 'लुकासिनो रिबेरो' म्हळ्ळ्या नांवान प्रख्यात जालो.

लुकासिनो संगीताचो आनी वेदी कलाचो मोगी. तवळ मुंबयिंत जांवचो गोंयचो जागोर आनी खेळ मत्सो सकयल्या पांवडाचो जाल्ल्यान ह्या लोक नाट्यकलेक परकी लोक फोकणां मारचें लुकासिनोन पळेलें. त्याच वेळार 'इटालियन ओपेरा कंपेनी' ह्या संस्थ्यान खेळंवचो उंचल्या मट्टाचो ओपेरायी लुकासिनोन पळेयलो आनी ताका तो खूब मान्वालो. लुकासिनो संगीताचो मोगी जाल्ल्यान वायोलीन व्हाजांत्र बरें व्हाजयतालो. तो एक गावपी आनी पदां घडुंकयी जाणा आसल्लो जाल्ल्यान, आपणें त्या ओपेरा कंपेनिंत रिगचें अशें ताच्या मनांत आयलें. तो व्हडलोसो शिकललो नातल्लो पूण कसलेंय मेळात तें काम करुंक तो तयार आसल्लो. ताची मत काम करुंक लागली. त्या इटेलियन ओपेरा कंपेनिंत काम मेळच्या खातीर शिफारस करुंक प्रभावी गोंयकारांच्या सोदनेर पडलो. उंचल्या स्थानार आसल्ल्या एका गोंयकारान लुकासिनोचें हें प्रयत्न पळेवन त्या कंपेनिंत ताका कामाक लायलो. त्या कंपेनिंत ताचें काम आसल्लें, ओपेरा सादर करच्या वेळार पडदो वोडचें, देंवोंवचें आनी त्या पडद्याची खबाडदारी घेंवची. त्या कामाक व्हडलोसो पागार नातल्लो. पूण लुकासिनोक ताच्या अबीरुचिचें काम जाल्ल्यान आनी वेदीर कलाकरांचें प्रदर्शन पळेवंक, विज्मितायेचें, संगीत आयकोंक मेळता जाल्ल्यान तें काम ताका रुचलें.

लुकासिनो बाब ताच्या त्या मटव्या सीर्विसांत, त्या कंपेनी बरोबर पूना, मद्रास, शिमला, कल्कत्ता अशें सबार शहेरांनी भोंवलो. उपरांत ती कंपेनी बर्माचे भोंवडेर वचपाक तयार जाली. लुकासिनो बाब मुंबय सोडन वचोंक तयार नातल्लो देकून ताणे ती चाक्री सोडून दिली. पूण ते कंपेनिंत आसताना सामकें लागशिल्यान पळेवन तोंडपाट जाल्ले ते ओपेरा ताची फाट सोडपाक तयार नातल्ले. तांतुंतल्या

एका धाकटुल्या ओपेराचेर आदरीत कोंकणिंतल्यान खेळ रचपाची ताच्ये मतिंत येवजण आसलल्यान ते कंपेनी थावन ताणे उपयोग केल्लीं विलुदाचीं न्हेसणां उण्यार मोलाक घेतल्लीं.

मुंबय पावल्लेंच लुकासिनोन 'गोन्सालीज ब्रदर्स' हाणीं बरयिल्ल्या इटालियन ओपेराची कृती कोंकणीक भाशांतर करून पयलो कोंकणी तियात्र रचलो आनी ताका 'इटालियन भुरगो' म्हळ्ळें नांव दीवन हो चारित्रीक तियात्र खेळोवंक ताणे ठरायलें.

मुंबयिंत आसताना ताका ताळगांवच्या कैतानीन फेर्नांडिसा लागीं इषटागत जाल्ली. मागीर ते दोगूय त्या खेळांत काम करच्या खातीर वांगडी सोधीत भोंवोंक लागले. पूण भुरगे मेळ्ळेनांत. कोण येवपाक तयार नातल्ले. कारण तांकां दीसल्लें, हो खेळ जागोरा भाशेन आसतलो म्हण. त्या काळार जागोरान नांव होगडायिल्लें. बरो लोक जागोरा थावन पयस रावतालो. लुकासिनो बाब आनी कयतानीन बाब खरशेले, निरशेले आनी मागीर फाटीं सरले. तो खेळ मांच्येर हाडपाची तांची उर्बा संपली आनी ताणीं आशा सांडली.

कयतानीन बाब त्या काळार 'बांबे गजेट' हांतून नौकरी करतालो. केन्ना ताका जुवांव अगुस्तीन बाबाची ओळक जाली तेन्ना लुकासिनो बाबान रचल्ल्या खेळाचोय प्रस्ताप आयलो. लुकासिनो बाब तेन्ना मुंबयच्या पिकेट रोड वठारांत रावतालो. एका आयतारा जुवांव आगुस्तीन बाब आनी कयतानीन बाब उटले आनी ताका मेळोंक गेले. मागीर तांची इश्टागत वाडली आनी काम जाताच तेगूय सांगाता मेळोन खबर उलोंवची तांकां सवय जाली. तांतुंतल्यान 'इटालियन भुर्गो' मांच्येर हाडपाची उर्बा वाडली. मागीर परत्यान कुडांनी भोंवोन खेळांत पात्र करच्या खातीर भुरगे सोदपाक सुरवात जाली. दोग जण तयार जाले. तांतलो एकलो अगुस्तीन मस्करेञस माडगांवांतल्या मुंगुला

वयलो. आन्येकल्याचें नांव आनी विळास आजून पर्यंत कळीत जावंक ना म्हण चरित्रेकार सांगतात.

लुकासिनो बाबाक तो खेळ मांच्येर हाडपाक खरें म्हळ्यार नोव कलाकारांची गर्ज आसल्ली. पूण फावो तितले गडे मेळानातल्ल्यान जणा एकल्यान दोदोन तितीन पात्र घेवन सदां सांजेचें येसायो (re-hearsal) मारपाक सूरवात केली. १८९२ वर्साच्या फेब्रेर मयन्यांत तेदनाच्या पिकेट रोडा वयल्या 'रेदोंद' बंगल्यांत येसायांक सुर्वात जाली. तेदना कोंकणी मांच्ये वयर एक इतिहास घडपाचो आसा हाची त्ये घडिये क़ोणाकच कल्पना नातल्ली.

१८९२ वर्साच्या एपरील मयन्याच्ये१७ तारिकेर (पास्खांच्या फेस्ता दिसा) तेदनाच्या 'न्यू आलफ्रेड' थियेट्रांत लुकासिनो रिबेरोन बरोवन दिगदर्शिल्लो कोंकणी तियात्र 'इटालियन भुरर्गो' हाचो पयलो प्रयोग जालो. तें पळेवन लोक अजापलो. त्या ओपेरांतलीं कंतारां, कथा संवाद आनी संगीत आयकोन आनी विलूदाचीं सोबीत न्हेसणां पळेवन लोकांचे दोळे दिपकावले. कोंकणी खेळ आनी जागोर हांतुंत फरक करपाची नवी नदर लोकांक मेळ्ळी.

बुन्यादिचो पयलो प्रयोग एप्रील मयन्यांत जातच त्याच वर्सा, सां. फ्रान्सीस सावेराच्या फेस्ता दिसा दसेंबराच्ये ३ तारिकेर त्या तियात्राचो दुसरो प्रयोग व्हडा दबाज्यान बोरी बंदर लागच्या तेदनांच्या 'स्केटिंग रिंग' म्हणतेल्या त्या वठारांत जालो. तो हिस्पा भायर गाजलो. ह्या तियात्राच्या व्हड यशस्वे थावन लुकासिनो बाबाच्या पंगडाक नांव आनी मान मेळ्ळो. लुकासिनोन ताच्या पंगडाक 'गोवा पोरतुगीस ड्रामाटीक कंपेनी' म्हळ्ळें नांव दवरलें. त्या तियात्राच्ये यशश्वे थावन लुकासिनो बाबाक गौरव मेळ्ळो आनी आनिकियी थोडे खेळ कोंकणिंत भाशांतर

करुंक धयर मेळ्ळें. ते जावनासात *'अल्लादीन आनी ताचो ओज्यापांचो दिवो', 'आलिबाबा आनी चाळीस चोर', 'कारलोस माग्नो'* इत्यादी.

लुकासिनोक इंगलीश भास बरी कळीत आसल्ली, आनी त्या देकून ताका उत्कृश्ट इंगलीश कादंबरी कोंकणी भाशेक भाशांतर करुंक सुलभ जातालें. ताणे रचल्ले खेळ लोकांक चड मेचवाताले. अशें कोंकणी तियात्रान मुंबयिंत, गोयांत आनी इतर कोंकणी वठारांनी ताचें मूळ रोंबयलें आनी शाश्वत उरोवंक ताची सिनोल आनी निशानी दीवन कोंकणी रंगमंचांत चरित्रा रचली.

गोंयच्या ड्रामेटीक कंपेनिच्यांनी सुरवेर मुंबंयत खेळ सादर करताना तांकां 'ओपेरा' म्हणताले. त्या देकून तांच्या ड्रामेटीक पंगडाक ओपेरा कंपेनी म्हण वोलायताले. कारण तांचे खेळ चडुणे संगीत खेळच आसताले. लुकासिनो रिबेरोन सुरवात केल्ले पदां मिश्रीत खेळ प्राकार आजूनयी त्याच निर्देशीत प्राकारांत आसात. ह्या खेळांत हास्यांत प्रमूख पात्र खेळल्ले वर्वीं ह्या खेळांक संगीतमय विनोद (Musical Comedy) म्हणताले. ह्या खेळांचो प्रचार तवळ इंगलीश भाशेंत जातालो.

१९०४ इस्वेच्या नवेंबर २२ तारिकेर जुवांव अगुस्तिनोन भटकारा (भाग–I) सादर करताना ताचो प्रचार आनी हात पत्र इंगलीश भाशेन केल्ल्यान इंगलीश भाशेचो थियेटर (Theatre) सब्द, तियात्रो (Theatro) म्हण कोंकणेंत प्रयोगाक आयलो. निमाणा 'O' (ओ) स्वर पोतुगीस उच्छार जाल्ल्यान गोंयकारांक तो सळावळेचो जालो.

१९३२ इस्वेंत बेब्दो खेळ सादर करताना तियात्राचो 'ओ' उच्चार झडलो आनी सब्द तियात्र मात्र (Theatr) प्रयोगाक आयलो.



# सुर्विल्या तियात्रिस्तांचो वावर

## सिज्ञर लुकासिनो रिबेरो

सिज्ञर लुकासिनो रिबेरोन मुंबंयत तियात्राक बुन्याद घाल्या उपरांत ताच्या मांय-गांव गोवाकयी तियात्र परिचय कर्न दिल्ली कीर्त ताकाच फावो जाता. १८९४ इस्वेंत गोंयच्या आसगांवांत पयिल्लो कोंकणी तियात्र खेळयिल्लो दाकलो आसा म्हण चरित्रेकार सांग्तात. तियात्र खंयचो 'इटालियन भुरगो' व ताणे ती भाशांतर केल्ल्या पयकी खंयचेय एक तियात्र म्हळ्ळें स्पश्ट ना. पूण तो तियात्र सादर केल्लो १८९४ जनेर १ तारिकेर म्हणजे नव्या वर्सा दिसा म्हण स्थापित जालां. ह्या तियात्राक संगीत दिल्लो मेस्त्री गाबरियेल फ्रांको. ताच्या उपरांत आनीकयी थोडे तियात्र लुकासिनो बाबान गोंयच्या असगांव सकयल्या-वाड्यार खेळयल्यात म्हण कळीत जाता. ताच्या उपरांत गोंयच्या इतर वठारांनियी तियात्र जावंक प्रारंभ जाले.

लुकासिनो सांगाता माडगांवच्या बोर्डाचो जुवांव अगुस्तीन फेर्नांडीस हाणिंयी तियात्र बरवन मुंबंयत सादर करुंक सुरू केले आनी हें बरंवचें देणें लुकासिनो थावन्‌च आपूण शीकल्लों म्हण ताणे 'आवे मारीया' हप्त्याळ्याचेर लेखन बरवन जाहीर केलां, मात्र न्हय लुकासिनोक कोंकणी तियात्र बरवंक शिकयिल्लो आपणाचो गुरू म्हण तो मांदता. ह्या दोगां मधें एक व्हड व्यत्यास म्हळ्यार लुकासिनो इंगलीश आनी पोर्रातुगीस भाशेंतले कथानक कोंकणीक

भाशांतर करतालो जाल्यार जुवांव अगुस्तीन स्वतह तियात्र रचतालो. जुवांवन बरवन दिगदर्शन केल्ल्या तियात्रांनी लुकासिनोयी पात्र करतालो. दाखल्या प्रकार १९०४ इस्वेंत जुवांव अगुस्तिनान रचून दिगदर्शिल्ल्या 'भटकार' म्हळ्ळ्या तियात्रांत लुकासिनोयी एकलो पात्रदारी जाल्यार, जुवांव अगुस्तिनाची बायल श्रीमती रेजिना फेर्नांडीसयी आसल्ली. अशें तियात्राच्या चरित्रेंत प्रथम पावटीं गोंयकार स्त्रियेन पात्र घेवन दाखलो रचलो. ताच्याकी पयलें स्त्रियेन वेदीर चडोन सार्वजनीक रंजनांनी पात्र घेंवचें चिंतुंकच साध्य नातल्लें. लुकासिनोक पयले पावटीं एका नीज स्त्रिये मुखार नटन करचो अववास लाभलो आनी तो तियात्र जालो मुंबयच्या गेयिटी थियेटरांत. १९०४ इस्वी नवेंबराच्ये २२ तारिकेर.

तियात्राच्या रंजनांनी वर्सां उतरता लुकासिनोच्या पंगडांत पोटजाळेचे सदस्य उदेले, व भायले कोण तरी मोस्रि भितर घुसले आनी लुकासिनो तांच्या खबरांक पात्येवन सुरवेर थावन ताका सांगात दिल्ल्या ताच्या पंगडाच्या ४ वांगडिंक ताणे सांडलें. उपरांत 'रिबेरो एंड क्रूज ओपेरा कंपेनी' म्हळ्ळ्या नांवान नवो पंगड बांदलो. ह्या वाडावळी उपरांत सबारशे पंगड उबजाले. ही एक बरी सिनोल जाली, कारण कोंकणी तियात्राच्या दिगंतार संचलन उदेलें आनी अशें सबारशे हुमेदिचे कोंकणी कलाकार तियात्रांत पात्र घेवंक आयते जाले.

त्या उबजाल्ल्या पंगडां पयकी थोडीं नांवां अशीं आसात – १.लुसिटान २.डोना आमेलीय ३.डोन कारलोस ४.डोगलास कोमीक ओपेरा ५.काराचिवालास डिलेकटेबल कंपेनी ६.गोवन युनियन ७.लाजरस कोमीक ओपेरा ८.गोवा न्याशियोनाल इत्यादी.

ह्या हरयेका पंगडाच्यांनी तांतांचे तियात्र सादर करुंक सुरवात केली. थोड्यांक बरे पात्रांव लाबले तर थोड्यांक मेळ्ळेनांत. ह्या

पयकी चडावत पंगड थोड्या वर्सा मट्टाक वावरिलागले आनी उपरांत नपंयच जाले. त्या पयली लांब आवदे पर्यंत ऊरल्लो पंगड म्हळ्यार सायब रोचा–हाचो 'युनियन जाक' पंगड. चडावत पंगडांनी ताणीं बोंबय खेळयिल्लो तियात्र गोवाक हाडुंक सकल्ल्यान गोवांतयी तियात्र लोकामोगाळ जावंक अवकास लाबलो.

चडावत एकेकच पंगड बंद पडताना रिबेरोचो 'रिबेरो एंड क्रूज ओपेरा कंपेनी' बंद पडल्ल्यान, लुकासिनोन तियात्र बरंवचें आनी इंगलिशा थावन भाशांतर करचें रावयलें. एकादावेळा तियात्र बरंवचें मुंदरिल्लें जाल्यारयी ताणे ताचे तियात्र मांचियेर हाडलेल्याक दाकले मेळानांत, पूण ताणे जुवांवच्या तियात्रांनी नटन केल्ले पुरावे मेळतात.

लुकासिनोच्या गांवांत म्हणजे बार्देशांतल्या असगावांत कारानी चरित्र्य विचारण केल्ल्या वेळार कळीत जालेंकी ताणे बरयिल्लें लिखीत तियात्राचें साहित्य ताणे घरा आसल्ल्या रुकाच्ये पेटेंत भरन दवरल्लें खंय. पूण वर्सां उतरताना तें खंय मायाग जालें व वाळ्येंनी ग्रासिलें म्हण कोणाकयी कळीत ना. ह्या घटना वर्वीं कळीत जाताकी भारी मोलाधीक साहीत जरी तरी हाताक मेळल्लें. तर लुकासिनो रिबेरोच्या वावरा विश्यांत आनिकियी थोडी माहेत मेळती म्हण चरित्रेकार सांग्तात.

## पाय तियात्रिस्त जुवांव अगुस्तीन फेरनांद

लुकासिनो बाबान ताणे बांदल्लो पंगड फास्ळावन 'रिबेरो एंड क्रूज ओपेरा कंपेनी' रचताना, तियात्राच्या बुन्यादी थावन आसल्ले वांगडी कैतानिनो फेर्नांडीस, जुवांव अगुस्तीन फेर्नांडीस आनी अगुस्तीन मस्करेन्हास ताच्या सांगाता उरलेनांत. त्या वेळीं तांकां सांडून घाल्ल्या अनाथाबरीं भोगलें, जाल्यारी जुवांव अगुस्तीन बाबान रोकडेंच फुडारपण घेतलें आनी ताणे ताचेच म्हळ्ळे तियात्र बरयले.

ताची प्रथम अव्वल (original) कृती 'बेल्ले ओफ केवेल' ("Belle of Cavel") व 'सुंदरी केवेलाची' तयार जाली. हो कोंकणी तियात्र मुंबंयत १८९५ वर्सा सादर जालो. ताच्या उपरांत विसाव्या शतमानाच्या पयल्या सबार पावटीं जालो. ह्या पयिल्ल्या तियात्रा उपरांत जुवांव अगुस्तिनाची दुसरी अव्वल कृती 'भटकारा दे पांजारे – पयलो भाग' (Batkara de Panzare –Part I)  तयार जाली. हो तियात्र पयिल्लेपावटीं मुंबयिंत १९०४ इस्वी नवेंबराच्ये २२ तारिकेरउबो जालो. ह्या तियात्राक लोकां थावन बरी प्रतिक्रिया लाबली आनी हाचो परिणाम जावन ह्या तियात्राची दाकोवणी सबार पावटीं पुनरावर्तीत जाली मात्र न्हय ह्या दाकोवणेक प्रेक्षक बुसावाल (Bhusawal),  इगतपुरी (Igatpuri), पूना आनी जान्सी थावन आयले. ह्या वठारांनी चडावत जावन रैलवेंत तांच्या नौकरी खातीर गोंयकार रावताले. ह्या ताच्या तियात्रांत पात्रदारी जावन पोलिकार्पो मेंडोन्सा, एन.एम. फेर्नांडीस, अंटोनअबरांव आनी लुकासिनो रिबेरो, ह्या पात्रदारीं सांगाता रंगमंचार चडल्ली प्रथम स्त्री कलाकार श्रीमती रेजिना फेर्नांडीस (जुवांव अगुस्तीन फेर्नांडिसाची पतीण) पात्रदारी आसल्ली.

ह्या उपरांत जुवांव अगुस्तीन फेर्नांडिसान भटकारा दे पंजारी – भाग II' ('Bhatkara de Panzari, Part–II') तियात्र बरयलो. हो तियात्रयी प्रेक्षकां थावन बरो स्वीकार जालो. दाखल्या प्रकार घणादीक षदवेदार राय कुळियेचो 'विसकौंट दे व्रेन' (His Excellency "Viscount De Wren") ह्या तियात्राक हाजर जाल्ले आनी तियात्र पळेवन ताणीं सुशेगात मझा भोगली म्हणतात.

ह्या तियात्रांच्या यशस्वे वर्वीं जुवांव अगुस्तिनाक आतां आडयतलो ना जालो. ताणे तियात्राची नवी कंपेनी – 'दोम कारलोस ड्रामेटीक युनिटी' म्हळ्ळ्या नांवान प्रारंभ केली. ह्या कंपेनिच्या बोंदेराखाल

‘दोतिचें ख्यासतांव’ म्हळ्ळ्या नांवाचो तियात्र बरवन् १९०८ इस्वेंत सादर केलो. ह्या तियात्राच्या पाटापट सबार तियात्र जुवांवन बरवन उबे केले. ते आसात–‘सोसैदादे दे रोम–तोम’, ‘जोसेफीन व पायची दुस्री बायल’, ‘तांडुलाचो त्रियो’, ‘पांडुरंग नायक’, ‘कूसमोंकर’, ‘रिवोल्टा दे सतारी’, आनी ‘बेब्दो’ (१९००) ‘चार्नी रोड भाग’, ‘हिस्पानो अमेरिकन वार’, ‘मिन्सट्रेल्स’, ‘रुक्मिबाय’, ‘काजार म्हातारपणार’, ‘प्रोफेसर लैतांव’, ‘नोवऱ्यांचो बजार’, ‘बोंबयचो तलेग्रापिसट’, ‘कुणबी जाकी’, ‘जिवीत पेद्रे जुजे वाजाचें’, ‘मोद्यान रातिचो देंवचार’, आनी ‘तीन दीस जल्दामेंत कुणबी जाकिचो’, अशें जुवांव अगुस्तीन फेर्नांडिसान २७ कोंकणी तियात्र बरयले. तांतले १६ तियात्र येदोळ सादर जाल्यात आनी ११ आजूनयी सादर जावंक नांत. त्या २७ तियात्रां पयकी ४ भाशांतर कृतियो. इंगलीश व पोर्तुगीस भाशें थावन आनी ऊरलेले २३ तियात्र ताच्यो अव्वल कृतियो. जुवांवच्या तियात्रांनी प्रमूख जावन नैतीक फाट–भुंय आसोन अश्लीलताय नासताना सभ्यतायेचे जावन आसताले. ताचो गुरू लुकासिनो रिबेरो थावन हे गूण ताणे आपणायिल्ले.

जुवांव अगुस्तीन तियात्राचो जिनोस सुद्रावंक जिणी भर वावूरला. बरें निर्देशन आनी तियात्राक बरें संगीत दिंवच्या विशयांत पात्येल्लो. मात्र न्हय तियात्र सादर करच्या पयलें येसाय फळादीकपणी करचें आनी कलाकारांनी तांच्या पात्राचे सभावगूण सारके करच्या विषयांतयी तो पात्येल्लो.

गोंयकारां पयकी जुवांव अगुस्तिनान ताच्यो तियात्राच्यो कृतियो पुसतका रुपार प्रकट करून मान जोडलो. ही गजाल ताच्या वेळार चिंतुंक साध्य नातल्ली. पूण जुवांवन करन दाकयलें. ह्या विशयाचेर दाकले मेळतात.

लुकासिनो रिबेरो कोंकणी तियात्राचो जनक जाल्यारी जुवांव अगुस्तीन फेर्नांडिसान हो सुर्वातिचो तियात्र प्राकार कोंकणी समाजे

मधें बुन्याद घट करन सारकें बसयलो आनी पाटलावदारांक हो तियात्र सबार वर्सां पर्यां मुंदरुंक आवकास करून दिल्ल्यान हो तियात्र शेंबोर वर्सांच्याकी चड बाळवालो म्हण जाणारी सांगतात. ह्या कारणाक लागोन जुवांव अगुस्तीन फेर्नांडीस 'पाय तियात्रिस्त' (Father of Konkani Tiatr) म्हण कोंकणी तियात्रिस्त ताका मान दितात. हो पाय तियात्रिस्त, तियात्राचीं ५० वर्सां संभ्रमता पर्यांत वांचून ऊरलो आनी १९४७ इस्वी अगोस्ताच्ये २९ तारिकेर मुंबयच्या जी.टी. आस्पत्रेंत मरण पावलो.

## तियात्राचीं सुर्विलीं तीस वर्सां

कोंकणी तियात्राचीं सुर्विलीं तीस वरसां म्हणजे पाय तियात्रिसत जुवांव अगुस्तीन फेर्नांद जिवंत आसच्ये आवदेंत, सबार कोंकणी तियात्राचे पंगड उदेले, आनी तशेंच थोड्याच तेंपान जीरले. त्या पयकी सबार तेंप पर्यांत ऊरलोलो तियात्राचो पंगड म्हळ्यार 'यूनियन जाक ड्रामटीक कंपेनी'. एका अंदाजा प्रकार १९१० इस्वे थावन १९४० इस्वे पर्यांत ६२ तियात्राच्यो ड्रामा कंपेनी उबजाल्यो म्हण आयकोंक मेळता.

ह्या ड्रामा कंपेनिच्या बरबराटा थावन कोंकणी रंगमंचाक सबार नवे तियात्रिस्त उदेले. नटन करचें, गांवचें, संगीत रचचें, बरंवचें इत्यादी वर्वीं गोंयचीं तालेंतां उज्वाडाक आयलीं. ह्या सुर्विल्या तीस वर्सानी नामनेचे तियात्र कलाकार उबजोन ताणीं कोंकणी रंगमंचाक दिल्लें योगदान विसरोंक फावो न्हय. त्या थोड्या प्रसिद्ध व्यक्तित्वांचीं नांवां:–

ए.जे. रोचा (सायब रोचा), रोगासियानो डिसोज, जाक अकविला, अर्नेसटो रेबेल्लो, जोन बाटलू, सोजा फेरावो, जे.पी. सोजालीन,

पीतना, डियोजिनो डि'मेल्लो, लुवीस बोर्जेस, कोस्ता–बीर, चांपियन अलवारीस, सी. अलवारीस, कीडबोक्सर, यंग मिनेजस, मिंगेलरोड, एस.टी. मिरांद, ए.एम. बी. रोज, मासटर वाज, विन्सेंट दे. सालिगांव, अलेक्सिनो दे कांडोलीम, मीस एर्मिलिंड आनी मीस कारलोट, अंतोनी वाज, अपोन्सेका कराचिवाल, एस.एफ. विजारर्ड, एफ नजरेत, मिलियनार, डेन्नीस सिमांव, अंतोनी देस, वालंटे मस्करेञस, अंतोनी मेंडीस, एंड्रू फ्रेन्र्स, तोमस कूगन, एक्स–सैलार, क्रूज जाजवाला, जसिंता वाज, अंतोनी तुलू, जोन लाजारो डिसोजा आनी लुवीस कार्वाल्लो. ह्या थोड्या प्रसिद्द गोंयकारांनी विसाव्या शेकड्याच्या पयल्यार्दाच्या चडतीक वांट्याक कोंकणी तियात्राच्या बावट्याक खांद मारून तियात्र मांची उरयिल्ली.

ह्या पयकी थोडे चड तेंप बाळवाले नांत, थोडे बाळवाले. थोड्यांनी कथानकाचे बरवपी जावन आनी थोड्यांनी संगीत रचून तांचें योगदान दिलें. सुर्वेर तियात्र खेळाचे बरवपी जातेल्यांनी, तियात्राचो निर्मापक आनी दिगदर्शक जावनयी, वावरिजे आसतालें. ह्या पयकी तीनयी जवाब्दारी वयसिल्ले–सायब रोचा, जाक अकविला, अपोन्सेका, अर्नेसट रेबेल्लो, कराचिवाला, चांपियन अलवारीस, जे.पी. सोजालीन, कीड बोक्सर, सी. आलवारीस आनी मासटर वाज – प्रमूख आसात.

## 'सायब रोचा' तियात्रिस्त

पाय तियात्रिस्त जुवांव अगुस्तीन फेर्नांदा उपरांत कोंकणी तियात्राचो दिवो उरयिल्ल्याचो मान फावो जाता सायब रोचाक. हाणे ताच्ये जिण्येच्या आवदेंत ६० कोंकणी तियात्र बरयिल्ले. त्या पयकी ३१ तियात्र १९१६ इस्वे थावन १९४१ पऱ्यांतल्या आवदे भितर ताणे बरवन काडल्ले. 'यूनियन जाक' ताच्या पंगडा थावन सबार यशस्वी

आनी लांब आवदे पर्रायांत खेळयिल्ले तियात्र ताचें नांव वाखणतात जाल्ल्यान तो नीज जावन तियात्राचो प्रसिद्ध फुडारी म्हण नांवाडला.

कोंकणी तियात्राचे पंगड कशे उदेतालेगी तशेच आनी तितल्याच वेगान बंद पडताले जाल्ल्यान कोंकणी तियात्रान समाजेचेर सार्को ताचो पांय रोंबोवंक नातल्लो. त्या वेळार ए.जे. रोचा (सायब रोचा म्हळ्ळ्या नांवान प्रख्यात) म्हळ्ळो एकलो त्या संदरबार कोंकणी रंगमंचाच्या दिगंतार उदेलो. हाचें सन्निदान कोंकणी तियात्राच्या त्या वेळाच्या अधीर परिगतिंत एक मैला फातोर जालो. कारण त्या वेळार कोंकणी तियात्राची परिगत इल्लिशी बिगडोन आसल्ली.

जुवांव अगुस्तीन फेर्नांडीस, कोंकणी तियात्राक एक सारकी दिशा दीवंक पेचाडतानांच, तियात्र मांचियेच्या दिगंतार सायब रोचाचें येणें जालें. कोंकणी रंगमंच-चें एक आपूट निर्मोणें. त्या वेळार तियात्रिस्ता मधें क्षुल्लक राजकीय अश्लीलताय, वायट खोड, मोसोर असल्या वातावरणा वर्वीं तियात्राचो जनक लुकासिनो रिबेरोन घाल्ल्या नितिच्या वाटे थावन, तियात्र मांची पयस वेताली.

१९१० इस्वेंत सायब रोचा, इंगलीष भास शिकच्या खातीर आनी शिकोन काम सोदच्या खातीर मुंबय पावल्लो. त्याच वर्सा सायब रोचाक मुंबयांत कोंकणी तियात्र पळेंवच्याक अवकास मेळ्ळो. त्या वेळार बोव थोडे गोंयकार तियात्र बरवन मांचियेर खेळयताले. सायबरोचान पयिल्लो तियात्र पळेयिल्लो एल.सी.डी. ब्रगांजा (राम नांवान प्रख्यात) हाणे बरयिल्लो तियात्र. ह्या तियात्रा थावन तो भारी प्रभावीत जालो. त्या उपरांत आनिकियी थोडे प्रख्यात तियात्रिस्तांनी बरयलेले तियात्र ताणे पळयले. त्या वेळाचे प्रख्यात तियात्रिस्त दोगलास फेर्नांडीस, सेबेसत्यांव गाबरियेल डिसोजा (कराचिवाला नांवान प्रख्यात), लुकासिनो रिबेरो, रेगासियानो डिसोजा आनी इतर आसल्ले. हांचे

तियात्र पळेवन ताकाच तियात्र बरवन मांच्येर हाडपाची आलोचन आयली. त्या वेळार शीकल्लो तर्नाटो आसोन ताका इंगलीश भास उलवंक बरवंक बरी येताली आनी ताका कोंकणी मांचियी आवोडताली.

सायब रोचाचो पयलो कोंकणी तियात्र 'जेनोविवा दे ब्राबवो'. ह्या मदें सायब रोचाक नौकरी खातीर गलफाक वेचें पडलें. तो गलफांत आसताना (बास्रा) पयलें जागतीक महा झूज प्रारंभ जालें आनी ह्या खातीर ताका मुंबय पाटीं येजे पडलें. मुंबय पाटीं आयिल्लेंच ताणे तो तियात्र १९१६ इस्वेंत बरवन काडलो. बरया कलाकारांची विंचवण केली आनी 'यूनियन जाक ड्रामेटिक कंपेनी' स्थापन केली. ह्या कंपेनिंत ३२ वांगडी आसल्ले.

कंपेनी स्थापन जावन पुर्तें सुशेगात जायजे जाल्यार दोग जण प्रख्यात संगीत रचपी म्हणजे एमिडियो सैलार आनी लूवीस बोर्जेस हांचे मधं झगडें जालें. ह्या झगड्या वर्वीं थोड्यांनी पंगड सोडलो. ह्या खातीर सायब रोचान नवे वांगडी घेतले. ह्या वर्वीं ताणे पंगडांत शिस्त हाडली. तो ताच्या वांगडा ंक मरयाद दितालो आनी मरयाद तांचे थावन घेतालो. त्या देकून अभीमानान ताचे सांगाती ताका सायब रोचा म्हण उलो मारताले.

सायब रोचान शेक्सपियराचे नाटक कोंकणेक भाशांतर केल्ल्या पयकी 'रोमियो & ज्यूलियेट' प्रमूख. हो ताचे तियात्र काणघेवन 'यूनियन जाक ड्रामेटीक कंपेनि'च्या बोंदेराखाल गांवभर भोंवला. सायब–रोचा आनी ताच्या तियात्र पंगडाच्या भोंवडे विश्यांत आनी ताणीं पणजेच्या ईडन सिनेम मंदिरांत आनी माडगांवच्या क्लूब हार्मोनीय होलांत तियात्र खेळयिल्ली खबर गोयांतल्या पोरनुगीस दिसाळ्या खबरे पत्रांनी १९२६ इस्वेंत प्रगट जाल्ली. कारण त्या काळार तितलेंयी ताचें नांव मुंबंयत आनी गोयांत प्रख्यात आसल्लें.

सायब रोचान बरयिल्ल्या आनी दिगदर्शिल्ल्या प्रमूख तियात्रां पयकी – 'दुबावी घरकारन', 'नेकेत्र इटालीय शहेराचें', 'गुपीत काजार', 'मोग आनी क्रीम', 'काल्साद नोवरो', 'घर–जांवंय', 'सन ओफ जेरुजालेम', 'आंकवारयांचो संसार' आनी 'रोमियो & जुलियेट' प्रख्यात आसात.

१९३४ इस्वी एप्रिलाच्ये ८ तारिकेर सायब रोचान मुंबयच्या रोयल ओपेरा हौस ह्या मंदिरांत खेळयिल्ल्या 'शेर होलडर्स नैट' म्हळ्ळ्या तियात्राक घनादीक पद्वेदार कौन्सील ओफ पर्सिया (His Excellency The Council of Percia) आनी थोडे प्रख्यात मानेस्त (V.I.P.) हाजर आसल्ले.

सायब रोचा प्रमूख खेळाक प्रामुख्यता दिल्लें तितलेंच पदांकयी प्राधान्यता दितालो. तो त्या खातीर तालेंत्वंत गावपींच्या सोदनेर आसल्लो. त्या देकून तो तवळतवळ गायन स्पर्दो संघटन करतालो. आनी तरनाट्या भुरग्यांक मुखार येवंक प्रोत्साह दितालो. नव्या गावप्यांक सोदून काडच्याक ताणे संगीतगारांची एक समितीच घडल्ली.

सायब रोचा वरसाक दोन तियात्रा लेखान खेळयतालो. ताणे सबार तालेंतवंत गावप्यांक मुखार हाडलां मात्र न्हय, ताच्या प्रेरणांत सबार नवे तियात्रिस्तयी तवळ उदेल्ले. अशें तो कोंकणी रंगमंचाचो दर्जो सांबाळुंक बरो वावूरला.

सायब रोचाक मुंबंयत उंचल्या वर्गाचे गोंयकार ताच्यो खेबडायो करून तिडक्ताले जाल्यारयी ताणे कोंकणी रंगमंच सुदारचें आनी मुंदरसून व्हरचें मिसांव सांडलें ना.

गावप्यांक आनी तियात्रिस्तांक प्रेरण दिल्लेबरी ताणे स्त्री कलाकारांकयी रंगमंचार हाडलां. १९३१ इस्वेंत 'दोत' म्हळ्ळ्या तियात्रांत कु। जोर्जिना सोजाक आनी १९३४ इस्वेंत सन ओफ जेरुजलेम

तियात्रांत कु। कारलोट, हांकां परिचय कर्न दिल्या. उपरांत ताच्या तियात्रांत ताच्याच पतिणेक एर्मिलिंडाकयी रंगमंचार हाडलां.

सायब रोचा ताच्या उतरपणार नव्या तरनाट्या दिगदर्शकांक ताचे तियात्र खेळोवंक दितालो. त्या पयकी तवळ वाडोन येंवचे दिगदर्शक आसल्ले.–रेमी कुलासो, आलफ्रेडरोज आनी दोड दे वेर्न. सायब रोचा ताच्या ७४ वर्सां प्रायेर १९७२ इस्वेच्या एपरील २८ तारिकेर गोयांत मरण पावलो. कोंकणी तियात्र मांची आनी तियात्रिस्त ताच्या रंगमंचाच्या मिसांव वावराक आजूनयी ऋणी आसात.

## ‘तियात्राचो भांगाराचो जुबलेव’

१८९२ इस्वेंत मुंबंयत ‘इटालियन भुर्गो’ म्हळ्ळ्या नांवाचो तियात्र खेळोन दाकयिल्या उपरांत ह्या तियात्र म्हळ्ळ्या प्राकाराची आवोड आनी वृद्धी जायित्त गेली. ह्या प्राकारा थावन संगीतगार, बरयणार, नीरदेशक, अशें सबार तालेंतवंत कलाकार उबजाले. तियात्राची कला वाडली आनी अख्ख्या कोंकणी परजे मधें लोकामोगाळ जाली. सिञर लुकासिनो रिबेरोन ह्या तियात्र प्राकाराक बुन्याद घाल्या उपरांत, तियात्रिसत जुवांव अगुसतीन फेरनांद हाणीं ह्या प्राकाराक एक रूप दीवन बुन्याद घट कर्न लोका–मनांत हाची वोड थीर रावाशें केल्ल्यान हो पाय तियात्रिसत जावन नांवाडलो. हो नांवाडदीक पाय तियात्रिसत, तियात्राचीं ५० वर्सां संभ्रमच्या परयांत वांचून ऊरल्ल्यान, तियात्राचो भांगाराचो जुबलेव संदर्भार ‘आवे मरीय’ नांवाच्या रोमन लिपी कोंकणी हप्त्याळ्याचेर बरयिल्लें लेखन, चरित्रेगारांक तो एक गर्जेचो दाखलो जावन स्थापीत जाला.

ह्या आपुरबायेच्या चारित्रीक दाखल्या प्रकार, तियात्राची सूरवात कशी केली ह्या सुर्वातेच्या वेळार परिगत कशी आसल्ली असले

प्रमूख विशय ह्या लेखनांत आटप्तात जाल्ल्यान, तियात्राची चरित्रा बरयतेल्यांक जांव ह्या प्राकाराचेर संसोद चलयतेल्यांक जांव हें लेखन वाचल्या शिवाय निर्वोग ना.

मुंबंयत तियात्र जांवच्या पयलें ‘जागोर’ नांवाचो गोंयचो खेळ प्राकार जातालो आनी जागोर खेळ प्राकाराक लागोन गोंयकारांक पर्की लोक हासतालो म्हळ्ळें व्याख्यान ह्या लेखनांत आसा. कारण सुर्वेर बरें ‘सामाजीक चिंतप’ विशय घेवन जागोर जाताले जाल्यार उपरांत काळ उतरताना अनैतीक स्वभावाचे कलाकार ह्या जागोरांत भितर रिगोन वैयुक्तीक निंदा आनी अशलीलताय भरल्ले जाताले म्हळ्ळें आयकोंक मेळल्ल्यान, प्रेक्षक असल्या मट्टाचा कलेक कांटाळतालो म्हळ्ळो विशय ह्या लेखनांत वाचुंक मेळता. म्हणतच हें लेखन एक चारित्रीक रुज्वात जावन घेव्येता.

अशेंच सबार विशयांनी तियात्र जुबलेवाचें हें लेखन, एक चारित्रीक दाखलो आनी एक गर्जेची रुज्वात मात्र न्हय तवळच्या काळाचीं घडितां जिवीं जिवीं जावन लोकाक विवरिता जाल्ल्यान आज तियात्राची वळोक आनी झळक चरित्रकारांक समजोंक सलीस जालां. ह्याच कारणाक लागोन ह्या पाय तियात्रिसताचें प्रख्यात लेखन अनुबंधाच्ये मांडावळिंत ‘अनुबंध – १’ जावन वाचप्यांक दिलां.



# उदेवन आयिल्ले नवे कलाकार

सायब रोचान चडुणे ६० तियात्र बरवन काडल्ले. उपरांत ताच्ये उतार प्राये वर्वीं भलायकी बिगडली. पूण त्या वेळार कोंकणी रंगमंचाच्या दिगंतार नवे तियात्रिस्त उदेल्ले, आनी कोंकणी तियात्राची जवाब्दारी तांच्या खांद्यार ताणीं घेतल्ली. त्या पयकी प्रख्यात तियात्रिस्तः–

## जे.पी. सोजालीन

हो तियात्रिस्त सायब रोचाच्या पंगडाचो म्हणजे यूनियन जाक ड्रामेटीक कंपेनिचो वांगडी. 'रोमियो आनी ज्युलियेट' तियात्रांत 'रोमियो'चो पात्र घेतल्लो कलाकार. त्या उपरांत ताणे 'सोजालीन' म्हळ्ळ्या तियात्रांत पात्र केलो. ह्या तियात्रांत 'सोजालीन'–चो पात्र इतलो बरो केलोकी लोकांनी ताका 'सोजालीन' म्हण आपवंक सुरू केलें. हाचे नीज नांव जुजे पासकल फेर्नांडीस आसल्लें. उपरांत जे.पी. सोजालीन जालें. कारण त्या वेळार सोजालीन म्हळ्ळें नांव बोव लोका मोगाळ आसल्ले वर्वीं तें नांव ताणे घेतल्लें. तो सायब रोचा–च्या पंगडांत आसतानांच तियात्र बरयतालो आनी इंगलीश भाशेंतलेयी भाशांतर करतालो. ताका सार्को आवकास मेळताना तो बरवपी / निर्मापक / दिगदर्शक जालो.

जे.पी. सोजालीन–च्या तियात्रांत केदनांय परिपूर्णताय आसताली आनी कितें पुणी नवेसांव आसतालें देकून ताच्या तियात्राक लोक होलभर येतालो. ताचें दिगदर्शन आनी दृश्यांत चमत्कार आसतालें

देकून ताका कोंकणी रंगमंचाचो 'सेसील बी.दे. मैल्स' (Cecil B. de Miles) म्हणताले.

सोजालीन नोवेसांव करच्यांत हुशार. कोंकणी रंगमंचार पयले पावटीं ३ प्रदर्शनां ताणे होलभर प्रेक्षकां सवें दाकयल्यांत, म्हळ्यार सकाळीं, दोनपारां आनी रातीं. तो ताचो लोकामोगाळ तियात्र 'सां. फ्रान्सीस सावेर' म्हळ्ळ्या नांवाचो आनी बोंबयच्या बंगवाडी प्रिन्सेस मंदिरांत ताच्यो चारित्रीक एकाच दिसा होलभर तीन प्रदर्शन जाल्ल्यो.

त्या काळार एकाच दिसा होलभर तीन प्रदर्शनां जांवचें म्हळ्यार भारी व्हडलें नवाल, कोंकणी रंगमंचार मात्र न्हय बोंबयच्या सुत्तुरांत खंचाय रंगमंचार तसलें नवेसांव जावंक ना म्हणतात. सोजालीन कोंकणी तियात्रांत लोका मोगाळ जावन ताणे ४० तियात्र बरयले. त्या पयकी ताच्या थोड्या तियात्रांचीं नांवां अशीं आसात. – 'हें आसा तें', 'दादलो व्हड व असतुरी', 'सात दुखी', 'पाय तुज्याच तोंडान मागोन घेतलां', 'साद आमोरेचो', 'निमाण्यो चार वस्तू', 'पायची चूक व मांयची', 'पातकांचें दार', 'देव बापाची धुव', 'अशें केल्यार सुदरात गोंय', 'फिलोमेनाचें स्वपाण', 'जेजू आनी जुदास', 'सां. फ्रान्सीस सावेर', 'सांत आंतोन', 'तिकलें चेडूं' इत्यादी.

सोजालीन हाणे चडावत धर्मीक पाट–भुंयचेर तियात्र रचल्ल्यान ताका होलभर प्रेक्षक मेळताले, आनी प्रेक्षकयी असले तियात्र खायस करताले. ताचे दादले व स्त्री कलाकार कोंकणी रंगमंचार नांवाडदीक आसताले. सोजालीन केदनांय ताचे तियात्राचे येसाय आनी दिगदर्शन परिपूर्ण जांवचेबरी पळेयतालो. सोजालीन ताचे तियात्र घेवन गोंया सबार पावटीं गेला, आनी गोंयच्या प्रेक्षकांकयी ते बरे आवाडताले. तो खंय पावल्यारी ताका होलभर प्रेक्षक लाभताले. ताणे ताच्या तियात्रांनी सबार नव्या उदेवन येंवच्या कलाकारांक हाडलां. त्या

पयकी 'आलफ्रेड रोज' एकलो प्रख्यात कोंकणी रंगमंचार परजळ्ळोलो, कलाकार.

जे.पी. सोजालीन १९७० इस्वेच्या जुलाय १८ तारिकेर मुंबंयत मरण पावलो. तो मरण पांवच्यावेळीं 'मिसाची भेट' म्हळ्ळी तियात्राची कृती तयार जावन आसल्ली. जे.पी. सोजालीन-चो उगडास कोंकणी मोगिंच्या काळजांनी केदनांय आसतोलो.

## अलेक्सिनो दे कांडोलीं

जे.पी. सोजालीन मुंबंयत तियात्र रंगमंचार खेळोवन प्रख्यात जांवच्या काळारच, गोंयच्या बार्देशांतल्या कांडोलीम, कामोटीन वाड्यांत एकलो तरनाटो कोंकणी रंगमंचार फुलोन येवंक उर्बा दाकयतालो. तो जावनासा २२ वर्सांचो जुवांव बाप्तिसत फेर्नांडीस. हो उपरांत एक प्रख्यात तियात्र बरवपी, बसवपी जावन 'अलेक्सिनो दे कांडोलीं' म्हळ्ळ्या नांवान फामाद जालो.

अलेक्सिनोन ताचें तियात्राचें मिसांव गोंयच्ये मात्येर सुरवातलें. अलेक्सिनो ताच्या गांवच्याहळ्ळेंतल्या संगीत मेळांत गायताना ताका फकत १६ वर्सां प्राय. त्या वेळार गोंयच्या हरयेका हळ्ळेंनी इगर्जेच्या फेस्तांक संगीत सांज जाताली, आनी हीं कार्यक्रमां तरनाटे चेर्के भुरगे आनी तरनाटीं चेडवां मांडून हाडतालीं. असल्या संगीत कार्यक्रमांत अलेक्सिनो पयले पावटीं रंगमंचाक परिचय जाल्लो. असल्या कार्यक्रमांनी भाग घेवन तो एक तालेंतवंत गावपी आनी पदां बरंवचें देणें आसल्लो म्हण लोकांक कळीत जालें.

अलेक्सिनोक बावीस भरताना ताणे 'पुताची दुडवाची आस आनी आवयचें दीसग्रास' म्हळ्ळ्या नांवाचो तियात्र बरयलो. हो तियात्र १९३५ इस्वेच्या अगोस्ताच्ये १५ तारिकेर मरिये मायेच्या आसुंप्सांवच्या फेस्ता दिसा खेळोवन दाकयलो. हो तियात्र पळेयिल्ल्या

हरयेकल्यांक आवोडलो आनी अलेक्सिनो ताच्या पदां गांवच्याआनी पदां बसंवच्या देण्या संगीं तियात्र बरयणार म्हणोनयी नांवाडलो. अशें दीस वेतां वेतां नांवाडदीक जालो.

गोयांत तो नांवाडदीक जातच १९३९ इस्वेंत नौकरी खातीर तो मुंबय पावलो. त्याच वेळार जर्मन पिंटोचो तियात्र मांच्येर चडपाचो आसल्लो. पिंटोक अलेक्सिनो मुंबय आयिल्ली खबर मेळल्लेंच ताणे ताच्या तियात्रांत गावंक आपयलें. पिंटोचो तियात्र 'इन्सटिटूट लुसो इंडियानो' हांगासर १९३९ इस्वेच्या नवेंबर ११ तारिकेर खेळवन दाकयिल्लो आनी ह्या तियात्राक ताणे ३ पदां गायलेलीं. ह्या पदांनी अलेक्सिनो मुंबंयत गोंयकारांचीं काळजां जिकलो. ह्या उपरांत ताणे क्रूज बाजवाला हाणे १९४० इस्वेच्या जनेर ६ तारिकेर त्याच होलांत खेळयिल्ल्या तियात्रांतयी पर्त्यान तीन पदां गायलीं. हीं पदां आयकोन प्रेक्षक अलेक्सिनोच्या मोगार पडले आनी तो मुंबयच्या गावांतयी प्रसिद्ध जालो. मुंबयचे चडावत तियात्र बरवपी / बसवपी अलेक्सिनोक तांच्या तियात्रांत गावंक आपेक्षिताले. जे.पी. सोजालीन त्या पयकी पयलो आलेक्सिनोक आपवणें दिल्लो तियात्र बरवपी. सोजालिनान अलेक्सिनोक ताच्या 'भोट आयलेलो पोंबूर्राच्या फेस्ताक' म्हळ्ळ्या तियात्रांत पात्र दिल्लो. तो एक लोकामोगाळ तियात्र जाल्ल्यान ताका होलभर लोक जमतालो. ह्या तियात्रांत आलेक्सिनोन दोन पदां गायलेलीं. तीं दोनी पदां लोकांक बरीं आवोडलीं. त्या नंतर अलेक्सिनोचें तालेंत पळेवन ताका हरयेक पावटीं तियात्रांत पात्र घेवंक आपयताले.

अलेक्सिनोचें अदृष्ट बरें नातल्ल्यान ताका पसंदेचें मुंबंयत काम मेळ्ळेंना. त्या वर्वीं ताका गोवा फाटिं येजे पडलें. तरिपूण सोजालिनान ताच्या 'पाय तुज्या तोंडान मागोन घेतलो' म्हळ्ळ्या तियात्रांत परत्यान आलेक्सिनोक घेतलें आनी मुंबयीक पाटीं आपयलें.

गोयांत आसताना अलेक्सिनोन तियात्र बरवंक सुरू केलें. ताचे तियात्र गोयांत आनी मुंबंयत भारी लोकामोगाळ जाले. ताची वस्ती गोयांत जाल्यारी तो मुंबयक वर्सांत दोन पावटीं वचोन मुंबय गोंयकारांक ताचो तियात्राचो पंगड व्हरन रंजन करतालो. अलेक्सिनो येंवच्याकी पयलें कोंकणी तियात्र मुंबयच्या डोबितलाव वठाराच्या सुत्तुरांतच जाताले. अलेक्सिनोन ताचे तियात्र दादर, महीम, परेल आनी पूनाकयी व्हेले आनी थंयच्या लोकां खातीर खेळोन दाकयले. त्या उपरांत इतर दिगदर्शकयी तांचे तियात्र वेगळ्या वठारांनी खेळोन दाकवंक व्हरन गेले. अलेक्सिनोन ओट्टू २७ तियात्र बरयल्यात. तांतल्या थोड्यांचीं नांवां – 'म्हातारपण', 'गोंयचो पुरसकार', 'भासायललो नोवरो', 'आगा कुंपार', 'सेजारी', 'भिरांकूळ शेवोट', 'वीद तियात्रिसतांचें', 'काळो बजार', 'बेब्याचे इसताद', 'फेस्ताचे फेरियेंतलें फुल', 'वोमत्या कोळश्यार उदक' इत्यादी. ह्या पयकी 'तो बावटो धर्माचो', 'राम राम भावोजी', आनी 'संवसारांत कोण कोणाचो' हे तियात्र प्रसिद्ध जाल्ले कारण हे तियात्र सबार पावटीं सादर जाल्यात आनी ह्या तियात्रांक हरयेक पावटीं लोक जमतालो.

'आमच्या शेताची पावणी', अलेक्सिनोचो मुंबंयत निमाणो तियात्र सादर जाल्लो. अलेक्सिनो एक बरो पात्रदारी जाल्लो कारण तो ताच्या पात्राचो सारक्यापणान येसायो करतालो. तशेंच तो हेरां सांगाती पात्रदारां थावनयी तसलेंच प्रयत्न आपेक्षितालो. जे.पी. सोजालिनाबरी अलेक्सिनोयी नव्या तालेंतवंत तियात्रिस्तांक रंगमंचार हाडतालो. आनी तांकां प्रेरण दितालो.

आलेक्सिनोचें नांव ताच्या पदां मुखांत्र माद जालां. ताचीं पदां आजूनयी मुंबयच्या आनी पणजिच्या आकाशवाणिंचेर प्रसार करतात. ताचो ताळो आकाशवाणीन आनी हेच.एम.वी. कोवळेंनी मुखल्या

संततेक तिगवन दवरला. अलेक्सिनो ताच्या ५० वर्सां प्रायेर, म्हणजे १९६३ इस्वेच्या जुलाय १६ तारिकेर गोंयच्या कांडोलीम हळ्ळेंत मरण पावलो.

अलेक्सिनो कोंकणी तियात्राक आयिन्न वेळार उबो जाल्लो प्रामाणीक तियात्रिस्त. कारण त्या वेळार गोंयच्या कांडोलीम हळ्ळेंतलो अलेक्सिनो कोंकणी लोकांच्या काळजांनी कलेच्या संसारांत आजूनयी हक्कान म्हळ्ळेबरी जिवो ऊर्राला.

## ए.आर. सोजा फेरावो

ह्या तियात्रिस्तान कत्त ताचेच म्हळ्ळे ८ तियात्र बरयल्यारी, जे.पी. सोजालीन आनी अलेक्सिनो दे कांडोलीम हांच्या वोळिंत कसो बसता म्हळ्ळें विचित्र जाल्यारी ती सत गजाल. जे.पी. सोजालिनाच्या आनी अलेक्सिनो दे कांडोलीम हांच्याकी पयलें ए.आर. सोजा फेरावो कोंकणी रंगमंचाक आयिल्लो.

जे.पी. सोजालीन आनी अलेक्सिनो दे कांडोलीम तालेंतवंत तियात्र बरवपी / बसवपी जाल्यार ए.आर. सोजा फेरावो ताच्या गायनांनी, पदां घडपांनी, नटनांनी आनी संगीताच्ये जाणवायेन, प्रेक्षकांचो काळजां जीकल्लो तियात्रिसत. खंच्याय पात्रांनी कोंकणी रंगमंचार तो पर्जळतालो. ताका मुंबयच्या टेलीफेन खात्यांत नौकरी आसल्ली. त्या वर्वीं तो कामाच्ये सुटके वेळारच तियात्र बरवन काडतालो. हाचे मदें आनी हेर तियात्रिस्ता मदें हो एक व्यत्यास आसल्लो.

ए.आर. सोजा फेरावो तालेंतवंत कलाकार. हरयेका पात्रांनी जांव तो भाटकाराचो पात्र,कुणबी, तरनाटें प्रेमिका, व म्हातारी तो परिपूर्णता हाडतालो. आनी ताका तो पात्र सोभाशें करतालो. खंचोयी पात्र ताका वर्गातालो जाल्ल्यान तांच्ये जिण्येच्या शिकराचेर ताका हजार मुखामळाचो मनीस (Man of Thousand Faces) म्हण वोलायताले.

ए.आर. सोजा फेरावो, कोंकणी रंगमंचार एक नट जावंक पेचाडताना, गोयांत तवळ व्हडलेशें कांय जायनातल्लें. एकादवेळा तियात्र खेळोवंक कोणी मुखार सरल्यारी पात्र घेवंक गडे मेळानातल्ले. कारण मरयादिचीं कुटमां तांच्या भुरग्यांक पात्र घेवंक धाडिनातल्लीं. सोजा फेरावोचो बापूयच गोयांत 'खेळ' करयतालो. आनी तो एक संगीतगारयी आसल्लो, जाल्यारी असल्या खेळांक लोक मरयाद दीना म्हणोन, ताच्या पुताक सोजा फेरावोक वचोंक सोडिनातल्लो.

ए.आर. सोजा फेरावो ल्हान आसताना थावन्‌च असले खेळ-मेळ ताच्याच घरा व आन्येकल्याच्या घरा, घरचे बांक उबे करन वेदी करची, घराच्यो वोली, जनेलाच्या येवनिकांनी (curtain) पडदे करून खेळ करतालो. हळ्ळेंतले थोडे भुरगे पात्र घेवंक ताका मेळताले. संगीतगारांक आनी पेट्रोमेक्सगारांक तांकां मात्र दुडू फारीक करिजे पडतालो. त्या देकून खेळ-मेळ लोकांक फुकट दाकयतालो. जाल्यारी खेळ सादर जावनासताना, खर्चा खातीर प्रेक्षकां मधें वाटली भोंवडायतालो. अशें क्रमेण ताचें तालेंत ताणे पाजलें आनी मडगावांत तो एक तालेंतवंत मनीस म्हण ओळकिचो जालो.

एक दीस जुवांव अगुस्तीन फेर्नांडीस (पाय तियात्रिसत) गोयांत आसताना, ह्या तालेंतवंत मनश्याची खबर ताच्या कानाक पडल्लीच, सोजा फेरावोक आपोवन ताच्या जेरालडिना म्हळ्ळ्या तियात्रांत मुखेल पात्राचो आवकास दिलो. ह्या पात्रांत सोजा फेरावोन अदभूत नटन केल्ल्यान तियात्र भारी यशस्वी जालो. तवळचो गोंयचो मुखेल आरोग्याधिकारी तियात्र पळेवंक आयिल्लो. तियात्र पळेवन सोजा फेरावोचें नटन पळेवन होगोळसुंक लागलो. होच तियात्र उपरांत पोणजेच्या ईडन सिनेमा मंदिरांत जाताना, व्हडलो जमो पळेवंक आयिल्लो. ह्या जम्या मधें तवळचो गोंयचो राज्यपाल श्री मासानो दे

अमोरीम (Governor of Goa Sri Masano de Amorim) हाजर आसल्लो. अशें सोजा फेरावो चड आनी चड तियात्रांत भाग घेंवचें ताच्या बापायक खुशी नातल्ली. त्या देकून ताच्या पुताक ताणे 'पोलीस ब्यांडा'त काम करन दिलें. पूण सोजा फेरावोक त्या ब्यांडांत काम करुंक खुशी नातल्ली, कारण ताका त्या कामार आसताना रंगमंचार येवंक आवकास नातल्लो. असल्ये परिगतिंत आसताना ताका तियात्रिसत, गांवांचो गांव तियात्र दिगदर्शन करुंक आपयताले. ह्या कामांत व्हडलोसो पाग ना जाल्यारी, ताका तियात्रांत भागिदार जांवचें भारीच खुशी आसल्ली. ह्या कामार आसतानांच ताणे ताचें शिकप मुंदरसिलें आनी पोरतुगीस भाशेन सेगंदो ग्राव शिकप संपयलें.

ह्या शिकपा नंतर सोजा फेरावो नौकरी खातीर मुंबय पावलो. मुंबय आसताना रंगमंचार चडोंक ताका आवकास मेळ्ळे. पयल्यान पयलें जुवांव अगुस्तिनो फेर्नांडीस आनी ब्यांड मासटर विन्सेंट न्यूनेस हाणीं ताका तांच्या तियात्रांत 'कुणबि'चो पात्र दिलो. ह्या तियात्रांत ताचें नटन आनी ताचें संगीताचें देणें पळेवन हेरयी तियात्रिस्त गावंक आनी नटन करुंक आवकास दीवंक लागले. ह्या पयकी पोरतुगीस निर्देशक सिलवा सांचेस हाच्या तियात्रांत ख्यात संगीतगार लुवीस बोरजेस हाच्या सांगाता गावंक आवकास लाबलो. हो तियात्र 'ओपेरा हौस' रंगमंचार खेळोवन दाकयिल्लो आनी हो तियात्र पळेवंक सबार राज्यां थावन होलभर प्रेक्षक हाजर आसल्ले. सोजा फेरावो गावप्यां पयकी इतलो माद जालोकी, सायब रोचा, जे.पी. सोजालीन, अकविला, रोगासियानो, अर्नेसट रेबेल्लो, जोन लाजरस, अपोन्सेका असले प्रसिद्ध तियात्रिस्त, तांच्या तियात्र दाखवणेची तारीक कळीत करच्या पयलें सोजा फेरावोची पुर्सत पळेयताले.

सोजा फेरावोक कोंकणी रंगमंच इतलो आवाडतोलोकी, कोंकणी रंगमंचाक उंचलें म हाडुंक वावरिलागलो आनी त्या खातीर ताणे

गोंयच्या उत्साही तरनाट्यांक घेवन 'ज्योली ब्रदर्रास ड्रामेटीक क्लब' ('Jolly Brothers Dramatic Club') संस्थो उघडलो. ह्या संस्थ्याच्या बोंदेराखाल ताणे गोयांत तियात्र संघटन करुंक प्रारंभ केले.

सोजा फेरावोन चडावत तियात्र खेळयिल्ले दान-धर्मा खातीर जाल्ल्यान ताणे तियात्रांनी दुडू करुंकना. सोजा फेरावोन आकाशवाणिचेर ताचें पद १९३७ इस्वेंतच दाखल केल्ल्यान पद दाखल केल्लो तो पयलो तियात्रिस्त जालो.

सोजा फेरावोन सबार कोंकणी पिंतुरांनी नटन केलां. - ताणे नटन केल्ल्या सिनेमांचीं नांवां थोडीं ह्या परीं आसात. १) आमचें नशीब २) निर्मोणें ३) सुखाचें स्वपाण ४) कर्तुबांचो संसार ५) म्हजी घरकार्न ६) बोगलांट इत्यादी. सोजा फेरावो रंगमंचारच जियेलो. फेरावोन ८ मात्र ताचे तियात्र बरयल्यारी, ताणे सबार तियात्रांक निर्देशन दिलां.

ए. आर. सोजा फेरावो मुंबयांत १९७८ इस्वेंत मरण पावलो. ताच्या मर्णाक सबार गांवां थावन कोंकणी मोगिंनी तांचें दूख पाचारलां आनी ताच्या कोंकणी रंगमंचाच्या अभीमानाक तकली बागायल्या.

## आंतोनी डेसा

आंतोनी डेसान ताच्या नटनाची सूरवात केल्ली केवल १६ वर्सांच्या प्रायेर. तो मुंबयत पावल्ल्या वेळार ताणे नटनाचें सूरवात करतानांच ताच्या १६ वर्सांच्ये प्रायेर म्हणजे १९३३ वर्सा ताणे पयिल्लो तियात्र बरयिल्लो. कारण ताका रंगमंचाची वोडणी तवळच आसल्ली. आनी तो एक बरो तालेंतवंत गावपी. तो ल्हान आसतानांच ताका रंगमंचाची वोडणी आसल्ली जाल्यारी ताच्या घरच्यांनी ताका तियात्रांनी पात्र घेवंक सोडलेंना, कारण ताचें कुटम तियात्राक तिडक्तालें.

आंतोनिचो बापूय संप्रदायवादी जाल्ल्यान कोंकणी रंगमंचार नटन करचें म्हळ्यार मर्यादीक उणें म्हण चिंत्तालो त्या वर्वीं आंतोनीन ताचो कलेचो मोग तवळ लिपयलो जाल्यारी ताका गायनाची वोडणी आसल्ल्यान तो आवकासाक रात्कालो.

ताका तवळ ताच्या मुकल्या शिकपा खातीर मुंबयीक धाड्लो. थंय तो एका नाडांतल्या जम्यांत (Village Club) रावतालो. एक दीस त्या नाडांतल्या सदस्यांनी एक तियात्र उबारुंक आलोचन केली. त्या जम्या पयकी तरनाटो आंतोनी इल्लो चड शीकल्लो तरनाटो जाल्ल्यान ताका तियात्राची कृती बरोवंक सांगलें. तवळ आंतोनीक १६ वर्सां जाल्लीं मात्र. त्या शिवाय तो एक विद्यार्थी. पूण ताच्या काळजा भितरल्या कलेच्या मोगान ताणे तो आवकास आपणायलो आनी ताचो पयिल्लो तियात्र 'झूज मोगाचें' बरवन काडलो. हो तियात्र बंग्वाडिच्या प्रिन्सेस थियेटर मंदिरांत खेळोंवच्या खातीर ताणे भारी त्रास काडले.

कारण त्या वेळार हिंदू–मुसलीम दोंबी उबजाल्ली. त्या कारणा खातीर मुंबंयत संचार निरबंद (Curfew) घाल्ल्यान खंचोच नाटक खेळोवंक पर्वणगी नातल्ली. हांचो तियात्र खेळोंक जालोना. पूण तरनाटो आंतोनी बिगडलोना. तो पोलीस कमिषनरा लागीं गेलो आनी ताका समजावन विशेस पर्वणगी घेतली आनी निमाणे ताणे ताचो तियात्र खेळोवन दाकयलो आनी प्रेक्षकांक तो बरो आवोडलो.

जे.पी. सोजालिनान आंतोनिचें गावपाचें देणें समजोन तियात्राचें प्रारंभाचें गीत (Opening Song) गावुंक आवकास दिलो. ताणे आवकास आपणायलो आनी पद गावून प्रेक्षकांक खुशी केली.

आंतोनी रंगमंचाक येंवच्याकी पयलें प्रभावीत गावपी – पेट्रीक पयरमेन, लुवीस बोर्जेस, एमिदियो सैलार, आंतोनी वाज, सोजा फेरावो, आनी डियोजिनो दे मेल्लो तियात्राचें प्रारंभाचें गीत गायताले. हो मान ह्या प्रभावीत गावप्यां थावन आंतोनी डेसान आपणायिल्लो.

आंतोनी डेसान रचल्ल्या पदांनी गुंडाय आसताली, ताचो ताळोयी भोव मधुर आनी स्पषट आसल्लो. आंतोनी डेसान तियात्राक प्रारंभाचें गीत गांवचें सबार वर्सां पऱ्यांत मुंदरिलें. उपरांत सवकास नटनाची रीत तो शिकलो आनी बरो एक नट जाल्ल्यान जे.पी. सोजालीन ताका केदाळाय मुखेल पात्रच दितालो.

आंतोनी डेसान १७ तियात्र बरवन काडल्यात आनी विवीद बरयणारांचे २४ तियात्रांक दिगदर्शन दिलां. ताणे बरयिल्ल्या तियात्रांचीं थोडीं नांवां – 'रगताची भेट', 'घटकें कुम्सार', 'सोध देवाच्या नितीक', 'फारिकपण', 'निर्भाग अशें', 'पातक दुबावाचें', 'इनाम जल्मांचो', 'निस्संतान फुडाराचो', 'इनाम पात्काचें' इत्यादी.

आंतोनी डेसान 'आमचें नशीब' आनी 'निर्मोणें', ह्या दोन कोंकणी पिंतुरांनी नटन केलां.

आंतोन डेसान गायिल्ल्या थोड्या पदांची दाखल H.M.V. संस्थ्यान केल्या. आनी मुंबयच्याआनी पणजिच्या आकाशवाणिचेर तीं पदां उत्रायल्यांत. आंतोनी डेसा बरवपी जावन जे.पी. सोजालिनाच्या पांवड्याक पावोंक ना तरी विसाव्या शेकडाच्या पयल्यार्दाच्या कोंकणी रंगमंचाक तो एक मार्गदर्शक (Torch–bearer) म्हण प्रख्यात जाला. आंतोनी डेसा १९६९ इस्वेच्या जुलाय १० तारिकेर मुंबंयत मरण पावलो.



# नामनेचे कलाकार

## सी. आलवारीस

सी. आलवारीस कोंकणी रंगमंचाचो दंतकथा (Living Legend) जावन ताच्या उतर प्राय पर्यंत कोंकणी तियात्रा खातीर वावूरला. ताणे तियात्रा खातीर खर्चिल्लो वेळ, रचल्लें साहित्य, गावपी, बरयणार आनी दिगदर्शक जावन ताचो पात्र अगाद आसल्ल्यान, ताका कोंकणी रंगमंचाचो दंतकथा म्हणतात.

सी. आलवारीस धाकटो भुरगो आसताना म्हणजे ताच्या सात वर्सांच्ये प्रायेर ताच्या बापायन कैतानो आलवारिसान ताच्ये हळ्ळेंत जांवच्या खेळ मेळाक ताका भुरगो कलाकार जावन घेतल्लो. अशें ताका ल्हान प्रायेरच कोंकणी रंगमंचाची ओळक जाल्ली.

सी. आलवारीस कलाकारांच्या कुटमांत जल्माल्लो. ताचो बापूय कैतानो आलवारीस, तांच्या गांवच्या इगर्जेच्या फेस्तां–परबेक, गांवच्या तरनाट्यांक सांगाता हाडून खेळ–मेळ उबो करतालो. सी. आलवारिसाच्या कुटमांत सबार तालेंतवंत कलाकार आसलेल्यान तांच्या घराण्याक 'फोकाण्यागार' म्हणताले. हिंच तालेंतां सी. आलवारिसाक आयिल्लीं जाल्यारी, तो तवळ शिकचो विद्यार्थी जावनासल्ल्यान ताका तवळ कांयच करुंक जालेंना. पूण चडतीक शिकपा खातीर तो मुंबय गेल्या उपरांतच ताका ताच्या कलेचो पोस करुंक आवकास लाबल्लो. तवळ बोंबयच्या गावांनियी इगर्जेच्या फेस्ता–परबेक खेळ–मेळ जाताले. एका संदर्भार सी. आलवारीस

असल्या खेळ–मेळाच्या संदर्बीं, कलाकार मेंडोन्साक ओळकिचो जालो. मेंडोन्सा दादरांत कोंकणी खेळ सादर करताना, त्या खेळांत गावपी जावन पात्र घेवंक ताणे आशा दाकयली. मेंडोन्सा ओपलो. कारण ताचो बापूल भाव चांपियन आलवारीस त्या खेळांत कलाकार जावन आसल्लो आनी त्या वेळार तो गावपी, पदां रचपी आनी तियात्र बरयणार जावनयी नांवाडलोलो.

सी. आलवारिसान, ताच्या बापूल भाव चांपियन आलवारिसा कडेन दोन पदां रचुंक उपकार मागलो आनी त्या प्रकार ताणे रचल्लीं पदां मेंडोन्साच्या खेळांत ताणे गायलीं आनी लोकां थावन शाभासकी जोडली. मेंडोन्सान परत्यान सी. आलवारिसाक ताच्या अनीयेका खेळांत गावंक आपयलो. सी. आलवारिसान परत्यान चांपियन आलवारिसा कडेन पदां घडुंक आडदोस मागलो. पूण ह्या पावटीं चांपियन आलवारीस पदां घडून दीवंक आयकालोना. आलवारिसाक त्ये घडिये कितें करचें म्हण कळ्ळेंना. तो गावंक ओपला. पूण ताचे कडेन पदां नांत. इंगलिशांत एक सांगणी आसा 'necessity is the mother of invention' (अनिवार्‍यता आविष्काराची आवय) त्या प्रकार गर्ज म्हणोन ताणे पदां बरवंक प्रयत्न केलें आनी ताचें पयिल्लें पद 'भुरग्यांक रजार शिकयनांत पूण नोवरो आनी होकल खंयची तें शिकोतात' बरवन काडलें. हें पद ताणे मेंडोन्साच्या खेळांत गायलें आनी प्रेक्षकां थावन शाभासकी जोडली आनी क्रमेण तो बरो गावपी म्हण नांवाडलो. सी. आलवारिसाची प्रसिद्धी पळेवन निर्वोग नासताना चांपियन आलवारिसान ताच्या 'कुजनेर बोंबयचो – भटकार गोंयचो' म्हळ्ळ्या तियात्रांत ताका आवकास दिलो. हो तियात्र 'प्रिन्सेस थियेटर' बंग्वाडी हांगासर १९४१ इस्वेंत सादर जाल्लो. ह्या तियात्रांत ताणे ४ पदां गायिल्लीं. सगळीं चांपियन आलवारिसान घडलेलीं. अशें सी. आलवारीस एक प्रख्यात कलाकार जावन नांवाडलो. ह्या

आयिन्न वेळार सी. आलवारिसान, इतर कलाकारांक–नांवान–एस.बी. रेडियो, आंतोनी, मार्सेलीन, रेजिनालड, एल.सी. फेर्नांडीस, रोमालडो, ग्रासियानो, अपोलोनारियो आनी थोड्यांक घेवन 'हुला बोयस' (Hula Boys) म्हळ्ळ्या नांवाची कलाकार मंडळी घडली. ह्या संस्थ्या मुखांत्र सी. आलवारिसान १९४२ इस्वेंत 'आतां जांवंय तुजो हांव' म्हळ्ळो तियात्र बरवन सादर केलो.

सी. आलवारिसान घडल्ल्या पदां पयकी पद – 'तियात्रिस्तांक लोक कित्याक रेस्पियेद दिनांत?' भारी नांवाडदीक जालें.

ह्या पदा विश्यांत तवळच्या 'गोवा टाईमस' (Goa Times) पत्रार भारी प्रचार दिल्लो. त्या देकून त्या वेळाचे प्रख्यात वृत्तिपर तियात्र निर्देशक, आनी गावपी–सायब रोचा, जे.पी. सोजालीन, अलेक्सिनो दे कंडोलीम, क्रूज जाजवाला, जुवांव अगुस्तिनो फेर्नांडीस, टोनी फेर्नांडीस, अपोलोनारियो, डियोजिनो डी मेल्लो, सोजा फेरावो आनी अंतोनी मेंडीस हे सगळे हें पद आयकोंक आयिल्ले आनी पद आयकोन ताची हाणीं सगळ्यांनी प्रशंसा केली. कारण त्या पदांत ताणे तियात्रांनी कशें चलाजे, कसलें करुंक जाय आनी कसलें करुंक नजो म्हण सलहा सूचन दिल्लें.

अशें प्रसिद्ध जाल्लेंच ताणे वर्साक ४ लेकान तियात्र बरवंक सुरू केले. पयलें मसकिरेगाराचो पात्र करतालो पूण उपरांत क्रमेण ताणे प्रमूख पात्र (Hero) घेवंक सुरवात केली.

एका वेळार सी. आलवारीस नियमीत तियात्र बरोवन आनी हिरोचो पात्र घेवन प्रख्यात आसल्ल्या वेळार ताका स्पर्दा दितलो कोणी ना जालो. अशें ताणे कोंकणी रंगमंचा वयर ४० वर्सां नियंत्रण चलयलें. ताच्ये जिण्ये आवदेंत ताणे शेंभोरां वयर तियात्र बरयल्यात. हो कोंकणी तियात्राच्या माळार सदांच दाकलो जावन ऊरतलो.

सी. आलवारिसान बरयिल्ल्या तियात्रांचीं थोडीं नांवां:–

'आदीं आनी आतां', 'आमचो गुन्यांव', 'आंकवार वो काजारी', 'आशा', 'बायलांची रीत', 'बायल दे तार्वोटी', 'भटकार दे गोवा', 'दोतोर सैमन', 'घराचे वांटे', 'म्हजी वोनी', 'शेजारी कोंबो' इत्यादी.

सी. आलवारीस सुमार संग्तिंनी प्रथम म्हण नांवाडला. त्या पयकी थोड्यो संग्ती:–

i) कोंकणी तियात्रांत ५० वर्सांच्याकी चड आवदेंत क्रियाळ आसल्लो तियात्रिस्त.

ii) १०० तियात्रांच्याकी चडीत बरयिल्लो एकमात्र तियात्रिस्त.

iii) वृत्तिपर तियात्र कलाकार जावन स्त्रियांक कोंकणी रंगमंचार परिचय करन दिल्लो प्रथम तियात्रिस्त. (ताणे सोदनां करून उज्वाडायिल्लीं स्त्री तारां – मीस मोहान, शालिनी, सिसिलिया मचादो, ओफेलिया, फिलोमिना, अंटोनेट, जेस्सी– इत्यादी)

iv) कोंकणी रंगमंचार गरिष्टसंख्यान गडें गीत (duets) गायलल्लो आज परयांतलो एकमात्र तियात्रिस्त.

सी. आलवारिसान बरयणार/ निर्देशक/ गावपी आनी नट म्हणोन नैरोबी, दार–ए–सालां, लंडन, मसकट, दुबाय, अबुदाबी, बाह्रेन, खटार आनी कुवैट गांवांनी भोंवडी मारल्या. भारतांत ताणे – मुंबय, गोवा, डेल्ली, कोलकत्त, पूना, बेळगांव, अह्मदाबाद, दमन आनी मंगळूरांत ताचे तियात्र सादर केल्यात. सबार कोंकणी पिंतुरांनी मुखेल नट जावन अभीनय केलां. त्या पिंतुरांचीं नांवां थोडीं 'आमचें नशीब', 'निर्मोणें', 'म्हजी घरकार्न' आनी 'भुंयारांतलो मनीस'.

सी. आलवारिसान ताचेंच दृश–पिंतूर (Video Film) 'मोगाची पाशी' निर्माण केलां. 'निर्मोणें' पिंतुरांत उंचलें नटन केल्ल्याक उंचली नटन

प्रशसती (Best Actor Award) मेळल्ली आनी ती प्रशस्ती आदली प्रदान मंत्री दे. श्रीमती इंदिरागांधी हिच्या हाता थावन स्वीकारल्या. तशेंच ताणे सबार प्रशसत्यो आपणायल्यात. सी. आलवारीस १९९९ इस्वेच्या फेब्रेर २८ तारिकेर मुंबय्ंत मरण पावलो.

## मिंगेल रोड

तियात्राच्या दिगंतार एका कुशीन सी. आलवारीस पर्जळताना, दिगंताच्या अनीयेका कुशीन मिंगेल रोड म्हळ्ळ्या नांवाचो प्रख्यात तियात्रिसत पर्जळतालो. मिंगेल रोड हो एक मिसतेर. हो जल्मातानांच तियात्राच्या तालेंतांनी भरलोलो. ताचीं तालेंतां हेरां तियात्रिस्तांच्या तालेंतांक मिकवातालीं.

मिंगेल रोड एका दुबळ्या कुटमांत गोंय साल्सेटच्या कुट्टाळींत जल्माल्लो. हो जल्मातानांच इतलो तालेंतांचो पुंजोगी, ताच्या कुटमांत इतले तालेंतवंत कोणी झळकानांत. ताका नटनाचें आनी गायनाचें पिशें जल्मा थावन्ंच आसल्लें. ताका व्हडलें कांय शिकप नातल्लें आनी ताका शिकोंक मनयी नातल्लें. पुर्तें बरवंक वाचुंक जाणा जांवच्या पयलेंच ताणे शिकप सोडल्लें, तरी तो ताच्या मटव्ये जिण्ये आवदेंत ३२ उंचल्यो तियात्राच्यो कृतियो रचून, प्रख्यात जाल्लो. ताका कांय संगीताचें मूळ शिकप नातल्लें तरयी तो उंचलीं पदां ताळो बसवन घडतालो. ताका कांय तियात्र बरवंक कोणेय तरबेती दीवंक ना तरयी ताच्या तियात्रांत परिपूर्णताय आसल्ली. समा सांगचें जाल्यार ताका साकें बरोवंकच कळनातल्लें. तो कितें बरयता तें निमाणें ताणेंच वाचिजाय आसल्लें. हेरांक वाचुंक कळनातल्लें. त्या देकून तो एक प्रतिभावंत म्हण ओळकाल्यारी सकडांक तो एक मिसतेरच जावन गेल्लो.

मिंगेल रोड ल्हान आसताना ताच्या सेजाराच्या घरच्या चोवकेंत, बांक उबे करन वेदी करतालो आनी पांगूरच्या वोलिंनी पडदे करून खेळ–मेळ चलयतालो. असल्या खेळ–मेळांनी ताच्या गावांत तो प्रतिभावंत भुरगो म्हण ओळकिचो जाल्लो.

एक दीस गांवकारांच्या प्रोत्सावान चडुणें १९३६ इस्वेंत व्हडल्या जम्याक म्हण एक धाकटो नाटकुळो बरयलो. त्या नाटकुळ्याचें नांव आसल्लें 'मै डियर रोजा आनी मोगाचो पेद्रू'. ह्या नाटकुळ्याचें प्रदर्शन भारी यशस्वी जालें. पूण मिंगेल रोडान सरकाराच्या कानूना परमाणे पर्वणगी घेनातल्यान ताका कयद (arrest) करुंक आदेश आयलो तवळ मिंगेल रोड लिपोन बसलो आनी पोरतुगीस आडळतेदारांक मेळनासताना मुंबय निसरालो.

मुंबयिंत आसताना कोंकणी रंगमंचार पर्जळोंक आवकासाक राकतालो. पूण त्या वेळार तें तितलें सोंपें नातल्लें, करुन नव्यांक कोण तरी एकल्या प्रख्यात मनश्यान रंगमंचाक परिचय कर्रान दिल्ल्या शिवाय रंगमंचाक येवंक आवकास मेळनातल्लो. मिंगेल रोडाक तवळ मुंबंयत कोणी ओळकानातल्ल्यान आनी ताका शिकपयी चड नातल्ल्यान, ताका आवकास मेळोंक वेळ लागलो.

आवकास मेळोंकना म्हणोन ताणे धयर सांडलेंना. ताणे मुंबयिंत आसताना आन्येक धाक्टुलो तियात्र बरयलो तरी ताका तो तियात्र उपकाराक पडलोना. पूण १९४१ इस्वेंत फ्रांक अगुवार म्हळ्ळेल्यान ताच्या तियात्रांत गावंक ताका एक आवकास दिलो. ताणे तो आवकास बरो करुन गळसिलो. सबार निर्देशक ताचीं तालेंतां ओळकाले तरी तक्षण ताका कांय गावपाक आपवणीं आयलिंनांत.

१९४३ इस्वेंत तो गोंया पाटीं आयलो. तो गोयांत आसताना, जुवांव अगुसतीन फेर्नांडिसान १९४३ इस्वेच्या मेयाच्ये २ तारकेर

माप्सांत 'बेब्दो' तियात्र ओक्सेल इगर्जेच्या मजते खातीर खेळयलो. ह्या तियात्रांत जुवांव अगुसतिनान मिंगेल रोडाक गावंक आवकास करुन दिलो.

ह्या तियात्रांत मिंगेल रोडान ताचीं तालेंतां पाजून दाकयलीं. त्या तियात्रांत हाजर जाल्ल्या हरलेकल्यांक ताच्या तालेंतांनी प्रभावीत केलो. जुवांव अगुसतीनयी प्रभावीत जावन ताणे तियात्रिस्त सोजा फेरावोक परिचयसिलें. सोजा फेरावोन 'शेत कामती' म्हळ्ळ्या तियात्रांत ताका गावंक आवकास करुन दिलो. ह्या तियात्रांत मिंगेल रोडान एकच पद गायलेलें. पूण त्या एका पदान तो प्रेक्षकांची काळजां जीकल्लो. कारण 'नांव मिंगेली' म्हळ्ळें पद ताणे कुणबी शैलिचेर गायलेलें.

ह्या उपरांत मिंगेल रोड हाचें नांव गावांत गाजलें आनी सबार आवकास ताका सोधुन आयले. एक काळ आसल्लो मिंगेल रोड नासताना तियात्र संपूर्ण जायना म्हण प्रेक्षक लेकतालो.

मिंगेल रोडान आपूण लोका मोगाळ जालों म्हण समजाल्लेंच एक पुर्तो 'दुडवाचो फोर्स' म्हळ्ळ्या नांवाचो तियात्र बरयलो आनी आपूण एक तियात्रिसत म्हणोन जाहीर केलें. हो तियात्र यशस्वी जालो. हें पळेवन कंत्राटदार हो तियात्र खेळोवंक ताच्या घरा बागलार सालीन रावोंक आयते जाले. मिंगेल रोड तियात्र बरोवपी म्हणोन प्रख्यात जाल्लेंच तवळच्या लोका मोगाळ तियात्रिस्त जावनासलेल्या सायब रोचा, जे.पी. सोजालीन आनी सोजा फेरावो हांचो पांवडो असकत जालो. लोक मिंगेल रोड हाचो तियात्र पळेवंक अत्रेगुंक लागलो, कारण मिंगेलरोड–च्या तियात्रांनी तांकां भर्पूर मनोरंजन मेळतालें. ताच्या तियात्राच्या हरयेका अंका उपरांत एक 'कांटो' म्हळ्ळ्या मूळ ताळ्याचें गायन आसतालें. हे कांटेच पावताले प्रेक्षकांक रंजन करुंक. उपरांत थरावळ

पदां आसतालीं. ह्या तियात्रांनी मिंगेल रोड तीन पदां तरी गायतालो.

मिंगेल रोड हाणे ओ ू क ३२ तियात्र बरयल्यात. ताणे बरयिल्ल्या लोकामोगाळ तियात्रांचीं नांवां थोडीं ह्या परीं आसात – 'गरीब सेजारी', 'घरचें खेसत्यांव', 'बापूल भाव', 'मेसतदोर्जी', 'तारवोटी इर्मांव', 'इर्मांवचें काजार', 'इंत्रूज वो कार्निवाल', 'समेस्तांचो रिणकारी' 'आफ्रिकार बायल', इत्यादी.

मिंगेल ताच्या तियात्रांत केदनांय मुखेल पात्र घेतालो. कारण तो पळेवंक रुपेसत, धग्रादीक, आनी शाणो आसल्लो. १९४७ इस्वे थावन ताणे–'कीड–यंग–रोड' म्हळ्ळ्या तियात्राचो पंगड बांदल्लो, म्हळ्यार कीड बोक्सर आनी यंग मिनेजस ताचे हेर दोग सांगाती आसल्ले. हे तेगी सांगाती, सांगाता रावोन पद म्हळें म्हणतच प्रेक्षक खुशी पावताले. ताच्या तियात्राच्यो बसका, प्रदर्शन जांवच्या पुडेंच अमानत जाताल्यो. ताच्या पंगडांत इतर वांगडी–डिवीज सिमांव, मासटर वाज, एडवर्ड अलमेड, मीसमारेकीन, सी. पिरेरा, मीस जुली, मीस एसट्रेला आनी क्रूज जाजवाला–आसल्ले.

मिंगेल रोड एकलो आसों आनी पंगडा मधें आसों ताच्या तियात्रांनी तो लोकांक उचांबोळ करतालो. ताणे बरयिल्ले तियात्र आनी घडल्लीं पदां अमर जावन ऊरल्यांत.

इतले पुरा गूण आसल्ल्या व्यक्तीक एक वायट गूण आसल्लो म्हळ्यार लेखावर्तें पियेंवचें. ह्या वायट सवये वर्वीं तो ताच्या ३१ वर्सांच्ये तरने प्रायेरच १९५५ इस्वी अकटोबराच्ये ४ तारिकेर गोयांत अंतरलो.

हो प्रतिभावंत तर्नाटो, आनिकी थोडीं वर्सां वांचोन ऊरल्लो तर, आनिकी कितें पराक्रम करतो आसल्लो तें कोणायकी चिंतुंकच असाद्य. ताचीं पदां आजूनयी आकाशवाणिचेर आयकोंक मेळतात,

आनी तीं कल्पन, दिष्टावो आनी नैतिकतेच्या दृष्टेन आजूनयी जिवीं ऊरल्यांत.

## एम. बोयार

एंम. बोयाराचें नीज नांव मानुवेल अगुवार (Manual Aguiar) श्रेष्ट तियात्रिस्तां पयकी हो निमाणो गांच. हो इतलो प्रख्यात आसल्लोगी हाका अख्ख्या गोयांत, मुंबयिंत, गलफांत आनी आफ्रिकांत तियात्र मोगीं पयकी ओळकानातल्लो कोणी ना म्हणतात. हाका कारण, तियात्र प्रेक्षकांक कितें जाय, तें ताका तांची आस्क्त पळेवन कळतालें आनी त्याच परीं तो प्रेक्षकांक धादोशी करतालो. तो एक बरो गावपी तशेंच पदां घडणार. तो एक बरो तियात्र रचपी आनी ताचे तियात्र केदनांय प्रेक्षकांचें मन जिक्ताले. तो एक बरो नट आनी मसकिरेगार. ह्या सर्व तालेंतां वर्वीं तो ४० वर्सांच्याकी चड कोंकणी रंगमंचार पर्जळल्लो. तो ल्हान आसताना थावन्‌च रंगमंचार येवन गावुंक आनी तियात्र खेळोंक आशेतालो. ताका १९४६ इस्वेंत ताचें तालेंत पाजुंक आवकास मेळ्ळो. ताच्या १५ वर्सांच्ये प्रायेर इस्कोल शिकताना, मडगावांत जुवांव अगुस्तीन फेर्नांडिसान, इस्कोलाच्या भुग्यांक गावंक आनी तियात्रांत पात्र घेवंक अवकास करून दिल्लो. त्या इसकोलाच्या ह्या भुग्यां पयकी मानुवेलाक पयलें स्थान लाभलें.

इस्कोलाच्या भुग्यांक तियात्रांत पात्र घेवंक आडवारलेलें देकून तो नकली नांव घेवन पात्र घेतालो. तशें जाल्ल्यान ताचें मानुवेल अगुवार थावन एम. टैलार आनी एम. बोयार (अमेरिकन फिल्माचो चारल्स बोयार) म्हण बदली नांव दीवंक कारण जालें.

एम. बोयाराक सोजा फेरावोन ताच्या एका तियात्रांत गावुंक आवकास दिलो. त्या पयल्या आवकासांतच ताणे ताचें तालेंत दाकयिल्लें.

गोयांत ताका वृत्तिपर तियात्रांनी आवकास लाबताना, कामत दे असोलनान ताका मुंबय व्हरून बंग्वाडिच्या, प्रिन्सेस थियेट्रांत जांवच्या एका तियात्रांत ताका पात्र दिलो. प्रेक्षकांक ताचें नटन बरें आवडलें. त्या उपरांत ताका सी. आलवारेसान ताच्या 'जुरामेंत' म्हळ्ळ्या पंगडांत घेतलो. तवळ सी. अलवारेस एक प्रख्यात तियात्रिस्त आनी ताच्या तियात्रांनी पात्र घेंवचो म्हळ्यार एक व्हडलो गौरव म्हण लेक्काले. सी. आलवारेसाच्या तियात्रांत ताणे पयिल्ले पावटीं ७ पदां गायलीं आनी प्रेक्षकांचीं मनां जिकलो. अशें ताचें नांव आयकाल्लेंच लोक सालभर जमतालो. प्रेक्षकांचें मन पारकून बोयारान ताचो पयलो तियात्र 'रिणकारी' १९४८ इस्वेंत सादर केलो आनी प्रेक्षकांचीं मनां जिकलो. ह्या उपरांत ताणे सबार तियात्र बरयले. त्या पयकी थोड्या तियात्राचीं नांवां 'पोसको इर्मांव', 'भुर्गीं आनी भांगार', 'आदीं तें आतां हें', 'एकूच रसतो', 'काजारी पूत', 'सेजारी', 'संसार सुधारलो', 'घर दुःखी गांवसुखी', 'मोग काजार डिवोरस', 'एकूच काजार', 'चिंत्लां जालीं स्वपणां' – इत्यादी.

एं. बोयाराक सबार प्रशसत्यो लाभल्यात. त्या पयकी प्रमूख 'संगीत नाटक अकाडेमी' प्रशस्ती. ही राष्ट्रीय प्रशस्ती केंद्र सर्कारान न्यू डेल्लिंत राष्ट्रपती दो. शंकर दयाळ शर्मा हांच्या हातांनी एम. बोयाराक हतांतर केल्ली.

एम. बोयारान १००० वयर पदां घडल्यांत. ह्या पयकी सबार पदां कोवळेंनी आनी ग्रामाफोन रेकोर्डांनी ध्वनी मुद्रीत जाल्यांत. आनी आजूनयी मुंबय आनी पणजी आकाशवाणीर आयकोव्येतात.



# नाट्य कलेंत अस्तुरी

## तियात्रांत अस्तुरिंचो पात्र

१९०४ इस्वे पुर्वीं तियात्रांत दादले कलाकार स्त्रियांचो वेस घालन अस्तुरिंचो पात्र करताले. स्त्रियांचो पात्र करताना स्त्रियांचें न्हेसण न्हेसचें, तांच्या ताळ्यान उलोंवचें आनी तांचे बरीच नटन केल्ल्यान प्रेक्षकांक तो व्यत्यास सार्को कळानातल्लो. अशें २२ नवेंबर १९०४ परयांत चलोन आयलें. तवळ स्त्रियांची शाथी आनी तांक पारकिल्ल्या (पाय तियात्रिस्त) जुवांव अगुस्तिनो फेर्नांडिसान, ताच्याच तर्नाटे बायलेक रेजिना फेर्नांडिसाक वेदीर पात्र घेवंक अवकास करून दिलो. तो दीस आसल्लो १९०४ इस्वी नवेंबराची २२ तारीक. हो चारित्रीक तियात्र जुवांव अगुस्तिनो फेर्नांडिसान बरयिल्लो प्रख्यात 'भटकार' तियात्र आनी हो तियात्र मुंबयच्या गेयिटी थियेटरांत खेळयिल्लो. अशें स्वतः स्त्रियेन, स्त्रियेचो पात्र घेवन चरित्रा निर्माण केली.

## रेजिना फेर्नांडीस थावन कु. कारलोट पर्यांत :

रेजिना फेर्नांडिसान तियात्रांत पयले पावटीं नटन करचें एक चरित्रा जावंक पावली कारण तवळ मराठी रंगभूमी वयरयी दादलेच स्त्रियांचो पात्र करताले. जुवांव अगुस्तिनो फेर्नांडिसाचें हें मेट धय्रादीक जावंक पावलें. कारण गोंयचीं कुटमां तियात्रांत पात्र घेवंक तांच्या भुरग्याकयी सोडिनातल्लो काळ तो.

रेजिना फेर्नांडीस, ही तिच्या सुर्विल्ल्या आवकासांतच तीन थरांचे पात्र घेवन प्रेक्षकांच्या मेचवोणेक पात्र जाल्ली. तिका पात्र घेवंक तिचो घोवच आदर, पाटिंबो आनी तरबेती दितालो.

ह्या उपरांत रेजिनाची भयण कार्मेलिनाक आनी एन. गोम्स म्हळ्ळये चलियेकयी 'भटकार' तियात्रांत जुवांवन तियात्राच्या मांचियेर हाडलें. अशें तियात्रांत स्त्रियांच्या पात्रांक स्त्रियांकच परिचय करन दिल्यारी, गोंयकारांक तवळ तियात्राच्या प्रयोगारच दुबाव आसल्लो जाल्ल्यान चड स्त्रियो मुखार येनातल्लीं. त्या वेळार जुवांव अगुस्तिनोन धयर सांडलेंना. ताच्या दूसऱ्ये बायलेक (ताची पयली बायल अकालीक मरण पावल्ली) लुविजा मरिया कुलासो हिका तियात्राच्या मांचियेर हाडलें. उपरांत ताणे ताच्या दुसरे बायलेचीं दोगां चलियो रोजी आनी तेरेजा हांकांयी वेदीर पात्र घेवंक अवकास करून दिलो.

स्त्रियांक रंगभूमिचेर परिचय करच्या वावरांत जुवांव अगुस्तिनो सांगचे तितलो यशस्वी जावना तरी, ताणे स्त्रियांक रंग कलेक परिचय करच्याक सुरवात केली म्हणच्याक दुबाव ना.

जुवांव अगुस्तिनाच्या पावलांनी संदर्भानुसार तियात्र बरंवच्या, जाक मलाल तियात्रिसटान, 'पायचें घर भरलां गिरेस्तकायेन' म्हळ्ळा तियात्रांत कुमारी ऐडा म्हळ्ळये चलियेक मांचियेर हाडलें. हो तियात्र सादर जाल्लो १९३२ इस्वी जुनाच्ये १६ तारिकेर. हाचो पाटलाव करन म्हळ्ळेबरी 'लुसिटानीय ड्रामेटीक कंपेनी'न १९३२ इस्वी अकटोबर १७ तारिकेर 'अल्मा वेतात सर्गार' म्हळ्ळ्या तियात्रांत तेग स्त्रियांक पात्र दिलो. तीं आसात – कू. एर्मिलिंडा (प्रख्यात नाचपीण), कुमारी अडेलिया मेंडोन्सा आनी श्रीमती अर्टिमिसता अल्मैदा.

उपरांत आयली सर्ती तियात्रिसत अपोन्सेका हाची. अपोन्सेका एक उदेवन येंवचो तियात्र बरवपी आनी निर्देशक. हाणे 'आंजेलीन

बोंबयची पुजाडकर्न' म्हळ्ळ्या ताच्या तियात्रांत तेग स्त्रियांक वेदीर चडयलें. हो तियात्र १९३४ इस्वेच्या मेयाच्ये २० तारिकेर 'रोयल ओपेरा हौस' म्हळ्ळ्या मंदिरांत सादर केल्लो. त्या तेगां स्त्रियांचीं नांवां कु। एतेलविना मिनेजस, कु। कारलोट डिसोजा आनी श्रीमती हेरियेटा कार्डोजा. अशें सबार जणां कोंकणी तियात्राच्या वेदीर येवन गेलीं.

त्या उपरांत 'सायब रोचा' तियात्राच्या मळार आयलो. ताणे १९३४ इस्वेच्या जून १० तारिकेर कु। जोर्जिना नांवाच्ये स्त्रीयेक वेदीर हाडलें. उपरांत ताच्याच पतिणेक श्रीमती एर्मिलिंडा हिका वेदीर चडयलें. उपरांत आयली कु। कारलोट डि'सोज. ही कलाकार बार्देशांतल्या कुचेलीं गांवची. ती जल्मान कलाकार. १९३४ इस्वे थावन स्त्रियांच्ये वेदीर हाजरपण उणें जाताना भरती करुंक म्हळ्ळेबरी कलाकार जावन वेदीर चडल्ली म्हणतात. हिका गायनाचें देणें आसल्लें जाल्ल्यान तियात्रिस्त जावंक वाट सुलब जाल्ली. अपोन्सेकाच्या तियात्रांत तिचें नटन पळेवन सायब रोचान ताच्या यूनियन जाक ड्रामेटीक कंपेनिच्या पंगडांत तिका घेतलें. आनी तियात्रांनी तिका पात्र दिलो. सायब रोचाच्या 'रोमियो एंड ज्युलियेट' तियात्रांत तिच्या विशेस नटना वर्वीं ती लोकामोगाळ जाल्ली. तरी चलियांक तियात्राच्या कलेक परिचय करन दिंवची प्रक्रिया सुडसुडीत जालीच ना. अशें क्रमेण पयलेंचे बरीच दादल्यांनी स्त्रियांचो पात्र घेंवची प्रक्रिया पुनरावर्तन जाली. जाल्यारयी तियात्राच्या चळवळेक स्त्रियांचें योगदान विसरचें न्हय.

## शालिनी मारदोलकर:

शालिनी एक तालेंतवंत नटी आनी गावपीण. तिका मराठी आनी गुजराती नाटकांनी नटन करन मुळावी जाणवाय मेळल्ली. तिका

कोंकणी रंगमंचार पयलें हाडल्लें आंतोनी फ्रंकलीनच्या 'बाव' तियात्रांत. तो एक वृत्तिपर तियात्रिस्तांनी भरललो वृत्तिपर तियात्र. सी. आलवारिसाच्या एद्राक ती नटन करताली. आंतोनी मेंडिसा सांगाता दोडें गायन गायताली. उपरांत सी. आलवारिसान तिका ताच्याच 'वोजें' तियात्रांत आवकास दिलो. अशें शालिनी तियात्र प्रेक्षकां थंय लोकामोगाळ जाली.

शालिनी उपरांत प्रख्यात तियात्रिस्तां थंय म्हणजे जे.पी. सोजालीन, जसिंत वाज, आंतोनी डेसा, रोबीन वाज, प्रेम कुमार, एंम. बोयर, आलफ्रेड रोज, हांचे थंय खायम नटी जाली. जे.पी. सोजालीन हाच्या 'सातदुःखी' म्हळ्ळ्या तियात्राक 'ब्लेसड वर्जीन मेरि'चो पात्र अप्रतीम जाल्ल्यान तिका लोकां थावन प्रशस्ती लाभल्ल्यो.

शालिनी, आंतोनी मेंडीस हाच्या सांगाता मेळोन हास्य पात्रयी करताली. शालिनिचो मधुर ताळो 'दोल म्हज्या बाय' म्हळ्ळ्या जांबोयो गाणांत आजून हेच.एं.वी. रेकोर्ड आनी श्रुती कोवळेंनी अमर जावन ऊरला. शालिनीन २ कोंकणी सिनेमांनी आनी एक विडियो सिनेमांत पात्र घेतला. तीं आसात 'निर्मोणें' आनी 'म्हजी घरकार्न'. हे दोनी सिनेमा तिचो घरकार ए. सलाम हाणे निर्देशन केल्ले.

शालिनीक 'निर्मोणें' सिनेमांत तिच्या पात्राक 'श्रेष्ट नटी' प्रशस्ती लाभल्ली आनी ती प्रशस्ती तिणे भारत देशाच्या तवळच्या प्रदान मंत्री इंदिरा गांधी थावन स्वीकार केल्ली. हें 'निर्मोणें' कोंकणी पिंतूर हिंदी भाशेंत 'तखधीर' म्हळ्ळ्या नांवान भाशांतर जावन प्रदर्शीत जातानांय तिणे प्रमूख पात्र निर्वहसिल्लो.

सी. आलवारिसान रचून, निर्देशिल्ल्या 'मोगाची फशी' म्हळ्ळ्या विडियो पिंतुरांतयी तिणे नटन केलां. शालिनीन 'संसाराचो गादो' म्हळ्ळ्या नांवाचो तियात्र बरवन, निर्देशन दीवन सादर केला. हो तियात्र अखखा गोयांत प्रदर्शीत जाला, म्हण कळोन येता.

## मोहाना :

मीस मोहानाचें सारकें नांव मोहाना काबरल. तें बारदेशांतल्या सोकोरो गांवचें. मोहाना वेदीक येंवच्या पयलें सराग स्त्री कलाकारां रंगमंचाक येवंक मेळानातल्ल्यो. तिच्याकी पयलें सबार स्त्री कलाकारां आयल्यांत आनी गेल्यांत. त्या वर्वीं कोंकणी रंगमंचाक चडावत दादल्यांनी स्त्रियांचे पात्र करिजे पडटालो. पूण मोहाना वेदीक चडल्या उपरांत दादल्यांनी स्त्रियेचो पात्र करचो प्रसंग उपरांत उदेलोना. तिणे वृत्तिपर तियात्रिस्तां सांगाता तियात्रांत पात्र घेतलो. तें पळेवन चड आनी चड स्त्रियो कोंकणी रंगमंचाक येवंक प्रारंभ जाल्यो. आनी अशें दादल्यांनी स्त्रियांचो पात्र करचें उणें जायित्त गेलें.

मोहाना तिचें प्राथमीक शिक्षण गोयांत जाल्या उपरांत मुकल्या शिकपा खातीर बोंबय गेली. तें एक तालेंतवंत तरनाटें मात्र न्हय तिचें सगळें कुटमयी. तिका नटन करचें आनी गांवचें पिशें ल्हान थावन्ंच आसल्लें, आनी तिका सोभाययी आसल्ली. तिका आनी तिच्ये भयणीक महीमच्या विक्टोरिया इश्कोलांत शिक्ताना सबार संगीत कार्यक्रमांनी पात्र घेंवचो आवकास लाभल्लो. हो उग्ताड तांकां तांच्ये जिण्येंत हो कला पुलोवंक प्रेरण लाभलें.

त्या वेळार एक पावटीं श्री ए.एफ. रोड्रिगस एक स्थळीय खेळ बरयणारान एक तियात्र रचलो आनी ताणे मोहानाक आनी ताची भयण ओफिलियाक तांतून पात्र दिले.

ताणीं तांचो पात्र बोव आपुरबायेन केल्लो आनी तीं तवळचो कोंकणी रंगमंचाचो प्रसिद्ध निर्देशक सी. आलवारेस हाच्ये नदरेक पडलीं. हांचें दोगांयचें नटन आनी सोबाय पळेवन सी. आलवारेसान ताच्या 'कर्तूब आवयचें' म्हळ्ळ्या तियात्रांत मीस मोहानाक एक पात्र दिलो. तें चडुणें १९४८ इस्वेंत. त्या तियात्रांत सर्व दादले आसोन ही

एकली मात्र नटी चली आसल्ली. त्या तियात्रांत हेर स्त्रियांचे पात्रयी दादल्यांनी केल्ले, ते म्हळ्यार विन्सेंट दे सालिगांव आंड्ऱ्यू फेर्न, मासटर वाज आनी रेमी कुलासो. ह्या तियात्रिस्तां सांगाता मोहानान पात्र अभिनायसिल्लो पळेवन प्रेक्षकांनी तिका उबे रावोन गवरव दिल्लो. त्या उपरांत तिणे पाटीं पळेयलें ना.

सी. आलवारीस ताच्या हऱ्येका तियात्रांत मोहानाक एक पात्र रचतालो. त्या वर्वीं कोंकणी रंगमंचाच्या श्रेष्ट कलाकारां संगीं नटन करचो तिका अवकास लाबल्लो. ते म्हळ्यार आंतोनी मेंडीस, सोजा फेरावो, एफी फेर्नांडीस, आलफ्रेड रोज, मासटर वाज, आंड्ऱ्यू फेर्न, रेमी कुलासो इत्यादी. तें न्हयासतां इतर श्रेष निर्देशकांच्या तियात्रांनी ती पात्र घेताली. तिणे कोंकणी तियात्राक एक नवें रूप दिलें. तिची सोभाय कोंकणी रंगमंचाक एक सकत दिलागली. तिचें नटन पळेवंक विवीद जाग्यां थावन मोहानाक पळेवंकच म्हण येतालीं. मोहाना एक मदूर ताळ्याची गावपीणयी जावनासल्ली. सी. आलवारेसा सांगाता आनी हेरां संगीतगारां सांगातायी दोडें पद गायताली. तिणे गायलेलीं दोडें पदां हेच.एं.वी. रेकोर्डांनी दाखल जाल्लीं आजूनयी आकाशवाणिचेर आयकोंक मेळतात.

सी. आलवारिसान मोहानाक कोंकणी वेदीक हाडच्या पयलें, मोहाना हिंदी पिंतुरांनी धाकटे धाकटे पात्र करताली. तिणे नटन केल्ल्या हिंदी पिंतुरांचीं नांवां अशीं आसात – 'पतंग', 'संसार', आनी 'ईन सानियत'.

कोंकणी रंगमंचार सबार वर्सां नटन केल्या उपरांत बेरूतच्या निर्मापकां थावन एक टी.वी. कार्यक्रमाचें कंत्राट मेळ्ळें. अशें बोंबयच्या तियात्रांनी नटन करचें सोडून बेरुताक गेली. थंय तिच्या नाच कार्यक्रमांनी ती प्रख्यात जाली. थंय थावन ती फ्रान्साक वचोन ती मोगार पडल्ल्या

चल्याकडे लग्न जाली. तरी कोंकणी आनी कोंकणी रंगमंचाची तिची आशा भागलिना. युरोपांत खंय तरी तियात्र आयलें जाल्यार ती तांतून पात्र घेताली.

१९८३ इस्वेंत रजेर ती भारताक आयिल्ल्या वेळार तिचो देर बाब पीटरान रचल्ल्या 'आज ना पाल्यां' म्हळ्ळ्या तियात्रांत तिणे पात्र घेतल्लो आनी हो तियात्र बोंबयच्या आनी गोंयच्या सबार जाग्यांनी खेळयिल्लो. तियात्र प्रेक्षकांनी तिका रंगमंचार पळयिल्लें तेंच निमाण्या पावटीं जालें. मोहाना १९९० इस्वी सपटेंबर ११ तारिकेर फ्रान्सांत मरण पावली.

## सिसिलिया मचादो:

कोंकणी रंगमंचाक वृत्तिपर स्त्री कलाकार जावन मीस मोहान उपरांत सिसिलिया मचादो दुसरी. सिसिलिया महीम बोंबयच्या कानोस्स कोन्वेंट इश्कोलांत शिक्तासताना इश्कोलाचा संगीत काऱ्यक्रमांनी पात्र घेताली. तवळ तिका प्राय पकत्त १५ वर्सां. वेदिचेर तिचें सादरपण पळेवन तेदनाचा कार्डिनल वलेरियन ग्रेशियस हाणीं ताका शाभासकी पाटयिल्ली.

१९५३व्या वर्सा महिमांतल्या विकटोरिया इगर्जेच्या फा. नेपोलियन सिलवेरान 'काजारी बायल घरांत न्हय ओफिसांत' म्हळ्ळ्या नांवाचो एक तियात्र बरयिल्लो. सिसिलियन हो तियात्र बरवंक फा. नेपोलियनाक सहाय केल्लें, जाल्यारी सिसिलियाच्या बापायन तिका तियात्रांत पात्र घेवंक सोडलें ना. त्या देकून त्या तियात्राचो प्रमूक पात्रदारी सी. आलवारिसा मुकार मीस मोहानाक उबें केल्लें. पूण मीस मोहानाक इंगलेंडाक वोचोंक आसल्ल्यान निमाण्या घडिये तियात्राक स्त्री कलाकार नासताना ओद्दाडले. निमाणे सिसिलियाच्या बापायक फा. नेपोलियनान

पुसलांवन कशेंय ह्या तियात्राक मात्र विशेस एक कबलात घेतली. सिसिलियान वृत्तिपर तियात्रिसतां भाशेन्ंच ह्या तियात्रांत सादरपण दाकयलें.

सी. आलवारिसाक ताच्या तियात्रांनी स्त्री पात्र घेवंक सिसिलिया जाय आसल्लें. पूण तिचो बापूय तिका सोडिनासताना धड रावलो. अशें थोड्या तेंपाक रंगमंचार सिसिलिया दिष्टीक पडलें ना. १९५४ इस्वेंत सिसिलिया काजार जालें आनी त्या उपरांत तिच्या घरकाराच्ये परवाणगेन आदार जावन (Charity) खेळोंवच्या तियात्रांनी पात्र घेवंक सुरवात केली. १९५६ इस्वेंत प्रख्यात पत्रकार ल्यांबर्ट मस्करेञस हाणे 'दी रिडवटेबल दोना असुसेन' म्हळ्ळो इंगलिशान एक खेळ बरयलो आनी सिसिलियाक ह्या तियात्रांत पात्र घेवंक विनवणी केली. सिसिलियान तो अवकास घेतलो आनी आपुरबायेन नटन करून दाकयलें. त्या उपरांत १९५८ इस्वेंत तोमास फेर्नांडीस नांवाच्या एका निर्देशकान माक्स पिरेरान बरयलेलो 'मोवणी' म्हळ्ळो तियात्र सादर केलो. ह्या तियात्रांत सिसिलियान आंतोनी डेस्साच्या मुखार नटन करून ताच्या सांगाता दोन पदां गड्यान गायलीं. सिसिलियाचें रंगमंचार सादरपण पळेवन आंतोनी डेस्सान ताच्या एका तियात्रांत तिका बंग्वाडिच्या रंगमंचार हाडलें. ह्या तियात्रांतयी तिणे दोन पदां गायलीं. हाच्या पाटापाट वलेंट मस्करेञसाच्या 'इनाम रगताचो' म्हळ्ळ्या तियात्रांत वृत्तिपर जावन पात्र घेवंक तिच्या घरकारा थावन अधिकृत जावन परवाणगी घेतली. अधिकृत परवाणगी मेळल्लेंच एंम. बोयर, जसिंत वाज, प्रेमकुमार रोमालडो फेर्नांडीस, आंतोनी डेस्स, रोबीन वाज असल्या प्रमूख निर्देशकांच्या तियात्रांनी वृत्तिपर जावन पात्र घेवंक सुरवात केली.

एंम. बोयराच्या 'आतां कोण घातकी', 'तार्वोटी पाय', आनी रोबीन वाज हाच्या 'अजेंते मोंतेरो', म्हळ्ळ्या तियात्रांनी सिसिलियाचें सादरपण अमर जावन ऊरलां.

सिसिलियान दोन कोंकणी पिंतुरांनी नटन केलां. तीं पिंतुरां आसात 'सुखाचें स्वपाण' आनी 'म्हजी घरकार्न' सिसिलियान तीन तियात्र बरोवन दिगदर्शन दिलां. तीं तियात्रां आसात – 'म्हजें आंजेलीन', 'कोण कोणाचो' आनी 'रीण'. सिसिलियान गायलेलीं पदां हेच.एं.वी. रोकोर्डसांत दाखल जाल्यांत आनी आकाशवाणिचेर प्रसार जाल्यांत. तिणे हिंदी पिंतुरांनियी पदां गायल्यांत. सिसिलिया तनाटपणारच बोंबंयत मरण पावोन कोंकणी रंगमंचाक अथीर करून गेली.

## ओफिलिया

ओफिलिया बार्देशांतल्या सोकोरो अंबीरनांतली कोंकणी रंगमंचाची 'ट्रेजेडी क्वीन' म्हणोन्ंच नांवाडल्या, मात्र न्हय कोंकणी रंगमंचाची उत्तीम कलाकारन म्हणोन प्रख्यात जाल्या. हिची व्हडली भयण 'मीस मोहान' हिचे थावन प्रेरण जोडून वृत्तिपर स्त्री कलाकार जाल्ली. माहीम बोंबयिंतल्या विक्टोरिया इस्कोलांत शिक्ताना तिका इस्कोलाच्या संगीत कार्यक्रमांनी पात्र घेवंक अवकास मेळल्लो. ती तरनाटी आसताना तिका ए. एफ रोड हाच्या 'आपुरबायेची सून' म्हळ्ळ्या तियात्रांत नटन करुंक आवकास मेळल्लो. १९५५ इस्वेंत मासटर वाज हाच्या तियात्रांतयी आवकास मेळल्ल्यान, ती सवकास एक उत्तीम तियात्रिस्त जावन मोळून आयली. उपरांत ती सी. आलवारिसाच्या तियात्रांनी प्रमूख पात्रदारी जावन चाळीस वर्सांनी चडुणे ६० वयर तियात्रांनी नटन करुंक तिका आवकास लाबला. तिणे दुःखांत्य आनी सुखांत्य पात्रांनी अभिनय केलां.

ओफिलिया एक बरी गावपीण. तिणे सबार पावटीं सी. आलवारिसा सांगाता दोडें गायन केलां. तिणे हेच.एं.वी. रेकोर्डांतयी तिचीं पदां दाखल केल्यांत आनी आकाशवाणिचेर तिचीं पदां प्रसार जाल्यांत.

तिचो पती बाब पीटरान काडल्ल्या श्रुती कोवळेंतयी तिणे गायन केलां. तिणे सबार पिंतुरांनीय नटन केलां. त्या पयकी 'आमचें नशीब' आनी 'निर्मोणें' प्रख्यात आसात.

ओफिलियान 'मोगाची फाशी' म्हळ्ळ्या दृश्य पिंतुरांत (Video Film) अभिनयन केलां. ओफिलियान तिच्या अभिनयाक सबार प्रशसत्यो आपणायल्यात.

## पेर्णी जागर, स्त्रियो आनी समाज

तियात्राच्ये चरित्रे पर्माणे १९०४ इस्वे पुर्वीं तियात्रांत दादले कलाकार स्त्रियांचो वेस घालन अस्तुरिंचो पात्र करताले म्हण आनी तवळ पाय तियात्रिस्त जुवांव अगुस्तिनो फेर्नांडिसान स्त्रियांची शाथी पारकून ताच्याच तरनाव्ये बायलेक रेजिना फेर्नांडिसाक तियात्रांत पात्र घेवंक आवकास करून चरित्रा निर्माण केली म्हण आयकोंक मेळता.

पूण नव्या शिलायुगा थावन चलोन आयिल्ल्या गोंयच्या लोक-नाव्य परंपरेंत थोड्याच कुटुंबाच्यांनी सादर करच्या पेर्णी जागर नाव्यकला प्राकारांत स्त्रियांचो पात्र स्त्रियांनीच करचो म्हणोनयी आयकोंक मेळता. तशें तर स्त्रियांनी नाव्य कलेंत पात्र घेतल्लो केदनां थावन? पूण पेर्णी जागराची जमात देवदासी समाज परमाणे आसोन जमातिंतल्या स्त्रीयांची लग्ना आदीं जायनातलीं. स्त्रियांनी 'शेंस घालणे' ही विधी करून घराच रावतालीं.

पेर्णी जागर हो एक लोक-नाव्य प्राकार सोडल्यार इतर लोक-नाव्य प्राकारांनी, स्त्रियांनी आदल्या काळार वेषभूषण शिरकावन वेदीर चडल्ली रुज्वात वाचुंक मेळाना. कारण घनान घरदार सांबाळचीं कुटमां तांच्या स्त्रियांक सार्वजनीक जाग्यांनी जांवच्या लोक-नाव्यांनी

पात्र घेवंक सोडिनातल्लीं. कारणां सबार आस्येत. प्रमूख कारण तांकां लग्न जावंक सबार आडकळी येवंक आवकास आसल्लो. अशें लग्न जायनाशें उरोन, स्त्रियो वायट चाली थंय घुंवची साध्यता आसल्ल्यान कुटमाचीं व्हडिलां भियेतालीं.

स्त्रियांक समाजेंत तांचीच म्हळ्ळी जवाबदारी आसा. काजार जावन भुरग्यांक जल्म दीवन, त्याच जल्म दिल्ल्या भुरग्यांक ल्हान-व्हड करची मुळान प्रमूख जवाबदारी बायलांची. कारण बायलो जल्मान त्याच संयभाच्या मनोस्थितिचेर व्हड जातात, आनी त्या सैंबीक प्रक्रियेक तयार जातात. ही जवाबदारी सांबाळची सांबाळन, असल्या कलेच्या कार्याक पुसत करचे तितलें सुलभाचें काम न्हय. त्या देकून स्त्रियोयी असल्या चटुवटिकेंक मन करिनातल्लीं जावयेत. आतां काळ बदल्ला. स्त्रियांक समासम स्वातंत्राचें बळ मेळ्ळां आसतां दादले आनी स्त्रियो समासम रंगमंचार पात्र घेतात. तरी हो ऊण आजूनयी आसा.



# तियात्राचें वर्गीकरण

## तियात्राचें मूळ संरचन

सिज़र लुकासिनो रिबेरोन आरंबार तियात्राक दिल्लें मूळ संरचन (original format) सबार वरसां पर्यांत ताच्या उपरांत आयिल्ल्या तियात्रिस्तांनी चालू दवरलें. खरयान सांगचें जाल्ल्यार तें संरचन थोड्या अनिवार्य संदर्भानी सोडल्यार आजूनयी अनुसरण करून आसात.

तियात्राच्या मूळ संरचनांत ७ अंक (Act) मेळोन आसल्ले. त्या पयकी सुर्विले ४ अंक मध्यंतर (Internal) पयलें सादर जाताले आनी ऊरलेले ३ अंक मध्यंतर नंतर सादर जाताले. ह्या अंकांक पडदे म्हणताले. कारण हरयेक अंक जातच पडदो वोडताले. पूण उपरांत कथानक बरवप्यांच्या अनुक्रमानुसार (Sequence) एका अंकाक दोन, तीन व चार पडदे वोडल्लेयी आसात. एका अंका थावन फुडल्या अंका मधें पडदो वोडताना घळाय करिनातल्ले, कारण घराचें, वोडताचें व रसत्याचें दृश्य पडद्याचेरच पिंत्रायताले.

सुर्विल्या तेंपार दृश्यावळिचे मांडावळी वेळार घरवसतेचे (Furniture) मेज, कदेल इत्यादी सामान दवरताना आनी कलाकारांनी वेश भूषण बदली करताना वेळ विभाडतालो जाल्ल्यान लुकासिनो रिबेरोन प्रेक्षकांक विरार जायनाशें प्रख्यात तियात्रिसतां थावन कंतारां (पदां) म्हणोंक सूरवात केल्ली.

उत्राल्ल्या वर्सांनी ह्या 'कंतारांचो 'सैड–शो' (Side Show) लोकां मधें इतलो प्रख्यात जालोकी, तो तियात्राचो एक अविभाज्य अंग जावंक पावलो. ह्या सैड–शोच्या पदांक आनी प्रमूख खेळांक कांय संबंद नातल्यारी, उबगोण आनी जडायेची परिगत निवरावंक हीं पदां गर्ज पडतालीं. अशें तियात्राच्या ७ अंकांच्या मधें दोन व तीन विविंगड विशयाचेर ओट्ट १८ पदां आसतालीं, त्या भायर प्रमूख नाटकाचो वांटो जावन 'कांटोस' (Cantos) व संगीताचो वेरसयी आसतालो. अशें त्या वेळार हो नीज तियात्राचो नमुनो आसल्लो.

तियात्राची ही मांडावळ म्हणजे नाटक–कथा आनी कंतारां हें भर्शीक मनोरंजन भारी लोका–मोगाळ जालें. एक तेंप आसल्लो, तियात्राची  कथानक परिणामात्मक नातल्यारी तियात्राचो सैड–शो प्रभावीत आसोन तियात्र प्रख्यात जातालो. असें क्रमेण तियात्राचो प्रेक्षक चडावत नाटकाच्याकी कंतारां आयकोंक म्हळ्ळेबरी येतालो आनी बरीं बरीं कंतारां आयकोन धादोशी जावन घरा वेतालो.

आर्विल्या दिसांनी तियात्राच्या बरवपी/दिगदर्शकांनी तियात्राक नवी मांडावळ दिल्या म्हळ्यार ७ अंका बदलाक ४ अंक, आनी अंकां मधें १८ पदां बदलाक १२ पदां गांवचीं.

ही बदलावण गर्जेची जाली कारण, कंतारां रचून गायतेले उंचले संगीतगार मेळोंक कठीण जाले. दुसरें सैड शोचीं कंतारां उणीं करुंक कारण आर्थीक परिस्थिती. ह्या सैड शोक चडावत जावन प्रख्यात कलाकारांक आपयताले. तांकां नाटकाच्या पात्रदारिंच्याकी चडतीक दुडू फारीक करिजे पडतालो आनी चडावत जावन हे कलाकार नाटकाचे कलाकार न्हय जाल्ल्यान तांकां नाटकांत पात्र दीवंकयी जायनातल्लें. ह्या कारणांक लागोन तियात्रा वयर चडतीक दुडवाचो भर पडतालो.

त्या देकून आतातां तियात्राचे बरवपी/दिगदर्शक सैड–शोचीं कंतारां उणें करून ४ अंक मात्र दवरून त्या ४ अंतरांनी मात्र कंतारां गावंक लायतात. ह्या आतांच्या तियात्राच्या मांडावळिंत फायदोयी आसा. कंतारां उणीं आसल्ल्यान, नाटकाच्या प्रमूख कथानका वयर आसल्लें ध्यान चंचलना आनी सैड–शोयी विपरीत जायना म्हण तियात्रिसत म्हणतात.

## ‘गोवन तियात्र, लोक–नाट्य न्हय’–वाद

गोंयचे कला अकाडेमीन १९९३–ंत विनायक विषणू खेडेकार नांवाच्या साहितीन संसोद करून बरयिल्ल्या ‘लोकसरीत– गोमंतकीय जन जिवनाच्या समग्र अभ्यास’ म्हळ्ळ्या ग्रंथांत "तियात्र विश्यांत सांगताना तियात्र ही भारतीय रंगभूमिची गोंयची देणगी म्हणोन मानतात. तियात्र ही प्रगती जाल्ली नाट्य प्राकार न्हय, इटालियन ओपेरा आनी लोक–नाट्य गौड जागर हांच्या मिश्रणतून तयार जाल्लेल्या तियात्राचो अत्मो लोकनाट्याचो".–म्हळां.

लोकसरितांत सांगच्या प्रकार तियात्राचो अत्मो लोक नाट्याचो म्हळ्ळो विशाय हावें गोंयां गेल्ल्या वेळार फामद तियात्रिसत तोमाजिनो कार्दोज हांचेलागीं काडलो. त्या वेळार आमचें मधें सबार वेळ वाद–विवाद चल्लो. ह्या वाद–विवादा विश्यांत गोंयच्या ‘The Navhind Times/ Panorama’ ह्या इंगलीश पत्राच्या २००८ इस्वेचा जनवरी २० तारिकेचा अंक्यार तोमाजिनोन एक लेखन बरवन अशें विवरिलागलो. ह्या लेखनाचो माताळो असो असा. – Goan Tiatr–Not a Folk Drama (गोवन तियात्र– लोक नाट्य न्हय) त्या लेखनाचो विवर असो आसा:–

मानेसत तोमाजिनो कार्दोजान गोवन तियात्र लोक–नाट्य न्हय म्हणोन ताच्या लेखनांत सबार दाखले दीवन विवरिलां. ह्या इंगलीश लेखनाचें भाशांतर 'अनुबंध–२' पानार दिलां. हांगासर ह्या लेखनाचें संक्षिप्त व्याख्यान केलां.

तोमाजिनोचें म्हणाप–गोंयच्या सबार बरयणारांनी गोवन तियात्र एक लोक–नाट्याचें प्राकार म्हण वोलायलां. त्या सगळ्या बरयणारांक ते खंच्या आधाराचेर वर्गीकरण कर?तात म्हळ्ळें सवाल उडयलां. तोमाजिनोन सांगल्या प्रकार हे व्याख्यानकार तियात्र आनी खेळ–तियात्र दोनी एकच प्राकार म्हण चूक समजल्यात आसतेले. खेळ–तियात्र जाल्यार गोंयच्या लोक–खेळ प्राकाराचो एक विसतरीत आकर. ह्या विचारांत वाद ना.

उपरांत तोमाजिनोन लोक–नाट्य प्राकार म्हळ्यार कितें म्हळ्ळ्या विश्यांत ताच्या लेखनांत अशें व्याख्यान दिलां–लोकनाट्याचीं पदां, संगीत आनी संबंधीत कलेचे घडणार अनामीक जावन आसतात. ह्या कलेचें बरपिनिशीं दसतावेज आसाना. ह्या कलेचें संगीत निबोर, गावपी दरग, संगीताचीं व्हाजंत्रां गांवटी आनी संगीतगार गांवगिरे. पूण तियात्र घडणारांचें आनी संगीत रचनारांचें दसतावेज आसा. कोण बरयणार म्हण कळीत आसा. ताची व्यक्ती परिचय वाचुंक मेळता. तियात्रांत वापारचीं संगीताचीं व्हाजंत्रां कंतारांक संगीत दिंवचे तसलीं. तांतून गांवटी व्हाजंत्रां नांत. संगीतकार संगीत शिकलेले आनी ते संकेत लिपी वाचुंक आनी बरवंक जाणांत. असली आपुरबायेची नाट्य पाट थळ आसच्या तियात्राक लोक–नाट्य म्हण वोलांवचें कशें म्हळ्ळें ताचें सवाल.

त्या भायर तियात्राक ताचेंच म्हळ्ळें संरचन आसा. ताचें विकासन जाल्लें आसा, ताका कथानक आसा आनी आधुनीक रंगीन संगीत

आसा. हाच्या साहित्याचें मूळ कळीत आसा. ह्या तियात्राच्या चौकट्टा भितर युरोपाचे श्रेषट नाटक भाशांतर आनी रुपांतर करून खेळोन दाकयल्यात, म्हणताना हो तियात्र प्राकार लोक-नाट्यांत बसाना म्हळ्ळो बळिषट वाद ताच्या लेखनांत तो मांडता. मानेसत तोमाजिनोचें लेखन 'अनुबंध-२' पानार दिलां.

## कोंकण तियात्रो-गोंयचो लोकवेद-प्रतिवाद

मानेसत तोमाजिनो कार्डोजो हाचो वाद पत्रार वाचून जातच, गोंयच्या तियात्रा विश्यांत दूसऱ्यान अभिपराय (Second Opinion) घेंवच्या खातीर '100 years of Konkani Tiatro' ग्रंथ बरयिल्ल्या फामाद तियात्रिसत वीलमिक्स विल्सन मजारेलो हाचेंलागीं संपर्क केलो. २००८ इस्वी मार्च ९ तारिकेच्या (आयतार) पणजेचा हेरालड पत्राचेर, मानेसत मजारेलोन ताची अभिपराय बरोवन ताची प्रती म्हाका धाडून दिली. ताची अभिपराय ह्या परीं आसा:

मानेसत वीलमिक्स विल्सन माजारेलोन बरयिल्ल्या इंगलीष लेखनाचें भाशांतर 'अनुबंध-३' पानार दिलां. हांगासर ह्या लेखनाचें व्याख्यान दिलां.

मानेसत माजारेलोन सांगल्या प्रकार-'लोकवेद' म्हळ्ळया उत्रा सांगाता इतर विचारयी आटापून आसतात-दाखल्याक-वोपार, हुमिण्यो, संपरादाय इत्यादी आनी तांतून लोक-नाट्ययी मेळोन आसा, म्हणताना लोक-नाट्य म्हळ्यार कितें? लोक-नाट्य म्हळ्यार संक्षिप्त थरान लोकांचो नाटक, लोकांनी आनी लोकां खातीर. मुंदरून तो सांग्ता- एक नाटक-संपरादायीक नाटकाचें रूप, पुर्विल्या काळा थावन आतांच्ये पिळगेक देंवोन आयिल्लें, चडावत संचारी स्वभावाचें. ह्या नाटकाच्या रुपांत चडावत जावन संगीत, काण्येचो अविबाज्य अंग जावन आसता.

तो नाटक सादर करतेल्यांच्या समाजेच्या जिण्ये रिती विश्यांत पिंत्रायता आनी त्या प्रेक्षकां सांगाता आपलेंपण दाखयता–होच तो कोंकणी तियात्रो. त्या देकून हो कोंकणी तियात्रो, गोंयचो गोवन लोक–नाट्य म्हणोंक जायना? आनी त्या देकून गोंयचो लोकवेद जायना? असलीं सवलां मानेसत माजारेलो विचार्ता मात्र न्हय ताचो वाद समर्थन करुंक थोड्या प्रमूख अंताराषट्रीय लोकवेद संघटनां आनी सर?कारी संस्थ्यां विश्यांत ताच्या लेखनांत विवर दिता.

मुंदरून मानेसत माजारेलो सांग्ता–लोक–नाट्य एक प्रमूख सादर कला प्राकाराचें क्षेत्र. लोकवेदा विश्यांत लोक समुदायांत भारी उणें संवाद चलयला. प्रथम जावन हें एक निर्दिषट लोक वर्गाचें साहित्य म्हण मांदुंक ना. एकादावेळा निर्दिषट लोक वर्गाचें साहित्य म्हण विंगडिल्यारी, तें फेसतां–परबेक आनी विधी आचरणेच्या संबंधीत सादर कर?चो प्राकार म्हण वोलायतात. पूण आर्विल्या वर्सांनी चड आनी चड लोकवेदिंनी दक्षीण एशियाच्या दत्तांशा वयर (south asian data) वावर करून लोक–नाट्याच्या शिकपा विश्यांत व्याप्त विसतारायिल्ल्यान मनशाशासतीर आनी लोकवेद ह्या दोनी संग्तिंनी तात्वीक वाडावळीक (Theoretical Growth) आधार जाला म्हळ्ळ्या उपरांत आनी कितें सांगोंक आसा म्हळ्ळें ताचें सवाल. ह्या पाट थळाचेर गोवन तियात्रो खंडीत जावन गोवन लोकवेद जावन ऊरतलो म्हण ताचो वाद तो समर्थन करता. हाचें लेखन 'अनुबंध–३' पानार दिलां.

ह्या दोग प्रमूख तियात्रिस्तांचो वाद–विवाद आयकाल्या उपरांत कोंकणी साहित्याच्या मळार जाल्लीं थोडीं घडितां उगडासाक आयलीं. पयल्यान पयलें, मुंबयच्या 'दिवो' वर्तमान कोंकणी हप्त्याळ्या पत्रान २००२ इस्वेच्या एपरील मयन्यांत '१०० वर्सांचो कोंकणी रंगमंच' म्हळ्ळो नाटकांच्या आनी तियात्रिसतांच्या लेखनांनी भरललो विशेस

अंको भायर काडलो. ह्या पत्रार आयिल्ल्या लेखना प्रकार गोंयच्या लुकासिनो रिबेरोन १८९२ इस्वेंत बरोवन सादर केल्लो
इटालियन भुरगो' तियात्र, कोंकणी रंगमंचाचो पयिल्लो तियात्र व नाट्य खेळ, म्हण अर्थ जाता. त्या देकून १९९२ इस्वेंत ह्या घडिताक शेंबोर वर्सां भरलल्यान २००२ इस्वेंत 'दिवो' पत्राच्या सात्व्या वारषिकोत्सवा संदरबार फामद नाटकिस्त श्री फ्रान्सीस फेर्नांडीस कास्सिया हाच्या गौरव संपादकपणा खाल १०० वर्सांचो कोंकणी रंगमंचाचो विशेस अंको भायर काडलो आनी कोंकणी साहित्याच्या मळार एक चरित्रा रचली.

ह्या घडिताच्या धा वर्सां उपरांत म्हणजे २०१२ इस्वेंत आधुनीक कोंकणी नाटकाचें शेंबोरावें वरस म्हणोन फेबरेर १० तारिकेर मंगळूरच्या विश्व कोंकणी केंद्रान, 'चंद्रहास' नाटकाचो शतमानोत्सव आचरिलो.

## नाटक आनी तियात्रा मदलो वेगळाचार

२००२ इस्वेंत दिवो पत्रान एक पावटीं कोंकणी रंगमंचाचीं शेंबोर वर्सां म्हणोन विशेस अंको काडल्या उपरांत २०१२ इस्वेंत परतून कोंकणी नाटकाचीं शेंबोर वर्सां म्हणोन आचरण करतच वाचप्यांच्ये मतिंत गोंदोळ उबजालो. कोंकणी बरयणार वितोरी कार्कळ, कितले पावटीं शेंबोर वर्सां आचरसुंची म्हणोन म्हजे कडे स्वतः एक दीस विचारिलागलो. ह्या विश्यांत नाटक आनी तियात्रा मदलो वेगळाचार म्हणोन राकणो फेबरेर १६, २०१२ ह्या अंक्यार हावें एक स्पटीकरण लेखन बरयलें. ह्या लेखनाचे थोडे विशय हांगासर दिल्यात–

कर्नाटकाच्या करावळी प्रदेशांत कोंकणी भाशिकांची वसती चडावत आसल्ल्यान, कोंकणी साहित्याच्या मळार कितेंय घडलां जाल्यार ह्याच वठारांनी चड करून आसोंक जाय. त्या प्रमाणे येदोळ वाचुंक

मेळल्ल्या चरित्रे प्रकार १९१२ इस्वेच्या फेबरेर १० तारिकेर बंटवाळांतल्या एस.वी.एस. प्रौढ प्रातमीक शाळेच्या भूरग्यांनी बोळंतूरू कृषण प्रभू हाणे कोंकणिंत बरयिल्लो फुडलद कोंकणी नाटक–'संगीत चंद्रहास नाटक' खेळोवन दाकवन चरित्रा रचल्ली. हाचाकी पयलें कोंकणी नाटक अधिकृत रितीर खेळयिल्लो जांव, बरवन प्रगट केल्लो जांव, चरित्रेंत वाचुंक मेळानातल्यारी, लिखीत दाकल्यांच्या आधारान सांगचें जाल्यार, दक्षीण कन्नड जिल्ल्यांत अप्पू इंद्राची नाटक मंडळी १९०२ इस्वेंत स्थापन जाल्ली म्हण चरित्राकार सांगतात. हाच्या कलाकारां पयकी हनुमंताच्या पात्राक माधव शेणै फामाद आसल्लो. कलाकारांक जाय पडचीं वेस–न्हेसणां, तकले–सुर्रागार आनी खाड–मिशियो बोंबय थावन हाडयताले खंय. रंगमंचाच्या मुखल्यान ल्यांप्यांव दवरून प्रेक्षकांक उज्वाड पडनाशें तगाड आड दवरताले. अशें केनराच्या विविंगड वटारांनी नाटक मंडळ्यो उदेल्ल्यान नाट्य– कलेची ओळोक–पाळोक कलासक्तेच्या लोकाक आसल्ली म्हण चरित्रेकार सांग्तात.

बोळंतूरू कृषण प्रभू फामाद कोंकणी चळवळेकार शेणै गोंयबाब हाचो समकाळीन. कृषणप्रभूक ताचोच म्हळ्ळो 'विक्टोरिया' नांवाचो छापखानो आसल्ल्यान ताणे बरयिल्ले नाटक ताणे छापून काडले. 'प्रहलाद चरित्र नाटक', 'द्रौपदी वस्त्रापहरण', 'ध्रुवचरित्र', 'कृष्ण जन्माष्टमी', 'नळ चरित्र', 'कृष्ण सत्यभाम संवाद', ताणे बरयिल्लीं इतर कोंकणी नाटकां.

ह्या चारित्रीक घडिताच्या उडासा खातीर त्याच इस्कोलाच्या वटारांत १९८३ दसेंबर २०वेर बी. कृषण प्रभू हाची जल्माशताब्धी ताचो पूत बी. लक्ष्मिनारायण प्रभू हाचे उमेदीन कोंकणी भाशा मंडळ करनाटक (री.) आनी 'पंचकादायी' पत्राच्या फुडारपणाखाल आचरण केल्ली.

त्या उपरांत विश्व कोंकणी केंद्राचो अध्यक्ष मानेस्त बस्ती वामन शेणै हाच्या फुडारपणा खाल २००९ अकटोबर १४ तारिकेर साहित्य

अकाडेमी नवी दिल्ली आनी कोंकणी भास आनी संस्कृती प्रतिश्टान मंगळूर हांच्या जोड आसऱ्याखाल 'कोंकणी नाटकाचें मूळ आनी आधुनीक कोंकणी रंगमांची' म्हळ्ळ्या विशयाचेर बंटवाळांत एका दिसाचो परिसंवाद मांडून हाडल्लो. तशेंच 'चंद्रहास' नाटकाचें अबिवाचन कार्येंय आसा केल्लें.

ह्या कार्यक्रमांत अध्यक्ष बसल्ल्या साहित्य अकाडेमिच्या कोंकणी सल्लागार मंडळेचो निमंत्रक पुंडलीक नायक हाणे आपल्या अध्यक्षीय भाशणांत २०१२ इस्वेंत कोंकणी नाटकाचीं शेंबोर वरसां आचरण करुंक जाय म्हण प्रस्ताप काडलो. त्या अवचीत प्रस्तापाक समारोपाचें उलवप दिल्लो नाम्नेचो कोंकणी लेखक गोंयचो दामोदर मावजो हाणे आक्षेप उचारून अशें म्हळें – "तशें तर १८९२ इस्वेंत सूरवात जाल्ल्या कोंकणी तियात्राक तुमी कितें म्हणतात?" तवळ सभिकां कडेन तक्षण जाप नातल्ली.

तियात्र म्हणताना तियात्र म्हळ्यार कितें, ताची सूरवात कशी जाली म्हण समजाजे पडता. तियात्राची सूरवात अशी जाली. १८९२ इस्वेच्या एप्रिलांत बोंबंयत तेदनाच्या न्यू आलफ्रेड थियेटरांत 'इटालियन भूरगो' नामांकीत ओपेरा (संगीतान भरललो विनोद–इटालियन ओपेराचो एक नमुनो) खेळवन दाकवन चरित्रा रचल्ली. त्या ओपेराचो घडणार गोंयचो लुकासिनो रिबेरो. हो ओपेरा पळेवन, त्या ओपेरांतलीं पदां संभाशण आयकोन आनी विलुदाचीं सोभीत न्हेसणां न्हेसल्लीं पळेवन प्रेक्षकांचे दोळे दिपकावले. कोंकणी खेळ आनी जागोर हांतूं फरक करपाची नवी नदर लोकाक मेळ्ळी.

सूरवेर बोंबंयत कलाकारांनी ह्या संगीत खेळांक ओपेरा म्हळ्ळें आनी तांच्या खेळांच्या पंगडाक ओपेरा पंगड म्हणाले. कारण ते संगीतान भरलेले खेळ आसल्ले. ही शैली आजूनयी तशीच चालू आसा. ह्या खेळांचे घडावळिंत संगीत आनी विनोद प्रमूख पात्र खेळता जाल्ल्यान, तवळ ह्या खेळांक– `Musical Comedies' म्हणताले.

पूण १९०४ इस्वेच्या दसेंबराच्ये २२ तारिकेर 'भटकारा (भाग–I)' खेळ प्रदर्शीत करताना इंगलिशान छापलेल्या हात–पत्राचेर `theatre' इंगलीश सब्दाच्या आधाराचेर 'तियात्रो' (theatro) सब्द वापारल्लो. १९०८–ंत होच खेळ परत्यान प्रदर्शीत जाताना माद कलाकार जुवांव अगुस्तीन फेर्नांडिसान तो खेळ 'तियात्रो' म्हणच प्रचार केलो. १९११ इस्वेंत 'भटकारा–II' प्रदर्शीत जाल्या उपरांत हो 'तियात्रो' सब्द चलावणेर आयलो आनी गोंयकारांच्या तोंडांत शाश्वीत ऊरलो. हांतलो निमाणो 'O'अक्षर पुतुगेज उच्छाराचो दवरल्लो. कारण तो गोंयकारांक सळावळेचो जाल्लो.

प्रेक्षकांक कोंकणी खेळ आनी जागोर हांतूं फरक करपाची नवी नदर मेळ्ळी म्हणतच, ह्या लोक नाट्याचो (folk drama) संपरदाय कळयजे पडता.

गोंयचे कला अकाडेमीन १९९३–ंत विनायक विषणू खेडेकार नांवाच्या साहितीन संसोद करून बरयिल्लो 'लोकसरीत – गोमंतकीय जनजीवनाच्या समग्र अभ्यास' म्हळ्ळो ग्रंथ मराठी भाशेन पर्गट केला. ह्या ग्रंथांत लोक नाट्य म्हळ्ळ्या अध्यायांत पेर्णी जागर, जागरा सारक्या प्राकार काला, गोपाळ काला, गोवळण काला, खेळ (हिंदू), दशावतारी खेळ, रणमाले, जागर, शिवोली जागर, क्रिसती जागोर, तियात्र, खेळ–तियात्र–तियात्राचें उगम इत्यादी विशयाचेर समग्र अभ्यास करून बरयिल्ल्या प्रकार, पेर्णी जागर म्हळ्ळो लोक–नाट्य प्राकार बोव प्राचीन म्हणजे नव्या शिलायूग थावन देंवोन आयिल्लो आनी थोड्याच कुटमाच्यांनी सादर करचो नाच–नाटक म्हणता. 'काला' लोक–नाट्य प्राकारांत हरदास (भागवत) मराठिंत उलयल्यार, संकासूर कोंकणिंत उलयता म्हणता.

हो ग्रंथ वाचतच कळताकी कोंकणी रंगमंच शिलायूग थावन आसा आनी ही गजाल अरवाचिनाची न्हय म्हळ्ळें स्पश्ट जाता.

कोंकणी लोक–नाव्य जरी तरी शिलायूग थावन आसा, ह्या लोक नाव्य प्राकारांत खंयचे सर्व प्राकार येतात म्हळ्ळें पयलें विंगडन करिजे पडटा. तवळ सवाल येंवचें तियात्राचें. तियात्र जरी तरी लोक–नाव्य पंगडाक सेरवालो. तेदना आधुनीक नाटक वेगळो प्राकार म्हण धरयेत. हरयेका लोक–नाव्य प्राकाराक ताचीच म्हळ्ळी बांदावळ आसा. तशेंच तियात्राकयी ताचीच म्हळ्ळी बांदावळ आसा. तियात्र बरयतेल्यांनी पश्चिमात्य श्रेष्ट कृतियो तियात्राक रुपांतर करून सादर केल्ल्याफरा तियात्राची बांदावळ बदलाना, व तो नाटक जायना. कारण नाटकाक ताचीच म्हळ्ळी वेगळी बांदावळ आसा. त्या देकून तियात्र खेळगाडी आजूनयी तियात्रिसत म्हणोन्‌च नांवाडल्यात आनी तांकां आजूनयी नाटकिस्त म्हणानांत आनी नाटकिसतांक तियात्रिस्त म्हण वोलायनांत.

दूसऱ्यान सांगचें जाल्यार तियात्र म्हळ्ळें नांव आयकातानांच, तो खेळ एक निर्दिश्ट समुदायेचो म्हणजे गोंयकार क्रिसतांवांचो म्हण कोण तरी दोळे धांपून सांग्तात. कारण तियात्र बरयणार, दिगदर्शक, खेळगाडी चडावत गोंयकार क्रिसतांवांचे आनी प्रेक्षक वर्गयी चडावत ह्याच समुदायेचे म्हणतच, हो तियात्र प्राकार लोक–नाव्याच्या व्याख्याना भितर आपणास्तकी वचोन बसता. फामाद तियात्रिस्त हाणीं लोक–नाव्य विश्यांत बरयिल्ल्या लेखनांत–'तो नाटक सादर करतेल्यांच्या जिण्ये–रिती विश्यांत पिंत्रायता आनी त्या प्रेक्षकां सांगाता आपलेंपण दाकयता'–म्हणतच हें व्याख्यान तियात्राक खरोखर वोंबता. ह्याच कारणाक लागोन तियात्रा थावन आधुनीक नाटक आपापिंच वेगळो जाता. ह्याच आधाराचेर ह्या म्हज्या ग्रंथांत शिलायूग थावन आयिल्ल्या रंगमंच्येक तियात्र परयांत हाडून आधुनीक नाटकाक वेगळो केला.



# सुटकेचो काळ-सक्स

## सुटके काळ म्हळयार कितें?

सुटका म्हणजे मुक्ती व विमुक्ती. गोयांत पुरतुगेजांची वासणुकी आसल्ली आनी भारतांत ब्रिटिशांचें आडळतें आसल्लें. सुटके काळ म्हळयार चडुणें १९२८ इस्वेंत टी.बी. कुन्ह म्हळळ्या श्रेषट सुपुत्राच्या पुडारपणाखाल गोंये सुटकेची चळवळ प्रारंभ जाल्ल्या काळा थावन १९६१ इस्वी दसेंबराच्ये १८ तारिकेर भारतीय सैन गोवा भितर रिगोन, पुडतुगेज सर्वाधिकारी सलाजाराच्या दावले थावन सुटका लाबल्ल्या पर्यांतलो काळ सुटके काळ म्हण हांगां विंगडसिला. ह्या काळार गोंयकारांचे चडावत तियात्र जाताले. मुंबय श्हेरांत, कारण शिक्षण आनी नौकरी खातीर गोंयकार तवळ सराग मुंबयच्या म्हा-श्हेराक स्थळांतर जाताले. गोयांत तवळ पुरतुगेज वासणुकी आसल्ल्यान कसल्याय मनोरंजन कार्यक्रमांक पुरतुगेज राज आडळत्याची पर्वणगी आनी प्रचार नियंत्रण (Censorship) आसल्लें म्हणतच पुरतुगेज राज आडळत्या विरोद कसल्याय सार्वजनीक कार्यक्रमांक पर्वणगी नातल्ल्यान, गोंयच्ये सुटके खातीर कोणेंय कितेंय रंजन करुंक आवकास नातल्लो.

गोयांत सोड्यां, मुंबयिंत जाल्यारयी तवळच्या तियात्रिसतांनी त्या काळार, गोंयच्ये सुटके खातीर तियात्र खेळयल्यात व ना म्हळ्ळो वाद करयेत शिवाय, त्या विशयाचेर दसतावेज सांबाळून दवरुंक नातल्ल्यान

कितेंय सांगोंक साध्य नातल्ल्याबरी जालां. पूण सुटके उपरांत गोयांत १९६६ इस्वेंत जाल्ल्या लोकमत (opinion poll) वेळार गोंय महाराषट्रांत विलीनिकरणाच्या विरोद तियात्रिसतांनी तियात्र खेळोन लोकाक जागयलां म्हळ्ळें आयकोंक मेळता जाल्ल्यान १९६१ इस्वे उपरांतलो काळ अस्मितायेचो काळ म्हण विंगडन केला.

सुटके काळ आनी अस्मितायेचो काळ म्हण विंगड करुंक एक कारण आसा. गोंयाक सुटका लाबल्या उपरांत गोंयची विशिषट खाशेलिकाय सांबाळच्या विश्यांत वाद–विवादाचो घोटाळो जाल्लो. गोयांत दोन चिंतपां–सालां उदेलीं. कोंकणी लोकान गोंय वोरे विंगड आसोंक जाय म्हण वाद मांडलो. चडुणें साडे – चारशीं वर्सां गोंय पुरतुगेजा खाल आसल्लें जाल्ल्यान गोंयची संस्कृती आनी संप्रदाय पाश्चातीकरणांत वोंदाल्ली. तवळ पाश्चात्य क्रिस्तांव संप्रदाय आपणायिल्ल्यांक 'काळे पोरतुगेज' म्हण लोक वोलायताले. पूण ज्या वटारांनी पाश्चातीकरणाचें वारें तितलें व्हाळोंक नातल्लें जाल्यारयी क्रिस्तांव आनी हेर कोंकणी समर्थक लोकांनी गोंयची कोंकणी भास, संस्कृती आनी संप्रादाय सांबाळच्याक गोंय खंच्याय राज्यांत विलीन जांवच्याक आपली खबलात दिलिना. मात्र न्हय तांची विशिषट खाशेलिकाय आनी अस्मिताय उरंवच्याक अखंड झुजा आखाडाक देंवले. पूण असली परिगत गोंयाक सुटका लाबच्या पयलें नातल्ल्यान ह्या जिन्साचें चिंतप तवळच्या तियात्रिस्तां मधें नातल्लें जाल्ल्यान असल्या विशेस चिंतपाचेर कोणेंय गुमान दीवना आस्येत. असल्या पाट थळाचेर आधारून त्या सुटके काळार पर्जळल्ल्या तियात्रिसतांची ओळक दिल्या.

## राषट्रीयवादी चिंताप

समकालीन तियात्र प्राकाराचेर व्याख्यान करच्या पयलें त्या सुटके काळार भारतभर कितें चल्तालें आनी तवळची परिगत कशी आसल्ली ह्या विश्यांत विवरण गर्जेचें.

एकणिसाव्या शेकडाच्या उत्तरार्धांत भारतांत विदेशी राज्वोटके विरोद राषट्रीय जागृती फुलोन आयिल्ली आनी ती क्रमेण राषट्राच्या स्वतंत्र चळवळेच्ये वाडावळीक ब्रिटीष आडळतें प्रत्यक्ष आनी परोक्ष सन्निवेशच नैतीक आनी बौद्धीक आवकास लाबयताले. राषट्रीय मनोभावाच्या भारतीय पत्रिकोद्यमांनी वर्तमान पत्रां अधीक संख्यान परगट करून देश प्रेमाचो संदेश पाचारताले. ह्या वर्तमान पत्रांनी सर्काराच्या रिती–निती वयर निरंतर टीका जाताल्यो. कादंबरी, प्रबंध, नाटक आनी देश भक्त गितां मुखांत्र राषट्रीय साहित्य राषट्रीय जागृती उटंवच्याक प्रमूख पात्र वहसिताले. बंगाळांत बंकीं चंद्र चटर्जी आनी रवींद्रनाथ टागोर, अस्सामांत लक्ष्मीकांत  बेजबरुवा, मराठिंत विषणू शासत्री चिपलूणकर, तमिळांत सुबरह्मण्य भारती, हिंदिंत भरतेंदू हरिश्चंद्र आनी उर्दुंत अल्ताफ हुसेन आली, हे त्या आवदेचे थोडे प्रमूख जागृती उटयलेले बरयणार.

एकणिसाव्या शेकड्याच्ये आखेरीक भारतीय राषट्रीयवादी फुडारयांनी आत्मगौरव आनी आत्मविश्वास म्हळ्ळीं नैतीक मौल्यं हेरां थंय वाडोवंक प्रेरण दिलें, मात्र न्हय आमच्या गांवांत आमिंच आडळतें चलंवची सामर्थी आमकां आसा म्हळ्ळी पात्येणी आपणावंक धयर दिलागले. तिलक, अरोबिंदो घोष आनी बिपीन चंद्रपाल असल्या फुडारयांनी आत्मगौरवाचो संदेश बौशिकांक उपदेश केलो. त्या उपरांत चळवळ तीवर करच्या खातीर स्वदेशी म्हणजे भारतीय वोर्वेचो उप्योग आनी ब्रिटीष वसतुंचो बहिषकार करचीं घोषणां आनी प्रतिज्ञा भारतभर जातालीं म्हणतच भारताक ब्रिटीष आडळत्या थावन स्वातंत्र मेळच्या पयलें असलें भाराधीक चळवळेचें वातावरण आसल्लें म्हळ्ळें नख्खी जालें.

असलें राजकीय चळवळेचें पाटथळ आसताना भारताच्या प्रधान भाशेच्या संपरदाया प्रकार समाकालीन कथा वसतू आधारीत नाटक,

एकणिसाव्या शेकडाच्या मदल्यार्धांतच खेळयताले म्हणतात चरित्रेकार. नाटक प्राकारांत समकालीन चळवळेच्यो कथावसतू आनी साहित्याच्या वाडावळिचें दृषटिकोन आसल्ल्यान सामाजीक-राजकीय काळजिच्या नाटकांक प्रामुख्यता लाबली. ह्या नाटकांनी चडावत जावन राजकीय परिस्थितिचें विडंबन, तशेंच राजकीय भ्रषटाचाराचो विचारयी आटापून आसतालो; प्रमूख जावन स्वार्थ राजकारण, अधिकार दुरुपयोग, मोस आनी दगलबाजी अनैतिकता असल्या वायटाचें अनावरण्च मुखेल उद्देश दवरून, नाटकाच्या स्वरूपांत नवेंपण आपणावन रंजनीय जावन उग्ताडाक हाडची हिक्मत नाटक कलाकरांक आवोडताली आनी प्रेक्षकांक मेचवाताली.

अशें समकालीन परजेचें जिवीत, पडबिंब करून, राजकीय, सामाजीक, धार्मीक आनी ऐतिहासीक कथा वसतू तांच्या नाटकांनी पिंत्रावन प्रधान भाशेच्यांनी तांचें साहित्य वाडयलें. दाखले दिंवचे जाल्यार कन्नडाच्या नाटक क्षेत्रांत पर्जळल्ले वैकुंठराजू हांचो 'संदर्भ', टी.एन. सीतारां हांचो 'आस्फोट' नाटक. ह्या नाटकांनी राजकीय स्थिती विडंबन करचे दृश्य पळेवंक मेळतात. तशेंच पुतिना हांचो 'विकटविजय' कल्लूर कृषणकुमार हांचो 'तिरुगुप्प' नाटक उगडास दवर्चे तसले. 'विकट विजय' एक समकालीन राजकीय विडंबनात्मक नाटक. भारताच्या स्वतंत्र चळवळेचो दाव आनी धोमोस हो नाटक पळेयताना अनभोव जाता.

समकालीन परजेचें जीवीत पडबिंब करचे सामाजीक नाटक, कथा वसतू, एका समूदायेचे आत्म चरित्रा आसल्लेबरी. तांच्या काळाच्या समाजेचे गूण-अवगूण, उन्नती-अवन्नतिचो विमर्सो करून आनी ताचें कारण समकालीन ऐतिहासीक पाटथळाचेर सोदून परिहार सुटोंवचे सामाजीक नाटक जरीतरी एका समुदायेच्या सादरकला क्षेत्रांत येनांत. तें क्षेत्र नाटक म्हणोंक जायना बगार तें एक लोक-नाट्य क्षेत्र म्हणोंयेता लोक-नाट्य क्षेत्राक तुलन करुंक जायना.

ह्याच आधाराचेर तियात्र सादर कला नाटक क्षेत्राच्ये व्याप्ती भितर येनाशें लोक–नाट्य क्षेत्राच्या वर्तुला भितर येता म्हणोंक आवकास मेळता. कारण सुटके काळाच्या तियात्रिसतांनी दीसभर नौकरी करून शेणलेल्या मद्यम वर्गाच्या जिवाक तांचो तनाव निवरांव्या उद्देश्यान प्रहसन रितीर तियात्राच्यो कथा वसतू मांडून हाडलो शिवाय. देशाच्या आनी त्या समुदायेच्या गांवच्या हितदृश्टेन, समकालीन राजकीय स्थितिचेर होंदून सुटके खातीर चळवळ बळ करुंक तियात्र रचले म्हळ्ळ्याक चरित्रेकारांनी पुरावे दिल्ले वाचुंक मेळानांत. हाका अपवाद जावन कीड बोक्सरान राजकीय विशयाचेर पदां घडल्यांत म्हण चरित्रेकार सांग्तात.

सुटके काळाच्ये आवदेंत आसल्ल्या प्रख्यात तियात्रिसतांचीं, गावप्यांचीं, पदां (कंतरां) घडणारांचीं आनी तियात्र बरयणारांचीं नांवां ह्या परीं आसात – दियोगिनो डी मेल्लो, क्रूज जाजवाला, चांपियन आलवारेस, मासटर वाज, रेमी कुलासो, काजेदोन डी सोज, स्टार ओफ अरोसीम, लूसियानो डायस, टोनी साक्ष, जोन गोम्स, बेर्नाड दे आलडोना, हेच ब्रिट्टोन, रोमियो मेंडीस, कीड बोक्सर, जोन क्लारो, प्रेम कुमार, आलफ्रेड रोज, क्रीसपेरी, प्रख्यात हास्यागार आंतोनी मेंडीस, जसिंत वाज, रिकोरोड, टिटा प्रेट्टों आनी पीटर चांपियन.

ह्या तियात्रिसतांनी रचलेल्या तियात्राच्या कथानकाचीं विंचणार थोडीं नांवां ह्या परीं आसात –

दोत दिंवची होकलेक न्हय नोवऱ्याक’, ‘मोगान काजार’, ‘कुजनेर बोंबयचो आनी भटकर गोंयचा’, ‘मिनीन रेंदेर’, ‘आमचे तारवार गेले’, ‘कोण ती असतुरी’, ‘घर संसारी बायल’, ‘दुस्रेपणी काजार’, ‘तिकली सून’, ‘बेकार जांवंय’, ‘मांय आनी सून’, ‘आमच्यो बायलो’, ‘घोवाचें घर’, ‘सूख तार्वोट्याचें’, ‘दोन काळजां’, ‘रिणकारी जांवंय’, ‘दोतीक लागोन’, ‘विंगणी नाचपीण’, ‘कोणाक म्हणोन मांय’, ‘लाकपती नोवरो’,

'मोतलाबी पोदोर्न', 'काळजाचो आंवडो', 'सैरिकेकार सालू', 'आंगोवण्याची होकाल', 'आपुरबायेची धूव', 'मटवो कुंपार', 'रिटायरड तार्वोटी', 'खुशे भायर काजार', 'बेब्दो पूत' – इत्यादी.

असलीं तियात्राच्या कथानकाचीं माताळीं हाताळताना सुटके काळाच्या तियात्रिसतांच्या चिंत्पाची झर कळता. तियात्र एक लोक – नाट्याचें क्षेत्र जाल्ल्यान ताच्या बांदावळी भितर तियात्र बरयणारांनी प्रेक्षकांक रंजन करच्या उद्देश्यान, समुदायेच्या कुटुंबीक वर्तुला भितरल्या कथा वसतुचेर विडंबन रितीन समस्ये पातळावन परिहाराक वाट सोदल्या शिवाय, देशाच्ये हितदृषटेन समकालीन सामाजीक – राजकीय कथा वसतुंचेर काळजी दवर्न तियात्र रचल्ल्या विचारांत दाखले मेळानांत. इतर भाषेच्या नाटक क्षेत्राचें पाटथळ आनी समकालीन वाडावळ, तियात्राच्या वाडावळीक आनी पाटथळाक तुलन करताना, तियात्र अपापीं नाटक क्षेत्रा भितर बसना मात्र न्हय, लोक-नाट्य क्षेत्राच्या वर्तुला भितरच आसा म्हणच्याक ही एक बळाधीक साक्स म्हण सांगोंक अवकास मेळता. ह्या सुटकेचा काळार पर्जाळ्ळेल्ल्या तियात्रिसतांची परिचय 'अनुबंध – ४' पानार दिल्या.



# आस्मितायेचें चिंताप

अखख्या भारत देशांत ब्रिटीश राज आडळत्या विरोद स्वातंत्राची चळवळ जाताना, फुडतुगेज सर्वाधिकारी आडळत्या विरोद गोयांत सुटके झूज चलतालें. ह्या सुटके झुजाच्या काळार बोंबयत व गोयांत जांवच्या तियात्रांनी फुरतुगेजांच्या सर्वाधिकारी वासणुके विरोद जेराल थरान व्हडल्यान ताळो उबारल्लो आयकोंक मेळानातल्लें म्हण सांग्तात. हाका कारणां सबार आसयेत.

तवळच्या कालार गोंयकारांक, गोंय ओंबानातल्लें जाल्यार अखंड भारत देशांतलीं इतर श्हेरां प्रमूख जावन बोंबय आनी कराची आसल्लीं. ह्या श्हेरांनी तांकां कामां मेळतालीं, गांवांतर जावन वसती करुंक कांय अडळत नातल्ली. त्या गांवांनी गोंयकारांची वसते कुडां आनी वसते बिडार–वटारां तांकां हात बिजावन आपयतालीं. तवळ तवळ तियात्रां जातालीं आनी तांतूं भितर रंजन घेवन सुशेग आसल्ली म्हण सांगयेत. ही मनशा चिंतपाची एक कूस जाल्यार अन्येका कुशिचें चिंताप वेगळेंच आसल्लें जावयेत. गोंयकार तरनाटे तरनाटीं कामा खातीर गोंय सोडन गोंयां भायर अखंड भारत देशाच्या इतर श्हेरांनी वसती करून आसल्यारी, तांचीं कुटमादारां गोंयांत पुरतुगेज सर्वाधिकारी वासणुकेचा आदीन जियेतालीं जाल्ल्यान, गोंया भायर हांचा भुरग्यांनी ह्या वासणुके विरोद ताळो उटयल्यार, तांचा कुटमादारांक कष्ट–दगदोणी मेळचो संभव आसल्लो. त्या देकून असलें अपयाचें मेट काडुंक मन आसल्यारी तांकां खंडीत साध्य नातल्लें जावयेत. त्या

देकून त्या सुटके काळाच्या आवदेंत तियात्रांनी गोंय सुटके झुजा विश्यांत आवाज उटयिल्लें आयकोंक मेळानातल्लें एक बळाधीक कारण जांवचें साध्याताय आसा.

पूण १९६१ इस्वेंत गोंयांत पुरतुगेज वासणुकेचा सर्वाधिकारी मुटी थावन सुटका मेळ्ळ्या उपरांत सबार थरांचीं चिंतिनातल्ल्या तसलीं विघ्नां–अन्वरां उदेलीं. तीं फूड करच्याक त्या वेळार गोंयकारांक हातीं आसलेलें प्रादान हातेर, तियात्र म्हळ्यार खंडीत चूक जांवची ना. पूण तीं विघ्नां–अन्वरां कसलीं आनी कशीं आयलीं म्हण कळाजे जाल्यार त्या काळाचें राजकीय पाट थळ समजोंवचें अधीक गर्जेचें.

भारत देशाक १९४७ इस्वेंत ब्रिटीश राज आडळत्या थावन स्वतंत्र जोडन घेतल्या उपरांत, भारतांत भाशांवार प्रांत्य रचयाक चळवळ प्रारंभ जाली. ह्या चळवळेच्या बरबरत्यान १९५६ इस्वेचा नवेंबर १ तारिकेर भारतांत भाशांवार प्रांत्य आस्तित्वाक आयले. तवळ गुजरात कुडसून द्विभाशा जावनासल्लें बोंबय प्रांत्य मराठिंनी *'मुंबय सह महाराषट्र जालाच पाहिजे'* म्हळ्ळी चळवळ सुरू करन वादाळ उटयिल्ल्यान मुंबय शहेर महाराषट्रांत सेर्वालें आनी गुजरात प्रांत्य वेगळें निर्माण जालें.

भारत देशाक स्वतंत्र मेळोन भाशांवार प्रांत्य निर्माण जाल्यारी कोंकणी लोकाचें गोंय फुरतुगेज वासणुके थावन सुटलेनां, मात्र न्हय गोंयच्या सुटकेक भारत सरकारान तक्षण मनयी केलें ना जाल्ल्यान, कोंकणी भाषेचो राज्य निर्माण जावंक तवळ जालें ना.

ह्या परिगतिचेर तवळ गोंयां भायर वसती करून आसल्ल्या गोंयकारांक तांचा आस्मितायेची भिरांत उबजाली, तरी गोंय पुरतुगेज सर्वाधिकारिंच्या वासणुकेंत तवळ आसलेल्यान उग्त्यान आस्मितायेचें चिंताप उचारुंक तक्षण जालें ना. पूण १९६१ इस्वेंत दसेंबराच्या १८ तारिकेर भारतीय सैनान गोयांक पुरतुगेज वासणुके थावन सुटका

दिल्ल्या नंतर तांचा विशिषठ खाशेलिकायेचे वेगळेच समस्ये उबजाले. तवळ गोंयची वोरेविंगड खाशेलिकाय एका वाद–विवादाचो गोटाळो जालो. गोंयांत दोन चिंतपां–सालां उदेलीं. कोंकणी लोकान गोंय वोरे विंगड आसोंक जाय म्हण वाद मांडताना, मराठी समर्थकांनी कोंकणी मराठी थावन उबजाल्ली उपभास देकून महाराषट्राक सेरवाजे म्हण तांचो वेगळोच वाद ताणी मांडलो.

सुमार साडे–चारशीं वर्सां गोंय पुरतुगेजाखाल आसल्लें जाल्यान, गोंयची संस्कृती आनी संप्रदाय चडुणें पाश्चातिकरणांत वोंदाल्ली. ह्या पयकी पाश्चात्य क्रिस्तांव संपरदाय आपणायिल्ल्यांक 'काळे पुरतुगेज' म्हण वोलायतले आनी जांव क्रिस्तांव वा हिंदू ते आपूण वेगळेंच एक जणात म्हण लेक्ताले जाल्यान, गोयांची कोंकणी भास, संस्कृती आनी संप्रदाय सांबाळच्याक गोंय खंच्याय राज्यांत विलीन जांवच्याक ताणीं पाटिंबो दिलोना, मात्र न्हय ताची वेगळीच खाशेलिकाय उरंवच्याक झूज मांडिलागले. त्या देकून भारतांतल्या राजकीय फुडारिंक गोयां विश्यांत इत्यार्थ करुंक जालें ना. तवळ दोनयी पंगडांच्यांनी तांच्या वेंगेक लोकाक वोडुंक राजकीय पाड्ती घडून हाडल्यो. ह्या दोनयी पाड्तिंच्यानी तांचे चिंताप पोंताक पाववंक आनी लोकांची अभिपराय मोळुंक चरित्रा, धर्म, भास आनी संप्रदाय हाचो आधार घेवन तांचे सळसेळे वाद मांडिलागले.

विलीनवादी आनी विलीन विरोदवादिच्या बळग्यांचो प्रेतन आनी दभाव केंद्र सर्काराचेर क्रमेण वाडात गेलो. केंद्र सर्कारान गोंयांक धा वर्सां केंद्र आडळीत प्रदेश जावन उरयजे म्हळ्ळें धोरण बदलिलें आनी भारत देशाचा पारलिमेंटान १९६६–ंत गोवा, दमन आनी दीव लोकमत (Opinion Poll) विदेयक पास केलें.

स्वातंत्र भारतांत एका वटाराच्या लोकान तांचो राजकीय फुडार विंचुंक अभिप्राय मताची रीत पयले पावटीं वापारल्ली. ह्या वादांत

जिकोंक गोंयचें वेगळेंच खेरीतपण आशेंवचो विलीन विरोधी कोंकणी समर्थक लोक तवळ सांगाता आयले आनी एका आवाजान किंक्राटले– *'कोंकणी भास आमची मांय, आमची भास आमकां जाय'.* "आमकां महाराष्ट्राचें 'श्रिकंद पुरी' नाका, आमकां आमची शीतकडी आसल्यार पावता" म्हण घोषणां करून एकवोटान बोबाटले. **महाराषट्राच्या साहिराक *(Shahirs)* गोंयकारांनी 'तियात्र' उबे केले आनी तियात्राच्या कंतारांनी गोंय महाराषट्रांत विलीन जाल्यार जांवचो अपाय लोकांक स्पश्ट कळयलो.**

गोयांत जाल्ल्या चारित्रीक लोकमताचा वेळार गोंयची आस्मिताय उरोंवच्या खातीर 'तियात्र' म्हळ्ळें रंजन हातेर वापारलें म्हण चारित्रेंत वाचुंक मेळता. पूण ह्या अपरूप रंजन प्रवृत्तेचीं दस्तावेजां तियात्रिस्तांनी जांव, पात्र घेतल्ल्या फुडारिंनी जांव सांबाळन दवरल्यांतगी म्हळ्ळें सवाल आजूनयी चारित्रेकारांक दोसते आसा.

तियात्रिस्तांनी सादर केल्ल्या तियात्रा थावन कोंकणी भाषेक परोक्ष रितीन महत्वाचें बोरेंपण लाबलां म्हळ्ळयाक कायिंच दुबाव ना. सुडाळ रितीन सांगचें जाल्यार – कोंकणी संगीत गिरेसत जालां. हजारांचा हजारांनी कोंकणी कंतारां/पदां घडोन आयल्यांत आनी आजूनयी थोडीं जिवीं उरोन कोंकणी लोकांचा तोंडार वेळाकाळा पर्माणें घोळोन्ंच आसात. ह्या कंतारांचा/पदांचा झगलाण्यान कोंकणेक कांटाळतेले समेत कोंकणेचो मोग करुंक पावल्यात. कोंकणी पिंतुरां आस्तित्वाक आयल्यांत. ह्या तियात्र म्हळ्ळ्या लोका मोगाळ रंजाना वर्वीं कोंकणी भाषेचें बोंदेर राष्ट्रीय मट्टार मात्र न्हय अंतराष्ट्रीय मट्टार समेत अजून पर्जळोन्ंच आसा म्हणताना ह्या तियात्रिस्तानी लोकमताचा वेळार प्रत्यक्ष रितीन केल्ल्या रंजन वावराचीं दसतावेजां सांबाळून दवरल्यांतगी म्हळ्ळें सवाल.

असलीं अपरूप आनी मोलाधीक रंजन दस्तावेजां सोदून काडच्याक गोंयच्या चळवळेकारांक, फुडऱ्यांक आनी संबंद पाविल्या

संस्थ्याक फोना लावन विचार विनिमय केलो. असलें चारित्रीक काम करुंक प्रयत्न चल्लां पूण यशस्वी मेळोंकना म्हळ्ळी जाप मेळ्ळयारी ह्या दिशेन वावर दिल्ल्या थोड्या तियात्रिसतांची नांवां मेळ्ळीं तीं ह्या परीं आसात.

## कन्सेपशन

ह्या कलाकाराचें सगळें नांव ए.एस. कन्सेपशन. हो गोंयच्या वारकोदे गामा गांवचो. हो एक बरो कलाकार. सबार वर्सां गोंयच्या तियात्र वेदिचो प्रदान पात्रदार आसल्लो.

ह्या कलाकारान बोंबंयत ताचें वृत्तिजीवन प्रारंभ केल्लें. बोंबंयत आसताना ताका 'जाकडम' हाच्या तियात्रांत पात्र करुंक पयलो आवकास लाबल्लो. 'जाकडम' त्या काळाचो एक प्रख्यात तियात्र बरयणार आनी निर्देशक. त्या उपरांत ताणे सबार तियात्रांनी नटन करून 'बिर्मत' म्हळ्ळो तियात्रयी बरयलो. हो तियात्र बोंबंयत सादर केल्लो आनी प्रेक्षकांक भारी मेचवाल्लो. ह्या उपरांत तो नौकरी खातीर गोंयां आयलो आनी नौकरी घेतली. गोयांत तो नेल्सन अपोन्सो आनी आंतोनी डिसोजाक मेळ्ळो. हे तेग सांगाता मेळोन 'कन्सेपशन – नेल्सन – आंतोनी' म्हळ्ळो तेगांचो एक जमो रचलो. हो जमो गोयांत आयलेवार पऱ्यांत तियात्राचो लोका मोगाळ पंगड जाल्लो. **ताणीं राजकीय विशयाचेर म्हणजे, सरकार आनी सरकाराच्या खात्या वयर विमर्सो करुंक रचलेलीं पदां प्रेक्षकांक भारी मेचवातालीं.** कारण तांतुतल्यांत साद्या लोकाचीं भोगणां आसतालीं.

गोयांत एक काळ आसल्लो, 'कन्सेपशन–नेल्सन–आंतोनी' हो जमो तियात्रांत आसा म्हळ्यार तियात्राचें मंदीर प्रेक्षकां थावन भरोन येतालें.

त्या भायर कन्सेपशन एक श्रेष्ट कलाकार आसोन तियात्रांत प्रदान पात्र वयसितालो. कन्सेपशन गोंयच्या वासकोंत १९८६ इस्वेच्या जुलाय १६वेर मरण पावलो.

## नेल्सन अफोन्सो

हो कलाकार गोंयच्या वासको दे गामाचो. नेल्सनाची आवय गावपी जाल्ल्यान, तें तालेंत पुताक आयलासतेलें. हो कलाकार ल्हान आसतानांच ताचें तालेंत ताणे पाजल्ल्यान, ताच्या सेजार्‍यांनी ताका प्रोत्साव दिल्लो आनी अशें तो गांवच्या संगीत कार्यक्रमांनी भाग घेतालो.

नेल्सन एक बरो गावपी जाल्ल्यान, गांवच्या संगीत कार्यक्रमांनी गावून तो लोकामोगाळ जाल्लो. ताच्या काळार कन्सेपशन तवळच वृत्तिपर तियात्रांनी प्रख्यात जाल्लो आनी हो नेल्सनाच्या गांवचो. नेल्सनाचें तालेंत पळेवन ताणे ताका त्या काळाच्या वृत्तिपर तियात्रिस्तांक ओळक कर्न दिल्ली. अशें ताका तियात्रांनी गावुंक आवकास मेळ्ळो. ताणे तियात्रांनी स्त्रियांचो पात्र घेवंक सुरवात केली, सवकास पदां बरोवंक प्रारंभ केलीं. त्या उपरांत ताणे तियात्र बरोवंकयी सुरवात केली. ताच्या जिवितावदेंत विवीद विशयांचेर ओट्टूक २७ तियात्र बरयले. थोडे सामाजीक आनी थोडे राजकीय विशयाचेर. ताचो राजकीय विशयाचेर बरयिल्लो 'न्याशनालिष्ट' नांवांचो तियात्र प्रख्याती जोडुंक पावलो. नेल्सनाचे प्रसिद्ध जाल्ले तियात्र 'दोतोर सालाजार', 'घराबो', 'जिकली रे जिकली', 'गोंयकार ते गोंयकार', 'सुटके उपरांत', 'डोलोरोस', 'दोगांच पुरो' इत्यादी.

नेल्सन 'स्टार ओफ द गोवा स्टेज ग्रूप' हाचो स्थापक सांदो. उपरांत क्रमेण ताणे 'यंग स्टार ओफ गोवा ग्रूप' संस्थो घडलो. नेल्सनान ताचो तियात्र 'आस्रो' सादर करताना 'ओलड एंड गोलड स्टार्स ओफ गोवा' म्हळ्ळो ताचोच पंगड रचलो.

नेल्सन बरो पदां घडपी. सुरवेर ताणे दोडया रुपाचीं पदां घडलीं. आनी आंतोनी, कन्सेपशन आनी चांपियन पीटर हांच्या संगीं गायलीं. उपरांत ताणे तिदोड्या गायनां रुपाचीं पदां घडलीं आनी कन्सेपशन

आनी आंतोनी संगीं गायलीं. आनी हो तिदोडो पंगड तियात्राच्या वर्तुलांत प्रख्यात जालो. नेल्सनान कोंकणी रंगमंचार घुंवची वेदी (Revolving Stage) परिचय करून, ताचेंच म्हळ्ळें नांव तियात्राच्या माळार कांतयलां. नेल्सन १९८२ इस्वेच्या जून १८ तारिकेर गोंयच्या वासकोंत मरण पावलो.

## अंतोनी डिसोज

हो कलाकार साल्सेटच्या कनसावळीं गांवचो. हो एक उत्तीम पदां घडणार. कन्सेपशन–नेल्सन–अंतोनी पंगडाचो हो स्थापक वांगडी. १९५४ इस्वेंत मोगाचो इर्मांव म्हळ्ळ्या तियात्रांत हो पयिल्लो दिष्टीक पडल्लो. **हाणे घडल्ल्या पदांनी गोंयच्या चालत्या – घडितांचो विशय आनी गोंयच्या अस्मितायेचें चिंतप ताच्या पदांनी आटापून आसतालें. हाणे चालत्या घडितां वयर बरयल्लले विशय लोकांक बरे आवोडताले.**

## रोम टोनी

रोम टोनी वासको गांवचो. हो कलाकार एक प्रमूख गावपी जावन आसल्लो. ताच्या पदांनी गुंडाय आसल्ली आनी ताच्या पदांचे विशय केदनांय अपरूप थरांचे.

रोम टोनी १८ वर्सांचो आसताना कोंकणी रंगमंचार चडल्लो. हाका १९ वर्सां भरताना ताणे एक तियात्र बरयलो आनी ताच्या गांवांत ताणे खेळयलो. हाचें तालेंत पारकून प्रख्यात तियात्रिस्त नेल्सनान ताच्या तियात्रांत ताका घेतलो आनी अशें ताका पर्जळोंक आवकास लाबलो. ह्या उपरांत ताणे तियात्र बरोवंक सुरवात केली.

रोम टोनी थोडे तियात्र बरयल्यात. त्या पयकी थोडे लोका मोगाळ जाल्यात. ते आसात – 'म्हजो पूत', 'पायचेर फेसत पडलां', 'गोंयचें एलिसांव' आनी 'राज गरीबांचें'.

रोम टोनीन ताच्या पदांच्यो २ दृश्य कोवळो काडल्यात. त्या कोवळेंचीं नांवां – 'कुड्डी भयण' आनी 'कुमाराक फाशी'. हाची धूव फेल्सी कोंकणी रंगमंचार एक लोकामोगाळ नटी.

## रोबीन वाज

रोबीन वाज साल्सेटचा कुकळीं गांवचो. रोबीन जल्मान संगीतगार. रोबी येदोळच्या तियात्रिस्तां पयकी लांब दीग आनी भरती जिवाचो. थोडे ताका 'लोरेल एंड हार्डी' म्हणताले. कारण ताच्या हास्यभरीत नटनाक हास्य पदांक. 'लोरेल एंड हार्डी' हांचो जिनोस ताळ पडतालो.

रोबीन वाज भुरगो आसताना, एक दीस ताच्या आवयन ताका कुंकळीं गांवांत सादर जाल्ल्या जुवांव अगुसतीन फेर्नांडीसचो तियात्र पळेवंक आपवन व्हेल्लो. हो तियात्र पळेवन्‌च ताका तियात्रिस्त जांवची आशा उबजाल्ली. ताच्या उपरांत ताच्याच घरा ताच्या घरच्यो वोली उपयोगसून ल्हान ल्हान संगीत मेळ करतालो. ताच्या गांवचे ताचे ईष्टच ताचे सांगाती पात्रदारी. ते तवळ प्रख्यात तियात्रिस्त सोजा फेरावो, आंतोनी डेसा, मीस ज्यूली हांचें अनुकरण करताले.

रोबीन वाज हाका ११ वर्सां प्राय भरताना, ताच्या गांवच्या भुरग्यांनी सादर केल्ल्या तियात्रांत पात्र करुंक आवकास लाबल्लो. तो भुरगो कलाकार जाल्यारयी ताणे प्रेक्षकां थंय परिणात्मक प्रबाव घाल्लो.

सवकास ताका स्थापीत जाल्ल्या तियात्रिस्तां थावन म्हणजे, जेसपीस हिटलर, कामत दे असोलना, सालुजिनो डिकोस्त इत्यादी थावन पात्र घेवंक प्रस्ताप आयलो. त्या भायर तो पंद्रा वर्सांचो आसतानांच 'पूत कोणाचो' म्हळ्ळो तियात्र बरोवंक साहस करन तो तियात्र कुंकळींत ताणें सादर केल्लो. हो तियात्र प्रेक्षकांक रुचलो जाल्यारी, उपरांत नौकरी खातीर ताका बोंबय वचाजे पडलें. रोबीन बोंबंयत आसताना वृत्तिपर तियात्रिसतां थावन तो आवकास मेळोंक

राक्तालो. ताका परिचय करन दीवंक तवळ कोण तरी मेळानातल्ल्यान ताका आवकास लाबलेनांत जाल्यारी बोंबय आकाशवाणिचेर तो पदां गायतालो आनी ताचीं पदां तवळ तवळ प्रसरण जातालीं.

**रोबीन वाज देशाबीमानी जाल्ल्यान, तवळ उबें जाल्ल्या अजाद गोमंतक दळ ह्या पाड्रतीक सेर्वालो. तवळ ह्या पाड्रतिचो कार्यदर्शी मुसोलिनी मिनेजस सराग तियात्र बरोवन सादर करतालो.** मुसोलिनिच्या तियात्रांनी रोबीन वाज पात्र घेतालो आनी गायतालो. रोबीन वाज हाचें नटन पळेवन वृत्तिपर तियात्रिस्तांनी म्हणजे, जे.पी. सोजालीन, कीड बोक्सर, आंतोनी डेसा, सायब रोचा, सोजा फेरावो, आलफ्रेड रोज, सी. आलवारेस, जसिंत वाज इत्यादिंनी ताका पात्र घेवंक आवकास करून दिलो. अशें तो कोंकणी रंगमंचार प्रसिद्द जाताना ताणे ताचेच म्हळ्ळे तियात्र बरयले. अशें ताणे चडुणे २७ तियात्र बरयले. ताचे लोकामोगाळ तियात्र –'शांतिचें लग्न', 'ओपिनियन पोल', 'दाद', 'बारब्बास', 'बियातीन', 'सां. जुवांव बाप्तिस्ट', 'सद्दां हुसेन', इत्यादी. रोबीन वाज हाणे कोंकणी पिंतुरांनी पात्र घेतला. तीं आसात – 'निर्मोणें', 'सुखाचें स्वपण', 'कर्तुबांचो संसार', 'म्हजी घरकार्न' आनी 'भुंयारांतलो मनीस'.

रोबीन वाज हाचें आन्येक रूप म्हळ्यार लोकवेद पदां घडचीं आनी तो लोकवेद नाचपी. ताका गोंयच्या संप्रदायाचेर म्हणजे कुणबी, खार्वी, शेतकांमती, देखणी आनी पुगडी ह्या विशयाचेर घड्योन पदां घडची ताकत आसल्ली. ताका ताचोच म्हळ्ळो लोकवेद नाच पंगड आसल्लो. ह्या लोकवेद पंगडा सांगाता तो अखील भारत मट्टार भोंवला आनी कार्यक्रमां सादर केल्यांत आनी ताणे सादर केल्ल्या तियात्रां खातीर ताका सबार प्रशसत्यो लाभल्यात.

## ग्रेग दे कांडोलीं

हो कलाकार बार्देशांतल्या कांडोलिंतलो. हो एक शाथिवंत नट

आनी गावपी. हाणे स्त्रियांचो पात्र घेवन नटनाची सुरवात केल्ली आनी सबार वर्सां पर्यांत तो स्त्रियांचोच पात्र करतालो. तवळ स्त्रियो पात्रदारी उण्यो आसल्ल्यो. उपरांत स्त्री कलाकार चडल्या उपरांत हाणे दादल्यांचो पात्र करुंक सुरवात केली. हो यंग स्टार्स ओफ गोवा पंगडाचो एक प्रमूख हास्यगार कलाकार जावनासल्लो.

ग्रेग एक उत्तीम पदां घडणार आनी गावपी. दोडें गायनांत ग्रेगाचो उकल्ललो हात. हो कलाकार चडावत चालत्या घडितां वयर पदां घडतालो. ग्रेग काजार जांवच्या फुडें हेरां गावपिणी सांगाता पदां गायतालो पूण सबीना कडेन काजार जाल्या उपरांत ताच्या पतिणे सांगाताच तो दोडें पदां गायतालो. सबीना वेदिचेर एक लोकामोगाळ चली आनी गावपीण जावनासल्ली.

ग्रेग तियात्रिस्त जावन आफ्रिका आनी गलफ देशांनी भोंवला आनी त्या गांवांनी ताच्या संगीता तालेंता वर्वी तो लोका मोगाळ जाला. तो बरयणार जावनयी फामाद जाला. ताचो ‘सिमित्रिंत एकवोट’ तियात्र भारी लोकामोगाळ जाला. हाणें ४० वर्सां कोंकणी रंगमंचार सेवा दिल्या.

## कार्मो रोड

हो कलाकार साल्सेटच्या असोलना गांवचो. निर्मोणें पिंतुरांत नाच आतांच म्हळ्ळें पद गावन कोंकणी रसिकांच्या मनांत हो संगीतगार अमर ऊरला. हो बेंडांत व्हाजांत्रां व्हाजयतालो, तशें जाल्ल्यान ताका संगीत ताच्या रगतांत स्वाभावीक जावन आसल्लें. हाणे सी. आलवारेस, एम. बोयर, जसिंत वाज, आलफ्रेड रोज, रोबीन वाज असल्या प्रख्यात कलाकारांच्या तियात्रांनी पदां गायल्यांत. हाचें नांव अमर जावन उरोंक हाणे गोयांत जाल्ल्या लोकमंताच्या वेळार ‘दोन पानां’ म्हळ्ळें अपुरबायेचें पद गायलेलें आनी प्रेक्षकांक आस्मितायेचें चिंतप दिल्लें एक प्रमूख कारण. □

# तियात्र राजांव

तियात्र सादर कलेचें राजांव उलोंवचें जाल्यार, संक्षिप्त थरान पाटथळाचेर दीषट चरवन विशलेषण करिजे पडता.

तियात्र सादर कला सूरवात जांवच्या पयलें गोंयच्या बडगाक प्रत्येक जावन बार्देशांत 'जागोर' एक प्राचीन काळा थावन चलोवन आयिल्लो लोक–नाट्य प्राकार आसल्लो तर, गोंयच्या तेणकाक प्रत्येक जावन साल्सेटांत खेळ (फेळ) लोक–नाट्य प्रकार चालिंत आसल्लो.

गोंयकार बरया फुडारा खातीर मुंबय तसल्या म्हाशहेराक निवासांतर जाताना हो जागोर आनी खेळ प्राकार तांच्या मुळाव्या गर्जेच्या मनोरंजना खातीर तांच्या सांगाता घेवन गेले. पूण उपरांत काळ उतरताना ह्या लोक–नाट्य रंजन प्राकारांत क्षुल्लक राजकीय, वैयुक्तीक निंदा आनी अशलीलताय बितर सरल्ल्यान ह्या रंजन प्राकाराचेर वायट परिणाम घडोन हेर भाशीक लोक गोंयकारांक दुर्सोंक लागले. ह्या पाट थळाचेर 'तियात्र' म्हळ्ळ्या मनोरंजन प्राकाराचो जल्म जाल्लो.

तियात्र सादर कलेचो लोका मोगाळ 'पाय तियात्रिसत' बिरुदांकीत जुवांव अगोसतिनो फेर्नांडीस, तियात्रांचो पन्नास वर्सांचो जुबलेव संभ्रमता परयांत वांचोन ऊरलो तरी, ताणे मोरच्या एका वर्सा पयलें तियात्राच्या अवनती विश्यांत उलोवन विळाप करतालो म्हण चरित्रेकारांनी बरयलेलें वाचुंक मेळता. म्हणतच तियात्राचो दर्जो तवळच अदोगतीक पावोंक सूरवात जाल्लो म्हण कळीत जाता. आश्चर्यकर संगत कितेंगी म्हळ्यार, ही ताची खासगी अभिपराय उचारल्ल्या वेळार तियात्राचे

श्रेषट फोकणागार आनी तियात्र बरयणार तियात्र रंग मांच्येर तवळ काऱ्याळ आसल्ले.

ह्या घडावळीक प्रमूख कारण प्रख्यात तियात्रिसत पत्रकर्त, जोन क्लारो म्हणता–पाय तियात्रिसतान अभिपराय उचारुंक कारण थोडे तियात्रिसत तवळ प्रेक्षकांक आकरषण करच्या खातीर तियात्रिच्या उंचल्या मट्टाचेर सोड–दोड करताले जाल्ल्यान तियात्राचें उंचलें मट्ट कोसळोन येवंक प्रारंब जाल्लें पळेवंक ताका जायनातल्लें. जुवांव अगोसतीन तियात्राचें उंचलें मट्ट सांबाळुंक चडुणें पांच दशकां परयांत कषट काडून वावूरलोलो जाल्ल्यान ताका तें भोग्तालें.

त्या उपरांत विसाव्या शेकडा च्या दूसऱ्यार्दांत तियात्राच्या सर्वांगीण वाडावळी वर्वीं कोंकणी लोकां मधें तियात्र लोका मोगाळ जावन जयताचीं पावलां काडुंक सकल्यारयी ही सादर कला ताचो दर्जो सांबाळून थिरासाणेन रावोंक सकलागी म्हळ्ळीं सवलां थोड्या कोंकणी फुडारीं थंय तवळच उदेल्लीं.

## तियात्राच्ये अवनतेक कारणां

तियात्राची अवनती म्हणताना कारणां सबार आसोंक जाय. आजकाल मनोरंजन क्षेत्रांत बळाधीक दुडवा व्यवहाराचे प्रतिस्पर्धी उदेल्यात ते आसात दूरदर्शन, पिंतूर (फिल्मां), थर्थरें विजेसक्तिचें संगीत आनी प्रेक्षक आकरषणेचो क्रीडा–खेळ. पूण असल्या रंजनेक अपवाद जावन आंतोनी मेंडीस, जसिंत वाज, ज्यो रोज, आलफ्रेड रोज, पावल रोमी, रिको रोड, असले तालेंतवंत तियात्रिसत ह्या प्रतिस्पर्धीं वयर जयत जोडून लोकामोगाळ जाल्यात. एका तेंपार कोंकणी पिंतुरांक जयत लाबाजे जाल्यार ह्या प्रख्यात तियात्रिसतांची तांकां अत्यवश्यक गर्ज पडताली. त्याचपरीं लोकामोगाळ तियात्रिसत नासताना काडलेलीं पिंतुरां जयतेवंत जावंक सलवल्ले दाखलेयी असात.

पूण तियात्राक आनी तियात्रिसतांक, गोवा, मुंबय आनी इतर कोंकणी वठारांनी कोंकणी लोकामधें नामणिकाय आनी मान्यताय आसल्यारयी दूरदर्शन, अंतरजाळ, पाश्चात्य थर्थरें संगीत आनी इतर पऱ्याय मनोरंजन माध्यमा मुखार जियेवंक आनी प्रेक्षकांक आकरषीत जावन उराशें करुंक तितलें सुलभायेचें न्हय म्हळ्ळें सत तितलेंच वीपऱ्यासाचें म्हण समजाजे पडलें. कारण राज्य सर्काराच्या सांसकृतीक कार्यक्रमांची उसतुवरी पळेंवचे अधिकारी बोलिवूड पिंतूर निर्मापकांचेर आनी गावप्यांचेर लाखांनी दुडू खर्चून गोयांत जांवचें पिंतूर फेसत आकरषीत करतात शिवाय कोंकणी कलाकारांक आपवन उत्तेजन दीवंक पेचाडिनांत म्हण गोंयचें नैटिंगेल लोर्ना, कलाकार अनीलकुमार, शारोन, विल्सन माजारेलो हाणीं ताळो उटयलो मात्र न्हय सर्कारा थावन क्रियाळ पाटिंबो मेळोंकजाय म्हणच्यांत तांचे थंय सर्वानुमत आसा म्हण ग्रंथकर्त अंद्रे राफायेल फेर्नांडीस – When the Curtains Rise – म्हळ्ळ्या ग्रंथांत बरयता.

## मोक्येंवच्या कलाकारांची न्यूनता

एका तेंपार फेसतां–परबेच्या संदर्भार गोंयच्या हळ्ळेंनी जागोर आनी खेळ प्राकार जावन आसल्ल्याबरीच, पुर्वज तियात्रयी खेळयताले. हे तियात्र स्थळीय कलाकारांनी घडल्ले आसताले. ह्या खेळाचे तियात्रिसत, सेजराच्या हळ्ळेचे जावनासोन, हाचे संगीतगार आनी प्रेक्षकयी त्ये हळ्ळेच्या भोंवतोणिच्या सीमीत प्रदेशांतलेच आसताले. स्थळीय तर्नाटे सांगाता मेळोन तियात्र वेदीक चडंवच्या पयलें सबार दीस येसायो करुंक पेचाडताले. तर्ने मोक्येंवचे कलाकार मालघड्या कलाकारां सांगाता भर्सोन तरबेती घेवन उरबा आनी उमेद जोडताले. गांवकार असल्या क्रियात्मक वावराक पाटिंबो दीवन जावंक आसच्या

रंजनात्माक प्रदर्शनाक अन्रेगान राकोन रावताले. पूण आतां काळ बदल्ला. संसारभर तांत्रीक रितीन दृश्य माध्यमाचीं अपरतीम कार्यक्रमां घरा बसल्लेकडेच पळेवंक मेळतात जाल्ल्यान, हळ्ळेंनी मोक्येंवच्या कलाकारांनी मांडून हाडचीं तियात्राचीं प्रदर्शनां, उमेद उणीं जावन मायाग जावन येंवच्या हंतार पावल्यांत म्हणतात चरित्रेकार. एकादावेळा असलीं तियात्र प्रदर्शनां गर्ज म्हण दिसल्यार वृत्तिपर तियात्रिसतांक आपवन तियात्र खेळयतात व नाटक प्राकार खेळयतात म्हण आयकोंक मेळता.

आदल्या काळार नाडांत भुर्गीं कलाकारां ह्या तियात्राच्ये आशेन घरांनी आसल्लो वोली पडदे करून, घरचे बांक वेदी करून तियात्रा तसले खेळ मांडून हाडुंक उरबा दाकयताले. आतांच्या काळार तसलीं दृश्यां पळेवंक मेळानांत. कारण तांकां इसकोल शिकोंक आसा, घरांत दूरदर्शन, संगणक, अंतर–जाळांत खेळ असलीं सटासट रंजन कार्याक्रमां मेळताना कषट काडुंक नाका म्हण भोगल्ल्यांत नवाल ना. ह्या विचारांत नोन–स्टोप खेळ–तियात्राचो प्रख्यात निर्मापक आनी निर्देशक रोसेफर्न (Rosefern) म्हणता – ह्या नाडांतल्या तियात्र खेळा वर्वीं सबार तालेंतवंत तर्नाट्यांक कलाकार जावन मोक्येवंक एक प्रयोग वेदी जावन उपकाराक पडताली. असली प्रकिया आतां घडानातल्ल्यावर्वीं वृत्तिपर तियात्राक नवे तालेंतवंत तर्नाटे कलाकार मेळानासताना तियात्र क्षेत्राक एक बळाधीक धको बसल्ल्याबरी परिणाम जाला. असल्यो घडावळी तियात्रांच्ये अवनतेक प्रमूख कारण म्हणचांत कांयच दुबाव ना.

## प्रस्तूत काळार तियात्र सादर कला

गोंयकारांची प्रख्यात 'तियात्र' कला जिवाळ उरोवंक प्रसतूत काळार सबार बरयणारांचे, निर्देशकांचे आनी निर्मापकांचे पंगड दूड

निचेव करून मुखार सरल्यात. ह्या पयकी चडावत जण नव्या संततिचे शिकपी दादले आनी स्त्रियो जाल्यारी, कोंकणी तियात्रांक एक नवी दिशा दीवंक भायर सरल्यांत. हांच्या डारपोणाकाल कोंकणी तियात्राक घनाधीक कथानक, उंचले संवाद, संपूर्ण मनोरंजन, आश्नीक वेदी सजोवणी, उज्वाडाचो चमत्कार आनी बळाधीक आवाज उटोंवची व्यवस्था करुंक वावरून आसात.

प्रसतूत काळांतल्या प्रख्यात तियात्रिसतां पयकी तोमाजिनो कार्दोजो प्रमूख स्थान घेता. हो बार्देशांतल्या कांडोलीम ओर्दा म्हळ्ळ्या गांवांतलो. हो सबार संघ–संस्थ्यांनी वावुरला. राजकीयांतयी ताचो वावर सांगचो जाल्यार कांडोलीम पंचायताचो १५ वर्सां पऱ्यांत सरपंच आसल्लो मात्र न्हय तो गोंयच्या राजसभेचो सभापतियी जावनासल्लो.

तोमाजिनो एक शिकपी मनीस जाल्यारी तो ताकाच तियात्रिसत म्हण ओळकातालो. तो एक बरो कलाकार जावनासोन ताका कोंकणी भाशेचेर आनी तियात्राचेर भारी मोग आसल्लो, कारण तो ल्हानपणार थावन्‌च, कलाकारांच्या मदेंच व्हड जाल्लो. तोमाजिनो, ताच्या गांवच्या संगीत काऱ्यक्रमांनी पदां बरोवंक आनी गावंक शीकल्लो. सवकास ताणे तियात्र बरोवंकयी सुरू केले.

तोमाजिनोन बरयिल्ल्या तियात्राचो विशय चडावत समाजिच्या खोटेपण आनी राजकीय भ्रषटाचारा वयर आसतालो. ताणे ताच्या गांवांत तर्नाट्या कलाकारांचो पंगड बांदून ताका कलामोगी म्हण वोलायिल्लें. ह्या 'कलामोगी' पंगडान चडावत तियात्र स्पर्शनी भाग घेवंक तो प्रेरण दितालो.

तियात्राच्या प्रारंबार थावन सबार तियात्र वेदीर चडल्यात पूण तांतले ५% तरी मुखल्ये पिळगेक सांबाळन दवरुंक नांत म्हळ्ळी बेजाराय तोमाजिनो कला मोगी कंडोलीम ह्या स्मरणिकाचेर बरयिल्ल्या

लेखनांत उचारता. पूण जुवांव अगोसतीन फेर्नांडिसान ताणे लीखल्ले तियात्र विसाव्या शेकड्याच्या सुर्वेक पुसतका रुपार प्रगट करून देख दिल्ल्यान आजूनी ते वाचुंक मेळतात. पूण उपरांत आयिल्ल्या तियात्रिसतांनी तांची देख घेनातल्यान ताणीं घडल्लें साहित्य होगडावन घेतलां म्हण्येत. आलफ्रेड रोज कलाकारान ताचे तियात्र आनी घडल्लीं कंतारां आर्विल्या वर्सांनी प्रगट करून सांबाळून दवरलां म्हणतात. तशेंच तोमाजिनो कार्दोजोन ताचे प्रशसती जोडल्ले १५ तियात्र आनी वेदीर गायलेलीं कंतारां प्रकट केल्यांत. सेजार डी मेल्लो आनी मैक मेहेता हाणिंयी तांचें साहित्य प्रगट केलां. गोवा कोंकणी अकाडेमीन आदले थोडे तियात्र प्रगट केल्यात.

तोमाजिनोन चडुणे २० कोंकणी तियात्र बरयल्यात. तांतून १२ पुसतका रुपार प्रगट जाल्यात. ताच्या तियात्रां पयकी 'कांटेच कांटे'; 'जोगजोग्ता तितलें बंगार न्हय'; आनी 'मोवाळ वीक' भारी लोकामोगाळ जाल्यात. तोमाजिनोन चडुणे शेंबोरां वयर पदां घडल्यांत. तांतलीं थोडीं रनी मुद्रीत जावन पणजी आकाशवाणिचेर विन्रायल्यांत. थोडीं पदां पुसतका रुपार प्रकट जावन इसकोलांत कोंकणी शिकोंवचे कडेन शिकयतात.

तोमाजिनोन कोंकणी तियात्रा खातीर अर्पिल्ल्ये सेवेक सबार प्रशसत्यो लाबल्यात. तो गोंयच्या कोंकणी तियात्र अकाडेमिचो अश्ठ जावन तियात्राच्ये उदरगते खातीर वावूरला.

वीलमिक्स विल्सन माजारेलो अन्येकलो प्रख्यात तियात्रिसत. हो साल्सेटच्या वेलीम गांवचो. होयी एक शिकपी मनीस. हाका हाचा नौकरी निमती चडुणे संसारभर भोवुंक मेळतालें जाल्ल्यान सबार नमुन्याच्या व्यक्तीं कडेन संवाद करुंक आवकास लाभतालो.

वीलमिक्स विल्सन मांजारेलोन १९७४ इस्वेंत तियात्रिसत रिको रोड हाच्या कोंकणी संगीत कारयक्रमांत भाग घेवन ताची कलाकाराची वृत्ती सुर्वात केल्ली. हें संगीत कार्यक्रम रिको रोड हाणे निर्देशिल्लें आनी प्रख्यात संगीत निर्देशक फ्रेंक फेर्नांद हाणे मांडून हाडल्लें.

ह्या प्रख्यात संगीत कार्यक्रमांत भाग घेतल्ल्या उपरांत वीलमिक्स प्रख्यात तियात्र निर्देशक जावनासच्या सी. आलवारेस, एं. बोयार, रेमी कुलासो, जेसिंत वाज, प्रेम कुमार, आलफ्रेड रोज, आरिसटिडेस डायस हांच्या तियात्रांनी नटन करून प्रख्यात जालो.

वीलमिक्स नटन करता, गायता, पदां घडता, तियात्र बरयता आनी दिगदर्शन दिता. वीलमिक्सान ११ तियात्र बरयल्यात. ते आसात –'तियात्रिसत'; 'देवान सांडुंक ना'; 'सुक्ती – भरती'; लेडीस स्पेषलिसट; 'दुरीग'; 'कोंकणो'; 'संसार आनी सग'; 'मोगाची काणी'; 'चोर पोलीस'; 'रिकपण'; काजाराचें कापाड.

वीलमिक्साचे तियात्र समाजीक विशयाचेर चडावत मांडून हाडल्ल्यान गोवा, मुंबय, पूना ह्या गांवांनी प्रेक्षकांक भारी आवाडल्यात. मीलमिक्सान घडलेलीं पदां, पणजी आनी मुंबय आकाशवाणिचेर तवळ तवळ आयकोंक मेळतात.

ताणे पदांच्यो २५ शुती कोवो काडल्यात. कोंकणी तियात्रिसतांचो पंगड बांदल्लो पयलो तियात्रिसत म्हणतात. हाच्या तियात्रिसताच्या पंगडांत गोंयचे. मुंबयचे, पूनाचे आनी गलफाचे तियात्रीक वांगडी आसात म्हण तो म्हणता.

माजारेलोन `100 years of Konkani Tiatro' (कोंकणी तियात्राचीं शेंबोर वर्सां) म्हळ्ळो दाटोमोटो ग्रंथ बरयला. हो ग्रंथ गोंय सरकाराच्या आर्ट आंड कल्चर निर्देशालयान २००० इस्वेंत प्रगट केला.

प्रसतूत काळार सबार शिकपी मनीस तियात्र कलेक वेंगल्यात. त्या पयकी  ज्यो रोज, मैक मेहेता, प्रेमानंद सांगोडकर तियात्र बरयणार आनी निर्देशक जावन नांवाडल्यात. 'बोगलांट' आनी 'गिरेसतकायी' पिंतुरांत ज्यो रोजान नटन केलां जाल्यार, पावल रोमीन 'बोगलांट' आनी 'भुंयारांतलो मनीस' पिंतुरांत नटन केलां म्हणतच प्रेक्षकांक ह्या तियात्रिसतां वयर आकरषण आसल्लें म्हण कळीत जाता.

तियात्रिसत तोमाजिनो आनी माजारेलो बरी, ज्यो रोज, मेनिनो दे बंदर, पावल रोमी आनी फेल्सी प्रख्यात पदां घडणार जाल्यार, शारोन एक प्रख्यात मुखेल गावपीण म्हण नांवाडलेली. हिच्या मदूर ताळ्याक हिका कोंकणी मांचियेची नैटिंगेल म्हळ्ळें बिरूद मेळ्ळां म्हणतच तियात्र सादर कलेन सबार पदां घडणारांक, गावपी, गावपिणिंक निर्माण केलां. ह्या मुखांत्र कोंकणी भाशेक संगीत क्षेत्रांत गिरेसत केलां म्हणच्याक कायिंच दुबाव ना.

गोयांत आनी मुंबयांत तियात्रांनी काऱ्याळ जावन काम करचे सबार कलाकार आसात. हेरांनियी तियात्राक तांच्या तांकी बील्तरली सेवा दीवन उज्वाड कयला. हांगा हरयेकल्यांचीं नांवां काडुंक असाऱ. त्या भायर तियात्रिसतांची वोळेरी दिंवची ह्या ग्रंथाचो उद्देशयी न्हय. तशेंच मुखल्या जनांगांत वाडोन येंवचे तियात्रिसत, गावपी, पदां घडणार, नट, नटी, वेदी सजयणार, निर्देशक इत्यादी विविंगड विशयांचेर अनुभव जोडचो/जोडल्ले कलाकारयी आसात. तांतल्या तांतून धार्मीक व्यक्तियी आसात. तशेंच अरे-काळीक जावन सेवा दिंवचे कलाकारयी आसात. हे सगळे मेळोन तियात्र मुखल्ये पिळगेक व्हरुंक तांची तांकी बील्तरली सेवा दीवन्ंच आसात.

आजकाल तियात्रिसत ताणीं वेदीर गायलेलीं कंतारां शुती कोवळेंनी आनी सिडी-ंनी सांबाळून दवरतात मात्र न्हय तियात्र समेत सिडी-ंनी दाखलीकरण करून दवरतात म्हण आयकोंक मेळता.

## बांदावळिचे बांदपास

तियात्र, खेळ-तियात्र आनी नाटक कलेक कलाकारांनी, निर्मापकांनी आनी निर्देशकांनी, त्ये त्ये कलेक असलीच बांदावळ म्हण प्रेक्षकांक विवरिल्ल्यान कितेंय बदलावण जायजाय जाल्यार निर्देशकांक आनी निर्मापकांक कसलीय अडचण व समस्ये उबजाजे, न्हय तर तीच बांदावळ मुंदरून वेता. हांगासर तशेंच जालें. तियात्रांत संगीत आनी कोमेडी अंतर्गत जाल्ल्यान, प्रेक्षकांक त्या रंजना थावन तनाव निवरावंक जाय जाल्लेंय तेंच म्हणताना तियात्र निर्मापकांक बांदावळ बदलिनासताना रावल्ल्याक सांगचे तसले समस्ये उदेल्यात म्हळ्ळ्याक रुज्वात मेळानांत. त्याच कारणा खातीर सिञर लुकासिनो रिबेरोन प्रारंबार तियात्राक दिल्ली मूळ बांदावळ व संरचन सबार वरसां परयांत ताच्या पाटलावदारिंनी चालू दवरली, मात्र न्हय, ती बदलुंची अनिवाऱ्यता उपरांत नांवाडलेल्या तियात्रिसतांक गर्ज पडोंक ना म्हण चरित्रा वाचताना कळोन येता.

पूण खेळ-तियात्र प्राकार खेळ आकरा थावन नोन-स्टोप खेळ तियात्र उबजाता परयांत रुपांतर जावन्ंच गेलो. हाका कारणांयी सबार आसात. इंगलेजान एक सांगणी आसा-

'Necessity is the mother of invention' नवेसांव घडपाक अत्यवश्यक गर्ज उबजाजे म्हळ्ळो ताचो अर्थ. आदल्या काळार फेसतां-परबे वेळार जागोरा भाशेन उगत्या मळार व शेतांत मांची, पडदो इत्यादी कायिंच नासताना खेळ जाताले. खेळ गांवां-गांवांनी प्रख्यात जाताना, खेळ पळेयतेल्या लोकांची गडदी आसताली आनी पाटीं उबे आसलेल्यांक फेळ सार्को पळेवंक मेळाना जावन लोक गलाटो

गडबड करतालो. हाका उपाय म्हणोन खेळाचे कलाकार खेळ सादर करताले. त्या जाग्यार स फूट तेदे खांबे पुरून ताचेर फेळांची उग्ती मांची केली. मांची तयार करुंक, कदेलां हाडून मांडुंक, दुडवाचो खर्च बसता म्हणोन, खेळ कारबारयानी कदेलार बसतेल्यां थावन एक, दोन रुपय देणगी घेवंक सुर्वात केली. त्याच काळार खेळ–खेळतेल्यां कारबारयां थावन तियात्र सार्को कंत्राट घेंवचो वर्ग निर्माण जालो. खंयच्या गांवांत खेळ पळेवपी लोक चड एकटांय जाता ताची खबर काडून त्या जाग्यार बंद माटोव घालून खेळ प्राकार मांचियेर दाकवंक लागले.

खेळ प्रेक्षकांक चडानचड जमोवंक खेळ कंत्राटदारांनी आन्येक हिक्मत जारयेक हाडली. दोग मेसत्रिंच्या दोन खेळांच्या पार्टिंची स्पर्धा दवरून चड प्रेक्षकांक एकटांय करुंक सुर्वात केली. असल्या स्पर्ध्याक लागोन जमिने वयल्या खेळांचे परिगती वयर थोडे पावटीं एक खेळ पावलो जाल्यार स्पर्ध्याचो दुस्रो खेळ पावानातल्ल्या वेळार प्रेक्षक गलाटो करून बोवाळ घाल्ताले. ह्याच कारणांक लागोन १९६२व्या वर्सा आंतोन मोरायेसान खेळ–तियात्राचे मांचियेक तियात्र मांचिये सार्कें आधुनीक रूप दिल्लें आनी ह्या नव्या प्राकाराक खेळ–तियात्र अशें नांव दिलें.

ह्या खेळ–तियात्रांत दोन कतेच्यो दोन पार्टी करून एक खेळ–तियात्र म्हण दाकयतले. दोन कथा म्हळ्यार दोन वे–वेगळे विशय आटाप्ताले. दोन विशय म्हळ्यार पळेयतेल्यांच्या मनांत थोडो घुस्पड गोंदोळ जातालो. हो गोंदोळ निवरावंक १९७६व्या वर्सा पयलेच पावटीं एकच कथेचें सूत्र धरून त्येच कथेक लागू जातात तसलीं गितां, संवाद, घडणुक्यो आनी विनोद सांगाता घालून तीन वोरांची एकच दाकोवण घडली आनी ती लोका मुकार सादर केली. ह्या नव्या प्राकाराक ताणीं 'नोन–स्टोप ड्रामा' अशें नांव दिलें.

नोन–स्टोप ड्रामा बरी एक्येच कथेचेर आधारून तीन वोरांची दाकोवण तियात्रांनी दाकयतात, पूण तियात्र कथेक लागू जायनांत तसलीं दूसऱ्या विशयाचीं सबार गितां (कंतारां) आनी कथे भायलो विनोद आसता. असली बांदावळ तियात्राक प्रारंभार थावन आज परयांत मेकळी जावंक आयकालिना. ह्याच संपरदायीक बांदावळीक लागोन तियात्र प्राकार आदुनीक जिवसाणेच्या नाट्य रुपाक रुपांतर जावंकयी ओप्पलोना म्हणतच हाचो परिणाम गंबीर जावंक पावलो. कारण गेलेत्या दोन शेकड्यां थावन लोका मोगाळ जाल्ल्या तियात्राक पाटीं घालन आयच्या काळार खेळ–तियात्र मुकार सरला म्हण कला मोगी कंडोलीम ह्या स्मरणिकेर बरयिल्ल्या लेखनांत लोकामोगाळ तियात्रिसत तोमाजिनो कार्दोजो सांग्ता. ह्याच रितीर आंद्रे राफायेल फेर्नांडिसान बरयिल्ल्या – 'When the Curtains Rise - understanding Goa's vibrant Konkani theatre' म्हळ्ळ्या ग्रंथांत तो म्हणता "तियात्रांत शिकपी मनीस भितर सरल्यात जाल्यारी, तियात्राची वाडावळ उंचायेक पावोंक ना... (crisis in tiatrs)" असल्या सबार कारणा निमतीं नोन–स्टोप ड्रामाचें नाट्य रूप, तियात्राचे अवगूण निवरावन प्रेक्षकांक संतृप्ती करच्या खातीर तात्किकेन प्रगती जाते आसा.

ह्याच प्रकार काळ बदल्लेबरीच सादर कलेची बांदावळ लवलवीत आसोंक जाय–शेकड्यां थावन संपरादाय म्हणोन बांदावळिच्या बांदपासान निबोर ऊरली तर ती सादर कला आतांच्या बदलवणेच्या काळार नाटक कले भाशेन स्पर्धात्मक जावन उराना म्हळ्ळें सत वयर उचारिल्ल्या अभिपराये थावन कळोन येता. असलें निब्बोर सिद्दांत लोक–नाट्य कलेचें जाल्ल्यान तियात्र कलेक तें लागू जाता मात्र न्हय तियात्र कला, एक लोक–नाट्य प्राकार म्हणोन तिर्मान करुंक आवकास मेळता. 

# पर्तोंवणी

अख्ख्या संसारार आदिमानवाच्या काळार थावन नैसर्गीक शक्तिंक कंगाल जावन, देव-देवांक मेचवोंक आनी आराधन करुंक सूरवात केल्ल्या दिसा थावन रंगाभिनयनाची सूरवात जाल्ली म्हण कळोन आयिल्ल्यान, हेर भाशेंच्या चारित्रा बरीच कोंकणी भाशेच्या चरित्रांतयी लोक-नाट्य प्राकार आसल्लो म्हण आतां स्वष्ट जालें. पाश्चात्य देशांनी आसल्ले बरी भारत देशांतयी लोक-नाट्य प्राकार आसल्लो आनी त्याचपरीं कोंकणेचें कुळार गोयांतयी लोक-नाट्याच्या क्षेत्रांत विवीध प्रकृती घटक, लोक शैली हांचीं समावेशां आसल्लीं.

ह्या लोक-नाट्याच्या परंपरेंत 'पेर्णिजागर' म्हळ्ळो लोक-नाट्य प्राकार नव्या शिलायुगा थावन देंवोन आयिल्लो म्हण चरित्रेकार मानतात जाल्ल्यान कोंकणी रंगमंच्येचें मूळ प्राचीन काळाक वोडन व्हरता. त्या देकून कोंकणी रंगमंच्येची चरित्रा आर्वाचीनाची न्हय म्हळ्ळेंयी आतां स्पष्ट जालें.

गोंय प्रदेश आदीं थावनयी सबार राय-रायांच्या आडळतेक ओळग जाल्ल्यान थंयच्या संगीत, नृत्य आनी नाट्य कलेंतयी तशीच बदलावण जायित्त आयली. त्याच प्रकार गोंय प्रदेश, विदेशी पुरतुगेज राज्वोटकेक ओळग जाल्लेंच गोंयची संस्कृती देशी आनी विदेशी संस्कृतिंतल्यान भरसोन आयली. तशेंच नाट्य कलेंतयी वांटे-फांटे जावन हिंदू खेळ आनी क्रिस्ती फेळ म्हळ्ळे वेवेगळे प्राकार उबजाले.

अशें लोक–नाट्य कलेंत बदलावण जावन वाडावळिच्या हंताक पावताना, धर्माच्या विधी–विधानाच्या बांदावळिंतल्यान सवकास भायर येवन रुपांतर स्वरूपाक वेंगोंक प्रारंभ केलें. लोक–नाट्याच्या प्रदर्शनांत प्रेक्षक जावन रातभर जागरणेन शेणलेल्या जिवाक कलाकारां थावन मनोरंजनान मेचोंवचें प्रयत्न चलतालें. ह्याच प्रयत्नाक लागोन नाट्य कलेंत रुपांतर स्वरूपाच्या येण्या वर्वीं सोंग आनी दोंग म्हळ्ळ्या दैवी आनी मानवी पात्रांची प्रामुख्यता चडोन नाट्य कलेंत बदलावण जायित्त आयली.

लोक–नाट्य कला जागरा थावन रूपांतरीक बदलावण आनी धर्म बदलावण जावन क्रीस्ती जागोर प्राकार उत्पन्न जाल्यारी, पुर्विल्या काळार ह्या नाट्यकलेक व्यवस्थीत बांदावळ लाबलिना. त्याच कारणांक लागोन साहित्याची आनी संगीताची वाडावळयी जाली ना. प्रदर्शनांत प्रेक्षकांक रंजन करच्या होरबोसान वायट गजाली घडोन, जागोर प्राकारच लोकांक उस्मोडेचो जालो. मर्यादिचीं घराणीं ह्या प्रदर्शनांक पात्र घेवंक व प्रेक्षक जावन येवंक पाटीं सरतालीं, पाटिंबो प्रोत्साव दीवंक नर्गातालीं आनी नेर्गातालीं. ह्या पाटथळाचेर तियात्र प्राकाराचो जल्म जाल्लो, अशें चारित्रा सांगता.

नाट्यकलेक विदेशी भासांनी खेळ, नाटक आनी थियेटर अशें वेवेगळे सब्द त्या त्या संदर्भा परमाणे वापरतात. देशी भासांनी खेळ आनी नाटक म्हळ्ळे सब्द वापरतात. पूण थियेटर सब्दा थावन तियात्र सब्द प्रयोगाक आयल्यारी, तियात्र हो कोंकणिंतल्या नाटकाचोच पूण एक खाशेलो आनी वेगळो प्राकार अशें म्हणाजे पडता. ह्या तियात्राक वेगळीच परंपरा, विशिश्ट धर्माचो प्रेक्षक वर्ग अशें सर्व वेगळेंच आसा म्हण्येता.

रंगाभिनय आदीं मागा थावन आसलेल्यान विदेशी आनी देशी भासांच्या नाट्य कलेचे दोन भाग करतात. म्हळ्यार लोक–नाट्य

प्राकार आनी आधुनीक नाटक प्राकार. अशें नाट्य कलेचे दोन वांटे जाताना गोंयचो खाशेलो तियात्र प्राकार खंय बसता म्हळ्ळो वाद ह्या ग्रंथांतली एक चर्चा वस्तू. हो वाद आनी प्रतिवाद हांगा संपोंक ना.

आदीं थावन आतां मेरेन प्रख्यात इंगलीष बरयणार शेक्सपियाराच्या नाटका विश्यांत विविंगड विमर्सो आनी विशलेषण जायित्त आयलां. एकेकलो विमर्शेगार तांच्या तांच्या चिंतपा आनी परिकल्पना प्रकार विश्लेषण करते आयल्यात म्हणताना ताका अंत्य ना म्हण जालें.

लोकवेद प्राकार सूचीत केल्ल्या दिसा थावन ताचो अर्थ आजूनयी एकेकलो चरित्रेकार एकेक नमुन्यार ताचो अर्थ दिते आयला म्हणतच, वेळाकाळा पर्माणे कसो लोकवेदाचो अर्थ बदलोन्ंच वेतागी, तशेंच लोकवेदा प्रकार वर्गीकरण केल्ली नाट्य कलेची दिशायी बदल्ता. म्हळ्यार आज थोडया विमर्शेकारां पर्माणे तियात्र नाट्य प्रकार लोक नाट्य जावन वर्गीकरण जाल्यार, वेळाकाळा उपरांत मुखारीं उदेंवच्या साहिती पर्माणे तियात्र आधुनीक नाट्य प्रकार म्हणोन वर्गीकरण जांवकी पुरो. असल्या वाद–प्रतिवादाक अंत्य ना आनी हो वाद संपोंकी नजो. उग्तो दवरिजे. तवळ मुखार येंवच्या साहितिकारांक, संशोदकारांक विमर्सो आनी विशलेषण करतेल्यांक बासाबास करुंक उग्तो अवकास मेळतलो आनी ह्या विशयाचेर आनीकयी चड आनी चड ग्रंथ उत्पन्न करुंक आवकास मेळतोलो.



अनुबंध–१

# ‘तियात्राचो भांगाराचो जुबलेव’

(पाय तियात्रिसत जुवांव अगुसतिनो फेर्नांडीस हाणीं ‘आवे मरीय’ नांवाच्या रोमन लिपी कोंकणी हप्त्याळ्याचेर, तियात्राच्या भांगाराच्या जुबलेव संदर्भार बरयिल्लें लेखन, शेंबोर वर्सांवी चरित्रा संकलन केल्या. वीलमिक्स विल्सन माजारेल्लो हाणीं ताच्या ग्रंथांत दिल्लें हांगासर दिलां)

"तियात्राचो भांगाराचो जुबलेव" –

"जेदनां हांव फुडें सरलां सेलेबरार करुंक भांगाराचो जुबलेव कोंकणी तियात्राचो, म्हाका गरज पडता. थोडीं कोंतां दीवंक आतांच्या तियात्रिसतांक आनी दुस्रें सगळ्या गोंयकारांक कोण वोरतोवता तो पयलो गोंयकार जो फुडें सरलो कोंकणी तियात्र बरंवच्याक आनी कोणाक वो ती पयली मानादीक सुवात ह्या कामान.

ही खबर आजूनयी कोण नोको. ह्या पासत म्हाका खुशी हें तुमकां कळीत करुंक हांव मोरच्या आदीं थोड्याच उत्रांनी थोडे म्हातारे म्हज्या तेंपा वेले जाणा जातले की कोंकणी तियात्र जांवचे आदीं बोंबय जागोर जाताले म्हण आनी ह्या जागोरांक लागोन गोंयकारांक पर्को लोक हासतालो. दुस्रे तियात्र दिताले आमचे गोंयकार पूण तेवूय इंगलेज आनी पोरतुगीस भाशेन. हे दिताले मेंबरो ‘ईनस्टिटुटो लुसो इंडियानोस’ हाचे वर्साक एक व दोन पावटीं गेयटी थियेट्रांत (Capital Cinema) आनी कवसजी होलांत दोबितलाव तांचेच तियात्र दिताले. दिवीरटिमेंट गोंयकारांक त्या तेंपार सुमार १८९० वर्सा इटालियन

ओपेरा कंपेनी दिताली आपले ओपेरा बोंबय आनी त्याच तेंपार संपललो सिञर लुकासिनो रिबेरो पावलो बोंबय. ताका तांचे ओपेरा बरे मांदले आनी चिंतलें ताणे चाक्री मेवता जाल्यार पळेवंक. तांचे पर्दे सांबाळुंक आनी पळेवंक कित्याक तो दुस्रें काम नोको आसलों आनी ह्या पासोत कोण एकल्या गोंयकाराक फुडें घालून ताका मेवली सीरवीस पर्दे पळेवंक, थोड्या पागान. ह्ये कंपेनिच्या बरोबर तो भोंवलो पूना, मद्रास, सिम्ला आनी कल्कत्ता उपरांत ती कंपेनी बर्मा वेच्या आदीं ताणे चाक्री सोडली आनी आयलो बोंबय मतिंत धरून तांचो एक धाकटुलो ओपेरा. बोंबय ताणे इश्टागत केली संपलेल्या कैतानिनो फेर्नांडीस हाची (तालेगांव–चो) आनी हे दोगूय वावरुंक लागले भुर्गे सोदुंक पारती दिंवच्याक. पूण चड कठीण तांकां पडलें. भुर्गे मेळुना, कारण त्या भुर्ग्यांक समजालें तो तियात्र जायत म्हण जागोर. मोटी अडचोण जाली सी. रिबेरोक तियात्र उबो करुंक आनी ताची आस सोडली.

सिञर कैतानिनो जो वरतोवलो एंपरेगाद बोंबय गेजेट. तो एक दीस अवचीत मेवलो म्हाका आनी सांगली खबर तियात्राची आनी ताचे बरोबर एका आयतारा दीस हांव गेलों, सी. रिबेरोक मेळोंक पिकेट रोड. आमची ओळक जाल्या उपरांत हांव सदां सांजेचो सीरविसाचो सुटलोच सी. रिबेरो सर्शीं वेतालों आनी म्हजो वेळ पाशार करतालों. दोगांयच्या सांगाताक. एक दीस आमी तेगायनी चिंतलें भुर्गे सोदुंक कुडांत वचोन आनी अशें तसें करून आमकां मेवलेत दोग जण. तांतलो एकलो आजूनयी आसा गोयां. आनी तो सी. अगुसतिनो मसकरेञस. ९ जण भुर्गे जाय आसले तो ओपेरा घालुंक स्टेजीर आनी जण एकल्यान दोन तीन पात्र घेवून येसाय मारुंक लागलेत सांजेची. तियात्र उबो करुंक देकल्या उपरांत आमची तयारी सी. रिबेरोन बुन्याद मारली. कोंकणी तियात्राच्या ५ एकटारांक

सांगाताक घेवून रोदोंद बंगल्या सर्शीं पिकेट रोड ब्रेर मयन्यांत १८९२ वर्सा आनी त्याच वर्सा एपरिलांत दाकयलो ताचो पयलो कोंकणी ओपेरा 'इटेलियन भुर्गो' न्यू अलफ्रेड थियेटर, जें घर आसलें आतां पोलीस कमिषनराचें हेड आफीस आसा थंयसर. हो पयलो तियात्र पळेवन लोक अजाप जालो. बोव करून ओपेरा, हेर कंतारां आनी तुवाद आयकोन आनी विलूदाचीं ड्रेस्सां पळेवन, जीं सी. रिबेरोन सवाय घेतल्लीं त्ये कंपेनी लागच्यान.

बुन्याद घट केली आनी उपरांत सी. रिबेरोन दिल्यात अल्लादीन आलिबाबा आनी कारलोस माग्नो, हे सगट गोवा पोरतुगीस ड्रामाटीक कंपेनिच्या नांवान. कुड्डा नटकाय बील्तर सरली आनी दूसऱ्यांच्ये बुदीन सी. रिबेरोन आमकां सांडून आनी एक कंपेनी काडली रिबेरो आनी डी क्रूज ओपेरा कं. मश्गात जायतीं क्लब्बां जल्मोलिंत. थोडीं वर्सां वांचोन मेलिंत, तीं क्लब्बां: लुसितान, दोना आमेलिया, दोम कारलोस, दोगलास कोमीक ओपेरा, कराची वालियास डेलेकटेबल कंपेनी, गोवन युनियन, लाजरूस कोमीक ओपेरा, गोवा नाशियोनाल. हीं सगळीं क्लब्बां नट्टक जालीं एकामेका पाटल्यान, फकत एकूच आमच्या मदेकात आजुनीय आसा तें सी. रोचा-चें क्लब यूनियन जाक. ह्या ५० वर्सां मदें हावें बरयल्यात २७ ड्रामा कोमेडी. हांतले १६ हावें स्टेजीर घाल्यात. आनी ११ दिंवचे ऊरल्यात. ह्या २७ हांतले कत्त ४ तियात्र हावें उत्रायल्यात. हेर सगळें म्हजें घडप.

पयली मानादीक सुवात फवो दुबाव ना, संपलल्या सी. लुकासिनो रिबेरोक, हांव म्हजी तकली बागायतां. सी रिबेरोच्या फोंडार जो वर्तोवता म्हजो मिसतीर ह्या तियात्राच्या कामान आनी ताचो मारोग हांव आजूनयी चल्तां मरयादीक आनी शिकवणेचे तियात्र दाकोवन म्हज्या गांव भावांक".

*–जुवांव अगुसतिनो फेर्नांडीस* (*Ave Maria 28th Nov. 1943*)



अनुबंध-२

# गोवन तियात्र - लोक नाट्य न्हय

मानेसत तोमाजिनो कार्दोजान-'गोवन तियात्र' - लोक-नाट्य न्हय म्हळ्ळो वाद मांडून गोंयच्या 'The Navhind Times / Panorama' ह्या इंगलीश पत्राच्या २००८ इस्वेचा जनेर २० तारिकेच्या अंक्यार बरयिल्ल्या इंगलीश लेखनाचें भाशांतर -

"थोड्या दिसां आदीं श्री पावल मोरास, कोंकणी बरयणार मंगळूर थावन, म्हाका मेळोंक येवन गोंयच्या तियात्रा विश्यांत माहेत विचारिलागलो. मोरास गोंयच्या संसकृती विश्यांत एक ग्रंथ बरयता आनी गोंयचो तियात्र ताच्या अध्ययनाचो एक विशय. गोंयचो तियात्र म्हळ्यार आधुनीक ड्राम आनी पदांचो एक मिसळाप, म्हण हांव ताका सांग्ताना, तो पात्येवंक ना, कारण गोयांत ह्या विश्यांत भेटलेल्या हऱ्येकल्यांनी (देवनागरी लिपीन बरयतेले बरयणार) गोंयचो तियात्र एक लोक-नाट्य प्राकार म्हण ताका सांगलां. हांवेय परिशीलन केल्ल्या प्रकार पुंडलीक नायक हाच्या 'दी तियात्र म्याजीक' (The Tiatr Magic) लेखनांत (In the book 'Redefining Horizons' published by the department of Information and publicity Government of Goa) गोवन तियात्र एक लोक खेळ म्हळ्ळेबरी विचार मांडता. गोंयच्या कला अकाडेमीन प्रकट केल्ल्या श्री विनायक विषणू खेडेकार हाच्या 'लोकसरिता' म्हळ्ळ्या मराठिंत बरयिल्ल्या पुसतकांत तियात्राचो अत्मो लोक-नाट्याचो म्हण सांग्ता. आर्विल्ल्या काळार श्री अलेक्स

फेर्नांडिसान प्रकट केल्ल्या ‘तियात्रिसत-पोर्ट्रेटस’ (Tiatrists - Portraits) वोळेरिंत (Catalogue) श्री रंजीत होसकोटे ताच्या प्रसतावनाचा निबंधांत -गोंयचो तियात्र नाट्य कलेचो एक लोक-नाट्य प्राकार म्हणता. तशेंच हेर सबार कोंकणी बरयणारयी गोवन तियात्र, नाट्य कलेचो एक लोक-नाट्य प्राकार म्हण सांगचे आसात. आतां म्हजें सवाल-खंच्या आधाराचेर गोवन तियात्र नाट्य कलेचो लोक-नाट्य प्राकार म्हण हे वर्गीकरण करतात.

गोवन तियात्र एक लोक-नाट्य प्राकार म्हण वोलायतेल्या बरयणारांक तियात्र आनी खेळ-तियात्र ह्या दोनां मदलो व्यत्यास समजोंक ना म्हण दिसता. तांकां हे दोनी प्राकार एकच म्हण दिसोंक पुरो. वासतविकता प्राकार खेळ-तियात्र, गोंयच्या लोक-खेळ व फेळ प्राकाराचो विसतरीत आकर. जमिने वयर खेळंवचो खेळ व फेळ प्राकार चडुणे ३०-३५ वर्सां आदीं मांच्ये वयर खेळंवची प्रकिया प्रारंब जाली. त्या दिसा थावन त्या प्रकाराक खेळ-तियात्र म्हळ्ळें नांव पडलें. हो खेळ-तियात्र पयले पावटीं मांच्येर खेळयताना, ह्या प्राकारांत लोक-नाट्याचें अंश आसोंक पुरो. पूण आयच्या काळार ह्या खेळ-तियात्रांतयी लोक-नाट्याची निशानी ना.

म्हाका समजाल्ल्या प्रकार, लोक-नाट्य व पदां व संगीत सामान्य जावन एका संतते थावन आन्येका संततेक तोंडपाशीं व अनुकरण कर्न संचरण करच्या विद्येक सीमीत. त्ये कलेचे घडणार आनी बरयणार अनामीक. ताणीं बरयिल्ल्या गद्याचें, पद्याचें आनी संगीताचें बरपिनिशीं रिकार्ड ना. तांचें संगीत निबोर, गावपी दरग, संगीताचीं व्हाजंत्रां गांवटी आनी सांपरादायीक आनी संगीतगार गांवगिरे. तियात्राच्या विशयांत तसलो लोक-नाट्य प्राकाराचो कसलोच गवाय ना.

तियात्राच्या परिकल्पना विश्यांत थोड्या मनशांच्या चिंत्पा वर्वी तियात्र एक लोक–नात्य प्राकार म्हळ्ळो गोंदोळ उबजोंक कारण. तियात्राक गद्य, पद्य आनी संगीत आसा, म्हणोन तियात्र गद्य नाटक, व संगीत नाटक म्हणोंक जायना. कथानक स व सात वांटे कर्न अंक केल्ल्याक पडदे म्हणतात. ह्या अंका मदगत दोन व तीन कंतारां (पदां) आसतात. ही कंतारां तियात्राच्या कथानकाक केदनांय संबंद आसानांत. एकेक कंतार विभिन्न विशयाचेर घडतात. अशें तियात्राच्या कथानकाचो निर्धिषट एक विशय जाल्यार, बारा व १४ कंतारां विवीध मुद्द्याचेर आसतात.

आतां तियात्राचें संरचन कशें विकासन जालें पळेव्यां. पयलो तियात्र इ़टेलियन भुर्गो लुकासिनो रिबेरो हाणे बरयलोलो १८९२ इस्वेच्या एपरील १७ तारिकेर मुंबयिंत सादर जालो. हो तियात्र इटेलियन बोय म्हळ्ळ्या इटेलियन ओपेराची रूपंतर कृती. विविंगड दृश्यांक तक्षण वेदी सजवंक त्रास जाल्ल्यान वेळ विबाडचो आडावंक रिबेरोन दृश्यां मदगात, पडद्या मुखल्यान कंतारां गांवची पद्धत सूरवात करची आलोचन केली. ह्या पद्दतेंत प्रेक्षकांक उबगोण जायनातल्लें. अशें पयल्या प्रयत्नांतच तो यशस्वी जालो. हीच चौकट तियात्राचें संरचन जालें. ह्या साहित्याचें मूळ कळीत आसा. बरयणारयी कळीत आसा. दूसऱ्ये सुवातेर संगीताचीं व्हाजंत्रां, कंतारांक संगीत दिंवचे तसलीं. तांतून वायोलीन, बांजो, ट्रंपेट, सेक्सोफोन आनी ड्रम आसात. हांतून गांवटी व्हाजंत्रां नांत व संपरादायाक कंतारांयी नांत. संगीतगार संगीत शिकलेले आनी ते संकेत लिपी वाचुंक आनी बरोवंक जाणांत. असलें संरचन भारतीय रंगभूमिचेर, युरोपाच्या आधुनीक थियेटराचेर अगाद प्रभाव जाल्ल्या वेळार काऱ्यरूपाक आयिल्लें.

पयलो तियात्र 'इटालियन भुर्गो' हाच्या यशस्वे उपरांत लुकासिनो रिबेरोन विश्वाच्यो श्रेषठ कृतियो 'अल्लादीन', 'आली बाब' आनी 'कारलोस माग्नो' रुपांतर केल्यो. सेबेसटियन गाबरियेल डिसोजान– 'मर्चंट ओफ वेनीस'; 'अज यू लायक ईट'; 'ह्येम्लेट' आनी 'विंटरस टेल' असले श्रेषठ नाटक भाशांतर करून तियात्र चौकट भितर सादर केले. जुवांव लाजरस डिसोजान 'रोमियो एंड ज्युलियेट' श्रेषट कृती रुपांतर करून सादर केली.

जुवांव अगुसतिनो फेर्नांडीस स्वंत तियात्र बरयिल्लो पयिल्लो तियात्रिसत. हाणे गोंयच्या समाजेक जांवच्या अन्यायाच्या विशयाचेर होंदोन तियात्र बरयले. भावनात्मक कंतारां घडोन ताका स्वंत ताळो बसयललो तो मालघडो कलाकार म्हण नांवाडलो. ह्या दृषटिकोना वर्वी तियात्राक लोक नाट्याचें स्वरूप, जांव लोक–गितांक व लोक–संगीताक ना. तियात्र आधुनीक थियेटराचें फळ, आधुनीक गद्याचें, पद्याचें आनी संगीताचें एक मिसळाप.

*– तोमाजिनो कार्डोज*



अनुबंध-३

# कोंकण तियात्रो-गोंयचो लोकवेद

मानेसत वीलमिक्स विल्सन मजारेलोन-'तियात्र-गोंयचो लोकवेद' म्हळ्ळो प्रतिवाद मांडून गोंयच्या हेरालड इंगलीश पत्राचेर २००८ वर्साचा मार्च ९ तारिकेच्या अंक्यार बरयिल्ल्या लेखनाचें भाशांतर -

"लोकवेद हें उतर "लोक-जिणी" (Folk-life) आनी "लोक-कला" (Folk-arts) ह्या दोन उत्रांक लागशिल्यान संबंद आसा.

लोकवेद (Folk lore) ह्या उत्रा सांगाता इतर विशय आटापून आसतात-काणी सांगची, वोपार (Proverbs), हुमिण्यो (Riddles), संपरदाय (customs), पात्येणी, तांत्रीक परिणती (Technical Skills), भास, साहित्य, दृश्य विद्या (Visual arts), वासतुशिल्प (architecture), संगीत, नाच, विधी आचरण घर कैगारिको (handicraft), इत्यादी. आनी तांतून लोक-नाव्ययी मेळोन आसा.

आनी लोक-नाव्य म्हळ्यार कितें?

लोक-नाव्य म्हळ्यार संक्षिप्त थरान लोकांचो नाटक, लोकांनी आनी लोकां खातीर.

आनिकी सांगचें तर-

a) एक नाटक-संपरदायीक नाटकाचें रूप, पुर्विल्या काळा थावन आतांच्ये पिळगेक दें‍वोन आयिल्लें. सादार्ण आदल्या काळाचें पिंत्राण, आतांच्या काळार लग्ती जाल्लें आनी मुखल्ये पिळगेक उपकाराक पडचें.

b) एक नाटकाचें रूप, 'चडावत संचारी सभावाचें म्हळ्यार गांवां थावन गांवांक प्रमूख जावन हळ्ळ्यांनी वचोन सादर करचें.

c) एक नाटकाचें रूप चडावत जावन संगीत, काण्येचो अविबाज्य अंग जावन आसता.

d) तो नाटक सादर करतेल्यांच्या समाजेच्या जिण्ये–रिती विश्यांत पिंत्रायता आनी त्या प्रेक्षकां सांगाता आपलेंपण दाकयता.

e) हो एक नाटक चडावत जावन हळ्ळ्यांनी सादर जाता आनी त्या लोकां संबंधीत विशय घेवन हाताळता.

– होच तो कोंकणी तियात्रो. त्या देकून हो कोंकणी तियात्रो, गोंयचो गोवन लोक–नात्य म्हणोंक जायना? आनी त्या देकून गोंयचो लोकवेद जायना? ह्या विश्यांत चडतीक समर्थन करच्या खातीर थोड्या प्रमूख अंताराषट्रीय लोकवेद संघटनां, सरकारी संस्थे, आनी खाशेले तियात्रिसत, कशें लोकवेद व्याख्यान करतात पळेव्यां.

१) अमेरिकन लोकवेद संरक्षण कायदो–अमेरिकन लोकवेद अशें व्याख्यान करता. (The American Folklore Preservation Act (P.L. 94–201)) अमेरिकन लोकवेद म्हळ्यार सांपरादायीकपणी अभिव्यक्त करची संसकृती, युनायटेड स्टेटसाच्या विवीध पंगडां मधें वांटून घेंवची. कुटुंबीक, अनुवंशीक, (ethnic), वृत्ती संबंधीक (occupational), धार्मीक, प्रादेशीक; सूचक संसकृती भितर विसकृत नमुन्याची क्रियात्मक आनी सांकेतीक रुपां आसात. तीं आसात–रिती रिवाज्यो पात्येणी, तांत्रीक परिणती, भास, साहीत, कला, वासतुशिल्प, संगीत, खेळ, नाच, नाटक, विधी आचरण, घर कैगारिको: हीं सूचकां प्रमूख जावन अनुकरण करन व सादर करन तोंडपाशीं शिकचीं आनी चडावत जावन अधिकृत शिकोवण व संस्थ्याचें मार्गदर्शन नासताना फायद्यावीण सांबाळचीं.

२) टेक्सास राज्य चारित्रीक संघटन लोकवेद आनी लोकजिणी अशें व्याख्यान करता. (The Texas State Historical Association defines "folklore and folklite" as follows).

लोकवेद आनी लोक–जिणी:(Folklore & Folk life) लोकवेद म्हळ्यार एक प्रायोगीक आनी उगडासांत ऊरचे तसलें व्याख्यान, एका संसकृतेची सांपरादायीक जाण्वाय, चडीत जावन, सांपरादायीक रिती–रिवाज्यो आनी पात्येणी, उलोवपाचो नमुनो, काणियो आनी पदां, एका पंगडा थावन व संतती थावन आन्येकाक अनुपचारीक रितीन पाशार जांवची संसकृती.

ताच्या मुळा थावन विंगड सरची तितली पर्नी आनी हरयेक्ये पिळगेन तांच्ये गर्जेक आनी मर्जेक रुपीत करचे तितली लवचीक (Plastic). लोक–जिणी म्हळ्ळो सब्ध लोकवेदाच्या व्याख्याना भितर येता.

३) लोकवेद म्हळ्ळो सब्द १८४६ इस्वेंत विल्लियम तोमस म्हळ्ळ्या ब्रिटीश प्राचीन वसतू संशोदक (antiquarian) हाणे प्रयोग केल्लो. हाचे पर्माणे लोक–नाट्य (Folk Drama) आनी लोकवेद (Folk-lore) कितें म्हण पळेव्यां.

लोक–नाट्य आन्येक प्रमूख सादर कला प्राकाराचें क्षेत्र. लोकवेदा विश्यांत लोक समुदायांत भारी उणें संवाद चलयला. प्रथम जावन हें एक निर्दिषट लोक वर्गाचें साहित्य म्हण मांदुंक ना. एकादावेळा निर्दिषट साहित्य म्हण विंगडसिल्यारी, तें फेसतां–परबेक आनी विधी आचरणेच्या संबंधीत सादर करचो प्राकार म्हण उलयतात. जाल्यारी आर्विल्या वर्सांनी चड आनी चड लोकवेदिंनी दक्षीण एशियाच्या दत्तांशा वयर (South Asian data) वावर करून लोक नाट्याच्या शिकपा विश्यांत व्याप्त विसतारायिल्ल्यान मनशा शासतीर आनी लोकवेद ह्या

दोनी संग्तिंनी तात्वीक वाडावळीक (Theoretical Growth) आधार जाला. कित्तून परयांतगी म्हळ्यार मनशा शासतिराचे मोराबरी शब्दार्था संबंदीत संसकृतिच्या बदलावणेचेर आनी विश्वाच्या विविंगड वर्गाच्या मनशा समाजेक निखरतेन, नाटका मुखांत्र अर्थ लावन आनी प्रत्येक जावन लोकनाट्य मुखांत्र पात्येतात.

तर आनी कितें सांगोंक आसा.

त्या देकून 'कोंकणी तियात्रो' खंडीत जावन गोवन लोकवेद जावन ऊरतलो. हेरां देशांनी आनी राज्यांनी केल्ला बरी, गोंयचे तियात्र सांबाळच्या खातीर आनी प्रगतेक हाडच्या खातीर सर्कारान मजत दिंवचें मात्र ऊरलां.

*–वीलमिक्स विल्सन मजारेलो*



अनुबंध–४

# सुटके काळार पर्जळ्ळेले तियात्रिस्त

१९२८ इस्वेंत टी.बी. कुन्ह म्हळ्ळया श्रेषठ सुपुत्राच्या फुडारपणाखाल गोंयचे सुटकेची चळवळ प्रारंभ जाल्ल्या काळा थावन १९६१ इस्वी दसेंबराच्ये १८ तारिकेर गोंयांक सुटका लाबल्ल्या परयांतलो काळ सुटके काळ. ह्या व्याख्यान ग्रंथांत तियात्र लोक–नाट्य म्हळ्ळयाक सुटके काळ एक साक्स जावन घेतिल्ले वर्वी ह्या काळार पर्जळ्ळेल्ल्या प्रमूख तियात्रिसतांची परिचय हांगासर दिल्या –

## 'अपोन्सेका'

ह्या कलाकाराचें पुर्तें नांव–आसीस जुवांव अवेलिनो अपोन्सो. हो कलाकार १९२० इस्वेंत रंगमंचार प्रवेश जाल्लो.

ह्या कलाकारान मार्सेला प्रिन्सिपाल ड्रामाटीक कंपेनी ह्या पंगडान खेळोंवच्या तियात्रांनी पात्र घेवंक सुर्वात केल्ली. उपरांत ताचोच 'स्टार अपोन्सेका ड्रामाटीक कंपेनी' म्हळ्ळो पंगड बांदून तियात्र खेळयतालो. अपोन्सेकान 'लवरीस आनी मारिना' म्हळ्ळो पयलो बरयिल्लो तियात्र १९२४ इस्वेंत गेयिटी थियेटरांत खेळयिल्लो आनी हो तियात्र सालभर प्रेक्षकांनी पळेवन मेचवणेक पात्र जाल्लो. ह्या उपरांत ताणे सबार तियात्र बरयले. त्या पयकी 'लिसबांवचें स्वपाण' आनी 'आंजेलीन बोंबयची फुजाड कर्न' इत्यादी तियात्री फामाद जाल्यात.

## एर्नेसट रेबेल्लो

हो कलाकार बार्देशांतल्या आलडोना गांवचो. भुर्ग्यापणा थावन्ंच कलाकाराचें देणें आसल्लें. हाका विनोदीक पदां घडचें स्वाभावीक तालेंत आसल्लें. तशें जावन प्रेक्षकांक तो बरो आवडलो. त्या भायर तो एका मटव्या जिन्साचो व्यक्ती जाल्ल्यान वेदीर तो हास्यास्पद जावन दिसतालो. तें ताच्या ख्याचेंच जातालें. निर्देशक ताका विनोदी पात्रच दिताले. ताणे कसलो पात्र केल्यारी प्रेक्षक ताका पळेवन हासताले. हाणे सबार तियात्र बरयल्यात. त्या पयकी 'हांव पात्की' 'बोंबयची इसतील' आनी 'आवयचो घूट' भारी नांवाडदीक जाल्यात.

एर्नेसट ताच्या काळाच्या सबार तियात्रिसतां पयकी, तियात्र पुसतका रुपार प्रगट करची गर्ज समजाल्लो एकलो म्हण्येत. त्या भायर बंग्वाडिच्या प्रिन्सेस थियेट्रांतयी तियात्र सादर केल्लो पयलो. कारण ताच्याकी पयलें, ह्या थियेट्रांत गुजराती आनी मराठी नाटक मात्र सादर जाताले. ह्या उपरांत कोंकणी तियात्रिसत बंग्वाडी थियेटरच चड खायस करुंक लागल्ले.

## दियोग्विनो डिमेल्लो

हो एक श्रेषट गावपी. तो इंगलीश पदां गातालो आनी कोंकणेंत तीं भाशांतर करतालो. हो कलाकार पदांयी घडतालो. हाचो ताळो भोव मव्‍र.

हो तारवार काम करतालो. संसाराच्या हरयेक बंद्राक वचोंक ताका आवकास मेळतालो. त्याचपरीं ताका आवकास मेळताना युरोपाच्या आनी हेर गांवांनी कोंकणी पदां गायतालो जाल्ल्यान ताका कोंकणेचो रायभारी म्हणताले.

ह्या कलाकारान तियात्रयी बरयल्यात. तो प्रेम प्रकरणाच्यो कादंबरी बरयतालो. हाणे बरयिल्ल्या 'मोगाची वोनी' कादंबरी, जेरी ब्रगांजा हाणीं मोगाचो आंवडो म्हळ्ळें सिनेमा तयार केलां.

## क्रूज जाजवाला

हाचें पुर्तें नांव बाप्तिज्म क्रूज नोरोंञ, तियात्रांनी क्रूज जाजवाला म्हण प्रख्यात जाल्लो. हो बार्देसाच्या सियोलीम थावन आयिल्लो. तो बारा वर्सांचो आसताना पदां घडन गायतालो आनी गांवच्या भुर्ग्यांक 'खेळ' आनी जागोरांत पात्र घेवंक तरबेती दितालो.

मुखल्या शिकपा खातीर १९२९ इस्वेंत तो मुंबय आयलो. गोवन संस्थ्याच्या होलांत ताचोच तियात्र खेळोवंक ताका पयलो अवकास मेळ्ळो. त्या उपरांत ताका जे.पी. सोजालीन हाच्या एका तियात्रांत परिचय करून दिलो. हो पळेवंक सुंदर आसल्ल्यान ताका स्त्रियांचो पात्र करुंक दिताले. उपरांत ताका प्रमूख निर्देशकांच्या म्हणजे सायब रोचा, अंतोनी डेसा, रोगासियानो, सोजा फेरावो आनी मिंगेल रोड हांच्या हातीं सबार अवकास लाबोन तो लोकामोगाळ जालो.

क्रूज जाजवालाक लोकवेद नमून्याचीं मांडो दुल्पोद पदां घडचें एक विशेस देणें आसल्लें. चडुणे १९३४ इस्वेंत हाणे हेच.एं.वी. रेकोर्डांत पदां दाखल केलीं. हाणे घडलेलीं पदां थोडीं लोकामोगाळ जाल्लीं अजूनयी लोकांच्या तोंडार घोळतात. हाणे घडलेल्या मांडो पदां पयकी 'म्हजो पती बोंबय गेला' आजूनयी गोंयच्या कार्यक्रमांनी लोक गायता जाल्ल्यान अमर जालां.

क्रूजान सबार तियात्रयी बरयल्यात. त्या पयकी लोकामोगाळ तियात्र (१) जागोर (२) मोगान काजार (३) सुखी जयत (४) जिवीत अदृषट (५) दोत दिंवची होकलेक न्हय नोवऱ्याक.

क्रूजाकडेन संगिताचें देणें ऽराळ मापान आसल्लें. ताका ट्रंपेट, वायोलीन आनी गिटार व्हाजोवंक येतालें, जाल्ल्यान, तियात्रांनी गांवच्या आनी पात्र घेंवच्या बदलाक, तियात्रांक संगीत दितालो, आनी अशें तो तियात्रांचो खायाम संगीत दिंवचो बेंडकार जालो.

## चांपियन आलवारेस

सायब रोचाच्या काळार, सेबासटियन आलवारेस म्हळ्ळो एकलो तर्नाटो गायनाच्या स्पर्धांनी जिकोन चांपियन जातालो. तवळ सायब रोचा नव्या तालेंतवंत कलाकारांक सोद करून आसताना, सेबेसटियन आलवारेसाची ओळक जावन ताका आपयलें आनी ताका चांपियन आलवारेस म्हळ्ळें नांव दिलें.

चांपियन आलवारेस स्वतः पदां घडतालो. ताका मांडो पदां घडची हिक्मत कळीत आसल्ली. ताचीं मांडो पदां हेच.एं.वी. रेकोर्डार दाखल जातालीं. ताचें लोकामोगाळ मांडो पद 'इसतिमांव रोजाचें' आनी 'अगो म्हज्या जाकीन बाय' लोकांच्या तोंडार आजूनयी गाजतात आनी अमर जावन ऊरल्यांत.

चांपियन आलवारेसान सबार तियात्र बरयल्यात. त्या पयकी 'कुजनेर बोंबयचो आनी भटकर गोंयचो'; 'दिरेक्तोरांचो रेफ्री जेजुची इमाज', 'जल्माचो घूट'; 'वाटसूर आनी ताची मजत' तियात्र लोकामोगाळ जाल्यात.

## मास्टर वाज

हो कलाकार बार्देशांतल्या आलडोनांतलो. हाचें पुर्तें नांव जोस लोरेन्स वाज. हाच्या बापायचें नांव बेंजमीन वाज. तो तवळ खेळ बरयतालो आनी ताची बायल त्या खेळांत पात्र घेताली. हें कुटम तवळ बोंबय रावतालें. तो सात वरसांचो आसताना ताच्या बापायन ताच्या एका तियात्रांत ताका एक पद म्हणोंक आवकास दिलो. ताणें तें पद बरें करन गायलें आनी प्रेक्षकां थावन शाभासकी जोडली.

१९३२ इस्वेंत एर्नेसट रेबेल्लो मुंबंयत तियात्र खेळयताना, ताका एका भुर्ग्या-कलाकाराची गर्ज आसल्ली. ताणे मासटर वाजाची चुरूकाय पळेवन ताका एक भुर्ग्याचो पात्र दिलो. हो तियात्र बंग्वाडिच्या प्रिन्सेस

थियेटरांत जाल्लो. भुर्गो मासटर वाज ह्या पात्रा द्वारीं इतलो लोकामोगाळ जालोकी ताका सायब रोचा, लुवीस बोर्जेस, जे.पी. सोजालीन, डियोजिनो डिमेल्लो, कीड बोक्सर, मिंगेल रोड, सी. आलवारेस ह्या निर्देशकांनी पात्र दीवंक सुर्वात केलें.

सुर्वेर मासटर वाचाक, पाकलो, एर्नेसट रेबेल्लो, तोमास कूगन, बी. लूवीस, जे.डी. पूनावाला हाणीं पदां गावंक आवकास करून दिल्लो. उपरांत वाजान्‌च पदां घडलीं. उपरांत स्त्रियांच्या पात्राक खायस पळेवन ताणे स्त्रियांचो पात्र करुंक सुरू केलें आनी ह्या पात्रांतयी तो प्रसिद्ध जालो.

मासटर वाजान ताचो पयलो तियात्र १९४४ इस्वेंत बोंबयच्या ब्यांड्रांत खेळयिल्लो. त्या तियात्राचें नांव ज्याक एंड म्याक तारवार जाले प्याक अशें ताणे तियात्र बरोवंक सुर्वात करून चडुणें २५ तियात्र बरोवन काडले. त्या पयकी तियात्र–'माल्गाडो पूत पूलगोद्दो'; 'बापूय'; 'मिनीन रेंदेर'; 'कामिलाची प्यामील'; 'आमचे तारवार गेले'; 'कोण ती असतुरी'; 'घर संसारी बायल'; लोकामोगाळ जाल्यात.

## आंतोनी मेंडीसः

हो कलाकार मार्गोवा साल्सेट हांगाचो. ताका गायनाचें आनी नटनाचें जल्मा थावन आयिल्लें देणें. बोंबंयत शिक्ताना ताका गोंयच्या एका संगीत कार्यक्रमांत पात्र घेवंक अवकास मेळ्ळो . ह्या कार्यक्रमांत हाचें सादन पळेवन जुवांव अगुसतीन नांडीस ताच्या कापरी चाकोर म्हळ्ळ्या तियात्रांत एक पात्र दिलो. ह्या पात्रांत ताचें नटन पळेवन ताणे ताच्या हरयेक तियात्रांक पात्र दीवंक प्रारंभ केलें.

'आमचें नशीब' कोंकणी फिल्मांत ताचे हास्यभरीत पात्र आनी ताचें सूमशर गायन आजूनयी लोक उगडास काडतात आनी तो एक हास्यनट म्हण प्रख्यात जाला.

आंतोनी मेंडिसान ओट्ट १५ तियात्र बरयल्यात. तांतले प्रसिध्द तियात्र – 'पांडू बारबर', 'गोंयकार', 'कुणबी इर्मांव', 'दुस्रेपणी काजार', 'तिकली सून', 'वोनियेचो जुरामेंत', 'बेकार जांवंय', हे जावनासल्ले.

## जसिंत वाज

हो कलाकार इलास गांवच्या मंडूराचो. तो इसकोलांत शिक्ताना, गायन स्पर्धेत गावंक ताका आवकास मेळल्लो. तालेंतवंत गावपी जाल्ल्यान इसकोलाच्या हरयेका कार्यक्रमांत ताका गावुंक अवकास मेळतालो.

वृत्तिपर वेदिंत ताका पयलो आवकास मेळल्लो अर्नेसट रेबेल्लोच्या 'हांव पात्की' म्हळ्ळ्या तियात्रांत हाचें तालेंत पळेवन दियोगिनो डिमेल्लो हाणे ताच्या 'न्याशनल आर्टिसट युनीट' ह्या पंगडांत घेतलो. त्या वेळार ह्या पंगडांत प्रख्यात तियात्रिसत आंतोनी वाज, सोजा फेरावो, कीड बोक्सर आसल्ले.

जसिंत वाज सुर्वेर, दुखेसतांचो पात्र आनी दुखाळ पदां गायतालो. तवळ श्रेषट निर्देशक जावन आसल्ल्या अलेक्सिनो दे कंडोलीम हाणे जसिंत वाज हाचे थंय हास्याचें तालेंत आसा म्हण पार्कून ताका ताच्या 'भासयलोलो नोवरो' तियात्रांत हास्य पात्र दिलो. हो पात्र ताणे अदभूत रितीन केल्ल्यान, उपरांत ताका सर्व निर्देशकांनी हास्यांचो पात्र दीवंक सुरू केलें. त्या वेळार प्रख्यात आंतोनी मेंडीस हास्याचे पात्र करतालो. आनी तो तवळ हास्यांचो राय जावन वोर्तोवतालो. पूण एक दीस आंतोनी मेंडीस ताच्या ४३ वर्सां प्रायेर अंतरलो आनी त्या वर्वीं जसिंत वाजान तो हास्यांच्या पात्राचो खाली पडल्लो जागो भर्ती केलो आनी प्रसिध्द जालो, मात्र न्हय कोंकणी रंगमंचाचो 'चारली चापलीन' म्हण नांवाडदीक जालो.

जसिंत वाजान सबार तियात्र बरयल्यात. ताचे प्रख्यात तियात्र 'घरवाली', 'मांय आनी सून', 'नितिदार', 'बोटलेर बाब', 'शेवोट

पुतांचो', 'आमच्यो बायलो', 'घोवाचें घर', हाचो 'कुनेड आनी माना' तियात्राचीं १७५ प्रदर्शनां देखल्लीं. ह्या तियात्रा सांगाता 'न्यू फेशन' तियात्र घेवन तो आफ्रिका गांवांनी प्रदर्शनां दीवंक भोंवला.

जसिंत वाजान सबार पदां गायल्यांत. ताचीं पदां हेच.एं.वी. रेकोड्र्स हाणीं दाखल करन आकाशवाणी पणजी आनी मुंबय आजूनयी विन्रायतात. हाणीं 'गोंयचो आवाज' नांवाची, पदांची श्रुती कोवळी (Audio Cassette) काडल्या, जसिंत वाज हाणे, निर्मोणें नांवाच्या कोंकणी चलन चित्रांत केल्लें नटन आनी त्या चलन 'चित्रांतलें' पद काजार जावंक आसा आंकवार चलो ताणें स्वतः गायलेलें, ताका गोंयकारां मदें अमर करून सोडलां. जसिंत वाजाक संगीताची जाण्वाय बरी आसल्ली आनी मदूर ताळोयी आसल्लो. ताच्या रंगमंचाच्या पात्रांक सबार प्रशसत्यो लाभल्यात. त्या पयकी प्रतिषटेची प्रशसती म्हळ्यार गोंयच्या सर्काराची 'स्टेट कल्चरल एवार्ड'. तवळच्या राज्यपाल जावनासच्या क। प्रताप सिंग गील हाच्या हातां थावन ताणे ती स्वीकार केल्ली.

जसिंत वाज १९९३ इस्वेच्या एपरील ३० तारिकेर गोयांत अंतर?लो. ताचा मर्णान कोंकणी रंगमंचाक एक व्हड नश्ट जाला म्हण तियात्रिसत म्हणतात.

## ए.एं.बी.रोज

ह्या कलाकाराचें पुर्तें नांव आंबरोस कारलिसटो पियादादे फेर्नांडीस, हो बार्देशांतल्या आल्दोनांतलो. हाच्या कुटमांत तालेंतवंत कोंकणी गावपी आनी बरयणार आसल्ले. हाचो बापूय थोड्या तेंपाक तियात्रिसत आनी हाचो आजो 'जागोर' खेळोंवचो संघटक. हाच्या ल्हान प्रायेर हाच्या कुटमाक सेवोंक कराची पावल्लो. कारण हाचो बापय कराचिंत काम करन आसल्लो. ए.एं.बी. रोज कराचिच्या सैंट प्याट्रीक इसकोलांत

शिक्तासतना संगीत बरोवंक आनी वाचुंक शीकल्लो आनी हाका वायोलीन व्हाजोवंकयी कळीत आसल्लें.

इसकोलाच्या जेज्वीत पाद्रिंनी हाचें तालेंत पळेवन इसकोलाच्या एका संगीत कार्यक्रमांत गायन करुंक आवकास दिलो. हो आवकास बरये रितीन गळसिल्ल्या ह्या कलाकाराक 'कंतारिसत रोज' म्हळ्ळें नांव पडलें. ह्याच इसकोलाच्या जेज्वीत पाद्रिंनी ताका ए.एं.बी. रोज म्हळ्ळें वेदी नांव दिल्लें.

१९१९ इस्वेंत सायब रोजा ताचो कोंकणी तियात्र 'नेकेत्र इटालिया शहेराचें' घेवन कराची पावल्लो. हो तियात्र ए.एं.बी. रोज हाणे पळेयिल्ल्यान, ताकायी एक तियात्र बरोवंक मन जालें. आनी थोड्या तेंपान 'गोंदोळ जालो भावांचो' म्हळ्ळ्या नांवाचो तियात्र बरोवन काडलो आनी 'गोवा पोरचुगीस एसोसियेशन' ह्या होलांत सादर केलो. त्या वेळार गोंयच्या राय बंदरचो मी। बी.एस. कबराल कराचिचो मेयर. ह्या मेयरान, ए.एं.बी. रोज हाचो तियात्र सादर केल्लो पळेलो. ताचें निर्देशन, नटन ताका भारी मेचवाल्ल्यान ताचेच तीन तियात्र निर्देशन दीवंक ताणे ताका विचारलें. त्या तीन तियात्रांचीं नांवां अशीं:– (१) गाबरियेल बाल्चांव आनी ताची सासुमांय (२) ए कोंकविसता दे गोवा (३) इनोसेंट हर्मियोन ह्या तिनी तियात्रांनी ए.एं.बी. रोज हाणे श्रेष नटन केलें आनी अख्ख्या कराचिंत फामाद जालो. कराचिचें 'दी प्यालेस थियेटर' युरोपियन पंगडाच्यांक मात्र अमानत आसल्यारी ह्याच थियेटरांत ए.एं.बी. रोज हो तियात्र सादर करचो पयलो गोंयकार जावंक पावलो. उपरांत ताणे सबार तियात्र कराचिच्या जोरोसट्रियन होलांत सादर केले.

ए.एं.बी. रोजान 'ग्रूप ओफ गोवन अमेचुवरस' ह्या संस्थच्या नांवान कराचिंत रांवच्या गोवन तियात्रिसतांक सांगाता हाडलें आनी

सबार तियात्र ह्या पंगडाच्या नांवान खेळयले. १९३० इस्वेंत रोज हाणे कराची सोडलें आनी गोवा आयलो. तीन वर्सां गोवा रावोन १९३४ इस्वेंत काम सोडून तो बोंबय पावलो. १९३७ इस्वेंत बोंबंयत ताका जे.पी. सोजालीन हाच्या वृत्तिपर कोंकणी तियात्रिसतांच्ये वेदीर प्रिन्सेस थियेटर बंग्वाडिंत जाल्ल्या 'कोंदे दे मोंते क्रूज' म्हळ्ळ्या तियात्रांत पात्र घेवंक पयलो अवकास लाभलो. ह्या तियात्रांत तो नांवाडलो आनी अशें ताका उपरांत हेर सबार आवकास लाभले.

## रेमी कुलासो

हो कलाकार गोंयच्या सांवर्दें गांवचो. इसकोलांत शिक्तासतानांच तो संगीत बरोवंक, वाचुंक आनी वायोलीन व्हाजोवंक शिकलो. उपरांत पोषकांनी ताका मुखल्या शिकपाक बोंबय धाड्लो. बोंबंयत इसकोलांत शिक्तासताना संगीत स्पर्धेंत खळानासताना पात्र घेतालो.

रेमी मुंबयच्या सेवरिंत रावतालो. त्या दिसांनी सेवरिंत एक 'जोली बोयस ओफ स `वरी' म्हळ्ळो सांसकृतीक पंगड आसल्लो. ह्या पंगडान पारेलच्या दामोदर होलांत 'भागिंतलें फुल' म्हळ्ळो तियात्र खेळयलो. ह्या तियात्रांत रेमीक वीर स्त्रियेचो (Heroine) पात्र दिल्लो. रेमीन ह्या पात्रांत बरें नटन केल्ल्यान, दूसऱ्या दिसा 'गोवा टायमस' सप्ताळ्यांत, हाचें नटन होगोळसून एक लेखन आयिल्लें. उपरांत ह्याच पंगडान म्हणजे 'जोली बोयस ओफ सेवरी' हाणीं सां. सावेर होलांत आन्येक तियात्र खेळयलो.

ह्या तियात्रांत सोजा फेरावो, दियोगिन्हो डिमेल्लो, आंतोनी वाज, एडवर्ड आल्मेडा इत्यादी वृत्तिपर तियात्रिसतांक घेतल्लें. ह्या तियात्रांत रेमी कुलासोक दोन पदां गावंक विनंती केल्ली. तीं पदां गावनयी ताणे हेरां थावन शाभासकी जोडली.

सेवरिंत ताणे शिकप संपयल्या उपरांत तो डोबितलाव स्थळांतर जालो. थंय ताका वृत्तिपर त्रियात्रिसत एडवर्ड अल्मेडा हाची इश्टागत

जाली. ताणे ताच्या ‘महीम’ म्हळ्ळ्या तियात्रांत ताका श्क्टोसो पात्र दिलो. ह्या तियात्रांत ताणे ए.एं.बी. रोज आनी एडवर्ड हाचे सांगाता दोन पदां गायलीं. हाचें गायन पळेवन तियात्रिसत सी. आलवारिसाक हो आकरषीत जाल्ल्यान, ताका ताच्या ‘तोर हो तियात्रिसत’ म्हळ्ळ्या तियात्रांत गावंक आवकास दिलो. हो तियात्र बांग्वाडिंत सादर जाल्लो.

ह्या उपरांत रेमी सी. आलवारेसा सांगाता खायाम गडें (duets) गायनाचो सांगाती आनी सी. आलवारिसाच्या तियात्रांत स्त्री पात्रदारी जालो. उपरांत ताणे प्रमूख निर्देशकांच्या तियात्रांतयी पात्र घेतलो अशें ताणे सुमार तियात्रांनी नटन केलें. रेमी एक पदां घडणारयी जावन ताणे ५०० वयर पदां बरयल्यांत.

रेमीन ताचीं सबार पदां हेच.एं.वी. रेकोर्डांत दाखल केल्यांत आनी एक शुती कोवळी (‘Audio Cassette) काडल्या. रेमी कुलासो तियात्र बरयणार आनी निर्देशक जावन वावूरला. ताचे प्रसिद्ध तियात्र –‘सात्वो साक्रामेंत’, ‘भावपणाचो कायदो’, ‘चवतो मंदामेंत’, ‘सूख तार्वोट्याचें’, ‘जल्माचो गांव’, ‘घरचें सूख’, ‘दोन काळजां’, ‘आतांचो तेंप’.

रेमी तियात्रिसत जावन सबार देशांक पावला. त्या पयकी नैरोबी, मोशी, दार–एस–सालम, टांगा, मोंबस्सा, आनी गलफ देश, प्रमूख. रेमीन संगीताचो मोगी जावन गोंयच्या सांवर्द्यांत हऱ्येका वर्सा ‘तालेंत स्पश’ संघटन करून युवजणां थंय संगीताचें देणें पार्कुंक प्रयत्न केलां. ह्या तालेंत स्पश थावन ओळकेक आयिल्ले सबार युवजण वृत्तिपर संगीतगार जाल्यात.

## कामत दे असोलना

ह्या कलाकाराचें नीज नांव रामकांत बाबुसो कामोटीम. हाचो जल्मा गांव असोलना. कामत एक हिंदू तियात्रिसत. हो जल्मान

गावपी जाल्ल्यान कोंकणी वेदी ताचीं तालेंतां पाजुंक उपकाराक पडली.

त्या काळार साल्सेटांत आनी इतर असोलना चिंचनीम, वेलीं, कुंकोलीम ह्या गांवांनी बरें एक मनोरंजन म्हळ्यार तियात्र. ह्या कारणा वर्विंच ह्या गांवांनी कोंकणी रंगमंचाचे श्रेषट तियात्रिसत उदेल्ले म्हणतात.

कामत प्राय भरोन येताना सेरावलीं आनी मार्गोवांत ताची वसती आसल्ल्यान ताचे सेजारी चडावत क्रिसतांवच आसल्ले आनी तवळतवळ ह्या गांवांनी तियात्र सादर जाताले. कामत कोलवाच्या 'लुकास पेर्न्स' म्हळ्ळया तर्नाट्या तियात्रिसता वर्वीं तियात्रा थंय प्रबावीत जाल्लो. त्या भायर चिंचनिंचो प्रो। सी.ए. गोम्स त्या वेळाचो प्रमूख तियात्र बरयणार आसल्लो आनी नियमित्पणान तियात्र सादर करतालो. त्या वर्वीं उदेवन येंवच्या चडावत साल्सेटच्या तर्नाट्यांक प्रो। सी.एं. गोम्साच्या तियात्रांत पात्र घेवंक आवकास मेळतालो. त्याचपरीं कामतयी कोंकणी रंगमंचाक प्रबावीत जावंक कारणकर्त जालो.

कामत त्या काळाचो एक व्हड शिकपी. तो त्या काळार एं.ए. परयांत शीकल्लो, कारण तो एक व्हड शिकपी कुटमा थावन आयिल्लो. ताचो बापूय प्रोफेसर आनी ताचे दोग भाव नांवाडदीक वकील. त्या काळार त्रियात्रिसतांक तितलो एक समाजीक गौरव मेळनातलो जाल्यारी कामत शिकपी जावन कोंकणी रंगमंचाक प्रबावीत जाल्लो म्हळ्यार चिंतुंक कश्ट.

कोंकणी भाषेच्या आनी कोंकणी रंगमंचाच्या मोगान कामत एक गावपी जावन रंगमंचाक प्रवेश जावन घड्योन लोकामोगाळ जालो. तो इंगलिशांत पद गायल्यार उपरांत कोंकणेक भाशांतर कर्न गायतालो. ताका एक मश्र ताळो आसल्लो आनी प्रेक्षकांक तो बरो आवोडतालो.

कामत गावपी जावन्ंच उरोंक्ना. उपरांत ताणे तियात्रांत पात्र घेवंकयी सुर्वात केलो. तो पळेवंक सुंदर आसल्ल्यान निर्देशक ताका प्रमूख वीर पात्र दिताले. कामत लुकास पेर्न्स सांगाता सबार वर्सां पद गडें गायतालो, जाल्ल्यान ही जोडी भारी प्रख्यात जाल्ली. कामताचीं पदां हेच.एं.वी. रेकोड्र्सांत दाखल जावन आजूनयी आकाशवाणिचेर नियमीत थरान आयकोंक मेळतात. न्हयासतां ताणे पदांची श्रुती कोवळियी काडल्या. ताची पदां कोवळी कोंकणी उलय – कोंकणी कोंकणी संगीत मोगिंनी मेचवोणेन स्वीकार केल्या.

कामतान सबार तियात्र बरोवन सादर केल्यात. ताचे प्रख्यात तियात्र 'मांय हो गुन्यांव तुजो', 'वोतलेंय तशें भर', 'दोतीक लागोन', इत्यादी.

कामत ताचे तियात्र घेवन भारत देशभर भोंवला. मात्र न्हय, आफ्रिकाच्या देशांनियी भोंवला. कामत भाशा तज्. ताका कोंकणी, मराठी, हिंदी, इंगलीश, पोर्चुगीस, आनी जर्मन भास वाचुंक आनी बरोवंक येताली, जाल्ल्यान ताचीं पदां जाण्विकायेन भरल्लीं आनी उंचल्या मटवाचीं आसल्लीं.

## जोन क्लारो

हाचे पुर्ते नांव जोन क्लारो फेर्नांडीस. हो गोंयच्या केपें गांवच्या आमोनाचो. हो एक शिकपी तियात्रिसतांच्या पयकिंचो. हाणे कोंकणी नेमाळ्यांनी आनी हप्ता ळ्यांनी बरोवंक सुर्वात केल्ली. हो कोंकणी कादंबरियी बरयतालो. तियात्र बरोंवची रीत सार्की शिकोन ताणे तियात्र बरोवंक सुरू केले. हाणे बरयिल्ल्या पयिल्ल्या तियात्राचें नांव 'कामील बोटलेर'. हो तियात्र ताका गोयांत खेळोवंक थोड्यो आडकळी जाल्ल्यान बोंबयच्या बंग्वाडी थियेटरांत् १९५१ इस्वेच्या दसेंबर २५ तारिकेर सोजा फेरावोच्या निर्देशनाखाल पयिल्ले पावटीं खेळोन दाकयलो.

त्या उपरांत ताणे सबार तियात्र बरयले. थोडे तांचे तियात्र लोकामोगाळ जावन लोकांच्ये मतिंत अमर जावन ऊरल्यात. ताणे बरयिल्ल्या तियात्रां पयकी प्रसिद्ध जाल्ले तियात्र ह्या परीं आसात. 'निर्मिलेली सून', '२३ वर्सां', 'पोरचुगीस कोलवंत', 'रिणकारी जांवंय', 'गुपीत कारण'; 'इंगलेज मादाम', आनी 'विंगली नाचपीण'.

हाचो तियात्र 'पोरचुगीस कोलवंत' भारी लोकामोगाळ जावन २०० वयर प्रदर्शनां देकल्यांत. जोन क्लारोन कोंकणी रंगमंचेक ४० वर्सां वयर सेवा दिल्या.

## प्रेम कुमार

हाचें नीज नांव पीटर डिकोसत. गोंयच्या साल्सेटाच्या चांदोरांतलो. प्रेमकुमार भुर्ग्यापणा थावन्‌च तियात्रिसत. इसकोलाच्या संगीत काऱ्यक्रमांनी ताचो पात्र पळेवन ताच्या व्हडिलांक ताचें कलाकाराचें देणें कळीत जाल्लें. तो बोंबय आसताना तेरा वर्सांच्ये प्रायेरच ताणे तियात्र बरवंक प्रयत्न केल्लें. पूण तवळ ताका रंगमंचार प्रवेश जावंक एक पोदोर्न नासताना साश्च नातल्लें. तरी श्प्र घेवन प्रेमकुमार आंतोनी डेसाक मेळ्ळो आनी ताच्या सहकारान आनी सलहेन, ताचो पयलो तियात्र 'म्हजो पूत' वेदीर चडयलो. उपरांत तर्नाटो प्रेम कुमार बोंबयच्या 'जूनियर आर्टिसट एसोसियेशन' पंगडाक सेर्वालो. तरी सांगात्या थावन ताका चिंतल्ले तितलो सहकार लाभलोना.

थोड्या तेंपाक प्रेम कुमार हिंदी फिल्म निर्देशकांक वचोन भेटलो. तवळ प्रख्यात फिल्म निर्देशक धिरूबाय देसाय हाणे प्रेम कुमाराक ताच्या 'उंची हवेली' म्हळ्ळ्या हिंदी सिनेमांत एक श्क्टुलो पात्र दिलो. हो पात्र घेताना ताचें नांव पीटर डिकोसत आसल्लें तें बदलून प्रेम कुमार म्हळ्ळें नांव दिल्लें. कारण तवळ हिंदी फिल्म वर्तुलांत क्रिसतांवांचें नांव तितलें बरें होंदोन वचानातल्लें.

त्या उपरांत प्रेम कुमारान हिंदी सिनेमांत सबार पात्र केले. तरी प्रेम कुमाराक कोंकणी भाशेचेर मोग आसल्ल्यान, कोंकणी रंगमंचाकच वोडणी येताली. त्या देकून तो हिंदी सिनेमाच्या वर्तुला थावन पाटीं येवन कोंकणी तियात्रिसतांच्या पंगडाक सेर्वालो. उपरांत थोड्या कठीण प्रयत्नान ताणे नवे तियात्र बरयले आनी सादर करुंक बरया आवकासाक राकोन रावलो.

प्रेम कुमारान ताच्या तियात्रांक नवो दिश्टावो दिलो आनी बदलाप हाडलें. कोंकणिच्या वेदी निर्माणाक नवें रूप आनी संभाशणाक संपूर्णताय दीवन प्रेक्षकांक आकर्शीत जांवचे बरीं केलें. ह्या वर्वीं प्रेम कुमाराचे तियात्र नवेंच रूप घेवन वेदीर आयिल्ल्यान हेरां निर्देशकां थावन वेगळे दिसताले.

प्रेम कुमारान कोंकणी रंगमंचाक एक विशेस नवेसांव हाडलें. तें म्हळ्यार घुंवची वेदी, अर्धी-निसर्ची वेदी इत्यादी. प्रेम कुमारान ५० वयर तियात्र बरयल्यात. त्या पयकी प्रसिद्ध जाल्ले तियात्र ह्या परीं आसात – 'वावराडी', 'रीण', 'दुःख', 'काकूत', 'जिवीत एक स्वपण', 'कोणाक म्हणोन मांय', 'अब्दूल नारायण डिसोज', 'जवान', 'पेल्याचा वसतुची आशा करुंक नाये', फुलां आनी कांटे, 'अर्धी भाक्री' इत्यादी.

प्रेम कुमार पदांयी घडतालो. ताणे तियात्रांतलो 'कांटो' पदां खातीर 'सैड-शो' वेळार म्हणजीं सबार पदां घडल्यांत.

प्रेम कुमारान कोंकणी सिनेमा 'बोगलांट' निर्माण करून कोंकणी संसारांत नांव जोडलां. हाका कला अकाडेमीन तांच्या १०० वर्सांच्या कोंकणी तियात्रांच्या संभ्रमा वेळार सन्मान केला.

## दोड दे वेर्ना

ह्या कलाकाराचें नीज नांव मिंगेल संतान दौरादो. दोड दे वेर्ना हो साल्सेटच्या वेर्ना गांवचो. भुग्र्यापणार थावन मश्र ताळ्याचो

गावपी. तो ल्हान आसताना सोजा फेरावाचीं आनी मिंगेलरोड हाचीं पदां गायतालो. तो ताच्या गांवच्या संगीत काऱ्यक्रमांनी भाग घेतालो, तसेंच रंगमंचार ल्हान ल्हान पात्र घेवन नटन करतालो. ताणे ताचो पयलो तियात्र 'कोणायची गिरेसतकाय' बरयलो आनी वेर्ना ताच्या गांवांत खेळयलो.

दोड दे वेर्नाक, तियात्राच्या मांचियेर उंचायेक पावोंक बोंबय वचाजे म्हण भोगलें आनी तो मुंबयक गेलो. बोंबय गेल्ल्याक्षण ताका तियात्रांत पात्र घेवंक अवकास मेळ्ळेनांत. कारण तवळचो काळ तियात्राचो स्पश्त्मक यूग आसल्लो. त्या देकून वेर्नान, विवीद संघटनांनी सादर करच्या संगीत स्पर्ध्यांनी भाग घेवंक सुर्वात केली. ताणे पात्र घेतल्ल्या संगीत काऱ्यक्रमांनी ताका इनामां मेळल्ल्यान तवळचो प्रख्यात तियात्रिसत 'सोजा फेरावो' ताचेर दीश्ट दवरून ताका वृत्तिपर तियात्रांत गावुंक आवकास दिलो.

बंग्वाडिच्या प्रिन्सेस थियेटरांत ताका मेळल्ल्या पयल्या आवकासांतच तो प्रजळल्ल्यान, हेरां प्रख्यात निर्देशकांनी ताका आवकास दिलो, तशें थोड्या आवदे बील्तर तो वृत्तिपर तियात्रिसत जालो. दोड–दे–वेर्नाक पदां घडची हिक्मत नातल्ल्यान सुर्वेर पदां उश्णी घेतालो. पूण उपरांत ताणे स्वतह पदां घडुंक सुरू केलें आनी पदां घडच्यांत प्रख्याती जोडली. ताणे तियात्रांतयी ल्हान ल्हान पात्र घेवन उपरांत नटन करच्यांतयी प्रख्याती जोडली आनी तवळच्या जाणत्या तियात्रिसत जावनासलेल्या सी. आलवारेस, सोजा रावो, आंतोनी डेस, 'आंतोनी मेंडीस', आंड्रू फेर्न्स, मासटर वाज, रेमी कुलासो, हांच्या वोळिंतयी पावलो.

दोड–दे–वेर्नान बोंबंयत आसताना, दोन तियात्र बरयले आनी ते सादर केले. ताका यशस्वी मेळ्ळिना, देकून बोंबय थावन तो गोंया

आयलो. बोंबंयत ताका प्रख्याती आसल्ल्यान तो गोयांत एक गावपी जावन प्रख्यात जालो. थोडया तेंपा उपरांत तो स्टारस ओफ गोवा स्टेज पंगडाक सेर्वालो. तवळ तो पंगड गोयांत एक मात्र प्रमूख पंगड आसल्लो. तवळ ताचे सांगाती नेल्सन अपोन्सो, यंग मिनेजस, टोनी स्याक्स, लुवीस रोड, अरिसटिडेस डायस, कन्सेपशन, चांपियन पीटर, पीटर गोम्स आनी जसिंतवाज जावनासले. ह्या पंगडांत बील्तरल्या बील्तर समस्ये उदेल्ल्यान, 'यंग स्टारस ओफ गोवा' म्हळ्ळो नवो पंगड उदेलो. दोड ह्या पंगडाचो सदस्य जालो.

तियात्रांत दोड प्रारंबील्क पद गायतालो आनी थोडे पावटीं सबीना सांगाता गडें पदयी गायतालो. अशें तो तियात्रांत हेळताना, एक प्रख्यात तियात्र बरयणार जावनयी उदेवन आयलो. दोडान तियात्र बरयले. आनी यंगस्टार ओफ गोवा पंगडाच्या माताळ्याखाल प्रदर्शीत केले. दोड ह्या पंगडाचो खायाम वांगडी जावन तियात्राचो निर्देशकयी जावनासल्लो. ताचे प्रख्यात तियात्र ह्या परीं आसात –'बोगणार', 'होनराड तावरोटी', 'मोतलाबी पोदोर्न', 'काळजाचो आंवो', 'सैरिकेकार सालू', 'मोरयाद', 'सताचें घर', 'गोंयची माती', 'रिणकारी', 'घोटाळो' इत्यादी.

दोड दे वेर्नान सबार नव्यांक कोंकणी रंगमंचाक येवंक हुमेद दिल्या. तशेंच हाणे बरयिल्ल्या खेळ कार्यक्रमांतयी गांवच्या तर्नाट्यांक तरबेती दीवन रंगमंचार हाडतालो. अशें ताचे 'खेळ्यी' यशस्वी जातालें.

दोड दे वेर्ना ताच्या ३७ वर्सां प्रायेरच म्हणजे १९७० इस्वी मार्च ८ तारिकेर गोयांत मरण पावलो. जे.पी. सोजालीन हाच्या 'सां. फ्रन्सीस सावेर' तियात्रांत निमाणे तो दिश्टीक पडल्लो.

## आलफ्रेड रोज

हाचें सगळें नांव आलफ्रेड फेर्नांडीस. हो बार्देशांतल्या

आलडोनांतलो. आलफ्रेड रोज, ए.एं.बी. रोज हाचो पूत. ए.एं.बी. रोज कोंकणी रंगमंचाचो एक प्रख्यात पात्रदारी.

आलफ्रेड रोज कोंकणी रंगमंचाचो एक श्रेष आनी नांवाडदीक गावपी. कारण तो जल्मान संगीतगार आनी गावपी. संगीताचें शिकप तो इसकोलांत शीकल्ल्यान ताका संगीत बरोवंक आनी वाचुंक येतालें.

आलफ्रेड रोज मश्र ताळ्याचो गावपी जाल्ल्यान, ताका ल्हान आसतानांच वेदिचेर गावुंक आवकास लाबल्लो. वालेंटैन मसकरेञच्या परिचया वर्वी आलफ्रेड रोज दाबूल इगर्जेच्या कोयरांत सां फ्रन्सीस सावेर नोवेनाच्या वेळार सालवी गावुंक भर्ती जालो.

आलफ्रेड रोज, ए.एं.बी. रोज हाचो पूत जाल्ल्यान वृत्तिपर तियात्रांत पात्र घेवंक ताका कश्ट जालेनांत. तरी ताच्याच पांयांनी उबे रांवचे तितलो तालेंतवंत भुर्गो तो आसल्लो. पयले पावटीं मीस ऐडाच्या (जोस मेंडीस) तियात्रांत सालवीन आनी तोमस कूगन सांगाता ‘कित्याक जीव खाताय’ म्हळ्ळें पद गावुंक ताका आवकास लाभल्लो. हें पद प्रेक्षकांक भारी रुचलें. तियात्रांत ताचो पात्र विशेस जावन ‘पयल्या चेडवाचो बाल्टीं’ म्हळ्ळ्या नांवाच्या तियात्रांत जे.पी. सोजालीन हाणे ह्या भुर्ग्या खातीरच एक पात्र रचल्लो. हो तियात्र बंग्वाडिच्या प्रिन्सेस थियेटरांत सादर जाल्लो. ह्या उपरांत सी. आलवारेस तियात्रिसतान ताका जुनियर रोज म्हण वोलायलें. हो ज्युनियर रोज तियात्रांत ताच्या गायनांनी लोकामोगाळ जालो. सी. आलवारेसान ताका १९४६ आनी १९५० इस्वेंत गोवा आपवन हाडलो. हांगाच्या प्रेक्षकां मुखारयी ताच्या मश्र ताळ्यान गावून प्रेक्षकांक ताणे भुलयलें. १९५२ इस्वेंत ज्यूनियर रोज हाणे हाचें नांव आलफ्रेड रोज म्हण बदलिलें. जाणवायेन भरल्ल्याबरी, आलफ्रेड रोज गावपी, पदां रचपी,

नट आनी बरयणार जावन जांटो जायित्त आयलो. हेच.एं.वी. रेकोड्र्स कंपेनिंत हाचीं पदां हेरां गावप्यांच्याकी चड दाखल जाल्यांत.

हाचीं पदां आकाशवाणी गोवा, मुंबय, आनी इन्नितर ठाण्यांनी प्रसरण जायीत आयल्यांत. आलफ्रेड रोजान सबार तियात्र आनी संगीत कार्यक्रमां सादर केल्यांत. ताचे लोकामोगाळ तियात्र ह्या परीं आसात:–'रग्ताक तानेलोलो', 'लखपाती नोवरो', 'दोतोर अद्वो गाद' 'आंगोवण्याची होकाल', 'मनीस वो देंवचार', 'दिरेक्तोर साहेब'.

आलफ्रेड रोज तियात्रिसत जावन संसाराच्या सबार गांवाक पावला. ताचीं प्रदर्शनां जाल्ल्या शहेरां पयकी लंडन, प्यारीस, जर्मनी, फ्रांकफर्ट, आफ्रिका आनी गलफ देश प्रमूख. आलफ्रेड रोज हाणे तीन कोंकणी सिनेमांनी पात्र घेतला. ते आसात–'आमचें नशीब', 'सुखाचें स्वपाण', आनी 'बोगलांट'. 'बोगलांट सिनेमाक' आलफ्रेड रोज संगीत निर्देशक आसल्लो. आलफ्रेड रोज हाणे येदोळ थंय २८ श्रुती कोवळ्यो काडल्यात आनी गोंयच्या पांवड्यार हो एक दाखलो म्हणतात. आलफ्रेड रोज हाका सबार प्रशसती लाभल्यात.

## रिको रोड

ह्या कलाकाराचें पुर्तें नांव रिकोर्डो विन्सेंट रोड्रिगस. हो साल्सेटच्या चिंचिनीं सीरलीं गांवचो. कोंकणी रंगमंचाचो प्रख्यात हास्य नट. हो एक बरो पदां रचपी. खरो हास्यागार, स्वाभावीक नट, बरो गावपी, तियात्र बरयणार आनी निर्देशक.

रिको रोड हाचो माल्गडो भाव सेवेरीन दे सीरलीं. होयी एक तियात्रिसत जाल्ल्यान, नटनाचें तालेंत तांच्या रग्तांतच आसल्लें. रिको रोड हाणे १९४३ इस्वेंत ताच्या गांवच्या तर्नाट्यांनी रचल्ल्या 'खेळ' प्रदर्शनांत पात्र घेवन ताचें कलाकाराचें जीवन प्रारंभ केल्लें. ह्या उपरांत ताच्या गांवच्या फिर्गज फेस्तांच्या संगीत कार्यक्रमांनी पदां गावंक सुरू केलीं.

गोयांत ताचें प्राथमीक शिक्षण जाल्या नंतर ताच्या मुखल्या शिकपाक बोंबय पावलो. त्या वेळार ताचो मालघडो भाव पयलेंच बोंबय पावोन तवळ तवळ रंगमंचार तियात्र सादर करतालो जाल्ल्यान रिको रोड हाका कोंकणी रंगमंचाक प्रवेश जावंक सुलभ जालें. त्या एका संदर्भार ताच्या भावान सादर करच्या तियात्रांत ताका स्त्री पात्र करुंक आवकास दिल्लो. पूण प्रमूख हास्यागार त्या वेळार गोवा गेल्ल्यान, रिको रोड हाका हास्यागाराचो पात्र घेवंक ओत्ताय केलो. हो हास्यागाराचो पात्र ताणे आपुरबायेन केल्लो पळेवन लोकांक ताका हासोंवचीं तालेंतां आसात म्हण कळीत जालें. ताचीं देणीं पळेवन ताका सेबी कुटिन्होन ताच्या तियात्रांत पात्र दिलो. त्या उपरांत ताका अलवारेस चांपियनाच्या तियात्रांतयी आवकास लाबलो.

थोड्या वर्सां उपरांत प्रख्यात तियात्रिसत आलफ्रेड रोज ताच्या 'पेसांवकार' आनी 'दोतोर अद्वोगाद' ह्या दोन तियात्रांनी पात्र मेळल्ल्यान ताका चड आनी चड प्रचार लाबलो. हाचें नटन पळेवन इतर प्रमूख निर्देशकांनी ताका आपयलो. त्या वेळार तियात्रिसता मइं एक घुस्पोड–गोंदोळ जावन, १९५७ इस्वेंत दोन पंगड उबजाले. ह्या पुटावोळिंत यंग मिनेजस, कीड बोक्सर आनी आलफ्रेड रोज एका कुशीन जाल्यार, सोजा फेरावो, आंतोनी मेंडीस इत्यादी आन्येका कुशीन आसल्ले. रिको रोड, यंग मिनेजस ह्या पंगडांत आसल्लो जाल्ल्यान, ह्या पंगडांत सादर जाल्ल्या सर्व तियात्रांनी तो पात्र घेतालो, त्या भायर ह्या पंगडा सांगाता तो आफ्रिकायी पावल्लो.

रिको रोड हाणे सबार तियात्र बरयल्यात. त्या पयकी थोडे तियात्र प्रसिद्ध जाल्यात. १९५९ इस्वेंत बंग्वाडी थियेट्रांत सादर जाल्लो 'नांव नासलोलो' तियात्र भारी लोकामोगाळ जाला. त्या उपरांत ताणे १९६१ इस्वेंत 'पायचें वोडपोण' तियात्र सादर केलो. उपरांत ताणे

सबार तियात्र बरयले. त्या पयकी लोकामोगाळ जाल्लो तियात्र – 'तुमी कित्याक सतयतात', 'बेकार पत्रांव' इत्यादी.

रिको रोड बरो पदां रचपी आनी गावपी जाल्ल्यान ताणें सबार पदां बरयल्यात आनी ताचीं पदां हेच.एं.वी. रेकोर्डांत दाखल जाल्यांत आनी आकाशवाणिचेर प्रसार जाल्यांत. तें न्हयासतां ताणे ताच्या पदांच्यो तीन श्रुती विडियो काडल्यात.

रिको रोड हाणे तीन कोंकणी पिंतुरांनी नटन केलां. तीं आसात 'सुखाचें स्वपाण', 'कर्तुबांचो संसार' आनी 'म्हजी घर्कार्न'.

## क्रीस पेरी

हाचें सार्कें नांव क्रीस पिरेरा. हो कलाकार माडगांवच्या बोर्डा गांवचो. हाणे हाचें कला जिवीत तियात्रिसत जावन सुर्वातिल्लें. उपरांत हो एक लोकामोगाळ संगीतगार जावन प्रख्यात जालो. सुर्वातिर हो पदां घडटालो आनी तियात्र मांचियेर गायतालो. क्रीस पेरीन चडुणें ५० तियात्रांनी नटन केलां. पयलें पयलें तियात्रांनी हो हास्यगार जावन अबील्नय करतालो जाल्यारी ताचें तालेंत आसचें संगीतांत म्हण ताच्या गुमानाक गेलें. कारण ताच्या कुटमांत सबार संगीतगार आसल्ले. त्या पयकी ताचे दोग भाव ज्यो पेरी आनी पावल पेरी दोगी संगीतगार. ज्यो पेरी ट्रंपेट व्हाजयतालो आनी हो प्रख्यात संगीतगार एस.डी. बर्मन हाच्या संगीत वाद्य मेळांत खायाम सदस्य आसल्लो. पावल पेरी एक साक्साफोन व्हाजांत्री. होयी तियात्र मांचियेर पदां गायतालो. तियात्र मांचियेर सबार तियात्रांनी नटन केल्या उपरांत ताणे ताचेच म्हळ्ळे तियात्र बरोवंक सुर्वात केले. ताणे बरयिल्ल्या पयकी थोड्या तियात्रांचीं नांवां – 'नशीबांतलो नोवरो', 'जुरामेंत', 'वीर मोग करनारयांचें', 'ब्यांड मासटर', 'लोब पाद्रिचो', 'तूं आनी हांव', 'तो मोरोंक्ना' इत्यादी.

थोड्या काळा उपरांत क्रीस पेरीक ताचें तालेंत संगीतांत आसा म्हण कळल्लेंच तो संगीत मेसत्री जावन एक प्रख्यात ब्यांड मासटर जालो. तो ताचेंच म्हळ्ळे ब्यांड निर्माण करून, काजारां सोभाणांनी, नाच काऱ्यक्रमांनी ताचें संगीत कारयक्रम दितालो.

कोंकणी तियात्राचें मट्ट सुद्रांवचे खातीर, ताणे दोन कोंकणी संगीत प्रदर्शनां सादर केलीं. त्या पयकी नोवरो म्हजो देंवचार संगीत प्रदर्शन भारी लोका मोगाळ जालें. ह्या संगीत कारयक्रमाक गोवा आनी बोंबय थावन क्रीस पेरिचें निजाचें संगीत आनी प्रख्यात संगीतगार्न लोर्नाचो ताळो आयकोंक सालभर प्रेक्षक जमताले, जाल्ल्यान ताचीं दोनी संगीत प्रदर्शनां दाकलो जावन ऊरल्यांत.

क्रीस पेरीन ताचीं पदां हेच.एं.वी. रेकोर्डांत दाखल केल्यांत आनी आकाशवाणिचेर सबार पावटीं प्रसार जाल्यांत. क्रीस पेरीन संगीताच्यो शुती कोवो काडल्यात, मात्र न्हय, हेरांच्या श्रुती कोवळ्यांकयी संगीत दिलां. क्रीस पेरीन 'भुंयारांतलो मनीस' म्हळ्ळें एक कोंकणी पिंतूर काडलां.

## अरिसटिडेस डायस

हो कलाकार तियात्रिसत साल्सेटच्या राया अरलें गांवचो. सेगुंडो ग्राव पोरचुगीस शिकप जाल्लेंच तो तियात्र वेदिंनी नटन करुंक आनी पदां गावंक आशेतालो. ताका पदां गांवचें आनी नटन करचें तालेंत आसल्लें.

अ. डायसान ताका १२ वर्सां प्राय भरताना वेदिचेर गावंक प्रारंभ केल्लें. हाणे सूरवातेर स्त्री पात्रधारी जावन नटन करुंक प्रारंभ केल्लें. डायसाचें नटन पळेवन तवळ तियात्रांत नांवाडदीक जावनासल्ल्या सोजा फेरावोन डायसाची पाट थापुडन तुका बरें भविषय आसा म्हण सांगल्ल्यान ताका आपुरबायेच्या प्रोत्सावाचें पाटथळ मेळल्लें.

अरिसटिडेस डायसान चडुणें १९४५ इस्वेंत ताचो पयलो तियात्र बरोवन ताच्या गांवांत खेळोन दाकयिल्लो. तवळ डायसाक १७ वर्सां प्राय. चडुणें १९४८ इस्वेंत ताका वृत्तिपर जावन वेदिचेर आवकास लाबलो. तो आवकास वापरून ताणे तीन प्रख्यात तियात्र बरयले. ते आसातः १. कुटम २. सत भावार्थ ३. लिपलोलो घूट. हे तीनी तियात्र भारी यशस्वी जाले. कारण हे तियात्र ताणे ताच्ये जिण्येंत घडल्ल्या घटनाचेर होंदोन बरयिल्ले. ताचे तियात्र यशस्वी जावंक कारण, ताच्या तियात्रांनी नयतीक शिकोवण आसताली. ताच्या तियात्राचे संवाद साद्या लोकाक अरत जांवचे तसले आनी तो केदनांय कांटो कंतारांक बरो ताळो बसयतालो.

अरिसटिडेस डायस ताचा 'DOIEA' तियात्र मुखांत्र ह्या तियात्राच्यो १०० दाकवण्यो जाल्यारी, हरयेकयी देखावेक थियेटर भर वीक्षक येताले. ह्या ताच्या तियात्रा नंतर तो एक प्रमूक तियात्र बरयणार म्हण प्रख्यात जालो. हो तियात्रिसत 'यंग स्टार ओफ गोवा' पंगडाचो वांगडी जावन ह्या पंगडा नांवाच्या बावट्याखाल तियात्र बरयतालो.

ताणे बरयिल्ल्या तियात्रां पयकी 'डैवरस' तियात्र भारी यशस्वी जाल्लो. ह्या तियात्राचेयी शेंबोरा वयर प्रयोग जाल्ले.

अरिसटिडेस डायस एक बरो पदां घडपी. ताचीं चडावत पदां तवळ गोंयकारांच्या घरां घरांनी आयकोंक मेळतालीं.

## सेबी कुटिन्हो

सेबी कुटिन्हो साल्सेटच्या कोर्टालीं गांवचो, पूण हो कलाकार मुंबय शहेरांत जल्माल्लो आनी ताचें शिकपयी मुंबय शहेरांतच जाल्लें. ह्या कलाकाराक जल्मा थावन्ंच कलेचें देणें आसल्ल्यान तो ल्हान आसतानांच पदां गांवचें, नटन करचें आनी नाच नाचचें तालेंत दाकयतालो. इसकोलांत आसताना ताका इंगलीष ड्रामांनी नटन

करुंक आवकास मेळल्ल्यान तो एक फुडाराचो नट जांवचें लक्षण. ताच्या भुर्ग्यापणारच दिसोन येतालें.

तियात्रिसत एर्नेसट रेबेल्लो हाचो 'आवयचो फूट' तियात्रांत सेबीक वेदिचेर नटन करुंक पयलो आवकास मेळ्ळो. सेबीन जुवांव बावतीस लोब आनी मीस मेरेकीन हांच्या मुखार त्या तियात्रांत नटन केलें, जाल्यारयी वृत्तिपर तियात्रिसत जांवच्याक तितल्या सुलभायेन जालें ना. तवळ तो 'पोर्ट ड्रामाटीक कंपेनी' पंगडांत सेर्वालो. त्या उपरांत जोन डी कुन्ह हाच्ये मजतेन ताचोच म्हळ्ळो 'एकलोच पूत' नांवाचो तियात्र बरयलो आनी स्थळीय खेळगाड्यांक घेवन हो तियात्र तीन जाग्यांनी खेळयलो.

शेबीन १९५३ इस्वेंत 'कुड्डो मिलियनेर' म्हळ्ळो आन्येक तियात्र बरवन 'पोर्ट ड्रामाटीक कंपेनी' ह्या पंगडाच्या बावट्याखाल खेळयलो तरी वृत्तिपर तियात्रिसतां सांगाता भर्सोंक ताका जालें ना. त्या उपरांत ताणे फ्रान्सीस कार्नेरो हाची इषटागत करून "गोवन ड्रामाटीक एंड कल्चरल सोसायटी" ह्या नांवाचो पंगड बांदलो. ह्या पंगडांत काजेदोन (Cajedon) सोज, रिको रोड आनी विन्सेंट सेमेडो वांगडी आसल्ले.

अशें सबार प्रयत्नां केल्यारी यशस्वी जायनातल्लें पळेवन तो निराशी जाताना, आलफ्रेड रोज तियात्रिसतान ताचें नटनाचें तालेंत पळेवन, तियात्रांनी नटन करुंक सलहा दिली. त्या उपरांत आलफ्रेड रोजान 'दोतोर अद्वोगाद' म्हळ्ळ्या ताचा तियात्रांत ताका नटन करुंक आवकास करून दिलो. ह्या तियात्रांत ताणे केल्लें नटन उंचल्या म ाचें जाल्ल्यान तें हेर तियात्रिसतांक मेचवालें, मात्र न्हय ताचें तालेंत पळेवन विस्मीत जाले आनी ताका कोंकणी वेदिचो 'प्राण' म्हण वोलायलागले. ह्या घडिता उपरांत ताका जे.पी. सोजालीन, सी. आलवारेस, प्रेम कुमार, आलफ्रेड रोज, एं. बोयर, रोबीन वाज आनी

हेर प्रमुखांच्या तियात्रांनी नटन करुंक आवकास लाबलो. अशें तो दीस वेतां वेतां एक परिपूर्ण नट जावन रूपीत जालो. ताणे नटन केल्ल्या तियात्रां पयकीं 'कोर्कोस असतुरी', 'आंगोवणेची होकाल', वावराडी, 'आतां कोण घात्की' आनी 'बराब्बस' प्रमूख आसात.

सेबीन ताचेच म्हळ्ळे तियात्र बरयल्यात त्या पयकी 'एकलोच पूत', 'कुर्डो मिलियनेर', 'म्हाका गुन्यांव भोगोस', 'आमचे दीसग्रास', 'म्हजो अपराद', 'आवयचे उल्लास' आनी 'इमत्याचे भोगणार'.

सेबीन दोन कोंकणी पिंतुरांनी नटन केलां – तीं पिंतुरां आसात 'आमचें नशीब' आनी 'बोगलांट'.

## काजेदोन डी सोज

ह्या कलाकाराचें सार्कें नांव कैतानिनो डी सोज. हो गोंयच्या दिवार गांवचो. हो कोंकणी वेदिचो बरो एक गावपी आनी पदां घडपी. सबार तियात्रिसतांनी आकाशवाणिचेर हाणे घडल्लीं पदां गायल्यांत.

काजेदोन मुंबयिंत इसकोलांत शिकोन आसताना, इसकोलाच्या कार्यक्रमांनी पदां गायतालो. उपरांत दिवार ताच्या गांवाक पाटीं पर्तोन ताणे ताचो गांव दिवारांत 'रेबेकामाचीं कर्तुबां' म्हळ्ळ्या नांवाची पयली संगीत सांज मांडून हाडली. त्या उपरांत ताच्या गांवच्या गांवकारांच्या प्रोत्सावान आनिकीयी दोन तियात्र बरयले. ताचाच गांवांत खेळयले. ह्या तियात्रा यशस्वे वर्वीं ताच्या गांवांत तो गावपी, पदां घडपी आनी तियात्र बरयणार जावन प्रख्यात जालो.

काजेदोन उपरांत नौकरी खातीर मुंबय शहेराक स्थळांतर जालो. मुंबयिंत ताणे संगीत सांज कार्यक्रमांनी भाग घेवंक सूर?वात केली आनी ताणे बरयिल्ले तियात्रयी खेळोन दाकयले. हाचें तालेंत पार्कून तियात्रिसत आल्परेड रोजान ताच्या 'हेंच तें कारण' म्हळ्ळ्या तियात्रांत गावंक अवकास करून दिलो. ह्या पदा वर्वीं तो भारी लोकामोगाळ जालो.

काजेदोन मुंबयिंत आसताना ताणे सबार तियात्र बरयिल्ले. थोडे खेळोन दाकयिल्ले आनी थोडे खेळोन दाकोवंक बाकी आसल्ले. ताणे बरयिल्ले तियात्र – 'रेबेकामाचीं कर्तुबां', 'निर्मोण देवाचें' 'ह्या तेंपार', 'पायचें रीण', 'मोगाचो दोतोर', 'बायल', 'म्हजी चूक', 'आपुरबायेची धूव', 'मटवो कुंपार' इत्यादी प्रमूख आसात.

## स्टार ओफ अरोस्सीम

ह्या कलाकाराचें नीज नांव अलेग्रो अंताव, हो अरोस्सीम साल्सेटचो. अरोस्सीम ताच्या पदांक लोकामोगाळ जाला. ताचीं पदां हेच. एं. वी. रेकोड्‌र्स आनी आकाशवाणिचेर आयकोंक मेळतालीं. ताणे गायलेल्या प्रख्यात पदां पयकी सी.आलवारेसा सांगाता गायलेलें 'सां जुवांवचें फेसत', मोहाना सांगाता गायलेलें 'बिर्मोत' पद आनी ताणे एकोडें गायलेलें 'गोंयची शीतकडी' पद, लोका मोगाळ जाल्यांत.

अरोस्सीम १९४८ इस्वेंत नौकरी खातीर मुंबय स्थळांतर जालो. तवळ ताका तियात्रिसत कन्सेपशेन आनी तियात्रिसत सोजा फेरावो हांची ओळक जाली. ताचें तालेंत पार्कून ताका अंतोनी मेंडीस, सोजा फेरावो, आल्परेड रोज, सी. आलवारेस आनी हेर तियात्रिसतांच्या तियात्रांनी पदां गावंक आनी नटन करुंक आवकास लाबलो. उपरांत ताणे ताचेच म्हळ्ळे तियात्र बरयले. त्या पयकी 'आमचो दुस्मान', 'कुणबी आंतोनी', 'रिटायर्ड तार्वोटी' प्रमूख.

## लुसियानो डायस

हो कलाकार साल्सेटच्या अरलें गांवचो. लुसियानो, अरिसटिडेस डायस हाचो धाकटो भाव. व्हडलो भाव वृत्तिपर तियात्रांत आसल्ल्यान ताच्या धाकट्या भावाक वृत्तिपर तियात्राच्या वर्तुला भितर येवंक भारी सुलभ जालें.

लुसियानो तालेंतवंत भुर्गो आसोन बरो पदां घडपी आनी मदूर ताळो आसल्लो कलाकार. एक काळ आसल्लो 'यंग स्टारस ओफ

गोवा' पंगडा थावन तियात्राचें सुर्विलें कंतार लुसियानो थावन्‌च म्हणयताले. यंग स्टारस ओफ गोवा पंगडा थावन तो निरंतर पदां गावन आसलल्यान तो संगीतगार जावन गोयांत भारी प्रख्यात जाल्लो.

लुसियानो गोयांत लोका मोगाळ जाल्लो पळेवन मुंबय तियात्रिसत पंगडाच्यांनी ताका मुंबय तियात्रांत भाग घेवंक आपवणें दिलें. लुसियानोचीं चडावत पदां हेच. एं.वी. रेकोर्डांत मुद्रण केल्यांत आनी आकाशवाणी थावनयी प्रसार जाल्यांत. हाणे दृश्य कोवळेंनी (Video Cassettes) ताचीं पदां मुद्रण केल्यांत.

लुसियानो हाणे बरयणार जावन सबार तियात्र बरयल्यात. त्या पयकी तियात्र 'पात्काची सावळी' आनी 'खुशे भायर काजार' भारी लोका मोगाळ जाल्यात.

## टिट्टा प्रेट्टो

हो कलाकार बार्देशांतल्या अलडोना गांवचो. हो ल्हान आसताना थावन्‌च तियात्र पळेतालो. मिंगेल रोड ताचो मोगाचो तियात्रिसत. मिंगेल रोड तियात्रिसतान गांवची रीत आनी तियात्र बरोंवचें ताचें तालेंत ताका भारी मेचवातालें. तो एक दीस प्रख्यात मिंगेल रोड तियात्रिसताबरी आपूण जातलों म्हळ्ळये आशेन मिंगेल रोडाक अनुकरण करतालो.

टिट्टा प्रेटोन दीस वेतां वेतां ताचिंच म्हळ्ळीं हास्यप्रदान पदां रचुंक प्रारंभ केलीं. १९५२ इस्वेंत टिट्टाक मिंगेल रोड हाच्या 'दीस ग्रास' तियात्रांत नटन करचो आवकास लाबलो. तो आवकास ताणे बरया थरान गळसिल्ल्यान त्या उपरांत टिट्टाक जे.पी. सोजालीन, जसिंता वाज, सायब रोचा, सी आलवारीस, प्रेम कुमार, रेमी कुलासो आनी हेरांच्या तियात्रांनी नटन करुंक ताका आवकास लाबलो.

टिट्टा एक हास्यगार म्हण प्रेक्षकांनी ओळकल्यान, ताका तियात्र निर्देशक हास्य प्रदान पात्रच दिताले. टिट्टान ताचेच म्हळ्ळे तियात्र

बरयल्यात आनी थोडे तियात्र लोका मोगाळ जाल्यात. हाणे ४० वर्सांच्याकी चड सेवा कोंकणी रंगमंचर दिल्या.

## टोनी साक्स

ह्या कलाकाराचें नी ज नांव टोनी फेर्नांडीस. हो गोंयच्या वासको गांवचो. हो एक विशेस आकरषणेचो कलाकार. ताका ताचीच म्हळ्ळी एक शयली आसल्ली. हाणे कोंकणी रंगमंचार वेवेगळ्या रुपाचे म्हणजे, हिरो, बापय, रैत इत्यादी पात्र केल्यात. तो मुकेल दुरात्मक नट (Villain) जावन नटन करन अभ्यास जाल्ल्यान, सबार निर्देशकांनी ताका दुरात्मक पात्रच सुचयताले.

टोनी एक बरो गावपी आनी पदां घडणार. ताणे सबार पावटीं एकोडें आनी दोडें गायन केलां. हाणे थोडे तियात्रयी बरयल्यात, ताचो 'फुलांचो तुरो' एक प्रख्यात तियात्र. हाणें चडुणें ४० वर्सां कोंकणी रंगमंचार सेवा दिल्या.

## यंग मेंडीस

यंग मेंडीस बार्देशांतल्या आलडोना गांवचो. हो तियात्रिसतांच्या कुटमा थावन आयिल्लो. हाचो माम जुजे मेंडीस तवळचो एक स्थापीत तियात्रिसत, जाल्ल्यान हाणे यंग मेंडिसाक कोंकणी रंगमंचार परिचय करन दिल्लो. ह्या ताचा पयल्या आवकासांतच तो यशस्वी जाल्ल्यान उपरांत वृत्तिपर तियात्रिसत जे.पी. सोजालीन आनी हेरांच्या तियात्रांनी झळकोंक लागलो. स्वाभावीक पात्र करच्यांत ताचो उकल्ललो हात, जाल्ल्यान ताका खंचोय पात्र ओंबातालो. ताणे प्रेम कुमार हाच्या 'आमची भास' आनी 'पाय' ह्या तियात्रांनी केल्लो पात्र विस्रोंक जायना तसलो. त्याचपरीं सबार वर्सां ताणें आलफ्रेड रोज, सी. आलवारेस आनी रेमी कुलासो हांच्या तियात्रांनी स्वाभावीक पात्र केला. हो सी. आलवारेस हाच्या एका तियात्रांत नटन करुंक गोवा आयिल्ल्या संदर्भार तर्नाटो आसतानांच मरण पावल्लो.

## पीटर चांपियन

पीटर चांपियन गोंयच्या साल्सेटचो. हो एक प्रदान हास्य नट आनी गावपी. हो थोड्या पात्रांनी निपूण आसल्लो आनी चडावत पात्रांनी स्वाभावीक नटन करतालो.

पीटर चांपियन एक बरो गावपी आनी हास्यगार जाल्ल्यान तोच हास्य प्रदान पदां बरयतालो. 'यंग स्टारस ओफ गोवा' पंगडाचो हो स्थापक वांगडी. तियात्रा खातीर हो तवळ तवळ बोंबयक पयण करतालो. तशेंच तियात्रा खातीर तो आफ्रिका गांवांनियी भोंवला. हाणे सबार तियात्र बरयल्यात त्या पयकी ताचो तियात्र 'बोक्रो कूत जालो' बारी फामाद जाला. हो तर्नाटपणारच मरण पावल्लो.

## जोन गोम्स (कोकोय)

जोन गोम्स गोंयच्या कुंकोलीम गांवचो. हो एक शिकपी कलाकार, गावपी आनी तियात्र बरयणार. कोकोय तियात्रिसत कुटमा थावन आयिल्ल्यान ताका कोंकणी भाशेचो आनी कोंकणी रंगमंचाचो मोग जल्मा थावन आयिल्लो. ह्या कलाकाराक पयलो वेदीर चडयिल्लो ताचो माम कैतानिनो रेबेल्लो हाच्या तियात्रांत. त्या तियात्रांत ताणे एक पद गायलें आनी तें प्रेक्षकांक भारी आवोडलें. त्या उपरांत ह्या कलाकारान पेद्रो झेवियराचे तियात्र अख्ख्या गोवांत प्रदर्शीत जाल्ल्यान कोकोय त्याचपरीं परिचीत जालो.

कोकोयन एदोळ परयांत ५०० वयर तियात्रांनी पात्र घेतला आनी तशेंच आंतोनी डेस्सा, प्रेमकुमार, सेबी कुटिन्हो आनी रोबीन वाज असल्या प्रमूख निर्देशकांच्या तियात्रांनियी ताणे पात्र घेतला.

कोकोय एक अपुरबायेचो गावपी आनी ताणे चडुणें ३,००० वयर पदां घडल्यांत म्हण तो म्हणता. ताणे घडल्लीं पदां दोडें गायन जावन सिसिलिया, फिलोमिना, सिंतिया हांचे सांगाता गायल्यांत.

कोकोय हाणे सबार तियात्र बरयल्यात. हाचे लोका मोगाळ तियात्र 'आतांचो संसार', 'देवाचो हुकूं', 'पाद्रिचो घूट', 'गुन्यांव कोणाचो', 'दुबाव', 'परीक्षा', 'फुकट चारली' इत्यादी आसात.

कोकोय आकाशवाणी कलाकार आनी हाणे २ दृश्य कोवळ्यो काडल्यात. तीं आसात–'सपण' आनी 'गोंय आपयता'.

## मान्वेल डिलीमा

डिलीमा हो कलाकार बार्देशांतल्या पर्वोरीम गांवचो. गोयांत आसताना डिलीमा कोंकणी रंगमंचाक चडल्लो. तो गावांत आसताना तियात्र बरोवन रंगमंचार खेळयतालो. उपरांत तो मुंबय स्थळांतर जालो. मुंबय पावल्या उपरांत ताणे एक फामाद तियात्र –'एक होकलेक दोन नोवरें' खेळोन दाकयलो.

मान्वेल डिलीमा आकाशवाणिचो नियमीत कलाकार. ताणे आकाशवाणिंत तवळ तवळ नाटकुळे बरवन प्रसरण केल्यात. असले ताणे चडुणे १०० नाटकुळे बरयल्यात आनी वीक्षकांनी ते मेचवाल्यात म्हण आयकोंक मेळता.

डिलीमान त्या उपरांत कोंकणी रंगभूमिच्या प्रख्यात तियात्रिसतांक घेवन तियात्र बरवन सादर केले. ताणे निर्माण केल्ले प्रख्यात तियात्र 'युरोपी सवकार', 'शकुंतळ', 'बिस्म सायब', 'मिलाग्र', 'सोडवोणदार' इत्यादी.

## बेर्नाड दे आलडोना

बेर्नाड बार्देशांतल्या आलडोनांतलो. हो एक बरो पदां घडणार आनी गावपी. हाच्या पदांनी नयतीक मौल्यं आसल्ल्यान प्रेक्षकांक तीं आवोडतालीं. हो कार्मो रोड हाचे सांगाता दोडें गायन कर?तालो आनी प्रेक्षक तें मेचवाताले. बेर्नाडान प्रख्यात तियात्रिसत जावनासल्या नेल्सन, जसिंता वाज, आलफ्रेड रोज, सी. आलवारेस, प्रेम कुमार, रेमी कुलासो आनी हेरांच्या तियात्रांनी नटन केलां.

बेर्नाडान सबार तियात्र बरयल्यात. ताचे 'कितें आमचो एसताद' आनी 'जलाच पायजे' तियात्र लोका मोगाळ जाल्यात. हो तर्नाटपणारच मरण पावल्ल्यान ताका कोंकणी रंग मंचार आनिकियी चडतीक सेवा दीवंक जावंक ना.

## सी.डी. सिलवा

ह्या कलाकराचें नीज नांव कैतानो डिसिलवा. हो साल्सेटच्या सेरावणीम गांवचो. सी.डी.सिलवा एक शाथिवंत तियात्रिसत आनी एक उत्तीम पदां घडणार. हाका हास्यांत्य आनी दुःखांत्य पदां घडुंक कळीत आसल्लें. हाका बरो ताळो आसल्लो आनी संगीताचें देणेंयी आसल्लें.

हाच्या नटनाच्या विश्यांत सांगचें जाल्यार; हो स्त्रीयांचे तशेंच हेरयी पात्र आपुरबायेन करतालो. सी.डी.सिलवा संगीतगारांच्या आनी तियात्रिसतांच्या कुटमा थावन आयिल्लो, ताचो मावळो खेळ तियात्र बरयतालो. ताचो भाव ब्यांडाचो मुखेली आनी आन्येक भाव एका प्रमूख ब्यांडाचो ड्रम्मर जावन आसल्लो. हाका वयोलीन व्हाजोवंक कळीत आसल्लें. तो कांटो घडची कला ताच्या मावळ्या थावन शीकल्लो.

सी.डी.सिलवा भुग्र्यापणार थावनच इसकोलांत शिक्तासताना संगीताच्या कार्यक्रमांनी पात्र घेतालो. भुग्र्यापणारच म्हणजे चडुणे १९४९ इस्वेंत तो फेलिसियो कार्दोजो, हाचो 'आपोवणें' तियात्रांत ताणे पात्र घेतल्लो. सवकास हेरां तियात्रिसतांनी ताका नटन करुंक आनी गावंक आवकास करन दिलो. हाणे प्रख्यात तियात्रिसत ए.एं.बी. रोज, चांपियन पीटर, कीड बोक्सर, सोजालीन, यंग मिनेजस, सोजा फेरावो, दियोग्विनो डिमेल्लो, अशें सबार तियात्रिसतांच्या तियात्रांनी पात्र घेतला.

सी.डी. सिलवान ताचेच म्हळ्ळे तियात्र बरोवंक सुर्वात केली. ताचो पयलो तियात्र 'काजारी इर्मांव'. ताच्या उपरांत ताणे १५ तियात्र बरयल्यात. उपरांत सी.डी.सिलवान नोन–स्टोप ड्रामा आनी खेळ–तियात्र बरोवंक प्रारंभ केलें. ताणे चडुणें १३ नोन–स्टोप ड्रामा प्रदर्शनां केल्यांत. त्या पयकी 'मोग', 'पिशें' आनी 'माणकां–मोत्यां–भांगार' प्रमूख.

## हेच. ब्रिट्टोन

हो कलाकार बार्देशांतल्या ब्रिट्टोनांतलो. हाणे चडावत जावन स्त्रियांचो वेस घाल्चो आनी स्त्रियांबरी गांवचें. स्त्रियांचे पात्र करचे हेर कलाकार सुर्वेर स्त्रियांचो पात्र करन उपरांत दादल्यांचोच पात्र करताले जाल्यार हेच. ब्रिट्टोन हाणे स्त्रियांचो पात्र करचो सोडुंकच ना.

हेच. ब्रिट्टोन एक उत्तीम पदां घडणार आनी गावपी. ताणे सबार हेच.एं.वी. रेकोड्र्सांनी गायलां आनी आकाशवाणी चेर तीं प्रसार जाल्यांत.

ह्या कलाकारान हाच्या पदांच्यो सबार दृश्य कोवळो काडल्यात. तशेंच हाणे प्रख्यात निर्देशक जावनासच्या एं. बोयर, जसिंत वाज, रेमी कुलासो, सी. आलवारेस हांच्या तियात्रांनियी पात्र घेतला.

हेच. ब्रिट्टोनान ताचो पयलो तियात्र 'एकवोटाचें फळ'. १९७० इस्वेंत सादर केल्लो. उपरांत 'कसटम–ओफिसर' आनी 'जिवीत कुवैटाचें', 'बेब्दो पूत', 'बुन्याद नासलेलें घर' अशें सबार तियात्र सादर केल्यात.

ह्या कलाकारान बरयलेलीं पदां चडुणें ६०० वयर मिकवतीत म्हण एक अंदाज आसा.

## रोमियो मेंडीस

हो कलाकार बार्देशांतल्या अस्सनोरा गांवचो. रोमियो मेंडीस

एक बरो नट, गावपी आनी पदां घडणार. हाणे निर्मोणें पिंतुरांत पात्र घेतला. हाच्या उपरांत तो भारी लोका मोगाळ जालो. हाणे हाच्या पदांच्यो दृश्य कोवळो काडल्यात. हाच्या दृश्य कोवळेंनी हिंदी गावप्यांक मेतेर केल्लो पयलो तियात्रिसत म्हण नांवाडला. हाणे हाच्या पदांनी अमिताब बच्चन, हेमामालिनी, अनील कपूर, विजेता पंडीत हांचो ताळो काडन गायलां. बोंबय दूरदर्शनाचोय हो खायाम गावपी जावनासोन ३० वयर काऱ्यक्रमां दिल्यांत. हो अंटोनेट मेंडिसाचो पती. हाणीं दोगायनी सबार दृश्य कोवळेंनी दोडें गायन गायलां.

## कीड बोक्सर

ह्या कलाकाराचें सार्कें नांव कैतानो मानुवेल पिरेरा, हो बार्देशांतल्या सियोलीं गांवचो. हाका पयले पावटीं एर्नेसट रेबेल्लोन वृत्तिपर तियात्रांत गावंक आवकास करून दिल्लो. रेबेल्लोच्या 'बोंबयची इसटीर' म्हळ्ळ्या तियात्रांत ताका कीड बोक्सर म्हळ्ळें नांव दिल्लें. ह्या तियात्रांत गावपी जावन तो प्रसिद्ध जालो. उपरांत हेर निर्देशकांनी म्हणजे जुवांव अगुसतीन नॉंडीस, सोजा रावो, एर्नेसट रेबेल्लो, जे.पी. सोजालीन, आंद्रू फेर्नांडीस, सायब रोचा, असल्यांच्या पंगडांत सेर्वोन लोकामोगाळ जालो.

थोड्या तेंपान कीड बोक्सर, यंग मिनेजस आनी मिंगेल रोड सांगाता मेळोन 'कीड–यंग–रोड' म्हळ्ळ्या नांवाचो पंगड रचलो. हाणीं सांगाता मेळोन गायलें, तियात्र बरयले आनी सादर केले. हाणीं सादर केल्ले तियात्र लोकामोगाळ जाले. कीडबोक्सर हासोवपी कलाकार, आनी राजकीय विशयाचेर पदां बरयतालो. कीडबोक्सरान कांय थोडे तियात्र बरयल्यात. त्या पयकी प्रसिद्ध आसा 'कीड–आमचें–स्वपाण' ताचे हेर तियात्र 'आंकवार आनी काजारी', 'जाता तें बोरयाक', 'भयण', आमची नतालां, 'म्हजो अपराद', 'गोवा'. कीड बोक्सर १९९१ मार्च ३ तारिकेर बोंबंयत अंतरलो. ❑

# अर्थावोळ

| | |
|---|---|
| अद्वोगाद | – Advocate |
| अन्वार | – Calamity |
| अनिवाऱ्यता | – Necessity |
| अनुक्रमानुसार | – Sequence |
| अनुबंध | – Annexure |
| अनुवंशीक | – Ethnic |
| अपरोस | – अपूट रोस, संक्षिप्त विवर, परिचय सारंश/Introduction |
| अविष्कार | – Invention |
| अव्वल | – Original |
| आकर | – उत्पत्ती / Source / origin |
| आस | – आशा/desire |
| आस्मिताय | – 1. Identity 2. Culture/heritage 3. pride of ones culture |
| कंतार | – पद/व दोन वेर्स एक कोरस |
| कथानक | – Plot |
| कांटो | – एक वेर्स एक कोरस आसचें दुःखी खंतिचें गीत (Sentimental Song) व संगीताचो वेरस/Contos |
| क्लावन | – तियात्र प्राकारांत कथानका कडेन संबंद नासताना गांवचीं कंतारां. हीं कंतारां कथानाकाच्या पडद्या मदलो वेळ भरून काडच्या विदूषकिचो पात्र खेळतात देकून हाका क्लावन म्हणपाची चाल पडल्या म्हणतात. |
| कुंपासर / तलार | – Musical Time |

| | |
|---|---|
| कोंडाळें | – Spiral Round / Half Circle Round |
| कोपाऱ्यांत | – एका कोनश्यांत / A Corner |
| खाशेलेंपण | – Peculiarity/Characteristic/ distinctiveness |
| गडे | – पात्रदार/खेळगाडी/सांगाती/दोडें |
| गडें गीत | – Duet Song |
| गवाय | – Witness / Proof / evidence |
| गांवगिरे | – Unrefined |
| गांवटी | – Rustic |
| गोडपां | – Rhyming |
| घनाधीक पद्वेदार | – His Excellency |
| घर – कैगारिको | – Handicrafts |
| घर – वसत | – Furniture |
| जणत | – Special Tribe |
| तात्वीक वाडावळ | – Theoretical Growth |
| तिगवन | – जतन/संरक्षण/जोगसण/Preservation |
| तिडक | – कांटाळो |
| तीरल | – भितरलो बोंडू / प्रमूख अंश |
| तुवाद | – संवाद |
| दरग | – Hoarse |
| दृश्य – कोवळी | – Video Cassette |
| दृश्य पिंतूर | – Video Film |
| निबोर | – Crude |
| पर्तोवणी | – संपवणी/Conclusion |
| प्राकार | – एक साहितीक रूप |
| पार्टी | – वेग–वेगळ्या विशयांचेर तीन काणियो व कथा |
| पीटकोळी | – तांबड्या रंगाचीं रान्वट फुलां |

पोवज – Military
बुसकोट – Shirt
बेबो – मेक्यानिकांनी तकले समेत न्हेसचेबरी आसचें वसतूर व आंगलें.
बोवाळ – बोबाट, गोंदोळ / Out cry
बौशिकांक – सार्वजनिकांक
भुमिका – पात्र
मानधन – Agreed Amount/Contract Money
मीरवणीक – पुर्शांव / Procession
मुजग – व्हाजोवपी संगीतगार
मोकळ्या – उग्त्या / Free / Open
येवनीक – Window Curtain
येसायो – Rehearsal
रंजन – मनोरंजन / Entertainment
रेस्पियेद – Respect
लवचीक – Plastic
लेखानीक – लेखकाचो विशय
लोक–कला – Folk - arts
लोक जिणी – Folk-life
लोकमत – Openion Poll
लोकवेद – Folklore
विलूद – Velvet
श्रुती कोवळी – Audio Cassette
संकेत लिपी – Notation
सायड – शोज – तियात्राच्या कथानका कडेन संबंध नातलेलीं आलायतीं विनोदी प्रहसनां.
सूर – Tune

# आधारावोळ

## इंगलीश

**Books**

**Bengali Theatre -**
Kironmoy Raha National Book Trust, New Delhi.

**'100 years of Konkani Tiatro' -**
Compiled by Wilmix Wilson Mazarello
*Published by : Directorate of Art & Culture*
*- Govt. of Goa - 2000*

**Silver Jubilee of Tiatr Competition -**
1974-75 to 99-2000
*Published by Kala Academy Goa.*

**The Changing Language of `Theatre'** - Badal Sircar
- Indian Council for Cultural Relations New Delhi.

**Traditional Indian Theatre** -
Multiple Streams - by Kapila Vatsyayan
*Published by National Book Trust India.*

**'When the curtains Rise'** -
Understanding Goa's vibrant Konkani Theatre
- by Andre' Rafael Fernandes Ph.D.
*Published by Tiatr Academy of Goa - 2010*

**Newspapers -**

**Navhind Times of Goa/Panorama/Sunday,**
January 20, 2008. Column 'My Journey'
article: Goan Tiatr - Not a Folk Drama
by Tomazinho Cardozo.

**`Herald' - Goa**
- Panjim, Sunday, March 9. 2008.
Article: Konkani Tiatro: The Folklore of Goa
by Wilmix Wilson Mazarello

**Souvnir**

**Kala Mogi** - Candolim
Kala Academy Panjim
12th September 2007

## कन्नड

ग्रंथ

**आधुनीक कन्नड नाटक –**
विमर्शात्मक ऐतिहासीक विशलेषणे
– डा। के. मरुळसिद्धप्प
– अंकीत पुसतक प्रकाशकरू – २००९

**आधुनीक भारतद इतिहास – बिपीन चंद्र**
कन्नड अनुवाद – एच. एस. गोपालराव
नवकर्नाटक प्रकाशन.

**कर्नाटकांद्र रंगभूमी**
– डा. एस. लक्ष्मीदेवी चित्कला प्रकाशन – कुप्पं

**पोली – केनरा २००**
नाटक चटुवटिके–बी.आर. नागेश
प्रकाशकरू: जिल्लाधिकारी, द.क. जिल्ले, मंगळूर–५७५ ००१.

**रंगभूमी –**
नव कर्नाटक कैपिडी प्रायोगीक मार्गदर्शी
– एन. एस. वेंकटराम
– नव कर्नाटक प्रकाशन – २००१

## मराठी

**लोकसरिता –**
गोमन्तकीय जनजीवनाचा संमग्र अभ्यास
– विनायक विष्णू खेडेकर
– कला अकादमी गोवा

## कोंकणी

रोमन लिपी –

**Fell Vo Khell**

- Benicio Vitorino Pereira
- Tiatr Academy of Goa Publication

देवनागरी लिपी –

तियात्राचो डतिहास – तियात्राची सेंबरी

बरोवपी : प्रकाश थळी

उजवाडावपी : गोवा कोंकणी अकादेमी पणगी – गोंय.

कोंकणी भास साहित्य आनी संसकृताय

–केंकणी भाशा मंडळ गोंय – २००३

कन्नड लिपी –

प्रबंद संकलन–'कोंकणी दायज'

कोंकणी संस्थो सां. लुवीस कोलेज, मंगळूर–५७५ ००३.

१०० वर्सांचो कोंकणी रंगमंच

वारषीक अंको – 'दिवो' कोंकणी हप्त्याळ्या वर्तमान पत्राचो वार्षीक अंको २००२.

नेमाळीं –

– कोंकणी संस्थो

सां. लुवीस कोलेज महाविद्यालय, मंगळूर

ह्या संस्थ्या थावन कन्नड आनी देवनागरी, लिपीन प्रकट जांवचें कोंकणी भाषेचें आनी संसकृतिचें षणास्मीक नेमाळीं.

– 'अमर कोंकणी' – अंको ४४ – २००५
– 'अमर कोंकणी' – अंको ४५ – २००६
– 'अमर कोंकणी' – अंको ५१ – २००९
– 'अमर कोंकणी' – अंको ५४ – २०१०
– 'अमर कोंकणी' – अंको ५६ – २०११

वर्तमान पत्रां –
राकणो (कोंकणी हप्त्याळें मंगळूर, कोडियालबैल थावन प्रकट जांवचें वर्तमान पत्र) १४, १९४८
'राकणो' जून ११, १९४८
'राकणो' मे १०, १९६७
'राकणो' मे ६, १९७३
'राकणो' अकटोबर २८, १९७३
'राकणो' एपरील २४, १९७७
'राकणो' मे ८, १९७७
'राकणो' मे १५, १९७७
'राकणो' मे २२, १९७७
'राकणो' मार्च ९, १९७८
'राकणो' मे १०, १९७९
'राकणो' दसेंबर २५, १९८०
'राकणो' दसेंबर २३, २००४
'राकणो' अकटोबर १३, २००५
'राकणो' अकटोबर २०, २००५
'राकणो' अकटोबर २७, २००५
'राकणो' नवेंबर १०, २००५
'राकणो' नवेंबर १४, २००५
'राकणो' दसेंबर १७, २००९
'राकणो' जनेर ०१, २०१०
'राकणो' अकटोबर २७, २०११
'राकणो' नवेंबर ०३, २०११

## संपर्क केल्ले संस्थे

गोयांत :

- ⇨ **Goa Konkani Academy,** Panaji Goa
- ⇨ **Tiatr Academy of Goa,** Panaji - 403 001.
- ⇨ **Goa Art and Culture Dept.,** Goa
- ⇨ **Kala Academy,** Goa

कर्नाटकांत :

राकणो कोंकणी हप्त्याळें (वर्तमान पत्राचो संस्थो)
कोडियालबैल, मंगळूर
सां लुवीस कोलेज, मंगळूर
सां लुवीस कोलेज कोंकणी संस्थो, मंगळूर
कोंकणी भास आनी संस्कृती प्रतिषठान
विश्व कोंकणी केंद्र, कोंकणी गांव, मंगळूर
कोंकणी नाटक सभा, मंगळूर

## संपर्क केल्ले व्यक्ती

**गोयांत** सर्वश्री–ॲाड उदय भेंबरो; चळवळेगार नागेश कर्माली; तियात्र अकाडेमिचो माजी अध्यक्ष–तोमोजिनो कार्दोजो; शेंबोर वरषांचो कोंकणी तियात्र ग्रंथ बरयणार–वीलमिक्स विल्सन माजारेलो; नाटककार आनी साहिती–पुंडलीक नारायण नायक; तियात्रिसत जेस फेर्नांडीस; विश्वकोश संपादक दो। तानाजी हरलनकर; गोवा विश्वविद्यालयाच्या कोंकणी विभागाची मुख्येसत श्रीमती प्रियदर्शिनी ताडकोडकर; लोकवेद संशोदकी आनी साहिती श्रीमती जयंती नायक आनी कांता गावडा – लोकवेद कलाकार.

**महाराषट्रांत** सर्वश्री–जे.बी. मोरायेस, साहिती; दी। जे.बी. सिकवेरा साहिती; जोन डी सिलव अध्यक्ष; कोंकणी भाषा मंडळ महाराषट्र.

**कर्नाटकांत** मा. बा. स्वीबर्ट डी सिल्व प्रांशुपाल, सां. लुवीस कोलेज मंगळूर; प्रो. ना.द. शेट्टी, कन्नड प्राद्यापक सां. लुवीस कोलेज; दो।. आलवीन विन्सेंट डेसा, इंगलीष प्राद्यापक सां. लुवीस कोलेज; लोरेन्स पिंटो प्राद्यापक सां. लुवीस कालेज; सर्वश्री – एडवीन जे.एफ़. डी सोज कार्यकारी दिरेक्तोर, कोंकणी संस्थो सां लुवीस कालेज आनी गोपाल गौड लोकवेद कलाकार.

कोंकणी भास आनी संस्कृती प्रतिष्टान विश्व कोंकणी केंद्र, मंगळूर ह्या संस्थ्याचो अध्यक्ष बस्ती वामन शेणै, कोडियाळ खबार पत्राचो संपादक वेंकटेश बाळीग, आनी नारायण कामत रंगभूमी कलाकार.

राकणो कोंकणी हप्त्याळें वर्तमान पत्राचो संपादक मा. बा. फ्रान्सीस रोड्रिगस, सह संपादक टोनी पेरोस, दिर्वें कोंकणी महिन्याळें पत्राचो संपादक जोन मोनीस; कोंकणी साहिती एडी नेट्टो; नाटक निर्देशक अर्थर रसकिन्हा; (श्रीमती) ग्लेडीस रेगो, साहिती आनी हेच एं फेरनाळ अध्यक्ष कर्नाटक लेखकांचो एकवोट मंगळूर.

**केरळांत** सर्वश्री – गोकूलदास प्रभू, कार्याध्यक्ष, अखील भारतीय कोंकणी परिषद, आर. एस. भासकर माजी कार्यादर्शी अ.भा. कोंकणी परिषद.



# बरयणाराचीं भोगणां

बरयणारान एक संशोधीत ग्रंथ तयार करचो, पिंतूर निर्मापकान एक आपुरबायेचें पिंतूर निर्माण करचें आनी आवयन एक सुडसुडीत भुरग्याक जल्म दिंवचें चडुणें एकच म्हण म्हाका भोग्ता. कारण ह्या वावरांत भोगचे अटेविटे चडुणें एकाच थराचे म्हण म्हजी अभिप्राय. आवय एका भुरग्याक जल्म दिंवच्या पयलें त्या किटाक नोव मयने व्हावयता, आनी एक पिंतूर निर्मापक, ताचें एका सन्निवेशाचें दृश्य कथानक आनी पाटकता पर्माणे सारकें बसता पर्यांत चित्रीकरण कर्न्‌च आसता. त्याच पर्माणे एक ग्रंथकर्त, ताणे उमेदीन आनी आतुरायेन तयार करचो ग्रंथ आपुरबायेन ताची मांडावळ करून प्रगटता परयांत उद्वेगान भरोन्‌च आसता.

ह्या पावटिंचो कोंकणी चळवळेचो चवतो ग्रंथ विभिन्न थरान सोभाजे म्हळ्ळ्या इराद्यान ग्रंथ रचनुकेच्या वावरांत बुडोन आसताना कोंकणेच्या साहितिंनी प्रमूख जावन गोंयचो फामाद चळवळेगार एडवोकेट उदय बेंबरो, आनी अखील भारतीय कोंकणी परिषदेचो प्रसतूत कार्‍याध्यक्ष गोकूलदास प्रभू, हाणीं हो ग्रंथ विमर्शात्मक विशलेषणाच्या रुपार तयार कर्च्याक गर्जेचीं सलहा सुचनां दिलीं.

एडवोकेट उदय बेंबरोन गोंयां थावन दोन विशलेषणाचीं पुसतकां धाडून दिलीं. त्या पुसतकांचीं नांवां The changing language of Theatre - Badal Sircar ಆನಿ Bengali Theatre - Kironmoy Raha. बेंगाली थियेटर पुस्तकाबरी मराठी थियेटराचो पुस्तक मेळतागी म्हण

मुंबयगार ᵯ हज्या आमीग मुकांत्र तांक्ता तितलें प्रयत्न केलें. पूण प्रयत्न सुफळ जालें ना. मुंबंयत वसती करून आसच्या मंगळूरगारां पयकी जे.बी. मोरायस, जे.बी. सिकवेरा, जोन डिसिल्वा हांकां संपर्क केलो. त्या पयकी प्रख्यात कोपरेटीव ब्यांकिंगचो आकार व्यक्ती जोन डिसिलवान अंतरजाळाचे थोडे जागे सांगोन दिले. पूण त्या अंतरजाळाच्या जाग्यांक पावोंक म्हाका जालें ना. त्या वर्वीं मराठी विमर्र्यात्मक विशलेषणाचे ग्रंथ म्हाका लाबलेनांत.

कन्नड नाटकाच्या विशलेषणाचो ग्रंथ सोधून काडुंक मंगळूरच्या सां. लुवीस महाविद्यालयाचो फामाद कन्नड प्राध्यापक प्रो। ना. द. शेट्टी हाणीं म्हाका मार्गदर्शन दिल्ल्यान, डा। के. मरूळसिद्धप्प हाचो विमर्शात्मक ऐतिहासीक विशलेषणेचें **'आधुनीक कन्नड नाटक'** ग्रंथ आपणायलो.

*'खाजूर पिकाना कावळ्याच्या तोंडार रुवां जाल्लीं खंय'* तशें चवत्या ग्रंथाची मुळावी तयाराय जाताना म्हाका एक अवघड जालें. हांव सांजेच्ये चलणेर आसताना (Evening Walk) एक मोटार बैक म्हाका येवन आदाळ्ळें आनी म्हज्या दाव्या पांयाचें हाड मोडोन हांव आस्पत्रेक दाखल जालों. अशें ग्रंथाचें काम थोडो तेंप पाटीं पडलें. ग्रंथाचें काम पाटीं पडलें म्हण, घरांत हांव 'Walker' घेवन, खंतीर आसताना, हो ग्रंथ DTP कर्चें श्रीमती स्टेल्ला एक दीस फोन कर्न, म्हाका धैऱ्य दिलागलें. "सर, तुमी बरयात, हांव सुजात संचिकेच्या श्री अश्वीन राव हाचे कर्ना तें बरप हाडयतां आनी तें डिटिपी करन तें बरप तुमकां पाटीं पावयतां." इतलें आयकालेंच म्हजा अंदकराचा जीवनांत संस्कार भरल्ल्या बरीं जालो. त्या जून–जुलाय महिन्याचा पावशिल्या दिसांनी तो अश्वीन राव बिजोन मुदो जावन तें डिटिपी केल्लीं दसतावेजां म्हाका हाडून दिताना म्हाका दोळ्यांत दुःखां

येतालीं. कोणगी कितेंगी, दोळे दांपून म्हजी चाक्री करताना, एक दीस हांवे ताचे कडेन तूं सुजाता संचिकेचो व्यवस्थापक जाल्यारी असली पुणेवंत सेवा दीवंक तुका प्रेरक कसलें म्हण विचारलें. ताका तो म्हणालो– *"समाजेगोसकर इरोंजी बूक बरेपुनार. ई सेवे मल्पून योग एंक तिक्कनाने एन्न भाग्य"* (समाजे खातीर तूं पुस्तक बरयताय. ही तुजी सेवा करुंक म्हाका अवकास मेळल्लेंच म्हजे भाग म्हणाजे.) असलीं विंचणार उत्रां आयकालिंच हांव थंयच एक घडिभर स्थब्द जालों. जिबेर उत्रां सुटाना जालीं. मतिंत चिंत्नां घुवाना जालीं. आजकाल आमच्या घरांत बूक दवरुंक जागो ना. आमगेर कोंकणी कोणी वाचिना म्हणचे मनीसयी आसच्या ह्या काळार असले भागी मनीसयी आसात म्हळ्ळेंच एक संतोसाची गजाल.

उपरांत अवघडाचो घाय गूण जातां जातां, घरा भितर बसोन बरोवंक सुरू केल्यारी, थोडीं दसतावेजां आपणावंक हावें फोनां मुकांत्र प्रयत्न केलें. थोड्या प्रयत्नांनी सुफळ जाल्यारी थोडीं प्रयत्न निर्फळ जालीं. निर्फळ जाल्ल्या प्रयत्नाचीं थोडीं कुतूहलभरीत घडितां ह्या परीं आसात.

ह्या म्हज्या लोक–नाट्य ग्रंथांत, गोंयचे लोक–नाट्य प्रकार – पेर्णी जागर थावन दशावतारी खेळ पऱ्यांत व्हडलें भंडारच आसा. तशेंच, तियात्र आनी खेळ तियात्र हाचीं विवीद रुपां आनी स्वरुपां आसात. हांव एक अवघड पिडेसत जाल्ल्यान, ह्या लोक नाट्य प्राकाराच्यो तस्वीरयो तलास करन धाडुंक हावें गोंयच्या दोन संस्थ्यांक कागदां बरयलीं. पेर्णी जागर, जागर, कालो इत्यादी लोक–नाट्य प्राकाराच्यो तस्वीरयो धाडुंक गोवा आर्ट एंड कल्चर डिपार्टमेंट आनी तियात्राच्यो तस्विरो धाडुंक  तियात्र अकाडेमी ओफ गोवा हांकां विनवणी केली.

तियात्र अकाडेमी ओफ गोवा हांचें पत्र आयलें. तांच्या पत्रांत कळयिल्ले पर्माणे तांचेकडे तस्वीरयो आसात पूण त्यो सबार निर्मापकांच्यो आनी निर्देशकांच्यो जाल्ल्यान ताणीं मात्र त्यो धाड्येत. त्या देकून हावें वैयक्तीक तियात्र निर्देशकां कडेन संपर्क दवरून तस्वीरयो घेवंक प्रयत्न करयेत म्हळ्ळ्या ओक्काणे सवें पत्राचो विवर आखेर; आतां पर्त्यान वैयक्तीक तियात्र निर्देशकांचो विळास हावें मंगळुरांत बसोन कसो घेंवचो. तांचो विवर आपणावंक जालें ना आनी तस्वीरयो तलास जाल्योनांत.

गोवा आर्ट एंड कल्चर डिपार्टमेंट, हांचेकडेन मुखामुखीं उलोवप करुंक, मंगळूरच्या लोकवेद कलावीद गोपालगौड मुकांत्र, गोंयचा लोकनाट्य कलावीद कांता गौड कडेन संपर्क केलो. तो तीन चार पावटीं ह्या संस्थ्याक स्वतह गेलो जाल्यारी, (ताणी सांगल्ल्या प्रकार) ताका संबंध जाल्ले अधिकारी मेळानासताना तस्वीरयो धाडचें काम सुफळ जालेंना. अशें लोक–नाट्य ग्रंथाक तस्वीरयो नासताना ग्रंथांचीं पानां भर्ती कर्च्याक आनिकियी थोडें विशलेषण बरयजे पडलें. अशें तस्वीरयो तलास करुंक जायनातल्ल्यान विमर्शात्मक विशलेषणाचीं पानां चडताव जावन वाडात्त गेलीं. अशें जाल्लें बरयाकच पडलें. ग्रंथ तस्विरेंनी भरच्या बदलाक विशलेषणाचा उत्रांनी भरोन आयलो.

तियात्रा विश्यांत बरयताना कोंकणी चळवळेचो वि० ार आरांवच्या खातीर गोंयचो एडवोकेट उदय भेंबरो, चळवळेगार नागेश कर्मली आनी तियात्र अकाडेमिचो आदलो अध्यक्ष तोमाजिनो कार्डोज, 100 Years of Konkani Tiatro बरयणार वीलमिक्स विल्सन माजारेल्लो, गोंयचो तियात्रिसत जेस फेर्नांडीस हांचेकडे आनी मंगळुरांत वसती करून आसच्या अखील भारतीय कोंकणी परिषद हाचो प्रस्तूत कार्याध्यक्ष गोकूलदास प्रभू हांचेकडेन तवळ तवळ संपर्क दवरून

आसल्लों. फोनार कितलो विवर मेळ्ळ्यारी हांव एक अवघड पिडेसत जाल्ल्यान आनी त्या वर्वी म्हाका पयण करुंक असाद्य जाल्ल्यान तेंकडेन म्होंव काडल्ल्याबरी जालां जाल्यारी, ग्रंथाक लुक्साण जायनातल्लेबरीं हावें पळेयलां.

नाटक आनी लोक–नाट्य हाच्या प्रबेदा विषयांत संबंध जाल्ल्या विवराक मंगळुरांतल्या विश्व कोंकणी केंद्र हाचो अध्यक्ष बस्ती वामन शेणै, कार्यदर्शी, वेंकटेश बाळिगा, नाटक प्रकाराचो अनभोवी नारायण कामत, बंटवाळ; सां लुवीस कोलेजिच्या कोंकणी संस्थ्याचो कार्याध्यक्ष एड्वीन जे.एफ. डिसोजा, गोपाल गौड, सां. लुवीस महा विद्यालयाचो प्राद्यापक दो. आलवीन विन्सेंट डेसा, प्राद्यापक लोरेन्स पिंटो, मंगळूरचो प्रख्यात नाटक निर्देशक आर्थर रसकिन्हा, माल्गडो कोंकणी बरवपी एडी नेट्टो, हांचे कडेन संपर्क दवरून विवर आनी मार्गदर्शन घेतलां,

'राकणो' कोंकणी हप्त्याळ्याचो संपादक फा. फ्रान्सीस रोड्रिगस, हार्णी राकणो दफ्तरांत म्हाका विवर आरांवच्या खातीर स मयने बसोंक अवकास करून, जाय जाल्ले राकणो पत्राचे पुर्विले अंके दिल्यात. राकण्याचो सह–संपादक टोनी फेरोस आनी श्रीमती ग्लेडीस रेगो हार्णी तवळ तवळ संबंद जाल्लीं फोन नंबरां तलास करून दिल्यांत.

२००८ इस्वेंत तिस्रो ग्रंथ मोग्रें–कारण जाल्या उपरांत सुमार बरेंपण जालां. मोग्रें–कारण ग्रंथाक २००९ इस्वेंत कर्नाटक कोंकणी साहित्य अकाडेमिचो पुस्तक पुरस्कार, २०११ इस्वेंत 'संदेश' संस्थ्या थावन कर्नाटक राज्य मट्टाची कोंकणी साहित्य प्रशस्ती कर्नाटक कोंकणी साहित्य अकाडेमी थावन २०१२ इस्वेची गौरव प्रशसती (कोंकणी साहित्य क्षेत्र) लाबल्यात.

२००६ इस्वेंत अखील भारतीय कोंकणी परिषदेचो अध्यक्ष जावन गोंयच्या पणजिंत अधिकार स्वीकार करन दोन वर्सां अखील भारत

मङ्गार कोंकणेची सेवा करन २००८ इस्वेंत केरळाच्या कोच्चिंत हावें अध्यक्षाची आवदी संपयिल्ली. त्या उपरांत २०१० इस्वेंत कोंकणी बरवप्यांचो एकवट कर्नाटक (री.) हाचो अध्यक्ष जावन २०१२ इस्वी सपटेंबर मयन्यांत म्हज्या अध्यक्षपणाची दोन वर्सांची आवदी संपयली.

२००६ इस्वे थावन २०१२ इस्वी परयांत म्हाका आनी म्हजा अध्यक्षपणाच्ये आवदेंत सार्वजनिकांक सेवा अर्पिताना सबार अहितकर घटनां उबजल्यांत आनी तीं तशेंच आनी तितल्याच धयरान हावें फूड केल्यांत. ह्या म्हज्या विशिषट विमर्शात्मक विशलेषणाच्या ग्रंथांत तीं अहितकर घटनां विवरुंक म्हाका खुशी ना. कारण हो एक विशिषट सृजनात्मक ग्रंथ. सबार भासांनी भाषांतर जांवचे आवकास आसल्ल्यान तीं नकारात्मक घटनां देशभर गाजोंवची गर्ज दिसाना. पूण मुकारीं येंवच्या सृजनेतर ग्रंथांनी तीं भोगणां उचार्ची संधी मेळ्ळी जाल्यार उचार्तलों. इतल्यार हांव थांबतां.

देव बरें करूं.

तुमच्या पात्येणेचो

**पावलू मोरास**

*ग्रंथकर्त*

## बरयणाराचीं व्यक्ती परिचय
# कोंकणी चळवळेगार, साहिती, संशोधक
# पावलू मोरास



**I. परिचय:**

नांव : पावलू मोरास
जनन / प्राय : १९५२ एपरील २८ वेर / ६० वर्सां
विळास : "प्रदीप", कोट्टार क्रास जंक्षन,
बिजै, कापिकाड, मंगळूरू ५७५ ००४.
मोबैल: ९८८०७४९७९०

**II. प्रमूख हुद्द्यानी सेवा:**

कोंकणी भाशेची सेवा : १९८७–२०१२ – २५ वरषां
कोंकणी भाशेचो संशोधक जावन :१९९५–२०१२ – १७ वरषां

**2. संघ–संस्थ्यानी अध्यक्ष जावन:(कोंकणी भाषेचा वावरांत)**

२०१०–२०१२ – अध्यक : कोंकणी लेखकांचो एकवट (री) कर्नाटक
२००६–२००८ – अध्यक्ष : अखील भारतीय कोंकणी परिषद
१९८९–१९९३ – अध्यक्ष : कोंकणी भाषा मंडळ कर्नाटक (री)

**III. कोंकणी भाशेची सेवा:**

१९८९ इस्वे थावन १९९३ इस्वी परयांत
कोंकणी भाषा मंडळ कर्नाटक (री.)
ह्या संस्थ्याचो अध्यक्ष जावन –

1. भारत संविधानाच्या आटव्या वोळेरिंत कोंकणेक स्थान आनी
2. कर्नाटकांत कोंकणी अकाडेमी स्थापन

ह्या दोन चारित्रीक ध्येया खातीर केल्लो संघटनात्मक वावर–

१९९० इस्वेंत गोंयच्या पेडणे गांवांत जाल्या अखील भारतीय कोंकणी लेखक सम्मेळना वेळार कर्नाटकांत कोंकणी अकाडेमी स्थापन करुंक ठराव मंडन

१९९१ इस्वेंत मंगळुरांत कर्नाटक कोंकणी साहित्य अकाडेमी घडुंक राज्य मट्टार कोंकणी संघ–संस्थ्याच्या फुडारयाचें सहमिलन.

१९९१ इस्वेंत उत्तर कन्नडचा कुमटांत, कोंकणी अकाडेमी स्थापने खातीर राज्य मट्टाच्या साहित्य सम्मेळनाचें मुखेल्पण आनी सर्काराक पर्गट मनवी.

१९९२ इस्वेंत कारवारांत अखील भारतीय कोंकणी साहित्य सम्मेळनाचें मुखेल्पण आनी कोंकणेचे चारित्रीक दोन ध्येय सुफळ जांवच्या खातीर सर्काराक पर्गट मनवी.

* चारित्रीक कोंकणी जाथा

भारताच्या संविधानाच्या आटव्या वोळेरिंत कोंकणेक स्थान आनी कर्नाटकांत कोंकणी अकाडेमी स्थापन. ह्या दोन कोंकणी लोकांचा हक्कांचा मागण्या खातीर, अखील कर्नाटक मट्टार चारित्रीक कोंकणी जाथा आसा करून सर्काराक पर्गट मनवी.

ह्या चारित्रीक कोंकणी जाथाचा शिखराचेर आसताना म्हणजे १९९२ इस्वेंत अगोसताचा २० तारिकेर संविधानाचा आटवे वोळेरिंत कोंकणेक स्थान लाबलें.

तशेंच कोंकणी जाथा मुखारसून वरून, अख्ख्या कर्नाटक राज्यांत कोंकणी जाथाचो वेवेगळ्या वठारांचें स्थळीय समित्यो रचल्या उपरांत राज्य शेहेर बेंगळुरांत १९९२ इ स्वी सपटेंबर २८ तारिकेर राज्याचा कोंकणी फुडारयां सांगाता, कर्नाटक राज्याच्या राज्यपालाक अ। मा। दो। खुरषीद आलं खान हांकां मनवी समर्पिल्ली.

त्या उपरांत १९९३ इस्वी फेबरवरी २२वेर कर्नाटक सर्कारान कोंकणी अकाडेमी घोषण केली.

## IV. कोंकणी साहित्य आनी संशोधन :

### (1) संशोधीत ग्रंथां

**i) "कोंकणी चळवळ"**

विषय : कोंकणी–मराठी वाद पानां २०+३२०
प्रकटण : कन्नड लिपिंत – ३०.०६.२००२ – मंगळूर
देवनागरी लिपिंत – १० .०५.२००३ – गोवा
प्रकाशक : कोंकणी संस्थो – सां लुवीस कालेज – मंगळूर

कोंकणी–मराठी वाद–विवाद ह्या विषयचेर गोवा, महाराष्ट्र, केरळ राज्यांनी आनी कर्नाटकाचा इतर प्रदेशानीं भेट दीवन निरंतर परिश्रमान १९९५ इस्वे थावन २००२ पऱ्यांत कोंकणी भाशेचा चळुवळिचें संशोधन कर्न बरेयिल्लो ग्रंथ.

ह्या ग्रंथक डा। टी.एम.ए. पै पौंडेशन मणिपाल हांचो २००३ वर्साचो अत्युत्तम कोंकणी पुसतक पुरसकार लाबला. ह्या पुरसकार सवें रू.२५,०००/– नगदेन आनी प्रशंसा पत्र आसोन २००४ इसवी अकटोबर १७ वेर मणिपालांत प्रतिषठानचो अध्यक्ष श्री के. के. पै हांचे थावन स्वीकार.

**ii) "जागरण"**

विषय : कोंकणी पत्रिकोद्यम – पानां : २५+४१६
प्रकटण : कन्नड लिपिंत – १४.०८.२००५ – मंगळूर
देवनागरी लिपिंत – १२.०३.२००७ – गोवा
प्रकाशक : कोंकणी संस्थो–सां लुवीस कालेज, मंगळूर

ह्या ग्रंथात कोंकणी पत्रिकोद्यम विषयांत कर्नाटक, गोवा, महाराष्ट्र, आनी केरळ ह्या च्यार राज्यांनी कन्नड, रोमी, देवनागरी आनी मलेयाळी लिपिंत असल्ल्या कोंकणी पत्रिकोद्यम विषयांत पयल्या वांट्याचो समग्र विवर.

**iii) "मोग्रें–कारण"**

विषय : कोंकणी लोकवेद– पानां : ६८+४५५

प्रकटण : कन्नड लिपिंत – १६.११.२००८ – मंगळूर
प्रकाशक : पडवळ प्रकाशन, मंगळूर

ह्या ग्रंथांत कोंकणी लोक–नाच आनी लोक–संगीत, ह्या विश्यांत कोंकणी लोकाचा लोकवेदचो रंगाळ तस्विरे सवें समग्र विवर.

ह्या ग्रंथाक कर्नाटक कोंकणी साहित्य अकाडेमी थावन २००८व्या वर्साचो अत्युत्तम पुसतक पुरसकार लाबला.

(2) **विंचणार संशोधीत लेखनां :**

- 'पयणारी' कोंकणी हप्त्याळ्यांत २००० इस्वेंत सराग कोंकणी चळुवळिचीं लेखनां.
- 'दिवो' पत्राच्या '१०० वर्सांचो कोंकणी रंगमंच – २००२ इस्वेच्या विशेष' अंक्यांत नाटकांचा तळवेर **"कोंकणी चळवळेची झर"** म्हळ्ळ्या संशोधीत लेखनाक दुस्रें बहुमान.
- 'राकणो'–'**शेणय गोंयबाब एक नियाळ**'–जनवरी २००२, **कोंकणी लिपियच्या वादांत देवनागरिची झर**–मे १९, २००५, इत्यादी संशोदीत लेखनां.
- 'मित्र – ५०' भंगारोत्सव अंक्यांत 'मित्र पत्राचो उदेव' – विशेष संशोदीत लेखन – आनी इन्नितर लेखनां.
- २०१० इस्वी सपटेंबर १२ तांकेच्या दिर्वें कोंकणी हप्त्याळ्यांत 'कोंकणी चळवळेगार रवींद्र केळेकार ज्ञानपीठ प्रशसती मेळल्ला श्रेषठ कोंकणी साहितिच्या श्रद्धांजलिचें लेखन आनी इन्नितर लेखनां.
- विश्व कोंकणी सर्दार श्री बसती वामन शेणै अमृत महोत्सव अभिनंधना ग्रंथांत कोंकणी पत्रिकोद्यम विश्यांत सविवर समेत संशोदीत लेखन.
- सां एवीस कोलिजिच्या कोंकणी संस्थ्या थावन प्रकट जांवच्या अमर कोंकणी भाशेच्या आनी संसकृतेच्या षणमाशीक प्रकटणेच्या अंक्यांत कोंकणी–मराठी वाद–विवाद आनी पोरचुगीस आवदेंत कोंकणी म्हळ्या विशयांत आनी इन्नितर विश्यांत संशोधनात्मक लेखना प्रकट जाल्यांत.

- कोंकणी लेखकांचो एकवोट (री) कर्नाटक हांणी २८.०६.२००९ इस्वेंत संयोजीत केल्या काऱ्यक्रमांत भाषांवार प्रांत्य आनी गोयांत लोकमत आनी कोंकणी नाटकाचो उगम ह्या विश्यांत उपन्यास.
- २०११ इस्वी मार्च २६ तारिकेर रचना केथोलीक क्रिसतांवाच्या उद्यमिचो संस्थो, हांणी मांडून हाडल्या संदेश प्रशसती स्विकरयिल्याक, केल्या सन्मान काऱ्यावेळीं कोंकणी संसकृती विश्यांत दिल्लें उलोवप.
- करावळी प्रदेशांत लोकवेद
  – 'दिवो' कोंकणी हप्त्याळें मुंबय – मे १६, २००९
- आटवे वोळेरिंत कोंकणी – चारित्रीक घडितांचो उडास
  – 'राकणो' कोंकणी हप्त्याळें मंगळूर, अगोसत १८, २०११.
- गोंयचे सुटकेक पन्नास वरसां –
  गोंयचे सुटकेक पन्नास वरसां भरल्ल्या संदर्भार
  – राकणो कोंकणी हप्त्याळें मंगळूर, दसेंबर ०८, २०११
- नाटक आनी तियात्रा मदलो वेगळाचार –
  आधुनीक नाटकाचा शतमानोत्सवाचा संदर्भार
  – राकणो कोंकणी हप्त्याळें मंगळूर – फेबरेर १६, २०१२.
- समाजे थंय लेखकांची जवाब्दारी
  – 'अमर कोंकणी' दशेंबर २०११/५६
- आटव्या वोळेरिंत कोंकणी–
  आयल्या उपरांत कोंकणी भाषेची वाडावळ
  – २४–८–२०११वेर मंगळूर आकाशवाणिचेर वाचल्लें भाषण
- कन्नड लिपियेंतल्या कोंकणी पत्रिकोद्यमाक
  बुन्याद घाल्लें, 'कोंकणी दिर्वें' –
  कोंकणी पत्रिकोध्यमाचा शतमानोत्सवा संदर्भार
  – राकणो मे १०, २०१२

- राकणाचो कूरवार –

  राकणो सुर्वातेच्या कारणाचें लेखन –

  संदर्भः राकणो अमृतोत्सव अंको

  – राकणो जनेर ०१, २०१३

V. प्रमूख प्रशसती, पुरसकार–संक्षिप्त विवर

प्रशसती –२००२ – दक्षीण कन्नड जिल्ला राज्योत्सव प्रशसती

–२०११–'संदेश प्रशसती'–कोंकणी साहीत (संदेश, संसकृती आनी शिक्षण प्रतिषठान)

– २०१३–कर्नाटक कोंकणी साहित्य अकाडेमी ह्या संस्थ्या थावन २०१२ इस्वेची गौरव प्रशसती (कोंकणी साहित्य क्षेत्र)

पुरसकार –२००३ – डा। टी.एं.ए.पै प्रतिषठानाची कोंकणी चळवळ ग्रंथाक अत्युत्तम पुसतक पुरसकार.

– २००८–कर्नाटक कोंकणी साहित्य अकाडेमी थावन मोग्रें–कारण–ग्रंथाक अत्युत्तम पुसतक पुरसकार.

बिरूद – १९९३–कोंकणी भाषा मंडळ कर्नाटक (री) संस्थ्या थावन महान कोंकणी कारबारी बिरूद.

–१९९४–कर्नाटक अरण्य इलाखे थावन गौरव अरण्य संरक्षक बिरूद.

गौरव – १९९५ – अंतराषट्रीय लयन्स संस्थ्या थावन क्लब प्रेसिडेंट एक्सलेंट अवार्ड – गौरव

–२००१ – कोंकणी लेखकांचो एकवट (री) संस्थाचो राज्य म ाचो सम्मेळनाध्यक्ष – गौरव

–२००६–अखील भारतीय कोंकणी परिषेदाचा २(...) व्या अधिवेशनांत सांसकृतीक गौरव.

***

